# धम्मपद

(मूळ पाली संहिता समश्लोकी पद्य आनी
गद्य अणकार टिपांसयत)

सुरेश गुंडू आमोणकार



**DHAMMAPAD**
TRANSLATION INTO KONKANI
IN VERSE AND IN PROSE



प्रकाशन क्र. ४
पयली खेप : २२ मे १९९७



**उजवाडावपी**
प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार
सचिव, अस्मिताय प्रतिष्ठान
१०, कॉमर्स हाउस, लुईश मिरांडा मार्ग
मडगांव, गोंय

**छापपी**
श्री. राजेश भाटीकार
तन्वी ग्राफिक्स
बी-०४, 'आषाढ', माडेल
मडगांव, गोंय




वितरण आनी विक्र्याची वेवस्था
युगवेद
दलाल कमर्शियल कॉम्प्लॅक्स
मार्तीरिस डायस मार्ग
मडगांव, गोंय

मोल
१५०/- रुपया

# ओंपणी

*म्हजे वडील*

***ती. आपा***

*(स. गुंडू सीताराम आमोणकार)*

*जांणी म्हाका संस्कृत भास आनी*

*भारतीय संस्कृतायेच्या दायजाची*

*वळख करून दिली आनी*

*म्हजी आवय*

***ती. माई***

*(स. वासंती आमोणकार)*

*हांच्या मोगाळ उगडासाक*

— सुरेश

# मांडावळ

# एक आगळो अळंकार

अस्मिताय प्रतिष्ठानाचे १९९६-९७ वर्साचे पुस्तक-प्रकाशन येवजणेंतलें हें पयलें पुस्तक वाचप्यांच्या हातांत दितना आमकां भारी खोस जाता. कोंकणी भाशेंत ज्या विशयांचेर पुस्तकां नात त्या विशयांवयलीं पुस्तकां उजवाडावन भास समृद्ध करची, तशेंच ज्या म्हत्वाच्या ग्रंथांचे अणकार जावंक जाय ते उजवाडा हाडून साहित्याची गिरेस्तकाय वाडोवची अशें धोरण प्रतिष्ठानान आपणायलां. देखून श्री. सुरेश आमोणकार हे धम्मपदाचो अणकार करतात हें कळटकूच तो उजवाडावपाची इत्सा प्रतिष्ठानान प्रगटायली. श्री. सुरेश आमोणकार हांणी ती मानून घेतली आनी ते प्रमाण हे उजवाडावणेचो योग आयला.

ह्या गद्य-पद्य अणकारा खातीर श्री. सुरेश आमोणकार हांणी उपाट कश्ट घेतल्यात. अणकार मूळ संहितेक पुरायेन प्रामाणिक आसचो म्हूण खोलायेन अभ्यास केला आनी बौद्ध तत्त्वगिन्यानाच्या अभ्यासकांक कोंकणीच्या माध्यमांतल्यान एक उत्तम साधन दिलां. हो अणकार उजवाडावपाची संद तांणी प्रतिष्ठानाक दिली हे खातीर प्रतिष्ठान तांचें उपकारी आसा.

तन्वी ग्राफिक्सचे श्री. राजेश भाटीकार हांणी छापणावळीचें काम खाशेले आस्थेन केलां हे खातीर प्रतिष्ठानाचे तांकां दिनवास.

हो अणकार कोंकणी सरस्पतीचो एक अळंकार जातलो असो विश्वास प्रतिष्ठान बाळगिता.

उदय भेंब्रे
अध्यक्ष, अस्मिताय प्रतिष्ठान

मडगांव, गोंय
५ मे १९९७

# मनांतलें...

*एकोणीसशें एक्याणणव वर्साच्या*
*तीन अक्टोबराक*
*आयली कळ काळजांत म्हज्या*
*जाली धड्धड्. जाली धांवपळ. चालूच धडपड.*

*घेतली बुद्द दोतोराची*
*निर्णय ताचो: ''भरलीं तुजीं शिरंत्रां हीं*
*चरबेच्या घट्ट लगद्यान*
*रगताची जायना पुरवण तुज्या काळजाक...*
*रावत येतल्यो अशोच कळो*
*अशीच अवचीत एका खिणाक*
*जातली बंद काळजा धड्धड्. तुजी धांवपळ. तुजी धडपड.''*

*म्हळें हांवें: ''जावपाक अशें कारण कितें?''*
*ताणें सांगलें: ''जिणेची ही आयची तरा*
*जिणे मोगांत पडल्यात तुमी*
*तुमच्याच मोगांत पडल्यात तुमी*
*कीर्त तुमकां जोडची आसा*
*पयसो आडको करचो आसा*
*यशा तेमकां चडचे पासत*
*काडाओडी काडटात तुमी*
*वसवस तुमचो मोगा वांगडी*
*सर्त तुमची मोगा इश्टीण*
*तृष्णेन तुमकां धरलें जाळांत*
*घुस्पले तुमी, फसले तुमी*
*सुटप तातुंतल्यान क़ठीण आतां.''*

*आयकून हें लागलों चितूंक*
*''सुटचें कशें तातुंतल्यान*
*सायबा म्हाका सांग बेगीन.''*

''आतां हाका दोनूच उपाय
पयलीं बदल जिणे तरा
घे सुशेग. काडाओडी काडूं नाका.
घे बुद्द मुंबय वचून
विचार फिशाल सिरूरजावांक
करतलो तो रगता पुरवण काडून पाट
गोठिल्ल्या काळजाक तुज्या.''

वेगीं धरली मुंबयची वाट...
मनाक म्हज्या फुटलीं पांखां
मळबांतल्यान उडटना
मरणा हुंबऱ्यार उबो रावन
जिविताचो केलो नियाळ
कित्याक इतलो जालो कळाव ?
करूंक म्हजेच जिणे नियाळ ?
कितें केलें जिणेंत हांवें ?
कितें जोडलें ? मोडलें कितें ?
कितलीं केलीं पिशेपणां
पोसूंक म्हजोच अहंकार ?
कोणाखातीर जगलों हांव ?
भुरग्यांखातीर ? बायलेखातीर ?
म्हजेखातीर ? पोटाखातीर ?
काय गरीब धाटयां लोकांखातीर ?

''तुजेचखातीर, पिशा, तुजेचखातीर''
म्हळें म्हज्याच अंतर्मनान.

केली ना हांवें समाजसेवा ?
केलें ना काम्र ? पुलितिकां ?
कितलिंशींच एलेसांवां ?
जिखलिंना हांवें जैता तेमकां ?
''तुजेचखातीर पिशा, तुजेचखातीर''
म्हळें म्हज्याच अंतर्मनान.



पडलो झोत काळ्या मनार
अंतर्मना उजवाडाचो
जाली वळख तुजीच तुका ?
इतलो कळाव केलो कित्याक ?
करूक तुवें तुजोच नियाळ ?



पावलों रोखडोच मुंबय हांव
लोकांखेटींत शेणलों हांव – कुस्कूट हांव.
सरल्यो वयर पोरण्यो यादी
कॉलेजींतल्या आचार्यांच्यो
स्फूर्तदिणीं उतरां तांचीं
घुमूंक लागलीं म्हज्या कानांत.
कालिदासा शकुंतलेक केल्ली जिवी
संस्कृताच्या आचार्यान
चंवरून आयलें सैम सगलें
देखून 'कुमारसंभवा' विलास.
रावले उबे दोळ्यांमुखार
जावन जिवे तट्टटीत
शेक्सपियरच्या नाटकांतुले
हॅम्लेट, मॅक्बॅथ, लीयर, सीझर –
सगलेच वीर नायक ते
विदर्णा जावन पडिल्ले सकला
आपल्याच नसत्या कर्मांनी –
चुरचुऱ्यांची जीण तांची – भंगूं तांचें.
पूण कित्याक पडली जिणे तांचे
विसर म्हाका इतले बेगीन ?
निर्णेवन हांव लागलों चलूंक
कातरीत वाट मुखावेली.



जाल्यो म्हाका पोरण्यो यादी
कॉलेजींतल्यो गांठी भेटी
गिमाळ्याच्या सुटयांनी
गोंयाक दिल्ल्यो उड्ट्यो भेटी.

चौपाटेच्या नितळ वाऱ्यार
घाल्ले उले जवाहरान
गोंयचेपासत, देशापासत
कितें दिली जाप हांवें
जवाहरा त्या उल्याक ?
पोटाफाटल्यान धांवलोंना हांव
कुड्डो जावन ? स्वार्थी हांव.



पावल म्हजें पडटा तशें रावलों चलत...
घेतलो सोद जिणे म्हज्या
भंगिल्ल्या हावेसांचो
विरिल्ल्या सपनांचो
पोक्या जाल्ल्या उतरांचो
जित्या जागत्या सुवार्तांचो
मांडीत जिणे आदा खर्च.



फोर्टांतुल्या फुटपाथार
संवकळेच्या पोरण्या तिठ्यार
पुस्तकांच्यो राशीच राशी
पडल्यात थंय थारले पांय.
पुस्तकांचें पिशेंच म्हाका
तें एकूच शाणपण म्हजें
पुस्तकां पोशेत वाचीत जंय

काडलीं हांवें वर्सान वर्सां
विसव गावलो म्हज्या मनाक
दिली म्हाका तांणी थाकाय.



मर्णा हुंबऱ्यार उबो हांव
कसलें अमृत मेळचें म्हाका
गावलें म्हाका 'धम्मपद'
धम्मजोतिल्या अणंकारासयत.
कितें दिलें ताणें म्हाका ?
दिली म्हाका नवी जीण
दिली म्हाका नवी नदर
दिलो म्हाका नवो विचार
दिलो म्हाका नव्यान आदार
दिलो म्हाका नवो नित्शय
दिली म्हाका नवी तांक
तर्जूंक म्हजे विचार विकार
दिली म्हाका नवी दिका
खातोणांतल्या ह्या जिवाक
दिलें म्हाका खूब त्राण
चलूंक उजू बरी वाट.
जायती वाट चलची आसा
होलमल्ले नवे वाटेर
बुद्धाचे मदले वाटेन.

म्हापशें, गोंय
१९-१-१९९६

सुरेश आमोणकार

# उपकार

धम्मपदाचो हो अणकार जायत्या जाणांक लागून जावंक पावलो. म्हज्या आदल्या अणकारप्यांनी म्हजी वाट सोपी केली. तांकां विचारीत हांव मुखार सरलां. श्री. रवीन्द्र केळेकार हांणी पुस्तकां दिलीं, 'पथप्रदर्शक' ही प्रस्तावना बरयली आनी म्हाका गुजराथी बाराखडी शिकयली. श्री. नागेश करमली हांणी पुस्तकां दिलीं, हातबरप वाचलें. प्रा. एस्. एस्. नाडकर्णी हांणी हातबरपाची विसकावणी केली. प्रा. वाय्. एन्. मेणसे, सर्वश्री कमलाकर म्हाळशी, मुकेश थळी आनी स. आपासाहेब शिंदे हांणी हातबरप वाचून मोलादीक सुचवण्यो केल्यो. अस्मिताय प्रतिष्ठानान हें उजवाडावचेली जापसालदारकी घेतली. तन्वी ग्राफिक्सचे श्री. राजेश भाटीकार हांणी हें पुस्तक जतनायेन छापलें. ह्या सगल्यांच्या उपकारांत हांव आसां.

म्हजी घरकान्न सुधा – म्हजी इश्टीण आनी पयली वाचपी – हिच्या फाटबळाक लागून हो अणकार जावंक पावलो.

सुरेश आमोणकार

# पथप्रदर्शक

बुद्ध आपणाल्या धर्ममत्ताक 'एहिपस्सिक धम्म' म्हणटालो. 'एहिपस्सिक' म्हळ्यार 'येयात, नियाळून, तर्जून पळेयात, प्रज्ञेच्या वरकुलाचेर घांसून काडात आनी पटलो जाल्यारूच घेयात' अशें सांगपी धर्म. "भावांनो, हांव जें कितें सांगतां तें पूर्व-परंपरेंतल्यान आयलां-शें दिसलें, सदां आयकत आयल्यात तांतलेंच-शें दिसलें; लोकीक न्यायांत बसता, तुमच्या भावार्ताक पोसवण दिसता, अशें दिसलें; तें सांगता तो एक नांवाजतो धर्मगुरू, लोक ताका मानतात, तो सांगता तें खरेंच आसूंक जाय, अशें दिसलें, तरूय तें मोन्यांनी मानून घेवं नाकात. तुमचे बुद्धीच्या वरकुलाचेर सगळें घांसून पळेयात, आनी थंय खरें उतरलें जाल्यारूच घेयात," अशें तो सांगतालो. "कोणेंय कितेंय सांगलें म्हूण तें मोन्यांनी मानून घेवं नाकात – मागीर तें सांगपी कोणूय आसूं, स्थवीर आसूं वा खासा तथागत (म्हळ्यार आपूण) आसूं" अशें म्हणटालो. कित्याक, धर्ममत्त हें सत्याचेंच दुसरें एक नांव, आनी 'सत्य हें मानून घेवपाचें तत्व न्हय, तें तर्जून पळोंवपाचें, परिक्षावपाचें, सोदून काडपाचें एक तत्व,' अशें तो मानतालो. "धरुंया, कोणेंय एक कांकण हाडून शेटीक दिलें आनी तें भांगराचें म्हूण सांगलें, जाल्यार शेट तें भांगराचें म्हूण मोन्यांनी मानून घेतलो व्हय? तो कांकण वरकुलाचेर घांसून पळेतलो आनी थंय खरें उतरलें जाल्यारूच घेतलो. तसो, खंयचोय धर्म-विचार धर्मविचार म्हूण खूब पातळ्ळेलो वा लोकांनी मानिल्लो आसलो तरूय प्रज्ञेच्या वरकुलाचेर घांसून पळयलेबगर तो घेवंक जायना" अशें म्हणटालो.

प्रज्ञा म्हळ्यार आवडी नावडी पेल्यान गेल्ली, ग्रह-पूर्वग्रहांपसून मेकळी जाल्ली, शुद्ध, निर्मळ बुद्द.

बुद्धीचेर इतलो भर दिवपी धर्मगुरू, म्हाका दिसना, संवसाराचे फाटीर दुसरो कोणूय जावन गेला आसत म्हूण. धर्मगुरूंभितर बुद्ध उठून दिसता तो हेखातीर.

तो आगळो वेगळो आशिल्लो अशेंच म्हणचें पडटा. बुद्धाचो काळ हो धर्मविचारांच्या मळावयलो आमच्या इतिहासांतलो चड उचंबळायेचो काळ आशिल्लो. तरांतरांचे धर्मविचार ते मुस्तींत वयर सरिल्ले आनी लोकांक ते उचंबळीत करीत राविल्ले.

विचारांचो एके तरेचो खतखतो ते मुस्तींत आयिल्लो. हो खतखतो येवपाक कांय कारणां जालीं – मगध आनी कोसल नांवांचीं दोन एकसत्ताक राज्यां मध्यदेशांत वयर सरिल्लीं. तांणी कसलोच पात्सो धरिनासतना युगान युगांसावन चलत आयिल्लीं भोंवतणचीं

गणराज्यां गिळून उडयल्लीं. गणराज्यांतले लोक एके तरेचे मेकळिकेंत (स्वातंत्र्यांत) रावताले. आपणा मजगतच्याच एकल्याक कोणाक आपणालो राजा म्हूण वेंचून काडटाले, आनी राज्यांतले सगळे नागरीक ह्या राजाक घेवन, एकठांय बसून, राज्यकारभाराच्यो सगळ्यो थारावण्यो घेताले. म्हळ्यार, एकेतरेची लोकशाय ह्या गणराज्यांमदीं चलताली. गणराज्यां ना करून मगध कोशलच्या राजांनी लोकांमजगतीं चलत आयिल्ली ती मेकळीकूय ना करून उडयल्ली. कितें करचें, लोकांक समजनाशिल्लें. हाका लागून लोक उचंबळीत जाल्ले.

ते मुस्तींत दोन धर्म-परंपरा चलताल्यो. एक ब्राह्मणांची, दुसरी श्रमणांची.

ब्राह्मण वेदांक प्रमाण मानपी आशिल्ले. ते मगध-कोशल राज्यां फाटल्यान राविल्ले. तांगेले पुरयत आशिल्ले. ते भायर तांगेले अमात्यूय जाल्ले. पड्ड्याफाटल्यान रावन तेच खरेपणांनशीं ह्या राज्यांचो कारभार चलयताले. तांगेलो धर्म-विचार मंत्र, जप, दान, याग असल्याच अनुष्ठानांनी घुसपून उरिल्लो. हीं अनुष्ठानां कशीं करचीं हें फकत तेच जाणा आशिल्ले. देखून समाजांत तांगेलोच शेक चलतालो. ते विद्या-व्यासंगी आशिल्लें म्हूण लोक तांकां मान भौमान दिताले. हाकाय लागून तांगेली सत्त्या घट जाल्ली. सत्त्येन तांकां सुवार्थी केल्ले.

श्रमणांक आनी तांकां पडनाशिल्लें. ब्राह्मण प्रस्थापितांचे, तर श्रमण लोकांचे. हो फरक तांच्यांत मुदलासावन आशिल्लो. श्रमण वेदांक प्रमाण मानिनाशिल्ले, तशे यज्ञयागूय करिनाशिल्ले. वेदीक अनुष्ठानांपरस तपस्येचेर तांचो भावार्थ चड आशिल्लो. ते गणराज्यां फाटल्यान आशिल्ले.

पुणून मोडत वचूंक लागिल्लीं हीं गणराज्यां सांवरून कशीं धरचीं हें ताका समजनाशिल्लें. परिस्थितींत बदल घडोवन हाडपाची तांक तांच्यांत नाशिल्ली. ते निर्शेल्ले. चल्लां तें कोणाक आडावंक येवपाचें ना, कोणाच्याच हातांत कितेंच उरूंक ना, असो-सो कितें तांगेलो समज जाल्लो. हे निर्शेणेंतल्यान तांगेलीं धर्म-मत्तां वयर सरिल्लीं. 'बऱ्यो करण्यो केल्यो म्हूण पुण्य मेळटा अशें ना, आनी वायट करण्यो केल्यो म्हूण पातक लागता, अशेंय ना,' अशें म्हणपी एक धर्म-मत्त वयर सरिल्लें. बऱ्यो करण्यो करपी तरतरताले ते ह्या धर्ममत्तान पळयल्ले 'मनीस मरतकूच फाटल्यान कांय उरना; तो स्वर्गांतूय वचना, नरकांतूय पडना' अशें म्हणपी आनीक एक धर्म-मत्त वयर सरिल्लें. 'मनशाच्या यत्नांक कांय अर्थ ना, दैव नांवाचें एक तत्त्व संवसारांत चलता, तेंच मनशाक वयर काडटा वा सकयल आपटून मारता,' अशें म्हणपी आनीक एक मत्त चलपाक लागिल्लें. हे तरेचीं स-सात मत्तां ह्या वाटारांत वयर सरिल्लीं आनी हीं मत्तां मांडपी रुशी तपस्वी आशिल्ल्यान लोकांचेर तांचो थोडोभौ परिणाम जाल्लो. हीं सगळीं मत्तां निर्शेणेंतल्यान आयिल्लीं आसलीं, लोकांचेर तांचो परिणाम जाल्लो

आसलो तरूय काळजाच्या खोल मळाक लोकांक एक वेगळीच भूक लागिल्ली. ती हीं धर्म-मत्तां भागोवंक पावूंक नाशिल्ली.

लोकांची ही भूक भागोवपाचें काम बुद्धान केलें.

बुद्ध प्रस्थापिताचो तर नाशिल्लोच, म्हळ्यार ब्राह्मणी परंपरेंतलो नाशिल्लो. मुदलांत तो श्रमण परंपरेंतलो. ब्राह्मणी परंपरेक 'उणाक, अनार्य, संस्कारी मनशांक सोबना असली परंपरा' लेखीत आयिल्लो. तसो, भोंवतणी जें चल्लां ताचेपसून कुशीक रावन कूड दंडावन तपस्ये फाटल्यान गेल्ले आनी तुर्ताक निर्शेणेच्या काळखांत पडिल्ले श्रमण परंपरेकूय ती उणाक, अनार्य, संस्कारी मनशाक सोबना असली परंपरा लेखपाक लागिल्लो.

हीं दोनूय तोंकां सोडून लोकांक तो मदले एके वाटेवयल्यान घेवन वचपाक लागलो.

'बुद्ध' जाले उपरांत ऋषिपत्तन ह्या थळांत ताणें जो पयलोच उपदेस केला तातूंत ताणें आपणाले हे 'मदले वाटे'चेर घणघणीत बरो उजवाड घाला. तो म्हणटा – जिवितांत दुख्ख भरलां, इतलें भरलां की ह्या दुख्खाक लागून दोळ्यांतल्यान व्हांवपाक लागतात तीं दुकां साठावंक आयिल्लीं जाल्यार पांचूय म्हाल-सागर भरतले आशिल्ले. ह्या सत्याची जागरूक जाणवीक दवरून दुख्ख जिवितांतलें ना कशें करचें हें सांगप हें खंयच्याय धर्मविचाराचें सगळ्यांत म्हत्वाचें, सगळ्यांत व्हडलें, सगळ्यांत गरजेचें काम आसूंक जाय. ह्या दुख्खां मजगतचीं पिडेन हांतुळणार पडप, जाणटो जावन मरप, नाका आशिल्लें मेळप आनी जाय आशिल्लें मेळप ना, हीं दुख्खां सैमीक. तीं कोणाक चुकनात. तांचेर एकूच उपाय आसा. तो म्हळ्यार दोळे उकते दवरून सतरवितर जायनासतना तीं सोंसप. पुणून ह्या सैमीक दुख्खां भायर जिवितांत जीं दुसरीं दुख्खां येतात तीं तुमी समजतात तशीं देवूय धाडिना आनी नशिबांत आसात म्हुण्णूय येनात. तीं आपूण जावन मनीस ओडून हाडटा. आपुणूच आपणाल्या करण्यांनी तीं निर्माण करता. मावली आपुणूच जाळें विणटा आनी आपुणूच तातूंत आपणाक घुसपावन घेता, तसो, मनीस आपुणूच तीं निर्माण करता, आपुणूच तातूंत आपणाक घुसपावन घेता. कशें? हें जाय, तें जाय करून. ताचेखातीर लटपटी खटपटी करून. त्यो फळादीक जाल्योनात म्हणटकूच फणफणून. मनशांत तृष्णा नांवाची एक आकांताळी ओड आसता. संवसारांत जितलींय झुजां चल्ल्यांत, तितलींय हे तृष्णेक लागून चल्ल्यांत. तृष्णेक लागुनूच बायल घोवा आड, भाव भावा आड, बापूय पुता आड वा पूत बापाय आड वतात. हे तृष्णेक लागुनूच राजा राजा आड वतात. ही तृष्णा पोंद नाशिल्ल्या आयदना सारकी. कितलेंय उदक हाडून रकय त्या आयदनांत, तें केन्नाच भरपाचें ना. तशी तृष्णा कितलीय भागय, केन्नाच भागपाची ना. दुख्ख हें जिविताचें पयलें आर्यसत्य. दुख्खाचें मूळ तृष्णा हें दुसरें आर्यसत्य. हातुंतल्यान तिसरें आर्यसत्य येता – दुख्खाचेर जैत जोडूं येता म्हणपाचें. जिवितांतलें तें हुमटावन भायर मारूं

येता म्हणपाचें. दुख्खाचें मूळ जी तृष्णा तिकाच जिवितांतली हुमटावन उडयतकूच जिवीत दुख्खांपसून मेकळें जावं येता म्हणपाचें. तृष्णा कशी हुमटावन काडची? वायट तें वायट आनी बरें तें बरें हें वळखून. अमकें करचों ना म्हळ्यार करचों ना, प्राण गेल्यार लेगीत करचों ना, आनी अमकें करतलों म्हळ्यार करतलों, केदेंय व्हडलें संकट कोंसळूं, कितल्योय अडचणी येवं, केले बगर रावंचो ना, असो नित्शय करून. उतराक पाळो दितलों, दुसऱ्याक वायटाक पडत असलें कितेंच करचों ना, दुसऱ्यांच्या बरेपणाचो वा दुबळेपणाचो लाव घेवन पोट भरचों ना, दुसऱ्याचें बरेंच चिंततलों, दुसऱ्यांच्या बऱ्याखातीर वावुरतलों, सदांच जागरूक रावतलों, मन निवळ दवरतलों आनी संवसाराकडेन मैत्री, करुणा, मुदिता आनी उपेक्षा ह्या चार नदरांनी (भावनांनी) पळेतलों, अशें थारावप.

म्हळ्यार समा नदर, समा नित्शय, समा उतर, समा करणी, समा जोड, समा यत्न, समा चित्त आनी समा समाधी हे आठ-आंगी वाटेन चलून. ह्याय तोंकाक वचचों ना, त्याय तोंकाक वचचों ना, अशें थारावप.

विणेंतल्यान संगीत येवपाक तिच्यो तारो सदळूय सोडूंक जायनात तशो ओडुनूय धरूंक फावनात. तशें जिवितांतल्यान संगीत वयर सरचें अशें दिसता आसत जाल्यार तें सदळय सोडूंक जायना, ताणुनूय धरूंक जायना. खावंचें, पियेवंचें, मजेंत जियेवंचें हें एक तोंक आनी उपास-तपास, व्रतां-वैकल्यां करून कूड दणदणावची हें दुसरें तोंक. दोनूय तोंकां उणाक, अनार्य, संस्कारी मनशाक सोबनात असलीं. दोनूय सोडून मनशान मदले वाटेन चलूंक जाय, ही बुद्धाची शिकवण ऋषिपत्तनांतल्या पयल्याच उपदेशांत ताणें स्पश्ट केल्ली.

उपरांतचीं पंचेचाळीस वर्सां तो एका लेगीत दिसाचो खंड पडूंक दिनासतना तिचीं वेगळींवेगळीं आंगां लोकांक समजायत भोंवलो. तीं समजावन सांगता आसतना ताका आनिकूय एक वावर करचो पडला. लोकांचे तकलेंत घट्ट जावन राविल्ले कांय समज कातरून उडोवपाचो. दोन समज सगळ्यांत चड घट जाल्ले. एक, आत्म्याविशींचो आनी दुसरो ईश्वराविशींचो.

आत्मो म्हळ्यार कोण, बुद्धान विचारचें. मनीस जाका आपणांतलो 'हांव' तो व्हय? जाल्यार तो 'नित्य, शाश्वत, केन्ना बदलना असो, केन्ना मरना असलो' आसूंक नज, अशें म्हणचें. कित्याक, मनशांतलो 'हांव' ताचे कुडी वांगडाच जल्माक येता, कुडी वांगडा वाडटा आनी कुडी वांगडाच मरता. संवसारांतल्या सगळ्या अनित्य गजालींमदलोच तो एक. ते भायर जंय 'हांव' आसता थंयच 'तूं' आसता. हाका लागून म्हजें तुजें सुरू जाता. आनी ह्या म्हज्या-तुज्यांतल्यान राग, दुस्वास, तिडक, ओड, झगडीं-झुजां सगळें उपरासता. 'हांव' ना जालो जाल्यार 'तूं'य ना जातलो

आनी तांचे वांगडा संवसारांतलीं सगळीं झगडीं-झुजां ना जातलीं.

रूप, वेदना, संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान ह्या पांच गुणांचो मेळ म्हळ्यार हो 'हांव'. पांचूय गूण खिणाखिणाक बदलपी. जें खिणाखिणाक बदलता तें दुख्ख दिता, आनी जें दुख्ख दिता, तें म्हजें, तो हांव, तो म्हजो आत्मो अशें मानप समा न्हय म्हणपाचें सगळ्यांत पयलीं मनशान जाणा जावन घेवंक जाय, अशें सांगचें.

''आत्मो ना, तसो ईश्वरूय ना'', बुद्धान म्हणचें, ''धरुंया, तुका तीर लागला. जाल्यार सगळ्यांत पयलीं तुवें कितें करूंक जाय? तीर काडूंक येता असल्या कोणाक हाडूंक जाय आनी तीर काडून घेवंक जाय. हाचे बदला, धरुंया, तूं म्हणपाक लागलो, 'तीर कोणें मारलो तें म्हाका पयलीं कळूंक जाय; मारपी ब्राह्मण, क्षत्रीय, वैश्य काय दुसरो कोण आशिल्लो तो कळूंक जाय; ते बगर हांव तीर काडूंक दिवचों ना' जाल्यार कितें जातलें? तुगेल्या ह्या प्रस्नाच्यो जापो मेळचे पयलींच तूं खंवसतलो. तसो, ईश्वर आसा काय ना ह्या प्रस्नाची जाप सोदून काडले बगर आपूण धर्म-मार्गावयल्यान चलचों ना, अशें तूं थारायशीत जाल्यार तुज्या प्रस्नाची जाप तुका मेळचे पयलींच मरण येवन तुका घेवन वतलें. ईश्वर आसा म्हूण तुका कळ्ळें जाल्यार पिडा, म्हातारपण, मरण ह्या दुख्खांतल्यान तूं सुट्टलो व्हय तर? पिडा, म्हातारपण, मरण ह्या दुख्खांतल्यान सोडोवन घेवपाक ईश्वर आसा काय ना ह्या ज्ञानाचो कांय उपेग जावंचो ना'' अशें सांगचें.

जिविताचो मुखेल प्रस्न कडेक दवरून नाका जाल्ल्या तर्कवादांत मनशान आपणाक घुस्पावन घेवंक फावना, अशें ताणें म्हणचें. ईश्वर, आत्म्या फाटल्यान लागिल्ल्यांचीं ताणें फकाणां मारचीं. 'अयं भिक्खवे! केवलो परिपूरो बालधम्मो' – सामकीं पिशेपणां तांगेलीं हीं, सामकीं भुरगेपणां, अशें म्हणचें.

जिवितांतलें दुख्ख ना करतलो म्हणपाचो मनशान नित्शय केलो जाल्यारूच तें ना जावंक पावतलें. भक्ती, प्रार्थना, पुजा वा जप करून तें ना जावपाचें ना, अशें सांगचें.

संवसारांतलीं सगळीं धर्म-मत्तां मनशाक देव करपाक वावुरल्यांत. बुद्ध-मत्त हें एकूच अशें धर्म-मत्त जें मनीसपणाक देवपणापरस व्हड मानीत आयलां. देव विलासी आसतात; तिडक, ओड, राग, दुस्वास, मत्सर असल्या अवगुणांनी भरिल्ले आसतात. त्या अवगुणांतल्यान आपणाक सोडोवन घेवपाखातीर ते मनीस जावन धतरेचेर येतात. 'मनुस्सतं खो भिक्खवे देवानं सुगतिगमनं संखातं' अशें म्हणीत आयला. मनशान पशुत्वांतल्यान वयर सरून मनीस जावंक जाय तशें देवांनी देवपण सोडून मनीसपणाच्या पावंड्यार चडूंक जाय, अशें म्हणपी एक धर्म-मत्त हें. मनशांवांगडा देवांकूय मनीस करप, तांगेली भितरली जीण गिरेस्त करप आनी तांगेलें मनीसपण शिरवंत करप ही बुद्ध-मत्ताची

मोख. हेर सगळ्या धर्म-मत्तांपसून बुद्ध-मत्त वेगळें दिसता तें तागेल्या ह्या आंगाक लागून.

मनीसपण कशें जोडप ? बुद्धान जाप दिल्या –

*सब्ब पापस्स अकरणं कुसलस्स उपसंपदा।*

*सचित्त परियोदपनं एतं बुद्धानं सासनं।।*

(वायट करण्यांपसून पयस रावप, बऱ्यो करण्यो करीत रावप, आनी चित्ताची जागरूक नियाळणी करून चित्त नितळ दवरप ही बुद्धाची शिकवण.)

* * *

बुद्धाच्या परिनिर्वाणाउपरांत रोखडोच – पयल्याच वर्षावासांत – तागेली शिकवण एकठांय करून ती मांडणेर घालपाचो जो वावर सुरू जालो तो, उपरांत, कितलेशेच शेंकडे चलत रावलो. जाणकारांच्या कितल्याशाच पिळग्यांनी आपणालें रगत ह्या वावरांत आटयलां. हाका लागून ती जशी घांसून पुसून निवळ जायत रावली, तशी एका सारकी वाडतूय गेली. अखेरेक खिस्ता आदल्या ८७-८८ वर्साच्या अदमासाक श्रीलंकेंत वट्टगामिनी राजाचे राजवटींत जाणकारांनी तिका अंतीम रूप दिवपाचो निर्णय घेतलो. आनी ते मेरेन 'एवं मे सुतं' – 'अशें हांवें आयकलां' – अशें म्हणून लोकांचे जिबेर घोळत राविल्ली ती तांणी बरोवन काडली. ते मुस्तींतले चालीक धरून ताडपत्रांचेर बरोवन ती तीन पेटाऱ्यांनी दाळून दवरिल्ली. हाका लागून हे बरपावळीक 'त्रिपिटक' हें नांव पडलें. त्रिपिटक म्हळ्यार तीन पेटारे, तीन कण्डे. त्रिपिटकांत जी आयल्या तिका जाणकार बुद्धाची मुखेल आनी मुदल शिकवण मानतात. पुणून आंवाटान आनी खोलायेन 'त्रिपिटक' म्हालसागरायेदें जालां (महाभारतापरस तिपेटीन व्हड) तातूंत देंवपाचो आनी पेंवपाचो धीर सामान्य मनशाक कसो जातलो ? सामान्य लोकांखातीर – तांगेल्या नित्य पाठाक उपकरा पडत असलें, तागेल्या जिविताक दिका दाखयत अशें, एक गुरू-पुस्तक जाय अशें खासा जाणकारांकूच दिसपाक लागलें. तेन्ना सुत्तपिटकांत तांकां असलें एक माणकुलें पुस्तक मेळ्ळें. बुद्धाचे जिबेवयल्यान वांटून गुंथून काडिल्लें 'धम्मपद' नांवाचें. तातूंत त्रिपिटकांतले बुद्धाचे पुराय शिकवणेचो आपरोस आयला अशें ताका दिसलें आनी तें तांणी भिक्षुंच्या तशेंच सामान्य लोकांच्या हातांत दिलें.

'धम्मपद' कोणें केन्ना तयार केलें, सांगूंक येना. पुणून खिस्ता आदल्या तिसऱ्या शतमानांत, अशोकाचे मुस्तींत, तें बौद्धांच्या हातांत दिश्टी पडटालें, अशें म्हणटात. अशोकाचे मुस्तींत बौद्धांचो एकमेकांकडेन छत्तिसांचो आंकडो करून बशिल्ले कितलेशे संप्रदाय चलताले. तरी आसतना सगळ्यांनी 'धम्मपदा'क प्रमाण मानिल्लें. आयज लेगीत सगळे बौद्ध पंथ ताका प्रमाण मानतात.

वाचप्यांच्या हातांत आसा तो प्रा. सुरेशबाब आमोणकार हांणी छंदांत केल्लो ताचो कोंकणी अणकार. सुरेशबाब छंदशास्त्राचे तशे – कोंकणीच्या मळार सपसप पळोवंक मेळनात असले – संस्कृत भाशेचेय एक जाणकार. 'धम्मपदा'ची पाली भास तांकां पयसल्ली नाशिल्ली. पूण भाशेच्या इतल्या ह्या ज्ञानाचेर निंबून रावनासतना उतरांचो अर्थ थारावपाक तांणी पाली कोशाचो आदार घेतला आनी आपणें लायिल्ल्या अर्थाची खातरी करून घेतल्या. तसो, इंग्रजी, हिन्दी, मराठी, गुजराथी ह्या भासांतले 'धम्मपदा'चे जितलेय अणकार मेळोवं येतात तितलेय मेळोवन तांचेकडेन आपणालो अणकार पडटाळूनूय पळयला.

तांगेल्या व्यासंगाचे खोलायेचो अदमास तांणी दर एके गाथेसकयल दिल्ल्या टिप्पणां वयल्यान वाचप्यांक येतलो.

आनीक एक म्हत्वाची गजाल – जी कोंकणीच्या मळार चडशी कोणांत पळोवंक मेळना – तांणी आपणाल्या अणकारावयल्यान पंचवीस खेपो हात ओडला, आनी भास घोंटून घोंटून अणकार सगळ्या आंगांनी सुंदर करपाचो यत्न केला. सुरेशबाब आयचे सारके 'आयलें तशें गायलें' ह्या पंथाचे न्हय. आयलां तें घांसून पुसून निवळ करूंक जाय, ते उपरांतूच तें वाचप्यांच्या हातांत दवरूंक जाय, ह्या मत्ताचे.

आपणाल्या बरपाचेर इतले कश्ट घेवपी दुसरो बरपी कोंकणीच्या मळार सपसप पळोवंक मेळना.

छंदशास्त्र आनी भास सारकी समजली म्हूण 'धम्मपदा' सारकिल्या पुस्तकाचो इतलो रोसाळ अणकार जायना. उतरांचो फकत अर्थ कळ्ळो म्हूण भागना. तांचें हार्द – तांचें spirit – फकत बुद्दीक न्हय तर काळजाक 'धरूंक येवंक जाय'. तेन्नाच असल्या पुस्तकांचो इतलो सुंदर अणकार जावंक पावता. सुरेशबाब बुद्धाचे एक निस्सीम भक्त. बुद्धाच्या चित्ताकडेन आनी काळजाकडेन एकरूप जावन ताका जें सांगपाचें आशिल्लें तें तांणी खोलायेन 'अणभवलां' जावंक जाय. देखुनूच 'धम्मपदा'चो हो अणकार निखटो अणकारच उरूंक ना. ती एक स्वतंत्र कृती जावंक पावल्या. लीन युतांगान 'धम्मपदा' संबंदान म्हळ्ळें, 'It is one of the few religious masterpieces of the world, combining genuineness of spiritual passion with a happy gift of literary expression.' लीन युतांगाचें हें वर्णन पाली भाशेंतलें 'धम्मपद' सोडल्यार ताचे खंयचेय भाशेंतल्या खंयच्याय अणकारापरस कोंकणींतल्या ह्या अणकाराक चड लागू जाता. देखुनूच, इंग्लीशींतल्या किंग जेम्सच्या बायबलाकडेन इंग्लीश पळेत आयल्यात तशे कोंकणी लोक सुरेशबाबाच्या 'धम्मपदा'कडेन अणकार म्हूण न्हय, तर एक स्वतंत्र कोंकणी कृती म्हूण पळयतले. आनी इंग्लीश बायबलान जशी इंग्लीश भास घडयल्या तशें कोंकणींतलें हें 'धम्मपद' कोंकणी भासं घडोवंक हातभार लायतलें अशी आस्त

बाळगून रावलां.

'पद' म्हळ्यार वाट. धम्मपद म्हळ्यार धर्माची, उजू चलणुकेची, प्रज्ञेकडेन घेवन वचपी नितीची वाट. सुरेशबाब ह्या 'धम्मपदा' उदेशीं आमकां सांगतात –

''दुख्खांतल्यान मेकळे जावन सुखान जियेवपाची एक वाट म्हाका मेळ्ळ्या, जी बुद्धान दाखयल्ली. तीच हांव ह्या पुस्तकांतल्यान तुमचे मुखार उक्ती करूंक सोदतां. कोणाच्यानूय हे वाटे वयल्यान चलूं येता. सगळ्यां खातीर ती उक्ती आसा. इतलेंच लक्षांत दवरपाचें, ही वाट सोपी न्हय, कश्टांची आनी स्रमांची. पुणून हिच्याकूय बरी आनी खात्रीची नीट वाट दुसरी ना. हे वाटे वयल्यान तुमचे खातीर दुसरो कोणूच चलपाचो ना. खासा तुमकांच नित्शयान आनी निर्धारान तिचे वयल्यान चलचें पडटलें, चलपाक लागात, जागरूकपणान एक एक पावल घालीत मुखार वचात. चलतां चलतां आपणाच्यान चलूंक जाता म्हणपाचें तुमकां दिसून येतलें आनी तुमी नेटान चलपाक लागतले. आनी अंतीं तुमी तुमचेरूच जैत जोडूंक पावतले. आपणाचेर जैत जोडप हेंच जिवितांतलें सगळ्यांत व्हड जैत.''

म्हळ्यार, सुरेशबाबांच्या ह्या 'धम्मपदां'त फकत कोंकणी भासूच न्हय, तर कोंकणी जिवितूय घडोवपाची तांक आसा म्हणूंक जाय.

ह्या 'धम्मपदा'न कोंकणी संवसारांत एक नवें धर्मचक्रप्रवर्तन सुरू केलां, अशें हांव मानतां.

सुरेशबाबाक खूब खूब परबीं फावतात.

प्रियोळ, १-१२-९५

# गौतम बुद्धाची जीण

संवसाराक बुद्धाचे जिणेची चडशी वळख **ललित विस्तर** आनी अश्वघोषाच्या **बुद्ध चरित काव्य** ह्या संस्कृत ग्रंथांवयल्यान आनी पाली भाशेंतल्या **जातकाचे** प्रस्तावनेंत सांगिल्ल्या बुद्ध चरित्रावयल्यान जाल्या. ह्या ग्रंथांनी बुद्धाच्या भुरगेपणांतल्यो जायत्यो विस्मिताच्यो आनी असंभवनीय अशो गजाली तातूंत सांगल्यात. सुर्वेक जेन्ना ह्यो काणयो युरोपियन पंडितांनी वाचल्यो, तेन्ना जायत्या जाणांनी बुद्ध ही इतिहासीक व्यक्ती नासून ती पौराणिक देवता आसतली अशें अनुमान केलें. प्रो. सेनार (E. Senart) ह्या फ्रँच पंडितान तर बुद्धदेवतेची कल्पना सुर्याचे उपासनेंतल्यान आयल्या जातली हें सिद्ध करपाचो यत्न केलो. पूण तांचो हो सिद्धांत इतिहासाच्या सोदाचे सांडीर चड काळ तिगलो ना.

नेपाळच्या तराई वाठारांतल्या लुंबिनी ह्या गांवांत १८९६त पुराणवस्तू खात्याक कांय मोडिल्ल्यो इमारती खणटना तातूंत अशोक राजाचो फातरपटो मेळ्ळो. ताचेर अशोकान बरोवन घेतिल्लो एक लेख मेळ्ळो तो असो: *'देवान पियेन पियदसिन वीसति वसाभिसितेन अतन आगाच महीयिते हिध बुद्धे जाते सक्यमुनीति सिला विगडाभिचा कालापितसिला थंबेच उसपापिते इध भगवं जातेति लुंभिनिगामे उबालिके कते अथ भागियेच.'* (देवांच्या मोगाचो प्रियदर्शी[२] राजान आपल्या राज्याभिशेकाक वीस वर्सां जातकूच हांगा शाक्यमुनी जल्माक आयलो देखून खासा आपणें येवन पूजा केली. चारूय वाटांनी फातरांच्या खांब्यांची वणत बांदली. आनी (हो) फातराचो खांबो उबारलो, जे सुवातेर भगवान जल्मलो. देखून, ह्या लुंबिनी गांवाच्या कराक सूट दिली. आनी (विहाराक?) कांय नेमणूक सोडली.)

ह्या फातरपट्यावयल्यान बुद्ध ही पौराणिक देवता नासून ती इतिहासीक व्यक्ती आशिल्ली हें सिद्ध जालें.

कपिलवस्तु नांवाच्या शारांत खिस्ती शकाचे ६०० वर्सां आदीं सूर्यवंशी कुळयेंतल्या शाक्य नांवाच्या क्षत्रियांचें महाजनसत्ताक राज्य कोसल देशाचे उत्तर दिकेक आशिल्लें. हो वाठार नेपाळी हिमालय पर्वताच्या मुळसांत आसपावता. थंयच्या शुद्धोदन नांवाच्या एका राजाचे, मायादेवी हे बायलेक, बाळंटेरा कुळारा वतना वाटेर लुंबिनी नांवाच्या रानांत बाळांत जावन एक चलो जालो. ताचें नांव सिद्धार्थ गौतम दवरलें. फुडें तो बुद्ध (बोध जाल्लो; ज्ञानी) म्हणून नांवारुपाक आयलो. ताका शाक्य मुनी अशेंय म्हणटाले. राजा शुद्धोधनान ताका रोखडोच आवय वांगडा घरा हाडलो. थंय असित

नांवाच्या रुशीन हो भुरगो जगाचो उद्धार करपी जातलो अशें भविश्य सांगलें अशी कथा **सुत्तपिटकां**तल्या **सुत्तनिपात** ह्या ग्रंथांत मेळटा.[3] मायादेवी गौतमा उपरांत सातव्या दिसा सोंपली. हाकाय **विनय पिटकां**तल्या **चुल्लवग्ग** ह्या ग्रंथांत आदार मेळटा.

हाचे उपरांत घडिल्ल्या गौतम बौधिसत्वाच्या (बोधिसत्व म्हळ्यार बोध वा ज्ञानाचें सत्व आशिल्लो वा फुडलो बुद्ध) विवाह संस्काराचो उल्लेख 'त्रिपिटक' ग्रंथांत खंयच मेळना. तरी २९व्या वर्सा जेन्ना घर सोडून तो वनवासांत गेलो तेन्ना ताका राहुल नांवाचो चलो आशिल्लो अशें **विनयपिटकां**तल्या **महावग्ग** ह्या ग्रंथांतल्या राहुलाचे काणयेवयल्यान कळटा.

गौतम बुद्ध वयांत येतकूच आपली जीण कशी सारतालो हाचें वर्णन **सुत्तपिटकां**तल्या **अंगुत्तरनिकाय** ह्या ग्रंथांत मेळटा (भाग १, पृ. १४५. पाली टेक्स्ट सोसायटी, लंडन). आपले पूर्वजिणेंतल्या अणभवा संबंदान उलयतना भिक्षूंक उद्देशून बुद्ध भगवान म्हणटा : "भिक्षुंनो, हांव खूब सुकुमार आशिल्लों. म्हज्या सुखा खातीर म्हज्या बापायन तळीं करून तातूंत तरां तरांचीं साळकां लायिल्लीं. म्हजीं वस्त्रां रस्मी आशिल्लीं. आनी वोत बादचें न्हय म्हणून भायर सरतकूच म्हजेर धवी सत्री धरताले. शिंयाळ्यांत, गिमाळ्यांत आनी पावसाळ्यांत राबित्या खातीर म्हजे तीन वेगळे वेगळे प्रासाद आशिल्ले. जेन्ना पावसाळ्यांतल्या राबित्या खातीर बांदिल्ल्या म्हालांत हांव रावंक वतालों, तेन्ना चार म्हयने भायर सरनासतना गायन आनी वाजप आयकत बायलांच्या सांगातान वेळ सारतालों. हेर लोक आपल्या चाकरांक शेळें जेवण दिताले. पूण म्हज्या घरांत म्हज्या दासदासींक मांस घाल्लें भौच बरें शीत मेळटालें.

अशें वैभव भोगतना म्हज्या मनांत एक विचार आयलो तो असो : शिकूंक नाशिल्लो सामान्य मनीस आपूण म्हातारपणाच्या चपक्यांत सांपडपाचो आसतनाय म्हातारपणान पिडिल्ल्या मनशाक पळोवन उबगता आनी ताका उवेखता! पूण हांवूय म्हातारपणाच्या चपक्यांतसून सुटपाचो नासतनाय त्या सामान्य मनशां भाशेन म्हाताऱ्यांक उबगल्यार आनी तांकां उवेखल्यार तें म्हाका सोबचेलें ना, ह्या विचारान म्हजो जुवानीचो मद मुळासावनूच ना जालो.

शिकूंक नाशिल्लो सामान्य मनीस आपुणूच व्याधींच्या जबड्यांत सांपडपाचो आसतनाय पिडेस्त मनशाक पळोवन उबगता आनी तांकां उवेखता. पुणून हांवूच पिडेच्या तडाख्यांतसून सुटपाचों नासतना, त्या सामान्य मनशा भाशेन पिडेस्तांक उबगल्यार वा तांकां उवेखल्यार तें म्हाका मातूय सोबचेलें ना ह्या विचारान म्हजो आरोग्यमद ना जालो.

शिकूंक नाशिल्लो सामान्य मनीस आपुणूच मरणधर्मी आसून मेल्ले कुडीकडेन पळोवन उबगता आनी तिका उवेखता, पूण हांवूय मरणधर्मी आसून लेगीत त्या सामान्य मनशा भाशेन मेल्ल्याक विटल्यार आनी ताचे कुडीक उवेखल्यार म्हाका तें सोबचेलें

ना, ह्या विचारान म्हजो जिविताचो मद मुळासावन गळ्ळो.''

बोधिसत्वाक रावपाखातीर जरी तीन प्रासाद आशिल्ले तरी शुद्धोदन राजान ताका तातूंत कोंडून दवरूंक नाशिल्लो आनी तो घर सोडून वतलो ह्या भंयान ताचेर नृत्यांगनांची पाळतय दवरूंक नाशिल्ली. हे मुस्तींतल्या गिरेस्तांच्या फोल्गी पुतांवरी वा पुर्विल्ले मुस्तींतल्या राजकुंवरां वरी तो आपली जीण चैनींत आनी मौजमजेंत जियेतालो. पूण हे चैनीचे जिणेंत तो चड काळ रमलोना. अंतर्मुख जावन तो जिणेविशीं विचार करी. म्हातारपण (जरा), पिडा (व्याधी) आनी मरण हांच्या खर स्वरुपाची कल्पना ताच्या मनांत दिशींमाशीं वाडूंक लागली आनी ताचो तारुण्य, भलायकी आनी जिवीत हांचे विशीं आशिल्लो मद ल्हवू ल्हवू ना जालो.

**मज्झिम निकाया**तल्या 'अरिय परियेसन सुत्तां'त बुद्ध भगवंतान आपल्या गृहत्यागाची काणी सांगल्या ती अशी : (क्रमांक २६ पृ. १६३)[४]

''भिक्षुंनो, हांव लेगीत बोध जावचे पयलीं बोधिसत्वाचे अवस्तेंत म्हजी जीण सारतना जल्म-मर्णाच्या फेऱ्यांत सांपडिल्ल्या वस्तुंच्या (पूत, बायल, दास, दासी, हांच्या) फाटल्यान आशिल्लों. म्हळ्यार म्हजें सुख तांचेरच निंबून आसा अशें म्हाका दिसतालें. हांवच जराधर्मी आसतना, व्याधीधर्मी आसतना, मरणधर्मी आसतना, शोकधर्मी आसतना जरा, पिडा, मरण, शोक हांच्या फेऱ्यांत पडिल्ल्या वस्तुंच्याच फाटल्यान लागिल्लों. हांवच जल्म, जरा, पिडा आनी शोक हांणी बांदिल्लो आसतना, तांणीच बांदिल्ले जे पूत, बायल हांच्या फाटल्यान लागलां हें समा न्हय असो विचार म्हज्या मनांत आयलो. तर मागीर हांवें ह्या जल्म, जरा हांणी केल्ली हानी पळोवन अजात, अजर, अव्याधी, अमर आनी अशोक अशें जें परमश्रेष्ठ अशा निर्वाणपदाचो सोद घेवप समा जातलें.

भिक्षुंनो, असो विचार करतना कांय काळाउपरांत, जरी तेदोळा हांव तरणाटो आशिल्लों, म्हजो एकूय केंस पिकूंक नाशिल्लो, हांव जुवानीच्या भरांत आशिल्लों, आनी म्हजे आवय बापूय म्हाका निरोप दिनाशिल्ले, दोळ्यांतल्यान येवपी दुकांनी तांचीं मुखामळां भिजिल्लीं, तीं एकसारकीं रडटालीं, तरी हांव (त्या सगल्यांची पर्वा करिनासतना) तकलेचें मुंडन करून घेवन, हळडुवीं वस्त्रां घालून, घरांतल्यान भायर सरलों आनी घराभायरो जालों (हांव संन्याशी जालों).''

बोधिसत्वान हे रितीन प्रव्रज्या घेतकूच तो राजगृह नगरांत गेलो.[५] ते मुस्तींत थंय बिंबिसार नांवाचो राजा राज्य करतालो. ताणें बोधिसत्वाक भिक्षा मागतना पळयलो. हो कोण तरी व्हड मनीस आसतलो अशें ताका दिसलें आनी जंय बोधिसत्व रावतालो त्या पांडव नांवाच्या पर्वतार तो गेलो. थंय बोधिसत्वाची भेट घेवन ताणें ताका संन्यास सोडून क्षत्रीय धर्म घेवपाचो आग्रो केलो. पूण बोधिसत्वाच्या निर्वाण मेळोवपाच्या

खर निर्णयामुखार ताचें कांयच चललें ना. बोधिसत्व निमाणेकडेन बिंबिसार राजाक अशी जाप दिता: ''आगा राजा, हांगसून सरळ हिमालयाच्या मुळसांत धनान आनी शूरतायेन संपन्न अशा कोशल राष्ट्रांत रावपी लोक आसात. ते लोक गोत्रान आदित्य आनी जल्मान शाक्य. त्या कुळांतल्यान भायर सरून हांवें प्रव्रज्या घेतली, ती संपत्तीच्या लोभान न्हय. विषयांच्या भोगांत दोश आनी निश्कामतायेंत निर्भयताय पळोवन हांव तपाचरणाक वतां हातूंतच म्हज्या मनाक खोस आसा.''

हाचे फुडली बोधिसत्वाची खबर **मज्झिम निकायां**तल्या **महासच्चक सुत्तां**त मेळटा. सच्चक नांवाचो एक निर्ग्रंथ (जैन) पंडित वैशाली नगरांत रावतालो. ताका अग्गिवेस्सन अशेंय म्हणटाले. ताका बुद्ध सांगता:

''आगा अग्गिवेस्सना, हे भाशेन प्रव्रज्या घेवन हांव घराभायर सरलों. हांव परमसुखाचो सोद घेतालों. जाची सर येवंची ना अशें श्रेश्ठ शांतिस्थान हांव सोदतालों. अशा वेळार हांवें आळार कालामा सरीं वचून ताका म्हळें, 'आगा कालामा, तुज्या धर्मपंथांत हांव प्रवेश घेवंक सोदतां.' तेन्ना कालामान म्हळें, 'दीर्घायुशी जा. तूं ह्या मत्ताप्रमाण चल. विद्वान मनीस ह्या मत्ताप्रमाण चल्ल्यार, आमचें तत्त्व कितें आसा तें बेगीन जाणटलो.'

हांव आळार कालामाचें तत्त्वगिन्यान शिकलों. वादविवाद करपांत हांव खांपो जालों. हांव किरावरी उलयतालों. कालामाचे हेर शिश्य बी म्हजे भाशेन किरांवरी उलयताले. हाणें म्हजें समाधान जालें ना.

हांवें म्हज्या मनांत असो विचार केलो – निखट्या भावार्तान कालामाक अणभवाचें ज्ञान जाल्लें नासतलें; ताका ह्या तत्त्वगिन्यानाचो पुराय अणभव मेळ्ळा जातलो. तेन्ना हांव कालामा सरीं गेलों आनी ताका हो प्रस्न केलो, ''आगा कालामा, ह्या तत्त्वगिन्यानाचो दिश्टावो तुका कसो जालो?'' तेन्ना कालामान म्हाका अकिंचन्यायतन नांवाची समाधी शिकयली. तेन्ना हांवें मनांत म्हजेशीं म्हळें, 'कालामाक जशी श्रद्धा आसा, तशीच म्हाकाय आसा. कालामाक जशी उर्बा आसा, तशीच म्हाकाय आसा. कालामाक जसो विवेक (जाग्रुकाय) आसा तसोच तो म्हाकाय आसा. कालामाक जशी मन एकाग्र करची शक्त (समाधी) आसा, तशीच ती म्हाकाय आसा. कालामाक जशी प्रज्ञा आसा, तशीच ती म्हाकाय आसा. तेन्ना आळार कालामा वरी ह्या धर्माचो साक्षात्कार कित्याक करून घेवंचो न्हय?' असो विचार करून, आगा अग्गिवेस्सना, थोड्याच काळा भितर म्हाका अकिंचन्यायतन समाधी सादली. हें वर्तमान जेन्ना कालामाक कळयलें तेन्ना ताणें म्हाका म्हळें, ''जे समाधीचो साक्षात्कार म्हाका जाला, ते समाधीचो तुकाय जाला. जें हांव जाणटां तेंच तूंय जाणटा. म्हजी आनी तुजी योग्यताय आतां सारकीच आसा. तेन्ना आजपासून तूं आनी हांव मेळून ह्या पंथाचे मुखेली जावंया

आनी ह्या शिश्यांक शिकोवंया.'' हे भाशेन कालामान म्हजो भौमान केलो. तो आचार्य आनी हांव शिश्य आसतनाय आपलेच योग्यतायेक ताणें म्हाका बसयलो. आगा अग्गिवेस्सना, ह्या व्हडपणान म्हजें समादान जालें ना. हो कालामाचो धर्म निर्वाण जोडपाक कांय उपेगी पडपाचो ना. हाची अकिंचन्यायतन समाधी मेरेनच कितें ती गती आसा अशें म्हाका दिसलें आनी त्या कालामाच्या पंथांतल्यान हांव भायर सरलों.

ताचे उपरांत हांव उद्दक रामपुत्र हाचेशीं गेलों. ताणें म्हाका नेवसंज्ञानायतन नांवाची समाधी शिकयली. अल्प काळांत ती समाधी म्हाका सादली. जेन्ना हें वर्तमान हांवें रामपुत्रकाक कळयलें, तेन्ना ताणें म्हजो कालामान केल्लो ते भाशेनूच सत्कार केलो. तो आचार्य आनी हांव शिश्य अशी स्थिती आसतनाय ताणें म्हाका आपले योग्यतायेक बसयलो. पूण इतल्यानूच हांव संतुश्ट जालोंना. ह्या .रामपुत्रकाच्या धर्ममत्तान कांयच जावंचें ना; हाची गती नेवसंज्ञानायतन समाधी मेरेनच कितें ती आसा अशें म्हाका दिसलें आनी रामपुत्रकाक सोडून हांव भायर सरलों.

आगा अग्गिवेस्सना, हे भाशेन हांव परम सुखाचो, परम शांतीचो, निर्वाणाचो सोद घेत घेत मगध देशांत फिरतना उरूवेलेलाक पावलों. थंयचो वाठार खूब सोबीत, सैम मनभुलोवणो. न्हंय मंद मंद व्हांवताली. सरभोंवतणी कांय अंतराचेर गांव वशिल्ले. हे सुवातेर, आगा अग्गिवेस्सना, हांव म्हजे श्वास उश्वास कोंडून घेतालों. श्वास कोंडले उपरांत म्हज्या मस्तकांत आकांताच्यो कळो येताल्यो. पोटांतूय अशोच कळो येताल्यो. सगले कायेचो हुलप जातालो. पूण म्हजी उर्बा घट्ट आशिल्ली, जागृताय हालूंक नाशिल्ली; काया मात दुबळी जाल्ली. इतल्यो दुखदिण्यो कळो येवन लेगीत तांचो म्हज्या चित्ताचेर परिणाम जायनासलो.

उपरांत हांवें आहार उणो करचेलो नित्शय केलो. मुगाचो वा कुळथाचो काडो पियेवनूच हांव रावंक लागलों. मागीर म्हजी काया खूब भागली, हातापांयांच्यो काडयो जाल्यो. फाटीचो कणो स्पश्ट दिसूंक लागलो. मोडिल्ल्या घराच्या वाशां भाशेन बरी खिळखिळ्यो जाल्ल्यो. उदकांत पडिल्लीं नखेत्रांचीं पडबिंबां जशीं खोल गेल्लीं दिसतात, तशो म्हज्या दोळ्यांच्यो मंडोळ्यो खोल गेल्ल्यो. कोकणदुदयाचो धोडो कापून वोतांत उडयतकूच जसो आंवळून येता, तशी म्हजी आंगाची कात करपून गेल्ली आनी पोट आनी फाट एक जाल्लीं. ह्या वेळार हांवें चिंतलें: ह्यो ज्यो खर दुखदिण्यो कळो हांव अणभवतां ताचे परस अदीक दुखदिण्यो कळो दुसऱ्या श्रमणान वा ब्राह्मणान अणभवल्ल्यो नासतल्यो. पूण ह्या खर मार्गान लोकोत्तर धर्मज्ञान हांव जोडटलों अशें दिसना. हाचेपरस खंयचो तरी निर्वाण जोडचेलो मार्ग आसा काय ना? घर सोडचे पयलीं म्हाका – म्हज्या बापायवांगडा – शेतांत गेल्लेकडेन जांबळीचे सावळेंत बशिल्लेकडेन पयल्या ध्यानाची समाधी सादिल्ली तेन्नाची म्हाका याद जाली. तोच

तर निर्वाणाचो मार्ग न्हय मूं? हाची याद जाल्ल्या खिणाक, आगा अग्गिवेस्सना, तोच मार्ग खरो आसतलो अशें म्हाका दिसूंक लागलें. हांवें मनांत म्हळें, त्या समाधी सुखाक हांव कित्याक भियेतां? हें चैनीन मेळयल्लें सूख न्हय वा तें पापकारक न्हय. अशा सुखाक हांवें भियेवंक फावना. पूण ह्या दुबळ्या देहान तें सुख सादचें ना. तेन्ना देह राखपाइतलें अन्न तरी हांवें खावंक जाय.

हाचे उपरांत देह राखपाखातीर जाय इतलेंच अन्न हांव खावंक लागलों. त्या वेळार म्हजे सेवेक पांच भिक्षू आशिल्ले. म्हाका धर्मज्ञान जातकूच तें हांव तांकां दितलों अशी तांकां आशा आशिल्ली. पूण जेन्ना हांव अन्न घेवंक लागलों तेन्ना ते निर्शेले आनी हांव ढोंग करतां अशें समजून ते म्हाका सोडून गेले. अन्न घेतिल्ल्यान ल्हवू ल्हवू म्हज्या आंगांत त्राण आयलें आनी हांव समाधी सुखाचो अणभव घेवंक लागलों.''

हाचे फुडलो बोधिसत्वाचेर कसवटणेचो आयिल्लो प्रसंग म्हळ्यार ताचो मारावांगडा जाल्ल्या झुजाचो प्रसंग. **सुत्तनिपातां**त महावग्गाच्या पधानसुत्तांत ह्या प्रसंगाचेर २५ गाथा आसात.[६] तांचो सारांश असो – भगवान बुद्ध म्हणटा :

''हांव नेरंजरा न्हंयेचे देगेर निर्वाण जोडपाक व्हडा उर्बेन ध्यान करतालों, म्हजें सगलें चित्त निर्वाणाकडेन लागिल्लें. (अशें आसतना) मार म्हजेसरीं आयलो आनी काकुळटेन ताणें म्हाका म्हळें, ''तूं भागला, तुजी आंगाकांत धवी फटफटीत जाल्या; मरण तुजेसरीं आयलां, हजार वांट्यांनी तूं मरतलो. तुजें जिवीत एक वांटो बाकी आसा. आगा (गौतमा) तूं जिये, तुवें जियेल्यार बरें; जियेल्यार तूं पुण्यकर्मां करतलो, ब्रह्मचर्यांत रावल्यार, अग्निहोत्राची पुजा केल्यार खूब पुण्य जोडटलो. तर मागीर निर्वाणाखातीर यत्न कित्याक करता?''

मारान असो उपदेश करतकूच बोधिसत्व ताका म्हणटा :–

''अशे तरेचें लौकिक पुण्य अणूयेदेंय म्हाका नाका. जांकां अशें पुण्य जाय तांकां मारान हो उपदेश करचो.

म्हज्या आंगांत श्रद्धा आसा, उर्बा आसा, आनी प्रज्ञाय आसा. हे भाशेन हांव निर्वाणांत गुल्ल जाल्लों आसतना म्हाका मर्णाचो भंय कित्याक घालता?''

बोधिसत्व फुडें म्हणटा :

''आगा मारा, इंद्रियांक सुखोवपी भोगाच्यो वस्तू ही तुजी पयली सेना (आसा); असंतोश ही तुजी दुसरी सेना, तिसरी भूक आनी तान, चवथी तृष्णा आनी विशयांची ओड (विषयवासना), पांचवी आळस, सवी भंय, सातवी कुशंका (दुबाव) आनी आठवी गर्व ही तुजी सेना. हे भायर लाभ, सत्कार, पुजा ही तुजी णववी सेना, आनी फट मार्गान मेळयल्ली नामना (ही धावी) जिका लागून मनीस आपणाली तुस्त आनी हेरांची निंदा करता. आगा, कुट्ट काळ्या नमुचि (मारा) साधुसंतांक

हाणपी ही तुजी सेना. तिका भिजूड मनीस जिखचोना, पूण जो शूर मनीस तिका जिखता तोच सुख भोगतलो."

बोधिसत्व फुडें म्हणटा :

"आगा मारा, हे सगळे श्रमण आनी ब्राह्मण तुजे सेनेंत बुडल्यात. तेखातीर ते शिलादी गुणांनी पर्जळनात आनी ज्या मार्गान महर्षी वतात तो मार्ग तांकां खबर ना.

हे तुजे सेनेमुखार देव आनी मनीस हे उबे रावनात. फातर मारून जशें मातयेचें आयदन फोडटात, तसो प्रज्ञेन तिका हांव हारयतां."

गौतम बुद्धाचें माराकडेन जाल्लें झूज म्हळ्यार एक रूपक. मनीसजातीच्या कल्याणाखातीर कोणूय मुखार सरतकूच ताचेर पयली धुरी घालपी माराचें सैन्य म्हळ्यार कामोपभोगांची वासना. तिका दामून फुडें वता म्हणसर अरति (असंतोश) उप्रासता. मागीर मनाचे हेर विकार एका फाटोफाट उबे रावतात आनी ह्या सगल्या वासनांचेर आनी विकारांचेर जैत जोडलेबगर कल्याण करमी तत्त्वाचो दिश्टावो जायना. तेन्ना बुद्धान माराचेर हार घालून जैत जोडलें म्हळ्यार मनाच्या असल्या वृत्तींचेर जैत जोडलें. मार मनशाच्या सद्वासनांचो नाश करता. माराचेर जैत जोडप म्हळ्यार आपणाचेरूच जैत जोडप. देखून तें भायल्या दुस्मानांचेर मेळयल्ल्या जैतापरस कितल्याशाच पटींनी व्हड.

हे भाशेन बोधिसत्वाचें माराकडेन झूज जालें. फुडें वैशाख पुनवेक सुजाता नांवाचे कुळवंत बायलेन दिल्लो दुदाचो पायस पियेवन तो बोधिरुखाखाला (पिंपळा पोंदा) गेलो आनी ते राती माराचेर पुराय जैत जोडून जगाच्या उद्धाराचो मार्ग ताणें सोदून काडलो. तेन्ना मारान म्हळें :

"सात वर्सां सतत भगवंताचे फाटल्यान हांव लागिल्लों. पूण ह्या विवेकी (जागरूक) बुद्धाचें कांयच किल्मिश म्हाका मेळ्ळें ना", आनी तो शोकान आकुळ जालो. ताचे खाकेंतल्यान ताची वीणा गळून पडली. तेन्ना मार दुख्खी जावन थंयच ना जालो.

माराचेर हार घालून धर्ममार्ग सोदून काडटकूच गौतम बोधिसत्व बुद्ध जालो. ताका हाचे मुखार संबुद्ध (ज्ञानी), तथागत, सुगत, धर्मराज, मारजित्, जीन अशा नांवांनी पाचारूंक लागले. हो मार्ग ताणें पिरायेच्या ३६व्या वर्सा सोदून काडलो. बुद्धाची हाचे फुडली जीण **महावग्गांत** दिल्या. तातुंतल्या कांय गजालींचो उल्लेख करप गरजेचें आसा.

धर्मज्ञान जाल्ल्या दिसापासून भगवान बुद्ध सात दीस मेरेन मोक्षरोसाचो अणभव घेत त्याच आसनाचेर बशिल्लो. सातवे राती निमण्या पारांत ताणें असो संतोशाचो उद्‌गार काडलो : 'ज्या वेळार ध्यानस्त आनी उर्बेस्त अशा ब्राह्मणाक धर्मज्ञानाचो

साक्षात्कार जाता, तेदोळा तो मार सेनेचो नाश करता आनी अंत्राळांतल्यान सूर्यावरी पर्जळटा.'[७]

उपरांत हे नेरंजरा न्हंयेचे देगेवयल्या वाठारांत भगवान बुद्ध रावतना ताच्या मनांत विचार आयलो तो असो: व्हड यत्नान ह्या मार्गाचें ज्ञान म्हाका जालां. आतां तें लोकांक सांगपांत अर्थ दिसना. कित्याक, लोभान आनी दुस्वासान भरिल्ले लोक तें बेगीन जाणचेनात. हो मार्ग लोकप्रवाहाच्या उरफाटो वचपी. हो ज्ञानान भरिल्लो, हो गंभीर, हो जाणून घेवपाक कठीण आनी सुक्षीम आसा, (देखून) अज्ञानान गुठलायल्ल्या भोगासक्त मनशाक ताचें ज्ञान जावंचें ना.

भगवंताच्या मनांतलो हो विचार ब्रह्मदेवान जाणलो. आनी ताणें आपलेशींच म्हळें, 'आरेरे! बुद्धान धर्मोपदेश केलो ना जाल्यार लोकांची व्हड हानी जातली. लोकांचो नाश जातलो.' अशें म्हणून ब्रह्मदेव बुद्धा मुखार प्रगट जावन ताणें ताका म्हळें, "आगा विरा, आगा सार्थवाह, आतां ऊठ, तूं झूज जिखला, तूं रिणांतलो मेकळो जाला; सगळे कडेन संचार कर. आगा भगवंता, तूं लोकांक धर्मोपदेश कर. हो तुजो धर्मूय जाणपी (कांय) आसतलेच." ब्रह्मदेवाचे हे प्रार्थनेक लागून बुद्धान धर्मोपदेश करपाचो नित्शय केलो.

हो ब्रह्मदेव कोण असो प्रस्न सहज उप्रासूं येता. धर्मानंद कोसंबी, गोंयचे एक सुपुत्र आनी बौद्ध मत्ताचे प्रकांड पंडित हे घटणेची फोडणिशी करतात ती अशी:

'मैत्री, करुणा, मुदिता आनी उपेक्षा ह्या चार भावनांक ब्रह्मविहार म्हणटात. ब्रह्मदेव म्हळ्यार मैत्री, करुणा, मुदिता वा उपेक्षा ह्या पैकीं एखादी मनोवृत्ती. जे 'महात्मे' आसतात ते ह्या चार श्रेश्ठ मनोवृत्तींकडसून प्रेरणा घेवन लोककल्याण करपाक तत्पर आसतात. ज्या ब्रह्मदेवाक लोक पितामह म्हणटात तो हेर कोण नासून ह्यो चार मनोवृत्ती ज्यो बुद्धाच्या मनांत फुलिल्ल्यो. ब्रह्मदेवाची प्रार्थना ताणें आयकली म्हणजे कितें? तर अंतस्कर्णांत आशिल्ल्या शीम नाशिल्ल्या प्रेमान, अगाध करुणेन, सज्जनांविशींचे मुदितेन आनी जे कोण ताचें आयकुचेनात वा गरजेविणें वैरी जातले अशांविशींचे उपेक्षेन ताका सद्धर्माचो प्रसार करपाक मुखार काडलो.'[८]

भगवान बुद्धान आशाढ पुनवेक वाराणशींतल्या ऋषीपत्तनांत वचून आदीं आपले वांगडा आशिल्ल्या पांच भिक्षूंक पयलेच फावट उपदेश केलो. ताका धर्मचक्रप्रवर्तन[९] अशें म्हणटात. ताचें सार अशें:

"भिक्षुंनो, प्रव्रजितान ह्या दोन तोंकांचे (अंतांचे) फाटल्यान वचचें न्हय. हीं दोन तोंकां खंयचीं? चैन भोगप हें एक तोंक.[१०] हें तोंक उणाक, संस्कारी लोकांक सोबनाशिल्लें, अज्ञानी लोकांनी भोगपाचें, अनार्य, अनर्थाक व्हरपी अशें आसा. देह दंडावप हें दुसरें तोंक.[११] तेंय दुखदिणें, अनार्य, संस्कारी लोकांक सोब नाशिल्लें, उणाक आनी

अनर्थाक व्हरपी अशें आसा. देखून, ह्या दोनूय तोंकांक वचनासतना तथागतान मदलो मार्ग सोदून काडला. हो मार्ग ज्ञान-चक्षू निर्मिता, ज्ञानोदय करता. हाणेंच उपशम (थंडाय), अभिज्ञा (दिव्य शक्त), संबोध (ज्ञान) आनी निर्वाण मेळटा. हो मार्ग म्हळ्यार आठ आंगांचो मार्ग. ताचीं आठ आंगां अशीं: समा नदर, समा नित्शय, समा उतर वा वाचा, समा कर्म, समा आचरण, समा वावर वा यत्न, समा चित्त वा जागृताय, समा समाधी. ह्या मार्गान उपशम, अभिज्ञा, संबोध आनी निर्वाण मेळटा.

भिक्षुंनो, दुख्ख नांवाचें पयलें आर्यसत्य तें हें. ज़ल्मय दुख्ख दिता, म्हातारपणय दुख्ख दिता, मरण दुख्ख दिता, शोक, परिदेवन (चुरचुरे) दौर्मनस्य (उदासीनताय), उपायास (निर्शेणी) हीं दुख्ख दितात. प्रिय मनशांचो वियोग दुख्ख दिता, अप्रिय मनशांचो सांगात दुख्ख दिता, इच्छिल्ली वस्त मेळ्ळीना जाल्यारूय दुख्ख जाता. सारांश पांच उपादान स्कंध[१२] दुख्ख दितात.

भिक्षुंनो, दुख्ख समुदय[१३] नांवाचें हें दुसरें आर्यसत्य म्हळ्यार भोवन भोवन उप्रासपी आनी सगलेकडेन आसक्ती निर्मुपी तृष्णा. ती ही काम तृष्णा[१४], भव तृष्णा[१५] आनी विभव तृष्णा[१६].

भिक्षुंनो, दुख्खाचो निरोध नांवाचें तिसरें आर्यसत्य म्हळ्यार तृष्णेचो पुराय वैराग्यान निरोध वा नाश करप, तिका सोडप, तिका भायर उडोवप, तिचे पसून मुक्त जावप आनी तिका जिणेंत थारो दिवप ना.

भिक्षुंनो, दुख्ख निरोध गामिनी पतिपदा नांवाचें चवथें आर्यसत्य म्हळ्यार असो मार्ग जो दुख्खाचो नाश वा त्याग करपाकडेन व्हरता. होच मार्ग म्हळ्यार आठ आंगांचो मार्ग.''

बुद्धाचें हें धर्मचक्रप्रवर्तन आयकून ह्या पांच भिक्षुंपैकीं कौंडिण्य नांवाच्या भिक्षूक बुद्धाचो उपदेश त्याच खिणाक पटलो. तो बुद्धाचो पयलो शिश्य जालो. कालांतरान हेर चारूय भिक्षू बुद्धाचे शिश्य जाले.

बुद्ध उपरांतचीं ४५ वर्सां एका दिसाचोय विसव घेनासतना कुशीनगर (कुशिनारा) हांगा आपलें म्हापरिनिर्वाण जायमेरेन लोकांक उपदेश करीत भोंवत रावलो. ताची धर्म शिकवण शील, समाधी आनी प्रज्ञा हे त्रयीचेर आदारिल्ली. बरें शील आसतकूच मनशाचे आचार बरे आसतात. हें करूंक मनशान आपलें मन शुद्ध राखपाक जाय. मनाचे विकार टाळ्ळ्यार कायेचें आनी वाचेचें पाप घडचेंना. कित्याक, काया आनी वाचेकडल्यान घडिल्लें प्रत्येक दुश्कर्म म्हेळ्या मनाक लागुनूच घडटा. चित्त शुद्ध राखल्यार हिंसा, चोरी, व्यभिचार, असत्य भाशण, बुरशीं उतरां, घुंवळी वखदां घेवप असलीं वायट कर्मां मनीस करचोना. कायेच्या आनी वाचेच्या दुश्कर्मांक लागून मनांतलो मळ वाडटा. म्हेळें मन दुख्ख हाडटा, तें आमकां केन्नाच सुखी करिना. शुद्ध धर्माचो

दुसरो म्हत्वाचो आदार म्हळ्यार समाधी. चित्ताक एकाग्र केल्यारूच समाधी सादूंक येतली. एकाग्र जावंक नाशिल्लें मन म्हेळें आसता आनी म्हेळें मन दुख्ख दिता. शुद्ध धर्माचो तिसरो म्हत्वाचो आदार म्हळ्यार प्रज्ञा. प्रज्ञा म्हळ्यार शुद्ध निर्मळ बुद्द, जी सगल्या ग्रह पूर्वग्रहां पसून मेकळी आसता. राग, द्वेश, मोह आनी हांचे पसून जावपी आसक्तीचो म्हेळ प्रज्ञा ना करता. हो म्हेळ मनांत रावल्यार आमी दुख्खी जातात.

बुद्धान आपल्या धर्माची मांडणी समानतायेच्या तत्त्वाचेर केल्ली. धर्मगुरूचे आपले जिणेंत बुद्धान जायत्या जाणांक दीक्षा दिल्ली; तातूंत म्हातारे, तरणाटे, गृहस्थी, दळदिरे, वयले, सकयले, शिकिल्ले, शिकूंक नाशिल्ले, ब्राह्मण, चांडाळ, साधू, जैन, आजीवक, दादले, बायलो ह्या सगल्यांचो आसपाव आशिल्लो. सगल्या थरांतल्या आनी सगल्या वर्गांतल्या लोकांतल्यान बुद्धाक खूब अनुयायी मेळ्ळे. ताच्या अनुयायां भितर मगध देशाचो राजा बिंबिसार, कोशल नरेश पसेनजीत, आनी कौसंबीचो अधिपती उदयन हे आशिल्ले. जातीचो वा वर्गाचो कसलोच भेदभाव करिनासतना सगल्यांक संघांत समान आनी मुक्त प्रवेश आसतालो. ज्या जेष्ठ अनुयायांचो **थेरगाथेंत** उल्लेख आयला, तातूंत कोसल देशांतलो एके मुस्तींतलो भयंकर दरोडेखोर अंगुलीमाल, सुनीत नांवाचो भंगी, श्वापक नांवाच्या सुणे-खायरे जमातींतलो मनीस, स्वाती नांवाचो खारवी, नंद नांवाचो गोरवां राखणो आनी उपाली नांवाचो म्हालो हांचो आस्पाव आशिल्लो. भिक्षुणींमदीं वैशालीची राजनर्तकी अंबपाली, वेश्येची चली विमला, बंदे बायलेची चली पुर्णा तशेंच शिकार करतल्याची चली चापा हांचो उल्लेख मेळटा. तथाकथीत सकयल्या जातींतल्या लोकांक संघांत कितल्या सोपेपणान प्रवेश मेळटालो हें प्रत्यक्ष भगवान बुद्धान सुनिता हिका दीक्षा दिल्ले संबंदान जी गजाल सांगल्या, तिचे वयल्यान कळटा. सुनितेक भगवान बुद्धान म्हळें, ''म्हज्या धर्माक शरण वच. धर्मीक जीण सारपाची पराकाष्ठा कर. मनशाक मुक्ती मेळटा ती ताचे बुदवंतकायेन, खंयच्या विशिश्ट जातीचो तो आसा म्हूण न्हय. मुक्ती ही कितें विशिश्ट जातीचो मक्तो न्हय वा अग्रहक्क न्हय. हवा जशी सगल्या जाती जमातींक सारकीच आसा, तेच परी सद्धर्माचीं फळां सगलेच समान रुपान मेळयतात.[१७]

भगवान बुद्धाचें अंयशाव्या वर्सा म्हणचे इ.स. आदीं ५४३त महापरिनिर्वाण जालें. जिणेच्या निमण्या खिणाक लेगीत ताणें एका मनशाक 'आठ आंगांचो मार्ग' समजायलो आनी सद्धर्माची दीक्षा दिली. आपल्या शिश्यांक सांगिल्लो निमणो उपदेस असो: 'इश्टांनो, सगल्या वस्तुंचो विनाश त्या वस्तूंमदींच आशिल्ल्यान तो टाळपाक येना. देखून ज्ञान जोडात. आनी आपले मुक्तीखातीर आपुणूच प्रयत्नांची पराकाश्ठा करात.' क्षात्रकुळांत जल्म जावन लेगीत ताका हेरां राष्ट्रांचेर जैत जोडचे परसूय आपल्याचेरूच

जैत जोडप श्रेष्ठ दिसलें. आपल्या वैऱ्यांक शस्त्रबळान जिखनासतना श्रद्धा, शांती आनी लोककल्याण हांच्या बळान जिखले.

बुद्धान भारतांत जल्म घेतलो हें हे भुंयेचें केदें व्हडलें भाग्य! आज ताचे शिकवणीची आमच्या देशाक चड गरज आसा – प्रेम, करुणा, समता, मनीसपण, विवेक, संयम हांचेर आदारिल्लो नवो समाज घडोवपाखातीर.

टीप :

हो नियाळ खाला दिल्ल्या ग्रंथांचेर आदारला.

१. (i) 'बुद्ध, धर्म आणि संघ' लेखक धर्मानंद कोसंबी; धर्मानंद कोसंबी ट्रस्ट, मुंबई, तिसरी आवृत्ती,(१९७४) पृ. ५ ते २१.

(ii) The Buddha Dhamma or The Life and Teachings of the Buddha by Narada Thera, Asian Educational Services, New Delhi (1991) pp. 17 to 65.

२. राजा अशोक.

३. 'सो बोधिसतो रतनवरो अतुल्यो। मनुस्स लोके हित सुखाय जातो। **सुत्तनिपात**; धर्मानंद कोसंबी; धर्मानंद कोसंबी ट्रस्ट. मुंबई. पृ. १३०.

४. हीं अवतरणां आनी तांचे पृश्ठ क्रमांक Pali Text Society London हे संस्थेन केल्ले आवृत्तीनुसार दिल्यात.

५. **सुत्तनिपात**; धर्मानंद कोसंबी, पृ. १२६-१३०: धर्मानंद कोसंबी ट्रस्ट, मुंबई-१.

६. **सुत्तनिपात**; धर्मानंद कोसंबी; धर्मानंद कोसंबी ट्रस्ट, मुंबई-१, पृ. १३०.

७. गाथा क्र. ३५३ वयली टीप पळयात.

८. **बुद्ध धर्म आणि संघ**, प्रा. धर्मानंद कोसंबी, पृ. १८; धर्मानंद कोसंबी ट्रस्ट, मुंबई-१.

९. **धम्मचक्कपवत्तन.**

१०. **कामसुखल्लिकानुयोग.**

११. **अत्तकिलमथाननुयोग.**

१२. **उपादान स्कंध** – रूप, वेदना, संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान ह्या पदार्थांक पंचस्कंध म्हणटात. हे वासनायुक्त आसतकंच तांकां उपादान स्कंध म्हणटात. हांकां लागून पुनर्जल्म मेळटा.

१३. **समुदय** = कारण.

१४. **कामतृष्णा** = तरेतरेच्या विशयांची वा भोगांची आवड.

१५. **भवतृष्णा** = संवसाराची ओड.

१६. **विभवतृष्णा** = संवसाराच्या नाशाची इत्सा. हातुंतल्यान दुख्ख उप्रासता. संवसाराचो नाश हो थारिल्लोच देखून मनशान सुखा फाटल्यान वचूंक जाय ही चार्वाक पंथी लोकांची देख.

१७. **बुद्ध धर्म म्हणजे काय?** प्रो. बी. लक्ष्मी नरसू (अनु. रा. ने. कांबळी) मनोविकास प्रकाशन, मुंबई ३२. पृ. ४.

# प्रस्तावना

धर्म म्हळ्यार स्वयत्नान आपणाची नितीक आनी आध्यात्मीक उन्नती करचेलें साधन अशें भारतीय समाज मानीत आयला. भारताच्या धर्मक्षेत्रांत हे प्रयत्न सातत्यान हजारांनी वर्सां चलत आयल्यात.

मानवी जिणेचो आनी मनाचो कस सुदारपाचे साधनेंत भगवान बुद्धाचें योगदान खूब म्हत्वाचें आसा. अडेज हजार वर्सां पयलीं भगवान बुद्धान समाज धारणा आनी मनशाची नितीक उदरगत हांचे खातीर अहिंसा, प्रेम, करुणा, सद्भाव, इश्टागत, विवेक हांचें म्हत्व लोकांक पटोवन दिलें. मनशाचे तृष्णेक लागुनूच ताचे जिणेंत दुख्ख उप्रासता हाचीय लोकांक जाणवीक दिली. मदल्या मार्गान जीण सारपाची वाट दाखयली. बौद्ध-मत्ताच्या प्रभावाक लागून आशिया खंड बुद्ध क्षेत्र जालें. त्या धर्ममत्तानुसार चलपी लोकांची पुराय जीण आनी समाजमन बुद्धमय जाल्लें आमकां दिश्टी पडटा. आज जेन्ना वैर, आशाधोशीपणां, झगडीं झुजां हांणी संवसारभर अच्छेव मांडिल्लो आमकां दिसता, तेन्ना बुद्धाचे शिकवणेंत मनीस कुळयेच्या फुडाराक नवी दिका दाखोवचेली तांक आसा हाचो दिश्टावो जाता.

'बुद्धाचे मुस्तींतल्या लोकांत तत्त्वीक काथ्याकूट करची हिसपाभायर आवड, चालन्त आशिल्ल्या कर्मकांडांचो असबावीक घुस्पागोंदळ आनी विशेश करून जातिभेदाची चाल ह्या सगल्यांक भगवान बुद्ध विटून गेल्ले. तशेंच धर्माच्या नांवान कपटकौशल्यान पोट भरपी पुरयतांचे खटपटीचे ते खर विरोधक आशिल्ले. तांच्या धर्मांत निश्काम कर्माकच प्राधान्य मेळ्ळां. तत्त्वज्ञान आनी ईश्वर हांचेविशीं तरतरांचीं मतमतांतरां घेवन वादावादी आनी चर्वीतचर्वण करीत बसप तांकां मान्यच नाशिल्लें. हातूंत ते पुराय अज्ञेयवादी आशिल्ले'[१] अशें स्वामी विवेकानंदांनी बुद्धाचे मुस्तींतले धर्मीक जिणेचेर भाश्य केलां. ह्या प्रास्ताविकांत वाचप्यांक धम्मपदाची सारांशान वळख करून दिल्या.



१ – महापुरुषांच्या जीवनकथा. ले. स्वामी विवेकानंद, रामकृष्ण मठ, नागपूर, पृ. ९५-९६.

# धम्मपद

## ग्रंथाची वळख

**धम्मपद** हो बौद्ध साहित्यांतलो एक माणकुलो पूण मुखेल आनी म्हत्वाचो ग्रंथ. विश्व साहित्यांतूय ह्या ग्रंथाक मानाचो पाट फावो जाला. तातूंत सांगिल्ले निती विचार, अणभव तशींच मानवी जिणेंतलीं सनातन सतां बौद्ध धर्मियांकूच न्हय तर सगल्यांकूच ओड लायतात. तीं साद्या, सरळ आनी रोसाळ भाशेंत सांगल्यांत देखुनूच संवसारांतल्या भौतेक म्हत्वाच्या भासांनी धम्मपदाचे अणकार जाल्यात. आज जेन्ना संवसारभर वैर, लोभ, वसवस, दुस्वास आनी संघर्श हांणी अच्छेव मांडला तेन्ना धम्मपदाची शिकवण खूब मोलादीक थारता हातूंत दुबाव ना.

**धम्मपद** ह्या ग्रंथाक बौद्धांच्या पवित्र मानिल्ल्या **त्रि-पिटकांत**[१] स्थान दिलां. **सुत्तपिटक** नांवाच्या ग्रंथ-संग्रहांत **खुद्दनिकाय** ह्या ग्रंथ चोम्यांत धम्मपदाचो आस्पाव जाता. बौद्ध धर्मियांत हो नित्यपाठाचो ग्रंथ मानतात.

**धम्मपद** हो एके व्यक्तीन बरयल्लो ग्रंथ न्हय. तो एक गाथासंग्रह. ह्यो गाथा वेगवेगळ्या मनशांनी वेगवेगळ्या घडणुकांचेर बरयल्यात. त्यो गौतम बुद्धाची विचारसरणी दाखयतात आनी देखून त्यो भाविक बुद्ध शिश्यांनी ताच्या नांवार घाल्यात. त्रिपिटकांतूच आस्पाव केल्ल्या **महानिद्देस, चलनिद्देस** आनी **कथावत्थु** ह्या ग्रंथांत 'ही नंनुवुत्तं भगवता' (भगवंतान हें खरेंच म्हळां ?) असो प्रस्ताव करून धम्मपदांतल्यो जायत्यो गाथा दिल्यात.

## धम्मपदाचीं हेर संस्करणां[२]

१) **संस्कृत** — पाली भाशेंतल्या धम्मपदाची संस्कृत भाशेंत पुराय संहिता मेळना. पूण एके मुस्तींत बौद्ध संस्कृत भाशेंत **धर्मपद** नांवाचो एक संग्रह आशिल्लो. **महावस्तु अवदान** नांवाचो एक ग्रंथ बौद्ध संस्कृतांत बरयला. तातूंत 'धर्मपदे' वा 'धर्मपदेषु' वा धर्मपदां (दान्) असो स्पश्ट उल्लेख आसा. तशेंच 'धर्मपदां'तल्या सहस्त्रवर्गाचो (धर्मपदेषु सहस्त्रवर्ग) असो नांवाचो उल्लेख करून तातुंतल्यो गाथा दिल्यात. हाचेवेल्यान बौद्ध-संस्कृतांत **धर्मपद** नांवाचो गाथासंग्रह आशिल्लो हें उकतें जाता. ते उपरान्तचे मुस्तींत (इ.स. ७५च्या अदमासाक) वसुमित्राचो मामा धर्मत्रात ह्या विद्वानान **उदानवर्ग** नांवाचो गाथासंग्रह बरयलो. पूण तोय आज पुराय मेळना. ताचे थोडे वांटे

मध्य-आशिया आनी चीन ह्या देशांतल्या पोरण्या बौद्ध अवशेषांत मेळ्ळ्यात. इ.स. १४-१५व्या शतमानांत वनरत्न नांवाच्या श्रीलंका ह्या देशांत दीक्षा घेतिल्ल्या भारतीय पंडित भिक्षून पाली धम्मपदाचो संस्कृत अणकार केलो. ताचें हातबरप मागधी लिपयेंत बरयल्लें तिबेटांत सांपडलां. तसोच **धर्म समुच्चय** नांवाचो ग्रंथ नेपाळांत मेळ्ळा. तो अवलोकित सिंह नांवाच्या मनशान संकलीत केला.

२) **तिबेटी** — वयर उल्लेख केल्लो **उदानवर्ग** हो मूळ संस्कृत ग्रंथ आज जरी मेळना आसलो तरीय ताचो तिबेटी भाशेंतलो पुराय अणकार मेळटा. ह्या ग्रंथांत पाली धम्मपदाच्या ४२३ गाथां पैकीं ८० प्रतिशतापरस अदीक गाथा सारक्यो आसात. हाचेवयल्यान ग्रंथाचें नांव जरी बदल्लां आसलें, तरी ह्या ग्रंथाचें स्वरूप **धम्मपदा**वरीच आसा. फकत ताच्या 'उदान' ह्या नांवावेल्यान तें वयल्या स्वरांत गावपाचें आशिल्लें असो निश्कर्श काडूं येता.

३) **चीनी** — वयर उल्लेख केल्ल्या धर्मत्राताच्या नांवार आशिल्ल्या **उदानवर्गा**च्या मूळ ग्रंथाचीं चार संस्करणां चीनी भाशेंत मेळटात. ह्या चारां पैकीं कालानुक्रमान पयलें आशिल्लें तें वुई-ख्रि-नान् वा विघ्न हाणें इ.स. २२४च्या अदमासाक अणकारिल्लें. दुसरें चीनी संस्करण इ.स. २९०-३०६ मेरेन जालां. तिसरें चीनी संस्करण संघभूति नांवाच्या भारतीय भिक्षुच्या पालवान इ.स. ३९८-९९च्या अदमासाक जालां. ताचो चीनी अणकार संघभूती म्हर्‍यांत बसून चू-फो-न्येन् ह्या चिनी विद्वानान केला. ह्या ग्रंथाचें खाशेलेंपण म्हळ्यार गाथांचो संदर्भ सांगपाखातीर कथानकां दिल्यांत. देखून हो ग्रंथ प्रचंड जाला. चवथें चीनी संस्करण इ.स. ९८०-१००१ ह्या काळांत जालां.

४) **प्राकृत** — मध्य आशियांत खोताना लागीं १८९२ वर्सा भूर्ज पानांचेर बरयल्लीं आनी खरोष्ट्री लिपयेंतलीं बरोवपां मेळ्ळीं. तातूंत प्राकृत भाशेंतलें एक बरोवप आसा. लंडन विद्यापिठांतले संस्कृत भाशेचे प्राध्यापक जॉन ब्रफ (John Brough) हांणी ह्या बरपाच्या आदारान **गांधारी धम्मपद** तयार केलें आनी तें १९६२ वर्सा ऑक्सफर्ड युनिव्हर्सिटी प्रेस हे संस्थेन उजवाडायलें. हें संपूर्ण **धम्मपद** न्हय. हातूंत फकत २२ वर्गांचीं नांवां आसात.

## धम्मपदाचो अर्थ

धम्मपद ह्या उतराचो अर्थ विद्वानांनी वेगवेगळो लायला. देखीक: धर्माचीं पावलां, धर्मवचनां, धर्माचीं पदां, धर्मावेलीं पदां, धर्मपदांवेलीं बुद्धाचीं वचनां, सद्‌गुणांची वाट आदि. धर्म आनी पद ह्या दोनय उतरांच्या वेगवेगळ्या अर्थांक लागून धर्मपद ह्या उतराचें वयर दिल्ल्या अणकारांतूय तथ्य आसा.

खुद्द धर्मपदांतच धम्मपद हें उतर वेगवेगळ्या अर्थांनी वापरलां. गाथा ४४-४५

हातूंत धम्मपद ह्या जोड उतराचो अणकार 'बुद्धाच्या बोधाचो पद संग्रह' ह्या अर्थान करूं येता. गाथा ४४-४५ हातूंत धम्मपद ह्या उतराक फुलाची उपमा दिल्या. जे भाशेन कुशल मनीस फुलां पुंजायता ते भाशेन बुद्धाचो शिश्य (सेखो) नितीपर आनी धर्मीक वचनांचो (गौतम बुद्धानूच हीं वचनां सांगल्यांत असो भावार्थ दवरून) संग्रह करता. ह्याच अर्थान धम्मपद हें उतर गाथा १०२ हातूंत वापरलां. गाथा १०१-१०२ हातूंत अथ्थपद, गाथापद हीं उतरां वापरल्यांत. पद ह्या उतराचो अर्थ उतर, वाक्य, वचन, धर्मीक जिणेसंबंदान वचन असो घेवप समा जातलें. देखून **धम्मपद** हो धर्मीक, नितीपर वचनांचो, सुभाशितांचो संग्रह हो एक अर्थ जालो. धम्मपदाच्या अणकाराच्या प्रस्तावांत सर्वेपल्ली राधाकृष्णन बरयतात: ''धर्म म्हळ्यार देख, चलणूक, उजू तरेन चलपाची नीत, लागणूक. पद म्हणजे मार्ग वा वाट, उपाय. धर्मपद म्हणजे नितीन वा उजू चलणुकेन चलपाची वाट. धम्मपद म्हळ्यार धर्माची बुन्याद.''[३]

## धम्मपदाच्या अंतरंगाचो नियाळ

सिंहली भाशेंत उजवाडायल्ल्या धम्मपदाच्या प्रस्तावांत संपादकान अशें म्हळां: 'इमस्मिं (धम्मपदे) सकलंऽपि सत्सुं-सासनं संखेन समाधानं गतं.' (ह्या धम्मपदांत शास्ता [बुद्ध] हाचे सगले शिकवणेचो थोडक्यांत आसपाव केला.) ह्या माणकुल्या ग्रंथांत बुद्धाचें सारभूत (१) तत्त्वज्ञान, (२) धर्ममार्ग, (३) नितीपर शिकवण, (४) संवसाराच्या व्यवहारांत दिसपी सनातन सतां हीं सगलीं आमकां मेळटात. विशेश म्हळ्यार धम्मपदांतलीं भौतेक सगलीं वचनां काळजाक हालोवपी अशा उपमा, दृश्टांत, रुपकादी अलंकारांनी सोबीत मांडिल्ल्यान दर एकल्याक, मागीर तो बौद्ध आसूं वा नासूं, पटत अशीं आसात. देखून बौद्धधर्मीय नाशिल्ल्यांनी लेगीत हो ग्रंथ मानून घेतला.

१. **तत्वज्ञान :** विश्व हें खूब चराचर पदार्थांचें घडलां. हे सगले चराचर पदार्थ (घटक वस्तू) एकठांय येवन (समवाय) संस्कार घडटात. ते अनित्य आसतात. ते आज आसात आनी फाल्यां ना जातात. ते नश्वर आसतात. नश्वर वस्तू ना जातकच त्यो जाच्यो आशिल्ल्यो ताका दुख्ख हें जावपाचेंच. त्यो ना जातकच ते शोक करतात. देखून ह्या सगल्या संस्कारांचो परिणाम दुखदिणो आसता. म्हणून खंयच्याय शाण्या मनशान ह्यो नश्वर आनी खिणयाळ्यो वस्तू आपल्यो अशें मानूंक जायना. तशेंच, नित्य, अढळ, ध्रुव आनी शाश्वत मानिल्लो जो 'आत्मो', तो ह्या नश्वर पदार्थांत आसा अशेंय कोण शाणो मानचोना, कित्याक, जग हें उदकाच्या बुडबुड्या भाशेन आनी मृगजळा भाशेन अनित्य आनी नश्वर आसा.[४] देखून सगले संस्कार अनित्य, दुख्ख दिवपी आनी अनात्मीय आसा असो त्रि-लक्षणांचो सिद्धान्त सांगला.

जंय आत्म्याकच स्थान ना, थंय परमेश्वर, परमात्मा हाकाय स्थान ना. तरी देव ह्या नांवाचो सत्व वा प्राणी आसा हो भावार्त आसा. देव, गंधर्व आदि मनुष्ययोनीक पालव करपी अशे प्राणी विश्वांत आसात. मघवा (इंद्र), ब्रह्मदेव, अभास्वर आदि देवांचो उल्लेख मेळटा (३०, १०५, २००). तशेंच मनुष्ययोनीक पिडपी मार (४०, ५७, ३३७) हाचोय उल्लेख वयलेवयर येता. जगांतल्या वस्तुंचें मनभुलोवपी रूप पळोवन भुलून वचनासतना तांची दुसरी वाट वीट हाडपी आसता हें जो बारकायेन पळयता ताका माराचो भंय दिसना (७-८).

कर्माचेर विश्वास आसा. आपल्या बऱ्या वा वायट करण्यांक वा कर्मांक लागून सु-गती वा सर्ग आनी दुर्गती वा निरय (नरक) मरणा उपरान्त फावो जातलो असो समज आसा (१७४, २४०, ३१६, ३१९). ह्या जल्म-मरणाच्या फेऱ्यांतल्यान सुटपाखातीर आमचें चित्त म्हेळें करपी 'अविद्या' (२४३) हिचो नाश पयलो करूंक जाय. म्हणचे जगांतले वस्तुस्थितीचें अज्ञान झाडून उडोवंक जाय. **धम्मपदां**त अविद्येपासून मुखार संवसारचक्र कशें सुरू जाता हाची विसकावणी करपी प्रतीत्य-समुत्पाद ह्या तत्वाचो **धम्मपदां**त स्पश्ट उल्लेख ना. (२२१ वयली टीप पळयात). तरी ह्या संवसारचक्राच्या मुळाक आशिल्ले 'अविद्ये'चो नाश करूंक सांगला (२४३). अविद्येचो नाश जाले उपरान्तच खरें ज्ञान मेळटलें. ह्या जगाचेर नदर भोंवडायतकूच (१) सगलें जग दुख्खान भरलां हाची जाणविकाय जावंक जाय, (२) ह्या दुख्खाचें मूळ तृष्णेंत आसा हाचीय जाणविकाय जावंक जाय. प्रत्येक गजालीक कारण आसता आनी तें कारण ना जातकच तें गजालीचोय नाश जातलो ह्या सिद्धांताक धरून दुख्खाक जर मूळ आसा तर तें मूळ ना जातकच दुख्खच सोंपतलें. म्हणचे, (३) दुख्खाचो नाश हो जातलोच. दुख्खाचो अंत जावंक जाय जाल्यार त्या अंताकडेन व्हरपी (४) मार्ग आसा. ह्या चार जाणविकायांक चार आर्यसतांचें ज्ञान अशें म्हणटात. दुख्ख ना करपाच्या मार्गाक आर्य अष्टांगीक मार्ग वा आठ आंगांचो मार्ग म्हणटात. (२७३वयली टीप पळयात) (१९०-१९१). दुख्खाचो नाश म्हणजे तृष्णेचो नाश करप (३३७). तृष्णेचो नाश करूंक राग (भोगाची ओड वा आसक्ती), द्वेशादी क्लेशांचो नाश करून तत्वगिन्यानी मनशांठांय आशिल्ल्यो उपेक्षा वृत्ती वाडोवंक जाय. सुख जालें वा दुख्ख जालें म्हणून पंडित लोक विचलीत जायनासतना आपल्या मनाची थिराय ढळपाक दिनात (८३). देखून सदांच सावध (अप्रमादी) रावन सुस्तीक थारो दिवंक जायना. अशें जातकूच मनशाची अवनत जायना आनी तो निर्वाणाक लागीं पावता (३२). भोगासक्ती, द्वेश, मोहाचो नाश जावन हेरांनी आपणाक नखलामी केल्यार ताचो प्रतिकार करची वृत्ती दाटून वयर सरूंक दिवंक जायना. ही वृत्ती मनशाचो सभावधर्म जाल्यार निर्वाणप्राप्ती जालीच अशें समजुचें (१३३-३४).

२) **धर्ममार्ग : धम्मपद** हो ग्रंथ सनातनी थेरवादी (स्थवीरवादी) पंथाच्या बौद्धांचो ग्रंथ आशिल्ल्यान तांची विचारसरणीच ह्या ग्रंथांत दिश्टी पडटा. आपल्या बऱ्या कर्मांनी फुडें बुद्ध जावंक पळोवपी महायान पंथी बोधिसत्वाक महत्व ना. म्हणून हेरांच्या सुखा खातीर आपल्या ध्येयापसून (१६६) पयस वचनासतना आपूण आपलें ध्येय मेळोवचें ही विचारसरणी धम्मपदांत आसा.

सगल्या पापांतल्यान पयस रावन कुशल वा बरीं कर्मां करप आनी आपली चित्त-शुद्धी करप (१८३) हीच ज्ञान मेळयल्ल्या सगल्या बुद्धांची शिकवण. जो घरदार सोडून प्रव्रजीत (संन्याशी) जाता ताकाच बुद्धाची शिकवण पुरायेन आपलीशी करूंक येता. हे खातीर तो क्षमाशील आसूंक जाय. हेरांक पिडपाची वा नखलामी करपाची प्रवृत्ती आसूंक जायना. गांवाभायल्या रानांत रावन ध्यान-समाधींत मग्न रावंक जाय. निर्वाण हेंच श्रेष्ठ अशी श्रद्धा आसूंक जाय. आहाराचे नेम पाळून **प्रातिमोक्ष** ह्या ग्रंथांत दिल्ले नेम आचरूंक जाय (१८४-१८५).

बुद्ध, धर्म आनी संघाक शरण वचून तांचे गूण समजून (२९६-९८) चार आर्य सतांचें ज्ञान जोडूंक जाय (१९०). चवथें आर्य सत म्हळ्यार आर्य अष्टांगीक मार्ग. होच मार्ग सर्वश्रेष्ठ अशी श्रद्धा बाळगून आनी हाच्याच पालवान काया, मन आनी वाचा आळाबंदा हाडची. अशे तरेन संयमी जाल्लो भिक्षू आत्मानंदांत गुल्ल आसता (३६०-३६२). इंद्रियांवयलो संयम आनी 'प्रातिमोक्षां'त सांगिल्लो संयम हो प्रज्ञावंत भिक्षुचो पयलो गूण (३७५). थेरवादी बौद्धपंथांत कश्ट करपाचेर खूब भर दिला. दुसऱ्याचे कृपेन आपलें श्रेयस मेळोवंक येना. तथागत वा बुद्ध तुमकां फकत वाट दाखोवपी. आपणेंच आपणाक वयर काडूंक येता (३२७). आपूणच आपलो स्वामी (६२, १६०, ३८०). हेर कोण आसतलो (१६०)? आपणें आपणाकच शुद्ध वा अशुद्ध करूंक येता. हेर कोण तें करिना (१६५). सदांच सच्छील रावन ध्यान-समाधीच्या मार्गान मन आवरचें; श्रद्धा, जागरूकाय, उत्साह, समाधी आनी प्रज्ञा हांच्या पालवान नितीबळ जोडचें आनी तांच्या आदारान संवसारांतल्या दुख्खाचो नाश करचो (१४४). समाधी वा ध्यान हें साधन. तें चित्ताची एकाग्रताय सादता. चित्त थीर आनी एकाग्र जातकूच चार आर्यसतांचो साक्षात्कार जाता. म्हणून हांगा प्रज्ञा आनी ध्यान हांचो सांगड घाला. जाचे ठांय ध्यान आनी प्रज्ञा हीं दोनूय आसात तो निर्वाणासरींच आसा (३७२). तरी विकार दोशांचो नाश प्रज्ञेनूच जाता. विकारांचो नाश जालेबगर निखटे समाधीन निष्काम्यताय जोडूंक येना वा भोगांची ओड ना करूंक जायना. जो मनीस निष्काम जाता ताकाच अर्हत्-पद मेळटा (२७१-२७२).

अर्हत्व हें थेरवादाचें ध्येय आनी तें जोडप म्हणजेच बुद्धत्व जोडप. अर्हत्वाचो दिश्टावो जातकूच मनशाक श्रद्धेची निसण लागना. अर्हत्व म्हणजेच बुद्धत्व. हें कोणें

घडोवन तयार करूंक ना (अ-कत) अशें निर्वाणपद मेळटकूच पुनर्जल्म सोंपता. म्हणचे दोन जल्मांमदली सांखळ तुट्टा (सन्धिछेद). असो जो मनीस तो उत्तम पुरूश (९७). ह्या ध्येयाकडेन व्हरपी स्रोत-लोटावयल्या पयल्या पेण्याचेर पावता. हें फळ देखून धतरीच्या अधिराज्या परसूय सर्व विश्वाच्या अधिपत्यापरसूय वा सर्ग जोडपा परसूय श्रेष्ठ (१७८). श्रामण्य योग्य तरेन आचरल्यारूच तें सुख दिता. (३३२) पूण तें भश्टल्लें आसल्यार पालसो धरिल्लो कुशदर्भ जसो हात कातरता, तशें तें मनशाच्या नाशाक कारण जावन ताका नरकांत व्हरता (३११). दुबावीत जीण आशिल्ल्याचे श्रामण्य हें विशेश फळ दिना (३१२). जो प्रव्रजीत चलणुकेन धील आसता तो लोकप्रवादाचो धुल्ल हुबयता (३१३). तेन्ना सामान्य अज्ञानी लोकांक मेळूंक कठीण आशिल्लें निष्काम्य सुख मेळोवपा खातीर ताणें सदींच यत्न करूंक जाय. हें सुख निखट्या शील व्रतांच्या पालवान, वा समाधीन वा विद्वत्तेन जोडूंक येना. सगल्या विकारांचो, क्लेशांचो नाश जाल्यारूच तें ताका मेळटा (२७१-७२). अशे तरेन जागरूक बुद्ध जाल्लो मनीस पाप-पुण्याच्या पेल्यान वता (३९, २६७, ४१२). ताणें आपलें मन मात शुद्ध राखूंक जाय. दुस्वासान भरिल्लें आसल्यार मन म्हेळें जाता. ताका दुख्खच मेळटा (१-२).

३) **नितीची शिकवण:** अशे तरेन भिक्षू-धर्म सांगिल्लो आसतनाय गृहस्थाश्रमी मनशाची उपेक्षा करूंक ना. ताचे खातीर नितीनेम सांगल्यात आनी ते भिक्षुंकूय लागतात. जो प्राण्यांची हिंसा करता, फट उलयता, कोणेंय उखलून दिलेबगर वस्त घेता म्हळ्यार चोरी करता, व्यभिचार करता आनी मद्यादी पदार्थ घेता असो मनीस आपल्याच पांयां मुळांतली माती खणटा (२४६-४७). देखून पातकांपासून पयस राविल्लें बरें (१२३, १२४). जल्माक आयिल्ल्या दर एकट्यान जायतीं कर्मां करचीं (५३) म्हणचे पातकां करपी इश्टांची संगत सोडून बरें करपी इश्टांची संगत धरची (७८). असो कल्याण करपी इश्ट मेळ्ळो ना जाल्यार एकटें रावचें (३३०) पूण पातकी, मूर्ख इश्टांची संगत धरची न्हय; कित्याक मुर्खांची संगत केन्नाच बरें फळ दिना.

सदांच सत्य उलोवचें. तिडक धरची न्हय. कोणेंय कितें मागल्यार आपलेकडेन आशिल्ल्यांतलें इल्लें तरी दिवचें (२२४). मोगान क्रोधाचेर जैत जोडचें, नश्ट्या मनशाकडेन लेगीत बरेपणान चलचें. हिमट्याक दान दिवन ताका लज करची आनी फट उलोवप्याकडेन खरें उलोवचें म्हणटकीच ताका लज जाल्ल्यान ताचेर हार पडटली. कुशळ वा बरीं कर्मां करपांत ताकतीक करची, कित्याक, मन केन्ना बदलत म्हणून सांगूंक येना आनी बऱ्या कर्मां बदला पाप घडत (११६). पाप आपल्या हातांतल्यान घडचें ना अशी कोणाक बडाय मारूंक येवंची ना. आपलो कोणेंय जीव घेतल्यार आमकां बरें दिसचें ना देखून, हें जाणून कोणाचो घात करचो न्हय (१३०). घडये पाप घडल्यार बरी

करणी करून तें पातक पुसून उडोवचें. अशे तरेन चलपी मनीस कुपांतल्यान भायर सरिल्ल्या चंद्रिमा भाशेन पर्जळटा (१७२).

थेरवादी बौद्ध धर्मान भायले शुद्धीपरस भितरले शुद्धीचेर भर दिला. जटा वाडोवन, मृगजिनाची छाटी आंगार घालून, अंतस्कर्णांत पापी विचारांचें रान मातल्यार भायल्यान कायाशुद्धी करून कितें उपेग (३९३)? नागडें भोंवप, जटा वाडोवप, आंगार माती आनी भस्म साड्डावप असल्यो करण्यो करून ज्या मनशाचें मन दुबावांनी भरलां अशा मनशाची शुद्धी केन्नाच जावची ना (१४१). वैरान वैर ना जायना. मोगान चल्ल्यारूच तें ना जाता, हो सनातन धर्म (५), प्रति वैर निर्मून जैतिवंत मनीस हार घाल्ल्या मनशाच्या मनांत तो हार घेवन निर्णल्लो आसल्यारूय दुस्मानकायेक जल्म दिता (२०१). देखून मन थीर राखचें. धतरेवरी क्षमाशीळ वृत्ती बाळगुची. सूख आसूं वा दुख्ख आसूं, शाणो मनीस उचांबळ जावन वा कश्टी जावन मनाची थिराय इबाडूंक दिना (८१). सच्छीळ वृत्तीन रावचें, कित्याक बऱ्या शिलाचो परमळ सगल्या वाटाराक, वाऱ्याचे आड दिकेकूय पातळटा (५४). शंबर वर्सां मेरेन अग्नींत आहुती उडोवन हवन करचे परस जाणें ध्यानादि भावनेन पुण्य जोडलां अशा मनशाची खीणभर सेवा केल्यारूय ती चड श्रेयस्कर (१०७).

केंस धवे जाले म्हणून कोण 'थेर' वा जाण्टो जायना; तर जाचे ठांय सत्य, धर्म, अहिंसा, संयम हे आंतरीक गुण आसात, ताणें विकारदोश भायरायल्यारूच तो 'थेर' जाता (२६०). मौन धरल्यार कोण मुनीबाबा जायना; तर हातांत तागडी घेवन, बरें वायट जोखून, वायट त्यागून, बरें तेंच घेता, तो खरो मुनी जाता (२६८-६९). निखटें तकलेचें मुण्डन केलें म्हणून श्रमण जायना, तर सगल्या पातकांचो नाश केल्ल्यान (२६४-६५) वा सम-वृत्ती दवरल्यार श्रमण जाता (३८८). ब्राह्मण कुळांत जल्मलो म्हणून ब्राह्मण जायना (३९५) तर सगलीं पापां जाणें भायरायल्यांत, तो खरो ब्राह्मण (३८८). निखटी भिक्षा मागता म्हणून भिक्षू जायना. भिक्षा मागपी दुर्गुणी आसल्यार भिक्षा मागुनूय तो भिक्षू जायना (२६६).

४) **सनातन सतां : धम्मपदां**त जायतीं सनातन सतां जळींमळीं शिंपडल्यांत. देखीक, मनशान हेरांक उपदेश करचे पयलीं आपुणूच ते भाशेन चलचें (१५८-५९). हेरांचे दोश सोदचे परस आपलीं दुश्कृत्यां, दोश आनी करूंक नाशिल्ल्यो लागणुको हांची दखल घेवची (५०, २५२). कित्याक, आपले दोश लिपोवपाची आनी हेरांची उबोवपाची वृत्ती आमच्यांत दिसता (२५२).

एकाद्रो मनीस फकत चड बडबडो म्हणून तो पंडित वा धर्माचो अवतार जायना (२५८-५९). तशेंच एकाद्रया मनशान खूब ग्रंथ वाचले, पूण तातुंतल्या उपदेशा प्रमाण

आपली चलणूक दवरली ना जाल्यार तो पढतमूर्खच. लोकांच्यो गायो मेजपी राखण्या भाशेन हो मनीस श्रामण्याचो वांटेकार जायना (१९). ह्या जगांत आपणाकूय 'आपलो' अशें म्हणूंक येना, (कित्याक, संयमाविणें आमी खंय व्हांवत म्हणून सांगूंक नज) तर 'पूत म्हजो', 'धन म्हजें' अशें म्हणपी कश्टीच जातात (६२). देखून पयलीं आपणें आपणाकूच जिखप बरें (१०४). हें जग दुख्खान पेटिल्लें आसतना हांसो, किटकिटे आनी खोशयेचीं ल्हारां कित्याक म्हणून (१४६)? पूण हें जग कुड्ड्या मनशांनी भरलां थंय समा नदर आशिल्ले लोक उणेच (१७४)! न्हंयचे पलतडीं पावपी थोडेच आसतात. हेर सामान्य मनशांनी दुर्लभ अशा मनीसजल्माचो उपेग करून घेवंक जाय (१८२). पाप कर्माचो त्याग करून जें बरें आनी हिताचें आसत तें जोडूंक जाय (१६७). हातांतल्यान घडिल्लें एकाद्रें पातक ल्हानशेंच आसा, ताची म्हाका बादा जावंची ना अशें समजून ताची उवेखणी करप समा न्हय, कित्याक एकेक थेंब पडून उदकाचो कळसो भरता तशेंच पातकाचें (१२१). आशाधोशीपण सोडूंक जाय. कित्याक, कार्षापणा सारक्या नाण्यांचो पावस जरी मनशाचेर पडलो तरी ताची तृप्ती जावंची ना (१८६). तेन्ना आपलोच अंतर्यामी आशिल्लो मळ काडून उडयलो ना जाल्यार, जे भाशेन लोखंडाची कळम ताकाच खाता (२४०), वा फातरापसून जाल्लो हिरो जसो हिऱ्याकूच कातरता (१६१) ते भाशेन तो आपलोच नाश करतलो. आपणें कश्ट करून आपली शुद्धी करची; कित्याक, शुद्धी अशुद्धीचे विशीं कोणूच हेरांक पालव दिवंक पावना (१६५). अशी शुद्धी करून घेतली ना आनी आपलेठांय आशिल्ले पापवृत्तीक मेकळीक दिल्यार ह्या सगल्या विश्वांत सुवात ना, जंय लिपून बसल्यार पापांतल्यान सुटका जायत (१२७). तेचभाशेन विश्वांत अशीय सुवात ना की जंय बसल्यार मृत्यू टळटलो (१२८). आनी ह्या जगांत अंत करपी (अन्तक) काळ येतकच तातुंतल्यान सुटपाक मदत करपी कोणूच सोयरो कामाचो नासता (२८८). देखून वेळारूच सावध जावन ह्या विश्वाचें यथातथ्य ज्ञान संपादचें. कित्याक, आळशाक ज्ञानाचो मार्ग मेळना. ह्या जगांत कोणूच निंदेंतल्यान सुटूंक ना. मौन पाळपी, मितभाशी वा वाचाळ मनशाची निंदा करतात (२२७-२२८) हें ध्यानांत दवरचें. तेन्ना आपल्याक जो मार्ग बरो दिसता त्या मार्गान वचचें.

## धम्मपद – अट्ठकथा

धम्मपदाचेर **धम्मपद-अट्ठकथा** नांवाचो भाश्य ग्रंथ आसा. हातूंत प्रत्येक गाथा वा गाथा-समूह खंय आनी कोणाक उद्देशून गौतम बुद्धान म्हळ्या, हें सांगपाक कथानकां दिल्यांत. हातूंत कांय कथानकां बुद्ध आनी ताचे शिश्य-शिश्यिणी विशींचीं जशीं आसात, तशीं कांय इतिहासीक वा पुराणीक स्वरुपाचीं आसात. देवदत्त, आनंद, सुंदरी, परिव्राजिका,

उत्पलवर्णा भिक्षुणी, वंगोस, थेर सारक्या ज्या व्यक्तींचो बुद्धाकडेन संबंद आयलो त्या व्यक्तींचीं कथानकां आसात. इतलेंच न्हय तर विड्डभ, चण्डप्रद्योत, उदयन, वासुलदत्ता (वासवदत्ता) सारक्या बुद्धाचे मुस्तींतल्या इतिहासीक व्यक्तींच्योय कथा प्रसंगानुरूप दिल्यात.

कथानकाच्या रुपान गाथा म्हणपाचो प्रसंग सांगतकच ते गाथेंतल्या उतरांचो अर्थय दिला. पारंपारिक अर्थ, श्लेषांतलो गर्भीत अर्थ वा रुपकाची वा कुवाड्याची विसकावणी समजुपाक **अट्ठकथा** खूब उपेगी पडटा.

---

टीप :

१. तीन पेटारे, तीन कण्णे. हे ग्रंथ तीन पेटाऱ्यांनी दाळून दवरिल्ले देखून तांकां **त्रिपिटक** म्हणटात.
२. हो नियाळ कै. पु. मं. लाड हांणी केल्ल्या अणकाराक प्रा. पु. वि. बापट हांणी बरयल्ल्या प्रस्तावनेच्या आदारान केला. पळयात, धम्मपद – पु. मं. लाड, सं. प्रा. पु. वि. बापट, प्रकाशक : महाराष्ट्र राज्य साहित्य मंडळ, मुंबई, (१९७५) पृ. ३-४२.
३. DHAMMAPADA सर्वेपल्ली राधाकृष्णन; ऑक्सफर्ड युनिव्हर्सिटी प्रेस, मद्रास; १९९२, पृ. १.
४. कंसांतले आंकडे गाथांचे क्रमांक दाखयतात.



। नमोतस्स भगवतो अरहतो सम्मासम्बुद्धस्स ।

॥ त्या भगवान अर्हन्त पूर्णज्ञान्याक नमस्कार ॥

# यमकवग्गो
# यमक वर्ग



पाली भाशेंतलें भौतेक बौद्ध साहित्य आनी सुत्रां हीं बौद्ध भिक्षू आनी भिक्षुणी हांचेखातीर रचिल्लीं. **धम्मपद** मात सगल्या बौद्ध धर्मियांच्या नित्यपाठाचो ग्रंथ. तातूंत वेगवेगळ्या विशयांचेर रचिल्ल्यो ४२३ गाथा आसात. तांचें मनन केल्यार वाचप्यांच्या मनार सात्विक परिणाम जाता. मनशाची जीण बऱ्याखातीर पुराय बदलून उडोवचेली तांक धम्मपदांत आसा.

धम्मपदाच्या पयल्या वर्गाचें वा अध्यायाचें नांव यमक वर्ग. यमक म्हळ्यार जोडी. ह्या वर्गांत गाथांच्यो कुल्लीं धा जोडयो आसात. प्रत्येक जोडयेंत दोन पर्यायी विचार मांडल्यात. एक विचार वायट चलणुकेचो तर दुसरो बरे चलणुकेचो. एक विचार वायट वाट दाखयता. ती धरप सोपें आसल्यारूय अखेरेक ती वाट बऱ्याची न्हय, ती आमच्या अहिताची. दुसरी उजू वाट. पूण कठीण आनी बिकट. कश्टान आनी यत्नान सादपाची. ही वाट धरल्यार बुद्धान सांगिल्ल्या आठ आंगांचे वाटेन गेल्ल्याचें स्रय मेळटा.

पूण बुद्ध फकत वाट दाखोवपी (२७६*). यत्न करून निर्णय जण एकल्यान घेवचेलो आसता. बुद्धाची वाट सारासार विचारांचेर, तर्काचेर आनी बुद्धीच्या वरकुलाचेर थारावचेली आसता. बुद्धाचे शिकवणेचो भर यत्नाचेर आसा, दैवाचेर ना. बरें केल्यार मनशाक बरें फळ मेळटलें, वायट केल्यार वायट फळ मेळटलें अशें बुद्धान आमकां अडेज हजार वर्सां पयलीं सांगलां. देखून खर यत्नान, व्हडा उर्बेन आनी जाणविकेन ही वाट धरल्यार आमचो सबावच आमकां बदलूंक येतलो.

बुद्ध लोकभाशेंतल्यान – पाली भाशेंतल्यान – लोकांक उपदेश करतालो. लोकांक समजता तसले दृश्टांत दितालो. ताची भास संवकळीची, तशो ताणें दिल्ल्यो ओंपारी. बुद्ध सांगता: 'संस्कारीत जावंक नाशिल्लें अथीर मन हें सारकें शिंवूंक नाशिल्ल्या घरा भाशेन. असल्या घरांत जसो पावस रिगता तशें संस्कारीत जावंक नाशिल्ल्या

* (ही कुरू गाथेचो क्रमांक दाखयता)

चित्तांत विकार रिगतात (१३). जसो जायत्यो संहिता कोणूय तोंडपाठ म्हळ्यारूय तांचे सांगणे भाशेन तो चलना जाल्यार, परक्यांच्यो गायो मेजपी राखण्या भाशेनूच, तो श्रमणधर्माचो वांटेकार जायना (१९).

प्रसन्न मनान कर्म करप आनी उलोवप, वैर भावनेविणें आनी मेधा मर्यादेन जियेवप, बरे संकल्प करून पुण्यकर्मां करप हीं मनशाक उजू वाटेन व्हरतात आनी ताचें कल्याण करतात. तर कुसकें मन, पाडीं कर्मां आनी पाडें उलोवप, वैरभावनेन भरिल्ली आनी मेधामर्याद नाशिल्ली जीण हीं मनशाचें अहित करतात अशी शिटकावणी बुद्ध ह्या वर्गांत आमकां दिता.

★ १ मनोपुब्बंगमा धम्मा[1] मनोसेट्ठा[2] मनोमया[3] ।
मनसा चे पदुट्ठेन भासति वा करोति वा ।
ततो नं दुक्खमन्वेति चक्कं • व वहतो पदं ॥१॥

*मन मुखार धर्मांत मन श्रेश्ठ घडय मन।*
*मनान जो नश्टो वाश्ट वाचेन करणेन बी।*
*ताचे फाटीक गा दुख्ख पांयां फाटसून चाकशें ॥१॥*

सगल्या (पदार्थ) धर्मांत मन मुखार आसता; मन श्रेश्ठ आसता, मनच सगळें घडयता. दुश्ट मनान जो उलयता वा चलता ताचे फाटसून दुख्ख येता, जशें वाहकाच्या पांयांफाटल्यान चाक येता.

★ २ मनोपुब्बंगमा धम्मा मनोसेट्ठा मनोमया ।
मनसा चे पसन्नेन भासति वा करोति वा।
ततो नं सुखमन्वेति छाया[4] • व अनपायिनी ॥२॥

*मन मुखार धर्मांत मन श्रेश्ठ घडय मन।*
*मना प्रसन्नतायेन उलयी करणी करी।*
*ताचे फाटसून गा सूख सोडिना सांवळी कशी ॥२॥*

सगल्या (पदार्थ) धर्मांत मन मुखार आसता.• मन श्रेश्ठ, मनच सगलें घडयता. जो प्रसन्न मनान उलयता वा करणी करता ताचे फाटसून सुख ताच्या सोडिनाशिल्ले सावळेवरी येता.

★ ३ अक्कोच्छि[५] मं अवधि[६] मं अजिनि मं अहासि[७] मे।
ये तं उपनय्हन्ति वेरं तेसं न[८] सम्मति[८] ॥३॥

*माल्लो म्हाका सवल्यो गाळी    जिखलो म्हाका लुबाडलो।*
*हांची जो बांदता गांठ    त्या मनशा वैर सोंपना ॥३॥*

'म्हाका गाळी संवल्यो', 'म्हाका मारलो', 'म्हाका हारयलो', 'म्हाका नागयलो' – हांची जो मनांत गांठ बांदता ताचें वैर सोंपना.

★ ४ अक्कोच्छि मं अवधि मं अजिनि मं अहासि मे।
ये तं न उपनय्हन्ति वेरं तेसूपसम्मति ॥४॥

*माल्लो म्हाका सवल्यो गाळी    जिखलो म्हाका लुबाडलो।*
*हांची जो बांदिना गांठ    त्या मनशा वैर सोंपता ॥४॥*

'म्हाका गाळी संवल्यो', 'म्हाका मारलो', 'म्हाका हारयलो', 'म्हाका नागयलो' – हांची जो मनांत गांठ बांदिना ताचें वैर सोंपता.

५ न हि वेरेन वेरानि सम्मन्तीध कुदाचनं।
अवेरेन च सम्मन्ति एस धम्मो सनन्तनो[९] ॥५॥

*ह्या जगीं वैर वैरान    जायना केन्नाच थंड तें।*
*मोगानूच न्हिवता गा तें    होच धर्म सनातन ॥५॥*

ह्या जगांत वैर वैरान केन्नाच सोंपना. वैर धरिना जाल्यार (मोगान) तें सोंपता. हो धर्म (नेम) सासणाचो.

★ ६ परे च न विजानन्ति[१०] मयमेत्थ यमामसे।
ये च तत्थ विजानन्ति ततो सम्मन्ति मेधगा[११] ॥६॥

*नेणात हेर कांय लोक    आमी मर्णासरीं वता।*
*जाणती पूण जे कोण    तांचो कलह सोंपता ॥६॥*

आमी मर्णाचे दिकेन वतात हें हेर (वेगळ्या विचारांचे) कांय लोक हांगा जाणिनात. पूण जे थंय (ह्या संवसारांत) अशें जाणटात, तांचेकडसून कलह सोंपता.

★ ७ सुभानुपस्सिं[१२] विहरन्तं इन्द्रियेसु असंवुतं।
भोजनम्हि अमत्तञ्ञुं[१३] कुसीतं[१४] हीनवीरियं[१५] ।
तं वे पसहति मारो[१६] वातो रुक्खं • व दुब्बलं ॥७॥

*भोंवता जो शुभदृश्टीन हातांत नात इंद्रियां।*
*खाणांत राखिना शीम उत्साहावीण सुस्त जो।*
*ताका घालता सकला मार दुबळ्या रुखाक वाव सो ॥७॥*

(भोगाचे जिणेंत गुल्ल आशिल्ल्यान) काया शुभ लेखून जीण सारपी, इंद्रियां आपले सुवादीन नाशिल्लो, जेवणांत मेधा राखिनाशिल्लो, आळशी आनी उत्साहहीण अशा मनशाक मार आड घालता, जसो वारो दुबळ्या रुखाक आड घालता.

८ असुभानुपस्सिं[१७] विहरन्तं इन्द्रियेसु सुसंवुतं।
भोजनम्हि च मत्तञ्ञुं सद्धं[१८] आरद्धवीरियं[१९] ।
तं वे नप्पसहति मारो वातो सेलं • व पब्बतं ॥८॥

*भोंवता अशुभ दृश्टीन राखी हातांत इंद्रियां।*
*खाणांत राखता मेधा भावार्थी नी उमेदि बी।*
*घालना मार सकला ताका तळपा दोंगराक वाव सो ॥८॥*

(काया) अशुभ लेखून जियेवपी, इंद्रियांचेर पुराय संयम आशिल्लो, जेवणा खाणांत मेधा राखपी, श्रद्धावंत आनी उमेदी मनशाक मार आड घालिना, जसो खडपी पर्वताक वाव उबयना.

९ अनिक्कसावो[२०] कासावं[२१] यो वत्थं परिदहेस्सति[२२] ।
अपेतो[२३] दमसच्चेन न सो कासावमरहति[२४] ॥९॥

*मना विकार गेले ना घालें वस्त्र जरी भगवें।*
*दम सतान सोडलो गा ताका तें फावना भगवें ॥९॥*

जाच्या मनांतल्यान कशाय (रागद्वेशादी चित्तदोश) गेले नात असो मनीस काशाय (भगवें) वस्त्र न्हेसल्यारूय तो सत आनी संयम हांकां पयसावल्यार ताका काशाय वस्त्र फावना.

★ १० यो च वन्तकसावस्स[२५] सीलेसु[२६] सुसमाहितो[२७]।
उपेतो दमसच्चेन स वे कासावमरहति ॥१०॥

*जाणें विकार ओंकीले शिलांत जो थिरावलो।*
*सत संयम जोडिल्ल्याक् फावता वस्त्र भगवें ॥१०॥*

जाणें कशाय ओंकले म्हळ्यार भायरायले, जो शिलांत थीर जालो, जाणें सत आनी संयम हीं जोडलीं, अशा मनशाकूच काशाय वस्त्र फावता.

★ ११ असारे सारमतिनो सारे[२८] चासारदस्सिनो।
ते सारं नाधिगच्छन्ति मिच्छासङ्कप्पगोचरा[२९] ॥११॥

*लेखी असार तें सार देखी सारीं असार जो।*
*ताका गा मेळना सार लटको विचार जो करी ॥११॥*

असार (वस्तूंत) सार पळोवपी आनी सार (वस्तूंत) असार पळोवपी, अशा लटक्या विचारांच्या मनशांक सार मेळना.

★ १२ सारं च सारतो ञत्वा असारं च असारतो।
ते सारं अधिगच्छन्ति सम्मासङ्कप्पगोचरा ॥१२॥

*सारांत सार जो जाणी असारांत असार जो।*
*ताका गा मेळता सार सत विचार जो करी ॥१२॥*

सारांतलें सार आनी असारांतलें असार जाणून जे सत्य विचार करतात तांकांच सार मेळटा.

★ १३ यथा अगारं दुच्छन्नं वुट्ठि समतिविज्झति।
एवं अभावितं चित्तं रागो समतिविज्झति[३०] ॥१३॥

*घर जें नीट शिंवलेंना पावस तातूंत वर्सता।*
*भोगा ओड रिगता चित्तीं जें ध्यान भावनेविणें ॥१३॥*

सारकें शिंवूंक नाशिल्ल्या घरांत जसो पावस रिगता, ते भाशेन ध्यान भावनेन संस्कारीत जावंक नाशिल्ल्या चित्तांत भोगाओड रिगता.

१४ यथा अगारं सुच्छन्नं वुट्ठि न समतिविज्झति।
एवं सुभावितं चित्तं रागो न समतिविज्झति ।।१४।।

*घर जें शिंवलें नीट पावस तातूंत वर्सना।*
*रिगना काम चित्तांत संस्कारी भावनेन जें ।।१४।।*

सारकें शिंविल्ल्या घरांत जसो पावस रिगना, ते भाशेन ध्यान भावनेन संस्कारीत जाल्ल्या चित्तांत भोगवान्सा रिगना.

★ १५ इध सोचति पेच्च सोचति
पापकारी उभयत्थ सोचति।
सो सोचति सो विहञ्ञति
दिस्वा कम्मकिलिट्ठमत्तनो ।।१५।।

*हांगा शोक करता थंय बी करता*
*करपी पाप करता शोक दोंय लोकीं।*
*करता तो शोक जाय तो कश्टी*
*पळोवन आपलींच कर्मां म्हेळीं ।।१५।।*

पातकी मनीस हांगा शोक करता आनी मरतकूच परलोकांतूय शोक करता. तो दोनूय लोकांत शोक करता. आपलीं पातकी कर्मां पळोवन ताका दुख्ख जाता आनी तो कश्टी जाता.

१६ इध मोदति पेच्च मोदति
कतपुञ्ञो उभयत्थ मोदति।
सो मोदति सो पमोदति
दिस्वा कम्मविसुद्धिमत्तनो ।।१६।।

*हांगा संतुश्ट संतुश्ट थंय बी*
*पुण्यात्मो संतुश्ट दोनूय लोकांत।*
*जाता तो तुश्ट जाता तो खोशी*
*देखून कर्मां विशुद्ध आपलीं ।।१६।।*

पुण्यशीळ हांगा खोशी जाता; मरतकूच परलोकांत खोशी जाता. दोनूय लोकांत तो खोशी जाता. तो आपलीं विशुद्ध कर्मां पळोवन खोशी जाता आनी धादोस जाता.

★ १७ इध तप्पति पेच्च तप्पति
पापकारी उभयत्थ तप्पति।
पापं मे कतं • ति तप्पति
भिय्यो तप्पति दुग्गतिं[३१] गतो॥१७॥

*हांगा तरास थंय तरास*
*पाप्याक तरास दोंय लोकांत।*
*'म्हजें हें पाप' देखून तरास*
*मेळ्ळी दुर्गत पुना जाय तरास॥१७॥*

पापी मनशाचो हांगा ताप जाता. मरतकूच परलोकांत वचून 'हांवें पाप केलां' हें चिंतून ताप जाता. आपणाक दुर्गती मेळ्ळी म्हणून ताका पर्थून ताप जाता.

★ १८ इध नन्दति पेच्च नन्दति
कतपुञ्ञो उभयत्थ नन्दति।
पुञ्ञं मे कतं • ति नन्दति
भिय्यो नन्दति सुग्गतिं[३२] गतो॥१८॥

*हांगा तो खोशी थंय बी तो खोशी*
*पुण्यात्मो खोशी तो दोनूय लोकीं।*
*'केलें हें पुण्य' देखून खोशी*
*मेळ्ळी सुगत जाय पुना तो खोशी॥१८॥*

ह्या लोकांत तो खोशी जाता आनी परलोकांतूय तो खोशी जाता. पुण्यात्मो दोनूय लोकांत खोशी जाता. 'हांवें पुण्य केलें' हें चिंतून तो खोशी जाता. सुगती मेळिल्ल्यान तो चड खोशी जाता.

★ १९ बहुंऽपि चे सहितं[३३] भासमानो
न तक्करो होति नरो पमत्तो।
गोपो ॰ व गावो गणयं परेसं
न भागवा सामञ्ञस्स[३२] होति ॥१९॥

*जायती जरी तो संहिता म्हणी*
*अविवेकी नर चलता ते परी।*
*श्रमणधर्माचो जायना तो भागी*
*हेरां गायो मेजपी राखण्यावरी॥१९॥*

जायत्यो संहिता म्हळ्यार बुद्ध-वचनां म्हणपी जो अविवेकी मनीस तांच्या तत्त्वांप्रमाण चलना तो परक्यांच्यो गायो मेजपी राखण्यावरी श्रमणधर्माचो वांटेकार जायना.

★ २० अप्पंऽपि चे सहितं भासमानो
धम्मस्स होति अनुधम्मचारी।
रागं च दोसं[३५] च पहाय मोहं
सम्मप्पजानो[३६] सुविमुत्तचित्तो।
अनुपादियानो[३७] इध वा हुरं वा
स भागवा[३८] सामञ्ञस्स होति॥२०॥

*थोडी म्हळी जरी संहिता पाठ*
*धर्मानच चलता तो आपली वाट।*
*सोडिल्ल्यान राग द्वेश नि मोह*
*शुद्ध ज्ञानान जालो चित्तमुक्त।*
*मागिना कांय तो हांगा वा थंयबी*
*जाता श्रमणधर्मा तो भागी ॥२०॥*

इल्लीशी संहिता म्हणल्यारूय धर्मान चलपी, राग, द्वेश, मोह सोडिल्लो, शुद्ध ज्ञानान चित्त-मुक्त जाल्लो, हांगा आनी परलोकांत आसक्ती सोडिल्लो मनीस श्रमणधर्माचो वांटेकार जाता.

टीप :

१. **धम्म** (सं.[१] = **धर्म**) हें बौद्ध साहित्यांतलें पारिभाशीक उतर. धर्म ह्या ताच्या अर्थावांगडाच जायत्या फावटी नामरुपात्मक पदार्थ वा वस्तू ह्या अर्थानय वापरतात.

२. **मनोसेट्ठा** = मनश्रेश्ठ, मनवरतें. सगळ्या पदार्थांत तें मुखार आशिल्ल्यान तें श्रेश्ठ.

३. **मनोमया** = मनशाचे सगले विचार ताच्या मनांतल्यान उप्रासतात. विज्ञानांतल्यान मनीस जाणटा. विज्ञान म्हणजे जाणप. वेदना (संवेदना), संज्ञा आनी संस्कार ह्या तिनांकय मेळून विज्ञान म्हणटात. वेदनेंतल्यान आमकां ज्ञान जाता.

४. दुसरो पाठ – **छाया वा अनूपायिनी** (म्हळ्यार फाटल्यान येवपी सावळेवरी येता).

५. गाळी संवल्यो.

६. मारलो.

७. नागयलो.

८. **न सम्मति** = सोंपना, थंडावना.

९. सनातन.

१०. जाणटा.

११. कलह, झगडीं.

१२. काया शुभ अशें पळोवपी आनी भोग हीच कायेची मुखेल लागणूक अशें मानपी.

१३. मेधा राखिनाशिल्लो, संयम नाशिल्लो.

१४. आळशी.

१५. उत्साहहीण, उर्बा उमेद नाशिल्लो.

* १६. **मार** म्हळ्यार मारपी; मनशाच्या वायट प्रवृत्तींचो नाश करपी.

१७. काया ही म्हेळी वस्तू अशें पळोवप वा मानप. हे वृत्तीक **कायगता सति** (काया अशुभ अशी जाणवीक आसप) अशें म्हण्टात.

१८. श्रद्धा, भावार्त.

१९. उर्बेवंत, आत्मीक बळ आशिल्लो.

२०. राग, लोभ, दुस्वास आदि चित्तविकार वचूंक नाशिल्लो.

२१. काशाय रंगाचें (भगवें, तांबशें वा हळडुवें) वस्त्र.

२२. वस्त्र न्हेसप वा गुठलावप.

२३. नाशिल्लो.

२४. काशाय वस्त्र सोबनाशिल्लो.

२५. दोश ओंकिल्लो वा भायरायल्लो.

* २६. शील.

२७. थीर आशिल्लो, स्थितप्रज्ञ, चित्ताची संतुळा राखिल्लो.

* २८. सारांत. मूळ तत्वांत वा वास्तवांत.

२९. मिथ्या वा लटको विचार.



---

१. सं. = संस्कृत.

* पुस्तकाचे अखेरेक दिल्ल्यो टिपो पळयात.

३०. रिगता, घुसता.

३१. दुर्गती.

३२. सद्गती, सुगती.

३३. **संहितं (सं. संहिता)** = तिपिटक (तीन पेटारे वा कण्डे) ह्या तीन ग्रंथसंग्रहांत (**विनयपिटक, सुत्तपिटक, अभिधम्मपिटक**) बुद्धाची शिकवण आनी वचनां एकठांय केल्यांत. तांकां संहिता म्हणटात. **'तिपिटकस्य बुद्धस्य वचनं येतं नामम्'।**

३४. **सामञ्ञ (सं. श्रामण्य) – समण (सं. श्रमण)** वेदकाळांतलो जसो ब्राह्मण तसो बौद्ध धर्मांतलो हो उंच पांवड्याची जीण सारपी मनीस. बुद्धाचो जायत्या फावटी 'बरो श्रमण' म्हूण उल्लेख केला. **(श्रामण्यफल सुत्त).**

३५. दुस्वास, द्वेश.

३६. खरें ज्ञान जाणपी.

३७. लोभाविरयत.

३८. वांटेकार.

# अप्पमादवग्गो
# अप्रमाद वर्ग

---

पयल्या वर्गांत मन संस्कारीत करून तें थीर करपाचेर भर दिला. ध्यानाच्या पालवान तें थीर करूं येता. ध्यानान मनशाचें मन ताब्यांत येता. तें मागीर सैराट धांवना. मनीस ताचेर आपलो शेक दवरून ताका वश करता.

बौद्ध भिक्षू आनी भिक्षुणींनी नित्य ध्यान साधना करचेली आसता. पूण गौतम बुद्ध आपल्या हेर अनुयायांकूय ध्यान करूंक सांगता. ध्यान मार्ग कश्टानूच सादचेलो. पूण हें खबर आसून लेगीत बुद्धाचो सामान्य मनशाचे तांकीचेर विश्वास आसा. तांची तांक उणी लेखची न्हय अशें तांणी भिक्षू-भिक्षुणींचो संघ स्थापून कर्मकांडांत घुस्पल्ल्या समाजाक देख दिवन नवी दिका दाखयली.

देखून मनशान अविवेकी जीण टाळून विवेक आनी जागरूकायेन जीण सारपाचें म्हत्त्व गौतम बुद्ध सांगता. ध्यान, विवेक, विचार (चिंतन) आनी जागरुकाय हांचेवरवीं मनीस निर्वाण (मोक्ष) जोडूंक पावतलो ही बुद्धाची सांगणी.

★ २१ अप्पमादो[१] अमतपदं[२] पमादो[३] मच्चुनो पदं[४]।
अप्पमत्ता न मीयन्ति ये पमत्ता यथा मता ॥१॥

*जाग्रुकाये अमृताची सुस्तिची वाट मृत्युची।*
*जागरूक मरना केन्ना मेल्लेवरीच सुस्त ते ॥१॥*

जागरुकायेची वाट ही अमृताची (अमर जावंचेली), सुस्तीची वाट ही मरणाची. जागरूक मनीस केन्नाच मरनात. सुस्त मनीस मेल्लेवरीच जीण सारतात.

★ २२ एतं विसेसतो ञत्वा अप्पमादम्हि पण्डिता।
अप्पदाने पमोदन्ति अरियानं[५] गोचरे[५] रता ॥२॥

*होच विशेश जाणून जे जागरूक पंडित।*
*जागुकार्येंत खोशी ते आर्य मार्गान ते वती॥२॥*

अप्रमादांतलो म्हळ्यार जागरुकार्येंतलो हो विशेश जाणून अप्रमादी जागरूक पंडित जागरुकार्येंत खोशी जातात. ते आर्यांचे म्हळ्यार व्हड मनशांचे वाटेन वतात.

★ २३ ते झायिनो[६] साततिका निच्चं दळ्हपरक्कमा[७]।
फुसन्ति धीरा निब्बानं[८] योगक्खेमं अनुत्तरं ॥३॥

*ध्यानरत यत्नशीळ सदा खर पराक्रमी।*
*निर्वाणा पावती ज्ञानी योगक्षेमाक ना सर ॥३॥*

ध्यानांत गुल्ल आसपी, सदांच यत्न करपी, नित्य खर पराक्रमी अशे ज्ञानी मनीस अनुत्तर म्हळ्यार जाचेपरस श्रेश्ठ आनीक दुसरें कांयच ना, अशें योगक्षेमावरी आशिल्लें निर्वाण मेळयतात.

★ २४ उट्ठानवतो[९] सतिमतो[१०]
सुचिकम्मस्स निसम्मकारिनो।
संयतस्स च धम्मजीविनो[११]
अप्पमत्तस्स यसोऽभिवड्ढति॥४॥

*विचारी जो सदा जागरूक*
*विवेकी तो करणेन पावन।*
*संयमी चलता जो धर्मान*
*त्या विवेकी मनशा वाडटा कीर्त॥४॥*

चिंतनशील, सदां जागरूक, शुद्ध कर्मां करपी, विवेकशील, धर्मान चलपी मनशाचें येस वाडटा.

२५ उट्ठानेनऽप्पमादेन संयमेन दमेन च।
दीपं[१२] कयिराथ मेधावी यं ओघो नाभिकीरति[१३]।।५।।

*दम संयम उर्बेन विवेकशील पंडितान्।*
*करचो ताणें असो जुंवो हुंवारालोट व्हरिना ।।५।।*

ज्ञानी मनीस उर्बेन, विवेकान, संयमान मनाचें दमन करून हुंवारान व्हांवन वचचो ना, असो आपलो जुंवो करतात.

★ २६ पमादमनुयुञ्जन्ति बाला दुम्मेधिनो जना।
अप्पमादं च मेधावी धनं सेट्ठं • व रक्खति।।६।।

*भजती अविवेकाक मूर्ख दुर्बुद्ध लोक ते।*
*शाणे विवेक राखतात मोलादीक धनावरी ।।६।।*

मूर्ख दुर्बुद्ध मनीस प्रमादाक म्हळ्यार अविवेकाक भजतात. पूण बुदवंत विवेक मोलादीक धनावरी राखतात.

★ २७ मा पमादमनुयुञ्जेथ मा कामरति-सन्थवं[१४]।
अप्पमत्तो हि झायन्तो पप्पोति विपुलं सुखं ।।७।।

*भजचें न्ही अविवेकाक नाका भोगांमदीं रमूं।*
*ध्यानशील विवेकांत सुख उपाट भोगता ।।७।।*

प्रमादांत म्हळ्यार अविवेकांत रमूं नाका. काम भोगाकडेन दाटी करूं नाका. ध्यानांत आनी विवेकांत रमिल्लो मनीस उपाट सुख जोडटा.

२८ पमादं अप्पमादेन यदा नुदति पण्डितो।
पञ्ञा-पासादमारुय्ह असोको सोकिनिं पजं।
पब्बतट्ठो • व भुम्मट्ठे धीरो बाले अवेक्खति ।।८।।

*सुस्ती आपल्या विवेकान शाणो जेन्ना पयसावता।*
*चडलो प्रासाद प्रज्ञेचो सुखी दुखी जनांक तो।*
*तेमकांवेलो भुंयेवेल्यां ज्ञानी मूर्ख तशे पळे ।।८।।*

ज्ञानी मनीस जेन्ना जागरूकायेन आळसायेक पयस धुकलता, तेन्ना तो प्रज्ञारुपी प्रासादाचेर चडिल्ल्यान ताचें दुख्ख गळिल्लें आसता. पर्वतावेलो मनीस भुंयेवेल्या लोकांक जसो तेळटा तसो तो दुख्खी अज्ञानी लोकांक तेळटा.

२९ अप्पमत्तो पमत्तेसु सुत्तेसु बहुजागरो।
अबलस्सं • व सीघस्सो हित्वा याति सुमेधसो ॥९॥

*विचारी अविचाऱ्यांत जाग्रूक न्हिदिल्ल्यांत तो।*
*हारय शिघ्राश्व दुबळ्याक तसो शाणो वता फुडें ॥९॥*

वेगीं धांवपी घोडो जसो दुबळ्या घोड्याक फाटीं घालून मुखार वता तसो अविचारी मनशांतलो विचारी मनीस आनी न्हिदिल्ल्यांतलो जागरूक शाणो मनीस तांकां फाटीं घालून मुखार वता.

३० अप्पमादेन मघवा[१५] देवानं सेट्ठतं गतो
अप्पमादं पसंसन्ति पमादो गरहितो सदा ॥१०॥

*पावलो इंद्र विवेकान देवांमदीं व्हडल्या पदा।*
*विवेकाक सदीं तुस्ती अविवेकाक निंदिती ॥१०॥*

विवेक आशिल्ल्यान मघवा (इंद्र) देवेंद्रपदाक पावलो. लोक विवेकाक तोखेतात आनी अविवेकाक सदीं निंदितात.

★ ३१ अप्पमादरतो भिक्खु पमादे भयदस्सिवा।
संयोजनं[१६] अणुं थूलं डहं अग्गीव[१७] गच्छति ॥११॥

*भिक्षू गुल्ल विवेकांत अविवेकीं पळे भय।*
*पास ल्हान व्हडले लाशी वता फुडें उज्यावरी ॥११॥*

विवेकांत गुल्ल आशिल्लो भिक्षू अविवेकांत भंय पळयता. तो उज्यावरी ल्हान व्हड बंधनांक जाळीत मुखार वता.

★ ३२ अप्पमादरतो भिक्खु पमादे भयदस्सिवा।
अभब्बो परिहानाय[१८] निब्बानस्सेव सन्तिके ॥१२॥

*भिक्षू गुल्ल विवेकांत अविवेकीं पळे भय।*
*केन्ना तो पडना खाला निर्वाणाचे सरींच तो ॥१२॥*

विवेकांत गुल्ल आशिल्लो भिक्षू अविवेकांत भंय पळयता. ताची अवनत जायना. तो निर्वाणासरींच आसता.

## टीप

१. **(सं. अप्रमाद)** = विवेक, जागरुकाय, सुदृद, शिटूकसाण, सादूरताय, जतनाय घेवप.
२. अमरपद, निर्वाण.
३. **(सं. प्रमादी)** = पर्वा नाशिल्लो, घाळ, सुस्त, कामचुकार, अविवेकी, अदामतीचो, निश्काळजी.
४. मार्ग, वाट.
५. **अरियानं गोचरे** = आर्यांच्या क्षेत्रांत, सत्कर्मांच्या क्षेत्रांत. सत्कर्मांत रमिल्लो वा व्हड मनशांच्या मार्गान वचपी.
६. ध्यान करपी.
७. नेटान कश्ट करपी.
*८. निर्वाण.
*९. उद्येगी, यत्न करपी.
१०. जागरूक (**सति** म्हळ्यार स्मृती. जाचें चित्त सदांच जागरूक तो स्मृतीमंत).
११. धर्मान चलपी. (हांगा बुद्ध धर्म सुचोवचेलो ना. तर शिलाचारान चलपी, नित्य जागरूक आनी सत्यान चलपी मनीस धर्मान चलतात.)
१२. जुंवो (हो जुंवो म्हळ्यार निर्वाणाचें सुख).
१३. व्हांवन वचचोना.
१४. **मा कामरति-सन्थवं** = कामसुखाकडेन संबंध दवरूं नाका.
१५. मघवा म्हळ्यार इंद्र. हो तेत्तीस देवांच्या राज्यांचो राजा. ह्या राज्यांत जल्मल्ल्याक इंद्र म्हणटात आनी तांच्या राजाक देवेंद्र शक्र म्हणटात.
*१६. बंधन.
*१७. उज्यावरी.
१८. लुकसान जावपाक योग्य न्हय असो. तो (भिक्षू) मनाचे अशे अवस्थेक पावता की ते अवस्थेंतल्यान निर्वाणाचे वाटेपासून तो ढळना.

# चित्तवग्गो
# चित्त वर्ग

---

मन हुळहुळें आनी चंचळ आशिल्ल्यान ताका आळाबंदा हाडून ताचेर शेक दवरून ताका थिरावप चड कठीण. पूण हें करप चड गरजेचें आनी अंती मनशाच्या हिताचें. मन हेंच माराचें राज्य, कित्याक, थाव मेळनाशिल्ल्या मनाचे खोलायेंत सगले बरे वायट विचार ठाण मांडून बशिल्ले आसतात. खिणांत सैराट हेडपी मनाचेर शेक दवरप कठीण. तशेंच आळाबंद हाडून बरी दिका दिल्लें चित्त आमचें हित करता (४३), तर वायट दिका दिल्लें चित्त आमचो दुस्मान करचोना ताचेपरस आमचें वायट करता (४२).

ध्यानाच्या पालवान आमच्या मनाचेर शेक दवरून तें आमचे सुवादीन हाडचें अशें बुद्ध आमकां सांगता. आमच्या चित्ताचेर जैत जोडप हें झुजांत हजार फावटी हजार झुजप्यांचेर जैत जोडचेपरस चड कठीण अशें आमकां तो शिटकायता (१०३).

संवसारांतल्या सगल्या झगड्यांझुजांचो आरंब तीं करतल्यांच्या मनांत आदीं जाल्लो अशें इतिहास आमकां शिटकायता. विद्वाट करचेले मनाचे शक्तीक बरें मोडण दिवन, आशाधोशीपणाक ना करून, दर मनशान आपल्यांतले निर्मणेचे शक्तीक 'केळोवंक जाय हें सत बुद्धान आमकां अडेज हजार वर्सांपयलीं सांगुनूय आमी ताचेपासून कांयच शिकूंक नात अशें म्हणचें पडटा.

★ ३३. फन्दनं[१] चपलं चित्तं दुरक्खं दुन्निवारयं।
उजुं करोति मेधावी उसुकारो[२] • व तेजनं[३]।।१।।

*चंचळ हुतहुतें चित्त    आवरूंक राखपा खर।*
*तीर करपी जसो तीर    गिन्यानी तें करी उजू।।१।।*

चंचळ, हुळहुळें, राखूंक आनी निवारूंक कठीण अशा चित्ताक ज्ञानी मनीस सरळ करता, जसो तीर करपी कारागीर तीर तासून सरळ करता.

३४. वारिजो[४] • व थले खित्तो ओकमोकत[५] उब्भतो[६]।
परिफन्दति • दं चित्तं मारधेय्यं पहातवे[७] ॥२॥

*भुंयेर उडयिल्ल्या त्या उदकांतुल्या नुस्त्यावरी।*
*तडफड मना जाता टाळूंक मार-राज्य तें ॥२॥*

उदकां(घरां)तल्यान काडून भुंयेर उडयल्लें नुस्तें तडफडिल्लेवरीच आमचें हें चित्त काळाच्या चपक्यांतल्यान सुटपाच्या विचारान तडफडत आसता.

३५. दुन्निग्गहस्स लहुनो यत्थकामनिपातिनो।
चित्तस्स दमथो साधु चित्तं दन्तं सुखावहं॥३॥

*निग्रहा खर ल्हवपीक हेडपी सैराट तें मन।*
*करचें दमन चित्ताचें सुखाचें चित्त गा तसलें ॥३॥*

नित्शयाक कठीण, ल्हवपीक, इत्सा जायत तशें हेडपी अशा चित्ताक आळाबंदा हाडिल्लें बरें. सुवादीन दवरिल्लें चित्त सुख दिता.

३६. सुदुद्दसं[८] सुनिपुणं[९] यत्थकामनिपातिनं।
चित्तं रक्खेथ मेधावी चित्तं गुत्तं सुखावहं ॥४॥

*कळपा कठीण सुक्षीम हेडपी सैराट तें मन।*
*राखता तें चित्त गिन्यानी सुखाचें चित्त गा तसलें॥४॥*

चड सुक्षीम, कळपाक कठीण, इत्सा जायत तशें हेडपी चित्त गिन्यानी मनीस राखता. अशें बरें राखिल्लें चित्त सुख दिता.

★ ३७. दूरङ्गमं एकचरं असरीरं[१०] गुहासयं[११]।
ये चित्तं सञ्ञमेस्सन्ति मोक्खन्ति मारबन्धना॥५॥

*पयस एकटेंच तें चरता निरांगी अंतरीं लिपलां।*
*चित्त जांचे सुवादीन तोडटात मार-पास ते ॥५॥*

एकटेंच पयस भोंवपी, कूड नाशिल्लें, काळजाचे होंवरेंत लिपिल्ल्या अशा चित्ताचेर जे शेक दवरतात, ते माराच्या म्हळ्यार मर्णाच्च्या बंधनांतल्यान सुट्टात.

★ ३८. अनवट्ठितचित्तस्स सद्धम्मं अविजानतो।
परिप्लवपसादस्स पञ्ञा न परिपूरति ॥६॥

*मन थिरावंक नाशिल्लो नेणी गा सतधर्म जो।*
*मन प्रसन्न ना जाचें जायना प्रज्ञा पुराय ती ॥६॥*

चित्ताक थिराय ना, सत धर्म वळखना, चित्तान प्रसन्न ना अशा मनशाची प्रज्ञा पूर्ण जायना.

★ ३९. अनवस्सुतचित्तस्स[१२] अनन्वाहतचेतसो।
पुञ्ञपापपहीनस्स[१३] नत्थि जागरतो भयं॥७॥

*पाझरनात मना दोश मन जायना उचांबळ।*
*सुटिल्लो पाप पुण्यांतलो त्या जागृताक ना भय॥७॥*

जाच्या चित्तांतल्यान विकार पाझरनात, जाचें चित्त उचांबळ जायना, जो पाप पुण्याचे पेल्यान गेला, अशा जागरुकाक भय ना.

★ ४०. कुम्भूपमं[१४] कायमिमं विदित्वा
नगरूपमं चित्तमिदं ठपेत्वा।
योधेथ मारं पञ्ञायुधेन
जितं च रक्खे अनिवेसनो[१५] सिया॥८॥

*मडकेवरी काया ही जाणून*
*चित्ताक नगरावरी स्थापून।*
*झुजचें माराशीं प्रज्ञायुधान*
*जिखिल्लें राखचें ओडीविणें ॥८॥*

ही काया मडकेवरी नश्वर जाणून, चित्ताक नगरकोटाभाशेन सज्ज राखून थीर राखचें. प्रज्ञारुपी आयुधांनी माराशीं झुजचें, माराचेर जैत जोडटकूच चित्त सांबाळचें आनी ओडीविणें रावचें (म्हणटकूच तूं तुका राखतलो).

४१. अचिरं वतऽयं कायो पठविं अधिसेस्सति।
छुड्डो[१६] अपेतविञ्ञाणो[१७] निरत्थं • व कलिङ्गरं[१८] ॥९॥

*आरे वेगींच ही कूड पडटली धतरीर ती।*
*चेतना सार नाशिल्ली व्यर्थ कळिंवरावरी ॥९॥*

आरे! रोखडीच ही कूड चेतनाहीण जावन उपेग नाशिल्ल्या कळिंवरा भाशेन भुंयेर पडिल्ली आसतली.

४२. दिसो दिसं यं तं कयिरा वेरी वा पन वेरिनं
मिच्छापणिहितं चित्तं पापियो नं ततो करे ।।१०।।

*शत्रू दुर्गत शत्रूची वैरी वैऱ्या करी तशी।*
*ते परसूय करी चित्त गेलां वायट दिकेन जें ।।१०।।*

दुस्वाशी द्वेश्ट्याचें जितलें लुकसाण करता वा दुस्मान दुस्मानाचें करता ताचे परसूय विचारांक लटकी दिका दिल्लें चित्त अदीक लुकसाण करता.

४३. न तं माता पिता कयिरा अञ्ञे वाऽपि च ञातका।
सम्मापणिहितं चित्तं सेय्यसो नं ततो करे ।।११।।

*आवय बापूय करचे नात वा हेर बांधवय तशे।*
*हीत चड करी चित्त गेलां बरे दिकेन जें ।।११।।*

आवय-बापूय वा हेर भावबंद जितलें आमचें बरें करचेनात तांचे परसूय चड हित बरी दिका दिल्लें चित्त करता.

## टीप

१. स्पंदन करपी, हुळहुळें, थरथरपी, कडकडपी.
२. तीर करपी.
३. तीर, बाण.
४. नुस्तें.
५. उदकाच्या घरांतल्यान (**ओक** = उदक, **ओकस्** = घर).
६. काडून भायर उडयल्लें.
७. सुटूंक.
८. कळूंक वा दिसूंक कठीण.
९. खूब सुक्षीम, गहन.
१०. कूड नाशिल्लें.
११. काळजाचे होंवरेंत लिपिल्लें. चित्त काळजाचे होंवरेंत लिपलां असो बुद्धाचे मुस्तींत समज आशिल्लो.
* १२. ज्या चित्ताक विकारांची बाधा जावंक ना.
* १३. पापपुण्यां सोडिल्लो.
१४. मडकेवरी देखून नश्वर.
१५. निवासा बगर, तंबूविणें (तंबूचे भायर न्हिदपी झुजप्यावरी ओडीविणें राव).
१६. क्षुद्र.
१७. चेतनाहीण.
१८. कळिंवर. कलींग देशांत (उडिसांत) केल्ल्या लाकडी बावल्यावरी; मेल्ल्या मनशाची कूड लाकडाच्या बावल्यावरीच निर्जीव, चेतनाहीण आनी निरुपेगी आसता.

# पुप्फवग्गो
# पुष्प वर्ग

---

ह्या अध्यायाचें नांव फुलां अध्याय. हीं फुलां भोगवान्शेचीं. जायत्या फावटी जिणेंत संवसारी सुखांफाटल्यान धांवपी मनीस व्यर्थ धडपडटना, ताणें आपलें शील राखल्यार तें ताची जीण फळादीक करतली ही देख ह्या अध्यायांत दिल्या.

४४. को इमं पठविं विजेस्सति
यमलोकं च इमं सदेवकं।
को धम्मपदं[१] सुदेसितं[२]
कुसलो[३] पुप्फमिव पचेस्सति[४] ।।१।।

*ही धर्तरी जिखतलो कोण*
*यमलोकय थंयच्या देवांसवें।*
*धर्मपदां सुबोधीत कोण*
*पुंजायतलो कुशळ फुलां जशीं ।।१।।*

ही धर्तरी आनी यमलोक थंयच्या देवांसयत कोण जिखतलो[५] ? कुशळ (माळी) जसो (वालीक नखलामी करिनासतना फुलां) पुंजायता तशीं बरीं धर्मपदां कोण पुंजायतलो[६] ?

४५. सेखो[७] पठविं विजेस्सति
यमलोकं च इमं सदेवकं।
सेखो धम्मपदं सुदेसितं
कुसलो पुप्फमिव पचेस्सति ।।२।।

*जिखतलो शिश्य ही धर्तरी*
*थंयच्या देवांसवें यमलोकूय।*
*शिश्य धर्मपदां सुबोधीत*
*पुंजायतलो कुशळ फुलांवरी ।।२।।*

म्हजो शिश्य ही धर्तरी थंयच्या देवांसयत यमलोक जिखतलो. कुशळ माळी जसो फुलां, वालीक नखलामी करिनासतना पुंजायता तशीं बरीं उपदेशिल्लीं धर्मपदां म्हजो शिश्य पुंजायतलो.

★ ४६. फेणूपमं कायमिमं विदित्वा
मरीचिधम्मं अभिसम्बुधानो।
छेत्वान मारस्स पपुप्फकानि
अदस्सनं मच्चुराजस्स गच्छे ॥३॥

*फेणावरी ही जाणून काया*
*सबाव तिचो मृगजळावरी जाणी।*
*मारा फुलां कातरून काडी जो*
*सुट्टा तो नदरेंतुल्यान यमाचे॥३॥*

ही काया उदकावेलो फेण समजून तिचो मृगजळावरी (सारहीण) धर्म जाणटकूच मारान॑ मारिल्ले फुलांचे बाण जो कातरून काडटा, तो यमाचे नदरेंतल्यान सुट्टा.

★ ४७. पुप्फानि हेव पचिनन्तं व्यासत्तमनसं नरं।
सुत्तं गामं महोघो • व मच्चु आदाय गच्छति ॥४॥

*चित्त ओडीन आकूळ भोगा फुलां पुंजायतना।*
*काळ घेवन वता ताका न्हिदिल्लो गांव और सो ॥४॥*

भोगाओडीन चित्त आकुळपिकूळ जाल्ल्या मनशाक संवसारांतलीं (भोगवान्शेचीं) फुलां पुंजायतना मृत्यू ओडून व्हरता, जसो हुंवार न्हिदिल्ल्या गांवाक व्हरता.

★ ४८. पुप्फानि हेव पचिनन्तं व्यासत्तमनसं नरं।
अतित्तं येव कामेसु अन्तको कुरुते वसं ॥५॥

*चित्त ओडीन आकूळ भोगा फुलां पुंजायतना।*
*सुखां भोगपी अतृप्ताक करता वश काळ गा ॥५॥*

भोगा ओडीन चित्त आकुळपिकूळ जाल्ल्या मनशाक संवसारांतलीं (भोगवान्शेचीं) फुलां पुंजायतना ताच्यो वासना तृप्त जावचे पयलींच काळ ताका व्हरता.

४९. यथाऽपि भमरो पुप्फं वण्णगन्धं अहेठयं।
पलेति रसमादाय एवं गामे मुनी चरे॥६॥

*जसो भोंवर फुलांचो वर्ण गंध इबाडिना।*
*पळटा तो म्होंव चाखून गांवीं मुनी फिरूं तसो ॥६॥*

भोंवर जसो फुलांच्या रंगाक आनी परमळाक नखलामी करिनासतना तातुंतलें म्होंव (अचळय) घेवन पळटा, तशें (लोकांक त्रास दिनासतना) मुनीन गांवांत भिक्षेखातीर भोंवचें.

५०. न परेसं विलोमानि न परेसं कताकतं।
अत्तनो॰व अवेक्खेय्य कतानि अकतानि च॥७॥

*केलें दुसऱ्यान ना केल्लेंय देखचें न्ही विपरीत तें।*
*देखचें आपणें केल्लें करूंक ना तशेंच बी ॥७॥*

दुसऱ्यान जें केलां वा करूंक ना, वा विपरीत केलां, तें पळोवंचे बदला आपणेंच जें कितें केलां वा करूंक ना तें पळोवंचें.

★५१. यथाऽपि रुचिरं पुप्फं वण्णवन्तं अगन्धकं।
एवं सुभासिता वाचा अफला होति अकुब्बतो॥८॥

*रंग आसून ना गंध फूल सोबीत व्यर्थ तें।*
*आसले जरी बरे बोल करणेविणें दिना फळ॥८॥*

जशें सोबीत फुलाक रंग आसुनूय परमळ नासल्यार ताका मोल नासता, तेच भाशेन बऱ्या उतरांवरी करणी नासल्यार तीं फळादीक जायनात.

५२. यथाऽपि रुचिरं पुप्फं वण्णवन्तं सगन्धकं
एवं सुभासिता वाचा सफला होति सकुब्बतो॥९॥

*सोबता तें फूल सोबीत आसून रंग गंध बी।*
*तशे आचारवंताचे बोल बरे कृतार्थ ते ॥९॥*

जशें रंगयाळें सोबीत फूल परमळीत आसल्यारूच सोबता तशीं आचारवंताचीं उतरां बरीं आसल्यारूच फळादीक जातात.

५३. यथाऽपि पुप्फरासिम्हा कयिरा मालागुणे बहू।
एवं जातेन मच्चेन कत्तब्बं कुसलं बहुं ।।१०।।

*फुलां राशींतुल्या भोव करचे हार तरां तरां।*
*घेतिल्ल्या जल्म मर्त्यांनी करचीं कर्मां तर्शीं बरीं ।।१०।।*

फुलांच्या राशींतल्या जायते वळेसर करचे तशे जल्माक आयिल्ल्या मर्त्यांनी जायतीं कुशळ म्हळ्यार बरीं कर्मां करचीं.

५४. न पुप्फगन्धो पटिवातमेति
न चन्दनं तगर[१] -मल्लिका वा।
सतं च गन्धो पटिवातमेति
सब्बा दिसा सप्पुरिसो पवाति ।।११।।

*व्हांवना फुलां पर्मळ वाऱ्याआड*
*तगरे मोगऱ्या नी चंदना तसो।*
*व्हांवता संता पर्मळ वाऱ्याआड*
*सत्पुरुशा तसो धाय दिकांनी ।।११।।*

फुलांचो परमळ आनी मोगरा, तगर आनी चंदन हांचो परमळ वाऱ्याचे आड दिकेन व्हांवना. संतांचो परमळ वाऱ्याआडूय व्हांवता. सत्पुरुशाचो परमळ सगल्या दिकांनी पातळटा.

५५. चन्दनं तगरं वाऽपि उप्पलं अथ वस्सिकी।
एतेसं गन्धजातानं सीलगन्धो अनुत्तरो ।।१२।।

*जाये तसो तगरेचो चंदना साळकाय तसो।*
*पंर्मळ एकठावले हे शील गंधाचि ना सर ।।१२।।*

चंदन जावं वा तगर वा साळीक वा जाय जावं, ह्या सगल्या परमळांत शिलाच्या परमळाची सर कोणाकूच येना.

५६. अप्पमत्तो अयं गन्धो यायं तगरचन्दनी
यो च सीलवतं गन्धो वाति देवेसु उत्तमो ॥१३॥

*पर्मळ हो उणो साप्प चंदना तगरे जसो।*
*गंध तो शीळवंतांचो व्हांवता देवांत भौ बरो ॥१३॥*

तगरेचो आनी चंदनाचो परमळ साप्प उणो आसता. पूण शीळवंताचो परमळ भौच बरो आशिल्ल्यान, तो देवां मेरेन पातळटा.

५७. तेसं संपन्नसीलानं अप्पमादविहारिनं।
सम्मदञ्ञा-विमुत्तानं मारो मग्गं न विन्दति ॥१४॥

*विवेकान जियेतात शिलान भरिल्ले सदीं।*
*समज्ञानान मुक्तांची माराक वाट गावना ॥१४॥*

शीळवंत, विवेकान आपली जीण सारपी, पूर्ण ज्ञान जाल्ल्यान जे मुक्त जाल्यात अशा मनशांची वाट माराक मेळना.

★५८. यथा सङ्कारधानस्मिं उज्झितस्मिं महापथे।
पदुमं तत्थ जायेथ सुचिगन्धं मनोरमं ॥१५॥

★५९. एवं सङ्कारभूतेसु अन्धभूते पुथुज्जने
अतिरोचति पञ्ञाय सम्मासम्बुद्धसावको ॥१६॥

*उश्टवाऱ्यार म्हामार्गी जंय उडयतात कोयरें।*
*फुलता थंय एक साळीक सोबीत पर्मळीत तें ॥१५॥*

*कोयरावरीच आशिल्ल्या कुड्ड्या सामान्य त्या जनीं।*
*सोबता प्रज्ञे उजवाडान गिन्यानी बुद्ध श्रावक ॥१६॥*

कोयर उडयतात त्या म्हालमार्गावयल्या उश्टवाऱ्यार जशें परमळीत आनी सोबीत साळीक फुलता, तसो कोयरावरीच आशिल्ल्या कुड्ड्या नेणार सामान्य लोकांमदीं पूर्ण ज्ञानी जाल्लो बुद्धाचो शिश्य (श्रावक) आपले प्रज्ञेच्या प्रकाशान परजळटा.

## टीप

१. **धम्मपद** = (i) **धर्माची वाट;** (ii) **धम्मपद** हो ग्रंथ.

२. **सुदेशित** = (i) सारकें दाखयल्लें; (ii) समा उपदेशिल्लें.

३. **कुसलो** = (i) माळी (**कुशान् लुनाति इति**); (ii) (**तृणवत् छेद्द**) पापांची नडणी करपी म्हणचे आर्य वा व्हड कुळयेंतलो.

४. पुंजायतलो.

*५ दुसरो पाठ – जे भाशेन कुशळ (मनीस) फुलां (वालीक नखलामी करिनासतना) पुंजायता, ते भाशेन बरे भाशेन दाखयल्ल्या सद्गुणांचो मार्ग (धर्मपद) कोण सोदून काडटलो ?

*६ दुसरो पाठ – म्हजो शिश्यच बरे भाशेन उपदेशिल्ल्या धर्माचो मार्ग (धम्मपद) सोदून काडटलो, जसो कुशळ (मनीस) बरीं फुलां पुंजायतलो.

७. शिश्य. सोतापत्ती मार्ग ते अर्हन्त मार्ग हांचेपैकीं खंयची एक स्थिती मेळयल्लो शिक्षणाक योग्य असो. (पळयात गाथा ९०वयली टीप).

८. मार मदनावरीच फुलांचे बाण मारता असो काव्यसंकेत आसा.

९. तगर ह्या झुडपाच्या परमळीत फुलांची पूड करतात. ताचें शास्त्रीय नांव Tabernaemontana Coronaria.

# बालवग्गो
# बाल वर्ग

बाल म्हळ्यार मूर्ख. बाल म्हळ्यार भुरगोय; शाणपण नाशिल्लो, सत्याची पारख नाशिल्लो. दोनूय आशेखोर, अविवेकी, गर्विश्ठ, हंतमी आसतात. तांकां फुडाराचें भान नासता. गौतम बुद्ध नेणार भुरग्यांत ज्ञानी आनी विवेकी जावचेली तांक पळयता. पूण मुर्खांत ती नासल्यार ताची संगत टाळचेली शिटकावणी तो दिता.

६०. दीघा जागरतो रत्ति, दीघं सन्तस्स योजनं[१]।
दीघो बालानं संसारो सद्धम्मं अविजानतं॥१॥

*जागिल्ल्यांक रात लांब थकिल्ल्यांक् लांब योजन।*
*लांबता संवसार मुर्खांचो नेणती सत धर्म जे ॥१॥*

जागिल्ल्यांक रात लांब दिसता. थकिल्ल्यांक योजन लांब दिसता. सतधर्म जाणिनाशिल्ल्या मुर्खांचो संवसार लांबता (तो सोंपना).

६१. चरं चे नाधिगच्छेय्य सेय्यं सदिसमत्तनो[२]।
एकचरियं दळ्हं कयिरा नत्थि बाले सहायता ॥२॥

*आपले समान वा श्रेश्ठ मेळ्ळोना भोंवडेक गा।*
*नित्शयान चलचो एकलो मुर्खा नाकाच संगत ॥२॥*

संचाराक वतना आपलेपरस श्रेश्ठ वा समान वांगडी मेळ्ळोना जाल्यार जिणेची भोंवडी खर नित्शयान एकल्यानूच करची. पूण मुर्खाची संगत धरची न्हय.

६२. पुत्ता मत्थि धनं मत्थि इति बालो विहञ्ञति।
अत्ता हि अत्तनो नत्थि कुतो पुत्ता कुतो धनं॥३॥

*म्हजे पूत म्हजे पैशे चिंतून कश्टता पिसो।*
*पूत खंयचे दुडू खंयचे न्ही आपुणूच आपलो ॥३॥*

'हे पूत म्हजे, हें धन म्हजें' अशें चिंतून मूर्ख कश्टता. आपुणूच जर आपलो न्हय, तर खंयचे पूत, खंयचें धन?

६३. यो बालो मञ्ञति बाल्यं पण्डितो वाऽपि तेन सो।
बालो च पण्डित-मानी स वे बालो • ति वुच्चति ।।४।।

*आपणाक मूर्ख मानी जो जाता देखून पंडित।*
*म्हण ताका खरो मूर्ख ज्ञानी आपणांक मानता ।।४।।*

आपलें मूर्खपण जाणिल्लो मूर्ख, ताका लागुनूच पंडित थारता. आपणाक पंडित मानपी मुर्खाक खरेंच मूर्ख म्हणचो.

६४. यावजीवंऽपि चे बालो पण्डितं पयिरुपासति
न सो धम्मं विजानाति दब्बी सूपरसं यथा ।।५।।

*जल्मभर जरी मूर्ख सेवा गा पंडिता करी।*
*नेणिना तो सतधर्म सारारूच जशी पळी ।।५।।*

मुर्खान पंडिताची सेवा जल्मभर केल्यारूय ताका धर्माचें ज्ञान जायना, जशी दोवल्याक साराची रूच कळना.

६५. मुहूत्तमपि चे विञ्ञू पण्डितं पयिरुपासति।
खिप्पं धम्मं विजानाति जिव्हा सूपरसं यथा ।।६।।

*खीणभर जरी शाणो सेवा गा पंडिता करी।*
*जाणी बेगीं सतधर्म जीब सारा रुची जशी ।।६।।*

खीणभर लेगीत बुदवंतान ज्ञानी मनशाची सेवा केल्यार ताका रोखडेंच धर्माचें म्हळ्यार सताचें ज्ञान जाता, जशी जिबेक साराची रूच कळटा.

६६. चरन्ति बाला दुम्मेधा अमित्तेनेव अत्तना।
करोन्ता पापकं कम्मं यं होति कटुकप्फलं ।।७।।

*वर्तता मूर्ख दुर्बुद्धी वैरी आपलोच आपुणू।*
*कर्मां करून पापी तो भोगी तांचीं फळां कडू ।।७।।*

नश्टे मूर्ख मनीस आपलेच शत्रू आसतात. ते पापकर्मां करीत भोंवतात. त्या कर्मांचीं फळां कोडू आसतात.

६७. न तं कम्मं कतं साधु यं कत्वा अनुतप्पति।
यस्स अस्सुमुखो[३] रोदं विपाकं पटिसेवति ॥८॥

*बरें न्ही कर्म तें केल्लें   जिवा मागीर ताप दी*
*भोगी ताचीं फळां तोच   दुकां नुरेन गा सदीं ॥८॥*

मागीर ताप जाता अशें कर्म केल्ल्यान दुकां गळयत रडकुळे नुरेन ताका तें भोगचें पडटा, तें कर्म करप बरें न्हय.

६८. तं च कम्मं कतं साधु यं कत्वा नानुतप्पति।
यस्स पतीतो[४] सुमनो विपाकं पटिसेवति ॥९॥

*कर्म तेंच बरें केल्लें   करून ताप जें दिना।*
*भोगी ताचीं फळां तोच   मन प्रसन्न जावन तो ॥९॥*

पूण तें कर्म करप बरें जें करून मनशाक पच्छाताप करचो पडना आनी जाचें फळ तो प्रसन्न मनान भोगता.

★ ६९. मधु वा मञ्ञती बालो याव पापं न पच्चति।
यदा च पच्चती पापं (अथ) बालो दुक्खं निगच्छति ॥१०॥

*म्होंवशें पाप मुर्खाक   पिकनां पाप जोंवरी*
*पाप तें पिकता तेन्ना   जाता मुर्खाक त्या दुख ॥१०॥*

जोवेर पाप पिंकनां (ताचें फळ ताका मेळनां) तोवेर मुर्खाक तें म्होंवशें दिसता. पूण तें फळटकूच मूर्ख दुख्ख भोगता..

★ ७०. मासे मासे कुसऽग्गेन बालो भुञ्जेथ भोजनं।
न सो सङ्खतधम्मानं[५] कलं[६] अग्घति सोळसिं[६] ॥११॥

*कुशाग्रा इतुलें अन्न   खाय म्हयन्या कणकणी पिसो।*
*जायनाच पात्र विज्ञांच्या   तो सोळावे कलेक गा ॥११॥*

दर म्हयन्याक दर्भाच्या तोंकाचेर रावता इतलेंच अन्न मूर्ख खायत रावल्यारूय धर्म जाणण्याचे सोळावे कलेक लेगीत तो पात्र जायना.

★ ७१. न हि पापं कतं कम्मं सज्जु खीरं • व मुच्चति
डहन्तं बालमन्वेति भस्मच्छन्नो • व पावको ॥१२॥

*फळना पाप बेगीन विर्जना दूदशें बरें।*
*उजोसो धांकिल्लो गोब्रान् मुर्खा लाशीत येयितो ॥१२॥*

ताजें बरें दूद जशें रोखडेंच विरजना तशें पापकर्म रोखडेंच फळना. गोबरान धांकिल्लो उजो जसो ल्हवु ल्हवू पेट्टा तशें तें ल्हवु ल्हवू लाशीत मुर्खाफाटल्यान येता.

★ ७२. यावदेव अनत्थाय ञत्तं बालस्स जायति।
हन्ति बालस्स सुक्कंसं मुद्धमस्स विपातयं ॥१३॥

*ज्ञान मुर्खान जोडिल्लें अनर्थाकूच कारण।*
*मुर्खाच्या त्या शुभांशाक तकली फोडून ना करी ॥१३॥*

मुर्खान जोडिल्लें सगलेंच ज्ञान ताच्या अनर्थाक कारण जाता. तें ताचो पुण्याचो वांटो ना करता आनी ताची तकली फोडून उडयता (ताची बुद्द इबाडटा).

७३. असतं भावनमिच्छेय्य पुरेक्खारं च भिक्खुसु।
आवासेसु च इस्सरियं पूजा परकुलेसु च ॥१४॥

७४. ममेव कत मञ्ञन्तु गिही पब्बजिता उभो।
ममेवातिवसा अस्सु किच्चाकिच्चेसु किस्मिचि।
इति बालस्स सङ्कप्पो इच्छा मानो च वड्ढति ॥१५॥

*जावंचो मुखेल भिक्षुंनी नाशिल्ली ध्यान भावना।*
*माना पाट विहारांत पुजा परकुळीं तशी ॥१४॥*

*म्हजींच कर्तुबां मानूं ग्रहस्थ नीं भिक्षू तशे।*
*कृत्याकृत्यांत खंयच्या बी जावंदी म्हाकाच ते वश।*
*वाडय इत्सा अहंकार मुर्खा विचार हो असो ॥१५॥*



जी ध्यान भावना (आपणें सादूंक) ना ती आसा अशें म्हणचेली इत्सा, भिक्षूंमदीं मुखेलपण, विहारांत मानाचो पाट, परकुळांत पुजेचो मान मेळोवचेली इत्सा मूर्ख भिक्षु धरता (१४); गृहस्थ आनी प्रव्रजीत (संन्याशी) हे दोगूय म्हजेंच कर्तूब मानूं, कसलेंय कृत्य वा अकृत्य आसूं, तातूंत तांणी म्हाकाच वश जावंचें असो विचार मूर्ख भिक्षु करता. हाका लागून ताचे लोभ आनी अहंकार वाडटात (१५).

७५. अञ्ञा हि लाभूपनिसा अञ्ञा निब्बानगामिनी।
एवमेतं अभिञ्ञाय भिक्खु बुद्धस्स सावको।
सक्कारं नाभिनन्देय्य विवेकमनुब्रूहये[७] ॥१६॥

*वाट वेगळीच लाभाची निर्वाणा वाट वेगळी।*
*बुद्ध श्रावक भिक्षून नीट जाणून हें अशें।*
*सत्कारान तुश्टूंचें न्ही वाडय विवेक गा सदीं ॥१६॥*

लाभ मेळोवचेली वाट वेगळी, निर्वाणाकडेन वचची वाट वेगळी हें (सत) जाणून बुद्धाचो शिश्य आशिल्ल्या भिक्षून सत्कारान खुशालभरीत जावंचें न्हय. विवेक (एकांत आनी अलिप्तताय) वाडोवचो.

टीप

१. णव मैलांचें अंतर.
२. आपले समान.
३. दुकांनी भरिल्ले नुरेन.
४. प्रसन्न; खोशी जाल्लो.
५. जांणी धर्म जाणला अशे.
६. सोळावी कला. कला म्हळ्यार भाग.
७. **विवेक** – तारतम्य बाळगप, शाणपणान रावप. विवेक हें उतर पयस सरप वा निवृत्त जावप, एकांतांत रावप ह्या अर्थानूय वापरतात. संवसारांतल्यान निवृत्ती म्हणजे कायाविवेक. निश्क्रीय चिंतनांतल्यान निवृत्ती म्हणजे चित्तविवेक आनी सर्वश्रेश्ठ निवृत्ती आनी मुक्ती म्हणजे निर्वाण. (पळयात : **कठोपनिषद्** – दुसरी वल्ली, श्लोक १-२ : श्रेयाच्यो आनी प्रेयाच्यो दोन वाटो.)

# पण्डितवग्गो
# पंडित वर्ग

---

ह्या अध्यायांत ज्ञानी आनी शाण्या मनशाक तुस्तिला. जसो थवय लांकूड तासून तें सरळ करता ते भाशेन ज्ञानी आपले जिणेक वळण दिता. ज्ञानी बरी देख घेता आनी आपले दोश दाखोवपी मनशाक ठेवो दाखोवपी अशें मानता. शाणे आपलेच स्वामी आसतात. ते थीर, शांत आनी ज्ञानी आशिल्ल्यान तांकां ह्या संवसारांतूच निर्वाण मेळटा.

७६. निधीनं[१] • व पवत्तारं[२] यं पस्से वज्जदसिस्सनं[३]।
निग्गय्हवादिं[४] मेधाविं तादिसं पण्डितं भजे।
तादिसं भजमानस्स सेय्यो होति न पापियो ॥१॥

*दाखयता दोश आमगेले    दाखय ठेवोच तो जसो।*
*शिटकावणी जो दिता शाणो    त्या शाण्याक भजात गा।*
*पंडिताची धरी वाट    जातलें बरेंच वायट न्ही ॥१॥*

आमचे दोश दाखोवपी आनी आमकां शिटकावपी शाणो आमकां ठेवोच दाखयता अशें समजुचें. ताचे फाटल्यान वचचें (ताका भजचें). ताका भजतल्यांचें कल्याण जातलें, वायट जावचें ना.

७७. ओवदेय्यानुसासेय्य असब्भा च निवारये।
सतं हि सो पियो होति असतं होति अप्पियो ॥२॥

*करचो बोध शिकोवचें बी    आडावचें वायट जो करी ।*
*जायसो संतांक जाता तो    नाकासो दुर्जनांक तो ॥२॥*

'उपदेश करचो, शिकोवचें, असभ्य चलणुकेंतल्यान आडावचो.' असलो मनीस संतांक आवडटा आनी दुर्जनांक नाकासो जाता.

७८. न भजे पापके मित्ते न भजे पुरिसाधमे।
भजेथ मित्ते कल्याणे भजेथ पुरिसुत्तमे ।।३।।

*पातकी इश्टांक भजचें न्ही नराधमांक बी तशें।*
*हीत करपी भजचे इश्ट तशे जे पुरुषोत्तम ।।३।।*

पापी इश्टां फाटल्यान वचचें न्हय. अधम पुरुशांकूय भजूं नाकात. कल्याण करपी इश्टांक भजात. तशे पुरुषोत्तमांकूय भजात.

७९. धम्मपीति सुखं सेति विप्पसन्नेन चेतसा।
अरियप्पवेदिते धम्मे सदा रमति पण्डितो ।।४।।

*धर्ममोगी सुखी न्हिदता चित्त ताचें प्रसन्न गा।*
*धर्मांत बुद्ध-बोधीत रमता पंडित तो सदीं ।।४।।*

धर्माचो म्हळ्यार बरे चलणुकेचो मोग करपी सुखान आनी प्रसन्न चित्तान न्हिदता (जीण सारता). आर्यांनी उपदेशिल्ल्या धर्मांत तो सदींच रमता.

८०. उदकं हि नयन्ति नेत्तिका[५]
उसुकारा नमयन्ति तेजनं।
दारुं[६] नमयन्ति तच्छका[७]
अत्तानं दमयन्ति पण्डिता ।।५।।

*वळयती उदक बांदपी पाट*
*वळयती तीर करती जे तीर।*
*वळयती लांकडा काठी थवय*
*वळयती पंडित आपणाक ।।५।।*

पाट बांदपी उदकाक वळण दितात. तीर करपी तिराक वळण दितात. थवय लांकडाक वळण दितात. ज्ञानी मनीस आपलें दमन करून आपणाक वळण दितात (आपले स्वामी जातात).

८१. सेलो यथा एकघनो वातेन न समीरति
एवं निन्दापसंसासु न समिञ्जन्ति पण्डिता ।।६।।

*जसो वाऱ्यान हालना खडपा पर्वत जो घट्ट।*
*निंदा तशीच तोखणाय हालयना पंडिता कर्दी ।।६।।*

घनतायेंत एकरूप जाल्लो पर्वत जसो वाऱ्यान हालना, तसोच निंदा आनी तुस्त हांणी पंडित हालना.

८२. यथापि रहदो गंभीरो विप्पसन्नो अनाविलो।
एवं धम्मानि सुत्वान विप्पसीदन्ति पण्डिता ।।७।।

*तळयेक थाव नाशिल्ले प्रसन्न निर्मळूय जशे ।*
*जाता प्रसन्न विद्वान धर्म आयकून ते परी ।।७।।*

थाव मेळनाशिल्ली उदकाची तळी जशी चिखलाविरयत आशिल्ल्यान निर्मळ आनी प्रसन्न आसता, तशेच धर्मबोध आयकल्ले पंडित प्रसन्न आसतात.

८३. सब्बत्थ वे सप्पुरिसा चजन्ति
न कामकामा लपयन्ति सन्तो।
सुखेन फुट्ठा अथवा दुखेन
न उच्चावचं पण्डिता दस्सयन्ति ।।८।।

*सगली ओड सोडटात सत्पुरूश*
*करनात सुख भोगां उच्चार।*
*बादल्यारूय सुख वा दुख्ख तांकां*
*दाखयनात हर्ष वा खंत कांयच ।।८।।*




सत्पुरूश सगलेच कडेन त्याग करतात. सुख भोगांविशीं केन्नाच उलयनात. सुख वा दुख्ख बादल्यारूय पंडित खोस वा खंत उक्तायनात.

८४. न अत्तहेतु न परस्स हेतु
न पुत्तमिच्छे न धनं न रट्ठं।
न इच्छेय अधम्मेन समिद्धिमत्तनो
स सीलवा पञ्ञवा धम्मिको सिया ।।९।।

*इच्छिना आपल्याक तसो पराक*
*पूत वा दुड्डू वा तशीच भूंय।*
*इच्छिना समृद्धी अधर्मान् आपली*
*तो धर्मिश्ठ प्रज्ञावंत सुशील ।।९।।*

आपलेखातीर वा परक्याकूय पूत, धन आनी भूंय मेळोवचेली इत्सा जो धरिना, अधर्मान आपली समृद्धी जो इच्छिना, तोच खरो शीलवंत, प्रज्ञावंत आनी धर्मवंत आसता.

८५. अप्पका ते मनुस्सेयु ये जना पारगामिनो।
अथायं इतरा पजा तीरमेवानुधावति ।।१०।।

*मनशांतले साप थोडे वती तरून पल्तडीं।*
*हेर जे लोक उरिल्ले धांवती हे तडीर ते ।।१०।।*

तरून पलतडीं वचपी म्हळ्यार निर्वाण जोडपी लोक भोव थोडे. हेर लोक आलतडींच धांवतात (ते संवसारांतूच रमतात).

८६. ये च खो सम्मदक्खाते धम्मे धम्मानुवत्तिनो।
ते जना पारमेस्सन्ति मच्चुधेय्यं सुदुत्तरं ।।११।।

*समा बोधीत धर्मान जे चलतात गा सदीं।*
*हुपून पार वेतात मर्णा राज्य हुप्पा खर ।।११।।*

पूण सारक्या बोधिल्ल्या धर्माप्रमाण चलपी लोक जिखूंक कठीण आशिल्लें मर्णाचें राज्य हुपून पार वतात (ते निर्वाणासरीं पावतात).

८७. कण्हं[८] धम्मं[९] विप्पहाय सुक्कं[१०] भावेथ पण्डितो।
ओका अनोकं आगम्म विवेके यत्थ दूरमं ।।१२।।

८८. तत्राभिरतिमिच्छेय्य हित्वा कामे अकिञ्चनो[११]।
परियोदपेय्य अत्तानं चित्तक्लेसेहि पण्डितो ।।१३।।

*काळखाचो धर्म सोडून धरचो शाण्यान सात्विक।*
*घरांतल्यान वनीं वच्चें एकलो रावंचें कठीण जंय ।।१२।।*

*राखचें थंय चित्त खोशयेंत सोडचीं द्वेश प्रिती सुखां।*
*मळापासून चित्ताच्या करचें आपणाक निर्मळ ।।१३।।*

ज्ञानी मनशान काळखाचो धर्म (मार्ग) सोडून उजवाडाचो मार्ग धरचो. घर सोडून घर नाशिल्ले अवस्थेक (वनांत) वचचें, एकांतवासांत, जंय रावंचें कठीण आसता थंय रावचें. थंय चित्त खोशी दवरचें. सगलीं सुखां त्यागचीं. अकिंचन वृत्तीन म्हळ्यार प्रिती, द्वेश, मोहाविरयत रावचें. चित्ताच्या मळापासून आपणाक निर्मळ करचें.

★८९. येसं सम्बोधि[१२]-अङ्गेसु सम्मा चित्तं सुभावितं।
आदानपटिनिस्सग्गे[१३] अनुपादाय ये रता।
खीणासवा जुतीमन्तो[१४] ते लोके परिनिब्बुता[१५] ॥१४॥

*ज्ञाना आंगांमदीं जांचें चित्त समा थिरावलें।*
*कांयच म्हजें म्हणिनात रमले सोडून आस्पत।*
*सल्ले विकार पर्जळ्ळे हांगा निर्वाण गावलें ॥१४॥*

ज्ञानाचीं सगलीं आंगां चित्तांत बरीं करून केळयल्ले, (आशा आनी हावेस त्यागून) ओड ना जाल्ले, दोश सोंपिल्ल्यान आस्पत सोडून जिणेंत रमिल्ले मनीस परजळटात आनी हांगाच निर्वाण मेळयतात.

## टीप

१. गुप्त धन, ठेवो.
२. दाखोवपी.
३. दोश दाखोवपी.
४. शिटकावपी.
५. पाट बांदपी.
६. लांकूड.
७. थवय.
८. कृष्ण, काळखी, तामसी, वायट.
९. कृती, कर्म.
१०. शुक्ल, उजवाडाचो, सात्विक.
११. राग, द्वेश, मोहाविरयत (निश्कांचन रुढार्थ).
* १२. संबोधीचीं आंगां. संबोधी म्हळ्यार ज्ञान. ताचीं आंगां सात.
१३. इत्सा हावेस सोडिल्ले.
१४. तेजस्वी, परजळपी.
* १५. **ते लोके परिनिब्बुता** – ते हांगाच निर्वाण जोडटले.

# अरहवग्गो
# अर्हन्त वर्ग

ह्या वर्गांत अर्हन्ताचें वर्णन केल अर्हन्त म्हळ्यार निर्वाण जोडचेले वाटेर सगल्यांत वयल्या पावंड्यार पाविल्लो जीवनमुक्त मनीस. तो जल्ममर्णाच्या फेऱ्यांतल्यान (संवसारांतल्यान) ह्या लोकांतच मुक्त जाल्ल्यान ताका पुनर्जल्म घेवचो पडना. हीनयान मार्गांत अर्हन्ताक आदर्श पुरूश मानतात. तो सगल्या बंधनांतल्यान सुटिल्ल्यान हांगाच तृष्णेंतल्यान मुक्त जाता. निर्वाण जोडप हीच ताची मुखेल मोख.

★ ९०. गतऽद्धिनो[१] विसोकस्स[२] विप्पमुत्तस्स[३] सब्बधि[३]।
सब्बगन्थप्पहीनस्स[४] परिळाहो न विज्जति।।१।।

*सल्ली यात्रा सल्लो शोक सगले वशीन जो सुटलो।*
*सुटल्यो ताच्यो सगल्यो गांठी तापांतुल्यान तो सुटलो ।।१।।*

(जिविताची) वाट सोंपिल्लो, दुख्खाविरयत जाल्लो, सगले वशीन सुटिल्लो आनी सगल्यो गांठी सुटिल्लो अशा मनशाक ताप जायनात.

९१. उय्युञ्जन्ति सतीमन्तो न निकेते रमन्ति ते।
हंसा • व पल्ललं[५] हित्वा ओकमोकं[६] जहन्ति ते ।।२।।

*जे जागरूक उद्वेगी घरांत रमनात ते।*
*घरां सोडटात आपलीं ते सोडटी हंस जशी तळीं ।।२।।*

जागरूक मनीस उद्वेगी आसतात. ते आपल्या घरांत रमनात. तळीं सोडून वचपी हंसावरी ते आपल्या घरांदारांचे पास सोडून वतात.

★ ९२. येसं संनिचयो[७] नत्थि ये परिञ्ञात-भोजना।
सुञ्ञतो[८] अनिमित्तो[९] च विमोक्खो[१०] यस्स गोचरो।
आकासे[११] • व सुकुन्तानं गति तेसं दुरन्नया ॥३॥

*पुंजायनात जे कांयच जेवणा मर्म जाणती।*
*देखिलो दोळयां सारको शून्य मोक्ष विलक्षण।*
*कळनाच गती तांची मळबांतुल्या सवण्यावरी ॥३॥*

संचय नाशिल्लो, जेवणाखाणाचो अर्थ कळिल्लो, शुन्य आनी कुरू वा लक्षण ना अशें निर्वाण (विमोक्ष) प्रत्यक्ष पळयिल्ल्या मनशांची गती (वाट) कळप कठीण आसता, जशी मळबांतल्या सवण्याची गती जाणप कठीण.

★ ९३. यस्सासवा[१२] परिक्खीणा आहारे[१३] च अनिस्सितो।
सुञ्ञतो अनिमित्तो च विमोक्खो यस्स गोचरो।
आकासे • व सकुन्तानं पदं तस्स दुरन्नयं ॥४॥

*जालो नाश विकारांचो ताका ना ओड भोजना।*
*देखिलो दोळयां सारको शून्य मोक्ष विलक्षण।*
*कळनाच गती तांची मळबांतुल्या सवण्यावरी ॥४॥*

विकारांचो नाश जाल्लो, आहाराविशीं ओड नाशिल्लो, शुन्य आनी कुरू वा लक्षण ना अशें निर्वाण (विमोक्ष) पळयिल्ल्या मनशांचो मार्ग कळप कठीण जशी मळबांतल्या सवण्याची गती कळप कठीण.

★ ९४. यस्सिन्द्रियानि समथं गतानि
अस्सा यथा सारथिना[१४] सुदन्ता।
पहीनमानस्स अनासवस्स
देवाऽपि तस्स पिहयन्ति तादिनो ॥५॥

*इंद्रियां जांचीं सामकीं थंड जालीं*
*सारथ्यान वश केल्ल्या अश्वावरी।*
*सोडलो अभिमान तशे विकार*
*देव बी हेवो करतात ताचो ॥५॥*

सारथ्यान भौ बरे तरेन आळाबंदा हाडिल्ल्या घोड्यावरी जाचीं इंद्रियां शमन जाल्यांत, जाणें अभिमान सोडला, जाचे विकार ना जाल्यात, त्या मनशाचो देव लेगीत हेवो करतात.

★ ९५. पठवीसमो[१५] नो विरुज्झति
इन्दखीलूपमो[१६] तादि सुब्बतो।
रहदो व अपेतकद्दमो
संसारा न भवन्ति तादिनो[१७] ॥६॥

*सोंशी धर्तरेवरी जो सगलेंच।*
*इंद्रकिलावरी सुव्रती थीर*
*तळयेवरी चिखला विरेतु*
*ताचे सारख्याक ना संवसार ॥६॥*

धर्तरेवरी सगलेंच सोंसपी, इंद्रकिलावरी थीर आनी व्रतस्थ, चिखल नाशिल्ले तळयेवरी निर्मळ अशा ताचे सारक्याक (अर्हन्ताक) जल्म-मर्णाची फेरी चुकता (तो संवसार-चक्रांतल्यान सुट्टा).

९६. सन्तं तस्स मनं होति सन्ता वाचा च कम्म च।
सम्मदञ्ञा-विमुत्तस्स उपसन्तस्स तादिनो ॥७॥

*मन शांत उरता जाचें  शांत वाचा करणी तशी।*
*मेकळो समज्ञानान  न्हिवलो तो मनांत बी ॥७॥*

खऱ्या ज्ञानाच्या पालवान मुक्ति मेळिल्ल्या आनी सामको शांत जाल्ल्या मनशाचें मन शांत, वाचा शांत, तशें कर्म लेगीत शांत जाता.

९७. अस्सद्धो[१८] अकतञ्ञू[१९] च सन्धिच्छेदो[२०] च यो नरो।
हतावकासो[२१] वन्तासो[२२] स वे उत्तमपोरिसो ॥८॥

*जाणलें निर्वाण ना श्रद्धा  तोडले पास मनशान त्या।*
*ओंकल्यो आशा सल्ले जल्म  पुरुषोत्तम तो खरो ॥८॥*

बुद्धाविशीं कुड्डो भावार्त नाशिल्लो, निर्वाण जाणिल्लो, पुनर्जल्माचें बंधन तोडिल्लो, (जल्माचें बीं काडून उडयल्ल्यान) जल्म सोंपिल्लो, तृष्णा (वसवस) ओंकिल्लो असो मनीस भौच बरो आसता.

९८. **गामे वा यदि वाऽरञ्ञे निन्ने वा यदि वा थले।**
**यत्थारहन्तो विहरन्ति तं भूमिं रामणेय्यकं ॥९॥**

*गावांत वा अरण्यांत उंचाटेर घळींत वा।*
*भूंय थंयची रमणीय अर्हन्त रावतात जंय ॥९॥*

गांवांत वा रानांत, उंचायेचेर वा सकलाटेर, जंय अर्हन्त रावतात, थंयची भूंय रमणीय आसता.

९९. **रमणीयानि अरञ्ञानि यत्थ न रमती जनो।**
**वीतरागा रमिस्सन्ति न ते कामगवेसिनो ॥१०॥**

*रमणीय अरण्यांत चारचौग रमनात जंय।*
*सोडिल्ले भोगवान्सा ते विरागी रमतात थंय ॥१०॥*

रमणीय अरण्यांत सामान्य लोक रमनात. थंय वान्सामुक्त (विरागी) रमतात, कित्याक, ते सुखांभोगां फाटल्यान वचनात.

## टीप

१. संवसार यात्रा सोंपिल्लो.
२. शोकाविरयत.
३. सगळ्यांतलो मुक्त जाल्लो – अर्हन्त, जीवनमुक्त.
४. **गन्थ (सं. गन्थी)** = गांठ.
५. तळें; खाजन.
६. घर.
७. **येसं संनिचयो नत्थि** = अर्हन्तपद जोडिल्ल्यान अर्हन्ताक निर्वाण मेळटा. तो सगल्या बंधनांतल्यान मेकळो जाल्ल्यान ताचेशीं कसल्याच विकारांचो संचय नासता.
* ८, ९, १०. शुन्य, अनिमित्त (कुरू वा लक्षण ना असो) मोक्ष. विमोक्ष म्हळ्यार मुक्ती वा मोक्ष.
* ११.
* १२. **आसव** = विकार
* १३. आहार = आहार; जेवणखाण.
* १४.
१५. पृथ्वीवरी.
१६. **(सं. इंद्रकील)** सोपेपणान घुरी घालूंक येवंची न्हय म्हणून नगराच्या मुखेल दरवट्यामुखार बांदिल्लो फातराचो खांबो.
१७. ताचेसारको. बुद्ध वा अर्हन्तासारको. सुख वा दुख्खांत सम आशिल्लो.
१८. जाची बुद्धाविशीं श्रद्धा वा भावार्त कुड्डो न्हय असो.
१९. **अकृत-ज्ञ,** निर्वाण जाणिल्लो. कृत म्हळ्यार केल्लें. कार्यकारणभावरूप. जें केल्लें न्हय तें अकृत, म्हळ्यार निर्वाण. ताका जाणपी तो अकृत-ज्ञ.
२०. रुढार्थान इश्टागत तोडपी पूण हांगा पुनर्जल्माचो योग तोडून उडोवपी ह्या अर्थान वापरला.
२१. जाणें आपल्या जल्माचें बीं काडून उडयलां असो.
२२. रुढार्थ ओंक खायरो, सुणो. पूण हांगा वान्सा वा आशा ओंकून उडयल्लो अशा अर्थान वापरला.

# सहस्सवग्गो
# सहस्त्र वर्ग

---

ह्या वर्गांत जिणेच्या वेगळ्यावेगळ्या आंगांचो विचार करतना तांकां संख्येचे कसवटणेर जोखचे परस गुणांचे कसवटणेर जोखप चड म्हत्वाचें हें सांगलां. देखून हजार अर्थशुन्य उतरांपरस एक मनापसून उलयल्लें उतर वा एक हजार अर्थ नाशिल्ल्या गाथांपरस एक अर्थपूर्ण गाथा चड बरी.

तशेंच, जिणेंतल्यो आमच्यो करण्यो वा व्रतां वैकल्यां वैलेचारान करपांत अर्थ नासता. जिणेंत शास्वत मुल्यां आपणावप चड गरजेचें आनी हिताचें. जाणट्यांचो भौमान करप, तांचेविशीं अगत्य दाखोवप हातूंतच आमी जिणेचो आनी सगल्या प्राणिमात्रांचो भौमान करतात.

१००. सहस्समपि चे वाचा अनत्थपदसंहिता[१]।
एकं अत्थपदं[२] सेय्यो यं सुत्वा उपसम्मति ॥१॥

*वाचा हजार आसुंदी संहिता अर्थ ना जिका।*
*सार्थ पद वरतें एक आयकून जें न्हिवता मन ॥१॥*

अर्थ नाशिल्ल्या एक हजार वचनां परसूय अर्थान भरिल्लें एकूच उतर केन्नाय श्रेश्ठ. तें आयकून मन न्हिवता.

१०१. सहस्समपि चे गाथा अनत्थपदसंहिता।
एकं गाथापदं सेय्यो यं सुत्वा उपसम्मति ॥२॥

*गाथा हजार आसुंदी संहिता अर्थ ना जिका।*
*गाथेपद वरतें एक आयकून जें न्हिवता मन ॥२॥*

अर्थ नाशिल्ल्या एक हजार गाथांपरसूय अर्थान भरिल्लो गाथेचो एक चरण श्रेश्ठ. तो आयकून मन न्हिवता.

१०२. यो च गाथासतं भासे अनत्थपदसंहिता।
एकं धम्मपदं सेय्यो यं सुत्वा उपसम्मति ॥३॥

*गाथा शंबर म्हळ्यारूय् संहिता अर्थ ना जिका।*
*धर्मपद वरतें एक आयकून जें न्हिवता मन ॥३॥*

शंबर अर्थ नाशिल्ल्यो गाथा (तोंडपाठ) म्हणचेपरसूय धर्माचो (सत्याचो) एकूच चरण म्हळ्यार चड बरो. तो आयकून मन न्हिवता.

१०३. यो सहस्सं सहस्सेन सङ्गामे मानुसे जिने।
एकं च जेय्यमत्तानं स वे सङ्गामजुत्तमो ॥४॥

*जिखता वीर झुजांत जो हजार हजारदां।*
*जैतिवंतांत तो श्रेश्ठ जोडी आपलेर जैत जो ॥४॥*

झुजांत हजार खेपो हजार विरांचेर जैत मेळयतल्यांपरसूय जो आपणाचेरूच जैत मेळयता तो जैतिवंतांत वरतो.

★ १०४. अत्ता हवे जितं सेय्यो या चायं इतरा पजा।
अत्तदन्तस्स पोसस्स निच्चं संयतचारिनो ॥५॥

★ १०५. नेव देवो[३] न गन्धबो[४] न मारो सह ब्रह्मुना[५]।
जितं अपजितं कयिरा तथारूपस्स जन्तुनो ॥६॥

*हेर लोक जिखचेकूय् जैत आपलेर श्रेश्ठ तें।*
*आपलें दमन करता जो संयमान चलता सर्दी ॥५॥*

*ब्रह्म्यासवें करचे नात गंधर्व मार देव बी।*
*अशे तरे मनशाच्या विजयाचो पराजय ॥६॥*

दुसऱ्यांचेर जैत जोडचे परसूय आपणाचेरूच जैत जोडिल्लें चड बरें. आपणाचेर जैत जोडिल्ल्या, संयमान चलपी मनशान, आपलें दमन करून जोडिल्ल्या जैताचेर देव, गंधर्व वा मार हांकां ब्रह्मदेवान पालव दिल्यारूय हार घालूंक येवची ना.

★ १०६. मासे मासे सहस्सेन यो यजेथ सतं समं।
एकं च भावितऽत्तानं[६] मुहुत्तमपि पूजये।
सा एव पूजना सेय्यो यञ्चे वस्ससतं हुतं ।।७।।

*म्हयनो म्हयनो हजारांनी    शतवर्सां यजी जरी।*
*जो पुजी भावितात्म्याक    मुहूर्तभर एकदां।*
*यज्ञापरस शें वर्सां    पुजा बरी अदीक ती ।।७।।*

म्हयन्या कणकणी हजारांनी दुडू मोडून शंबर वर्सां यज्ञ केल्यारूय (ताचो व्हडलो उपेग ना). पूण सत जाणपी मनशाची एक खीणभर लेगीत पुजा केल्यार ती शंबर वर्सां केल्ल्या यज्ञापरसूय अदीक श्रेश्ठ.

★ १०७. यो च वस्ससतं जन्तु अग्गिं परिचरे वने।
एकं चं भावितऽत्तानं मुहुत्तमपि पूजये।
सा एव पूजना सेय्यो यञ्चे वस्ससतं हुतं।।८।।

*वर्सां शंबर रानांतूय    केली अग्नी उपासना।*
*जो पुजी भावितात्म्याक    मुहूर्तभर एकदां।*
*शत वर्सां पुजेकूय्    पुजा बरी अदीक ती ।।८।।*

कोणेंय शंबर वर्सां हवनाचो अग्नी सांबाळूं, पूण सत जाणपी मनशाची एक खीणभरय पुजा केल्यार शंबर वर्सांच्या हवनाचे परसूय ती पुजाच अदीक श्रेश्ठ.

१०८. यं किञ्चि यिट्ठं • व हुतं • व लोके
संवच्छरं यजेथ पुञ्ञऽपेक्खो।
सब्बं पि तं न चतुभागमेति
अभिवादना उज्जुगतेसु सेय्यो ।।९।।

*केल्यारूय यज्ञ वा हवन हांगा*
*वर्सभरूय पुण्याचे अपेक्षेन*
*सर चवथ्यान ना त्या सगल्यांक*
*भौच बरें संताक वंदिल्यार ।।९।।*

पुण्याच्या लोभान ह्या संवसारांत यज्ञांत वा हवनांत वर्सभरूय आहुत्यो दिल्यो जाल्यारूय संताक केल्ल्या वंदनाच्या चवथ्या भागाकडेन लेगीत तांची सर जायना. संताक केल्लें वंदन भौच बरें.

१०९. अभिवादन-सीलिस्स निच्चं वद्धापचायिनो।
चत्तारो धम्मा वड्डन्ति – आयु वण्णो सुखं बलं ॥१०॥

*जाणट्यां भौमान जो करता तांकां सदींच वंदिता।*
*बळ कांत पिराय सूख हे चार गुण वाडती ॥१०॥*

सदांच जाण्ट्यांचो भौमान करपी, तांकां आदरान सांबाळपी मनशाची पिराय, कान्त, सुख आनी बळ हीं चारूय वाडटात.

११०. यो च वस्ससतं जीवे दुस्सीलो असमाहितो[*]।
एकाहं जीवितं सेय्यो सीलवन्तस्स झायिनो ॥११॥

*अथीर वायट शिलाचो वर्सां शंबर जो जिये।*
*एका वर्सा बरी जीण जो शीलवंत ध्यानस्थ ॥११॥*

वायट शिलाच्या आनी चित्त थीर नाशिल्ल्या मनशाच्या शंबर वर्सांचे जिणेपरसूय शीळवंत आनी ध्यानस्थ मनशाची एका दिसाची जीण श्रेश्ठ.

१११. यो च वस्ससतं जीवे दुप्पञ्ञो असमाहितो।
एकाहं जीवितं सेय्यो पञ्ञावन्तस्स झायिनो ॥१२॥

*अथीर नाड बुद्धिचो वर्सां शंबर जो जिये।*
*एका दिसा बरी जीण जो प्रज्ञावंत ध्यानस्थ ॥१२॥*

पाड बुद्धीच्या आनी चित्त थीर नाशिल्ल्या मनशाचे शंबर वर्सांचे जिणेपरसूय प्रज्ञावंत आनी ध्यानस्थ मनशाची एका दिसाची जीण श्रेश्ठ.

११२. यो च वस्ससतं जीवे कुसीतो हीनवीरियो।
एकाहं जीवितं सेय्यो विरियमारभतो दळ्हं ॥१३॥

*उत्साहहीण आळशी गा वर्सां शंबर जो जिये।*
*एका दिसा बरी जीण जो उमेदी मनीस गा ॥१३॥*

सुस्त आनी उर्बा नाशिल्लो मनीस शंबर वर्सां जियेवचे परस चड उमेदी मनशाची एका दिसाची जीण श्रेश्ठ.

★ ११३. योयो च वस्ससतं जीवे अपस्सं उदयव्ययं।
एकाहं जीवितं सेय्यो पस्सतो उदयव्ययं ॥१४॥

*देखलो ना जल्म नी मर्ण वर्सां शंबर जो जिये।*
*जाणी जो जल्म नी मर्ण जीण एका दिसा बरी ॥१४॥*

आनीक शंबर वर्सां जियेवनूय उदय (जल्म) आनी अस्त (मर्ण) जाका कळना, ताचे परसूय जो जल्म आनी मर्ण जाणटा ताची एका दिसाची जीण श्रेश्ठ.

११४. यो च वस्ससतं जीवे अपस्सं अमतं पदं।
एकाहं जीवितं सेय्यो पस्सतो अमतं पदं ॥१५॥

*जिये शंबर वर्सां जो नेणी तो पद अमृत।*
*एका दिसा बरी जीण जाणें अमृत जाणिलें ॥१५॥*

शंबर वर्सां जियेवनूय जो अमृतपद (निर्वाण) जाणिना, ताचे परसूय जो अंवरपद जाणटा, ताची एका दिसाची जीण चड व्हड.

११५. यो च वस्ससतं जीवे अपस्सं धम्ममुत्तमं।
एकाहं जीवितं सेय्यो पस्सतो धम्ममुत्तमं ॥१६॥

*जिये शंबर वर्सां जो नेणी जो धर्म उत्तम।*
*एका दिसा बरी जीण जाणी तो धर्म उत्तम ॥१६॥*

शंबर वर्सां जियेवनूय उत्तम धर्म जो जाणिना, ताचे परसूय जो उत्तम धर्म (सत धर्म) जाणटा, ताची एका दिसाची जीण व्हड.

## टीप

१. अर्थ नाशिल्ली संहिता वा वचन.
२. अर्थ आशिल्लो चरण वा वचन.
३. देवलोकांत रावपी लोक.
४. गंधर्व लोकांत रावपी लोक; गंधर्व.
५. ब्रह्मो (ब्रह्मदेव) जाणें जग निर्मिलें. बुद्धाक ताचे साधनेंत पालव दिल्ले खातीर बुद्ध देव, गंधर्व, ब्रह्मदेव हांकां मानता.
६. सत जाणून मन शुद्ध जाल्लो मनीस.
७. चित्त थीर नाशिल्लो.
८. जल्माक येवप.
९. मरप, मर्ण.

# पापवग्गो
# पाप वर्ग

---

ह्या अध्यायांत पापकर्माचें वायट फळ कोणाकूच चुकोवंक येवचेलें ना ह्या तत्त्वाचेर भर दिला. कर्माचें फळ मेळपाक कळाव लागता. पुण्यभोग सरमेरेन पाप फळना. पापभोग सर मेरेन पुण्य फळना. कर्माचो घडो भरतकूच मनशाक बरें वायट फळ मेळटा. पापपुण्याचें बीं ओंपतकूच तें फळपाक वेळ लागता. जेन्ना तें पिकता तेन्नाच ताची कोडसाण वा गोडसाण आमी चाखतात.

११६. अभित्थरेथ कल्याणे पापा चित्तं निवारये।
दन्धं[१] हि करोतो पुञ्ञं पापस्मिं रमती मनो ॥१॥

*ताकीत कर पुण्याची काड पापांतुलें मन।*
*पुण्य केल्यार सुस्तीन पापांत रमता मन ॥१॥*

पुण्य करचेली ताकतीक करची. पापा पासून चित्त आवरचें. पुण्यकर्म सुस्तीन केल्यार मन पापांत रमतलें.

११७. पापं चे पुरिसो कयिरा न तं कयिरा पुनप्पुनं।
न तम्हि छन्दं कयिराथ दुक्खो पापस्स उच्चयो[२] ॥२॥

*मन्शान पाप केल्यार भौन भौन करचेंच न्ही।*
*लावचें न्ही चट ताचेंच दुख्खाचो पाप संचय ॥२॥*

मनशान पाप केल्यार तें पर्थून पर्थून करचें न्हय. ताचें चट लावन घेवंचें न्हय. पाप संचय दुख्ख दिता.

११८. पुञ्ञं चे पुरिसो कयिरा कयिराथेनं पुनप्पुनं।
तम्हि छन्दं कयिराथ सुखो पुञ्ञस्स उच्चयो ॥३॥

*मनशान पुण्य केल्यार    भौन भौन करचेंच तें।*
*छंद ताचोच लावंचेलो    सुखाचो पुण्य संचय ॥३॥*

मनशान पुण्य केल्यार तें पर्थून पर्थून करचें. ताचो छंद लावन घेवचो. पुण्यकर्माचो संचय सुख दिता.

११९. पापोऽपि पस्सति भद्रं याव पापं न पच्चति
यदा च पच्चति पापं अथ पापो पापानि पस्सति ॥४॥

*दिसता सुख पाप्याक    पिकना पाप जोंवरी।*
*पिकतकूच पळेता तें    पापी गा पाप आपलें ॥४॥*

जोवेर पाप पिकना तोवेर पापी मनशाक तें सुखाचें दिसता. पूण पाप फळटकूच पापी मनीस तें पळयता.

१२०. भद्रोऽपि पस्सति पापं याव भद्रं न पच्चति।
यदा च पच्चति भद्रं अथ भद्रो भद्रानि पस्सति ॥५॥

*पळेता पाप पुण्यात्मो    फळना तें पुण्य जोंवरी।*
*फळा येताच तें पुण्य    पुण्यात्मो पुण्य तें पळे ॥५॥*

पुण्य पिकना (फळना) तोवेर पुण्यात्मो तें पुण्य, पाप अशें पळयता. पूण तें फळाक येतकूच ताका तें बरें दिसता.

१२१. माऽप्पमञ्ञेथ पापस्स न मं तं आगमिस्सति।
उदबिन्दुनिपातेन उदकुम्भोऽपि पूरति।
पूरति बालो पापस्स थोकथोकंऽपि आचिनं ॥६॥

*लेखचें न्हीं तें उणें पाप    पावचेंना तें म्हजेसरीं।*
*थेंब्याथेंब्यान उदकाच्या    काठोकांठ भरता घडो।*
*भरता पापान मूर्खय    इल्लें इल्लें जमोवन तें ॥६॥*

'पाप उणें आसा, तें म्हाका बादिकार जावचें ना' (म्हजे सरीं पावचें ना) अशें म्हणून ताका उणें लेखचें न्हय. उदकाच्या थेंब्याथेंब्यान कळसो लेगीत भरता. तशें पाप इल्लें इल्लें पुंजावन मूर्ख पापान भरता.

१२२. माऽप्पमञ्ञेथ पुञ्ञस्स न मं तं आगमिस्सति।
उदबिन्दुनिपातेन उदकुम्भोऽपि पूरति।
पूरति धीरो पुञ्ञस्स थोकथोकंऽपि आचिनं ॥७॥

*लेखचें न्ही पुण्य तें उणें पावचेंना तें म्हजेसरीं।*
*थेंब्याथेंब्यान उदकाच्या काठोकांठ भरता घडो।*
*भरता पुण्यान तो ज्ञानी इल्लें इल्लें जमोवन तें ॥७॥*

'पुण्य उणें आसा, तें म्हजे सरीं पावचेंना' अशें म्हणून ताका उणें लेखूं नाकात. उदकाच्या थेंब्या थेंब्यान कळसो लेगीत भरता. तशें पुण्य इल्लें इल्लें पुंजावन ज्ञानी पुण्यान भरता.



★ १२३. वाणिजो • व भयं मग्गं अप्पसत्थो महद्धनो।
विसं जीवितुकामो • व पापानि परिवज्जये ॥८॥

*टाळी वाट भया वाणी वांगडी थोडे दुडू अती।*
*टाळी वीख जिणे मोगी टाळचें पापाक ते परी ॥८॥*

धनवंत वाणी (सौदागर) वांगडाक थोडे लोक आशिल्ल्यान भंयाची आडवाट टाळटा. जगपाची इत्सा आशिल्लो मनीस जसो वीख टाळटा, तेच भाशेन मनशान पाप कर्मां टाळचीं.

★ १२४. पाणिम्हि चे वणो नास्स हरेय्य पाणिना विसं।
नाब्बणं विसमन्वेति नत्थि पापं अकुब्बतो ॥९॥

*घावो नासल्यार हाताक तातुंतल्यान व्हरचें विख।*
*घावो ना बादना वीख अकर्त्या पाप ना जशें ॥९॥*

हाताक घावो नासल्यार त्या हातांतल्यान वीख व्हरचें. घावो नासल्यार वीख बादना, ते भाशेन जो पाप करिना, ताका ताची बादा जायना.

१२५. यो अप्पदुट्ठस्स[३] नरस्स दुस्सति
सुद्धस्स पोसस्स[४] अनङ्गणस्स[५]।
तमेव बालं पच्चेति पापं
सुखुमो[६] रजो[७] पटिवातं * व खित्तो ॥१०॥

*जो दुश्णिता शुद्ध अदुश्ट लोकां*
*निश्पाप लोकांकूय निंदिता जो।*
*त्या मुर्खाचेर तें पर्थता पाप*
*धुळीकणशे उडयल्ले वाऱ्याआड ॥१०॥*

जो दुश्ट न्हय, जो निर्मळ आनी पातकाविरयत आसा, अशा मनशांक जो दुशण दिता, त्या मुर्खाचेरूच तें पाप पर्थता, जशे वाऱ्या आड उडयल्ले धुल्लाचे कण (उडोवप्यारूच) पर्थतात.

★ १२६. गब्भमेके उप्पज्जन्ति निरयं पापकम्मिनो।
सग्गं सुगतिनो यन्ति परिनिब्बन्ति अनासवा ॥११॥

*मेळ नरक पाप्यांक गर्भांत जल्मतात कांय।*
*मेळ सर्ग सुगतांक निर्वाणाक् दोशमुक्त जे ॥११॥*

कांय पाप कर्मी मनीस गर्भांत पडटात; हेर पापी नरकांत पडटात. सुगती मेळिल्ले सर्गांत वतात. विकारमुक्त निर्वाण जोडटात.

१२७. न अन्तलिक्खे न समुद्दमज्झे
न पब्बतानं विवरं पविस्स।
न विज्जती सो जगतिप्पदेसो
यत्थट्ठितो मुञ्चेय्य पापकम्मा ॥१२॥

*न्हय अंत्राळांत न्हय दर्यामदीं*
*न्हय पर्वता घोलींत भितर*
*नाच ह्या जगांत सुवात*
*पापांतुल्यान जंय सुटल्ले लोक ॥१२॥*

अंत्राळांत ना, दर्यामदीं ना, दोंगरा घोलींत भितर सरून लेगीत ना, जगांत अशी खंयचीच सुवात ना, जंय रावल्यार मनशाची पापकर्मांतल्यान सुटका जातली.

१२८. न अन्तलिक्खे न समुद्दमज्झे
न पब्बतानं विवरं पविस्स।
न विज्जती सो जगप्पिदेसो
यत्थट्ठितं नप्पसहेथ मच्चु ॥१३॥

*न्हय अंत्राळांत न्हय दर्यामदीं*
*न्हय पर्वता घोलींत भितर।*
*नाच ह्या जगांत सुवात*
*जंय घालिना घुरी मनशार काळ ॥१३॥*

अंत्राळांत ना, दर्यामदीं ना, दोंगराचे घोलींत भितर सरून लेगीत ना – जगांत अशी खंयचीच सुवात ना, जंय रावल्यार काळ मनशाचेर घुरी घालचो ना.

टीप

१. सुस्त, मंद.
२. संचय.
३. दुश्ट न्हय असो.
४. **पोस** = पुरुश, मनीस.
५. पाप.
६. सुक्षीम.
७. धुल्ल.
८. वाऱ्याचे आडदिकेन.

# दण्डवग्गो
# दण्ड वर्ग

---

जें खासा आपणाक रुचना तें परक्याक रुचचें ना. हातूंतच धर्माचें आनी नितीचें सार आसा ही ह्या अध्यायाची शिकवण. लोकांनी जशें आपलेशीं चलचें तशेंच आमी तांचेशीं चलूंक जाय हें कळपांतूच मनीसपण आसा.

★ १२९. सब्बे तसन्ति दण्डस्स सब्बे भायन्ति मच्चुनो।
अत्तानं उपमं कत्वा न हनेय्य न घातये ।।१।।

*भियेती सर्व मर्णाक दांड्याक सर्व कांपती।*
*मारचें न्ही, लावचें न्ही मारूंक् लेख आपलेवरी दुजो ।।१।।*

दांड्याक (ख्यास्तीक) सगले थरथरतात. मर्णाक सगले भियेतात. हेरांक आपलेवरी लेखून तांकां मारचें न्हय वा तांचो घातूय करूंक लावचो न्हय.

★ १३०. सब्बे तसन्ति दण्डस्स सब्बेसं जीवितं पियं।
अत्तानं उपमं कत्वा न हनेय्य न घातये ।।२।।

*दांड्याक कांपती सर्व जिणे मोगी सगलेच गा।*
*मारचें न्ही, लावचें न्ही मारूंक् लेख आपलेवरी दुजो ।।२।।*

दांड्याक सगले थरथरतात. सगल्यांक जिणेचो मोग आसता. हेरांक आपलेवरी लेखून तांकां मारचे न्हय वा तांचो घातूय करूंक लावचो न्हय.

१३१. सुखाकामानि भूतानि यो दण्डेन विहिंसति।
अत्तनो सुखमेसानो पेच्च सो न लभते सुखं ।।३।।

*इत्सिता सुख जे जीव तांकां दंडायता जो नर।*
*सोदी जो आपलें सूख ताका थंय मेळनाच तें ।।३।।*

सुखाची इत्सा करपी प्राणिमात्रांक जो दांड्यान दंडायता तो आपलें सुख सोदीत आसल्यारूय, परलोकांत तें ताका मेळना.

१३२. सुखकामानि भूतानि यो दण्डेन न हिंसति।
अत्तनो सुखमेसानो पेच्च सो लभते सुखं ।।४।।

*इत्सिता सुख जे प्राणी तांकां दंडामना जो नर।*
*सोदी जो आपलें सूख ताका थंय सुख गावता ।।४।।*

सुखाची इत्सा करपी प्राणिमात्रांक जो दांड्यान दंडामना, त्या आपलें सुख सोदप्याक तें परलोकांत मेळटा.

१३३. माऽवोच फरुसं कञ्चि वुत्ता पटिवदेय्यु तं।
दुक्खा हि सारम्भकथा पटिदण्डा फुसेय्यु तं ।।५।।

*नाका दिवंक उतरां तीख जापेक जाप मेळटली।*
*बोंवरीं उतरां दिली दुख्ख पर्शो दांडो तुजेरच ।।५।।*

कोणाक लागता असलीं उतरां उलोवं नाका. असलीं उतरां दिल्यार, ते जापेक जाप दितले. तिडकीचीं उतरां दुखयतात. परते घाल्ले दांडे तुकाच लागतले.

१३४. सचे नेरेसि अत्तानं कंसो उपहतो[१] यथा।
एस पत्तोऽसि निब्बानं सारम्भो[२] ते न विज्जति ।।६।।

*फुटकी कांशाचि थाळीशी कांपना आवाजाक जो।*
*दिना जापेक तूं जाप तूं निर्वाणाक पावशी ।।६।।*

वेरेल्ली कांशाची थाळी जशी कांपना आनी देखून आवाज दिना, तसो तुजेर आघात जावनूय तूं उचांबळ जालोना जाल्यार, तुका निर्वाण मेळ्ळें अशें समजुचें.

१३५. यथा दण्डेन गोपालो गावो पाचेति गोचरं।
एवं जरा च मच्चु च आयुं पाचेन्ति पाणिनं ।।७।।

*जसो दांड्यान गा राखणो आमडी गोरवां कुळणांवशीन्।*
*म्हातारपण मर्णूय जिवां आयुश्य आमुडी ।।७।।*

दांड्यान गोरवांक आमडीत कुळणांत व्हरपी राखण्यावरी म्हातारपण आनी मरण प्राण्यांचें आयुश्य आमुडटात.

१३६. अथ पापानि कम्मानि करं बालो न बुज्झति ।
सेहि कम्मेहि दुम्मेधो अग्गिदड्ढो • व तप्पति ॥८॥

*करतना पाप कर्मां तीं येना मुर्खाक जाग त्या ।*
*कर्मांनी हुल्पता आपल्या उज्यान लाशिल्लेवरी ॥८॥*

(सुर्वेक) पापकर्मां करतना मुर्खाक (मुखार तांचीं फळां भोगचीं पडटलीं म्हूण) कळना. उज्यान लाशिल्लेवरी मूर्ख आपल्याच कर्मांनी हुलपता.

१३७. यो दण्डेन अदण्डेसु अप्पदुट्ठेसु दुस्सति।
दसन्नमञ्ञतरं ठानं खिप्पमेव निगच्छति ॥९॥

१३८. वेदनं फरुसं जानिं सरीरस्स च भेदनं
गरुकं वाऽपि आबाधं चित्तक्खेपं व पापुणे ॥१०॥

१३९. राजतो वा उपस्सग्गं अब्भक्खानं व दारुणं
परिक्खयं व ञातीनं भोगानं व पभङ्गुरं ॥११॥

१४०. अथ वस्स अगारानि अग्गि डहति पावको ।
कायस्स भेदा दुप्पञ्ञो निरयं सो • पपज्जति ॥१२॥

*फावनाशिल्ल्यांक दंडायी जो निर्दोश्यांक दुश्णिता।*
*भोगतलो तो दशा बेगीं ह्या धांतली एकली तरी ॥९॥*

*दुखाची कळ लुस्कान मोडटलें आंग पांग वा ।*
*वा पिडा भोगतली होड वा फिर्तली तकलीच गा ॥१०॥*

*राजाकडसून गा त्रास येतलें व्हड बगलांट वा।*
*वा नाश भावबंधांचो वा धनाचोय तसोच गा ॥११॥*

*वा तागेलीं घरां दारां जाळटलो वाव नी उजो।*
*नर्कांत तो नश्टो वतलो देह पडले उपरान्त गा ॥१२॥*

ख्यास्त फावनाशिल्ल्यांक, ख्यास्त करतल्यांक, निश्पाप्यांक दुख्ख दितल्यांक मुखार सांगिल्ल्या धा पयकीं एक तरी स्थिती तात्काळ बादतली (९) – दुखाची कळ, लुसकाण वा आंगपांग मोडप, वा व्हडली पिडा, वा पिशें लागप (१०), राजापासून त्रास, बगलांट येवप, वा सोयऱ्यांचो नाश, वा धनाचो नाश (११), वा वाऱ्यान भडकिल्लो उजो तांचीं घरांदारां जाळटलो आनी देह पडटकूच तो नाडबुद्धीचो मनीस नरकांत वतलो.

१४१. न नग्गचरिया न जटा न पङ्का
नानासका थण्डिलसायिका वा।
रजो च जल्लं उक्कुटिकप्पधानं
सोधेन्ति मच्चं अवितिण्णकंखं ।।१३।।

*भोंवता नागडो वा जटा वा चिखोल*
*न्हिदता भुंयेर वा करता उपास।*
*साड्डप धूळ वा उकडयां बसप*
*दुबावी मर्त्याक ही कर्नात शुद्ध ।।१३।।*

नागडो भोंवप, जटा (वाडोवप), आंगार (व्रत म्हणून) चिखोल साड्डावप, भुंयेर न्हिदप, उपास करप, (आंगार) धुळीचो लेप लावप, उकडयां बसप, हांतुंतलें कितेंच दुबाव पयसावंक नाशिल्ल्या अशा मर्त्याक शुद्ध करिना.

१४२. अलङ्कतो चेऽपि समं चरेय्य
सन्तो दन्तो नियतो ब्रह्मचारी ।
सब्बेसु भूतेसु निधाय दण्डं
सो ब्राह्मणो सो समणो स भिक्खु ।।१४।।

*शिरंगारूनय चलता थीर बुद्धीन*
*शांत संयमी नेमी ब्रह्मचारी ।*
*दंडायना जो खंयच्याय जिवाक*
*तो भिक्षू, तो ब्राह्मण, तो श्रमण ।।१४।।*

(वस्त्रां) न्हेसुनूय जो (लोकांकडेन) समभावान चलता, जो शांत, संयमी, नेमान आनी ब्रह्मचर्यान चलता, सगल्या भुतांठांय जाणें दंड म्हळ्यार हिंसा सोडल्या, जो प्राण्यांक दुखयना, तोच खरो ब्राह्मण, तोच खरो श्रमण आनी तोच खरो भिक्षू.

★ १४३. हिरीनिसेधो पुरिसो कोचि लोकस्मिं विज्जति।
यो निन्दं अप्पबोधति अस्सो भद्रो कसामिव ।।१५।।

*जगीं गा ह्या आसा कोण मनाची लज जो धरी ।*
*जो निंदेन शिटकावता गा चाबकान् जसो बरो अश्व ।।१५।।*

मनाची लज धरपी असो मनीस ह्या जगांत मेळूंक कठीण. बरो (वश केल्लो) घोडो चाबूक लागचे पयलींच शिटकावता, तसो लोक-निंदा कानार पडचे पयलींच तो मनीस शिटकावता.

१४४. अस्सो यथा भद्रो कसानिविट्ठो
आतापिनो संवेगिनो भवाथ।
सद्धाय सीलेन च विरियेन च
समाधिना धम्मविनिच्छयेन च।
सम्पन्न-विज्जाचरणा पटिस्सता
पहस्सथ दुक्खमिदं अनप्पकं ॥१६॥

*उठा चाबकायल्ल्या बऱ्या अश्वावरी*
*यत्नान उर्बेन चला बेगीन।*
*श्रद्धा शील बळ समाधीन*
*सत धर्म बी तसोच जाणून।*
*विद्या आचारान संपन्न सावध*
*सोडात हें दुख्ख जें न्ही अल्प ॥१६॥*

चाबकान आळाबंदा हाडिल्ल्या बऱ्या घोड्या भाशेन यत्नशील जावन वेगीं फुडें वचात; श्रद्धा, शील (प्रज्ञा), बळ, समाधी, सतधर्म ह्या गुणांनी, विद्या आनी बऱ्या आचारान संपन्न जावन जागरुकायेन ह्या संवसारांतलें हें व्हडलें दुख्ख सोडात.

१४५. उदकं हि नयन्ति नेत्तिका
उसुकारा नमयन्ति तेजनं
दारुं नमयन्ति तच्छका
अत्तानं दमयन्ति सुब्बता ॥१७॥

*वळयती उदक बांदपी पाट*
*वळयती तीर करती जे तीर।*
*वळयती लांकडा काठी थवय*
*वळयती सुव्रती आपणाक ॥१७॥*

पाट बांदपी उदकाक पाट बांदून वळण दितात. तीर करपी तिराक वळण दितात. थवय लांकडाक वळण दितात. सुव्रती आपणाचेर संयम दवरून आपणाक आळाबंदा हाडटात (आपलें दमन करतात).

### टीप

१. फुटिल्ली, वेरेल्ली.
२. तिडकून दिल्ली परती जाप.

# जरावग्गो
# जरा वर्ग

---

म्हातारपण कोणाक चुकलां! एक दीस आमचे कुडीक म्हातारपण येतलेंच. ती झरतली, भंगतली, कुसतली. आमची कूड हाडांचें नगर अशें गौतम बुद्ध आमकां सांगता. ताच्या ह्या मत्ताक लागून ताका मनीस देहाविशीं वीट आनी निर्शेणी दिसता असो खूब जाणांचो समज जाला. पूण हातूंत तथ्य ना. जें म्हातारपण कोणाकूच चुकचेलें ना ताचेविशीं सदींच चिंतल्यार आमी मर्णाकडेन अलिप्ततायेन पळोवंक शिकतले. अशें केल्यार मुखार जिणेंतली प्रत्येक करणी सारासार विचारान, विवेकान आनी समजिकायेन करूंक पावतले ही बुद्धाची विचारां-धार आमकां ह्या वर्गांत दिसता.

★ १४६. को नु हासो किमानन्दो निच्चं पज्जलिते[१] सति।
अन्धकारेन ओनद्धा पदीपं[२] न गवेसथ ॥१॥

*कसलो हांसो कसली खोस    पेटिल्लें नित्य भोंवतणी।*
*रेवडायलां अंधकारान    सोदिनात कित्या दिवो ॥१॥*

सगलें (जगच) सदींच (उज्यान) पेटिल्लें आसतना हो हांसो कित्याक आनी ही खोस कित्याक? काळखान तुमकां रेवाडायलां आसतना तुमी दिवो कित्याक सोदिनात?

१४७. पस्स चित्तकतं[३] बिम्बं[४] अरुकायं[५] समुस्सितं[६]।
आतुरं[७] बहुसङ्कप्पं यस्स नत्थि[८] धुवं[८] ठिति[८] ॥२॥

*पळे विचित्र ही मूर्त    घावांनी भरिल्ली उबी।*
*पिडिल्ली बहुसंकल्पी    न्ही ती शाश्वत थीर बी ॥२॥*

ही (मनान) चित्रायल्ली मूर्त पळयात. ती घाव जाल्ली, उबी केल्ली, पिडेस्त, खूब विचारांनी भरल्या. ती शाश्वत न्हय, तशीच थिरूय न्हय.

१४८. परिजिण्णमिदं रूपं रोगनिड्ढं पभङ्गुरं[९] ।
भिज्जति पूतिसंदेहो[१०] मरणन्तं हि जीवितं ॥३॥

*झरिल्लें रूप ही कूड पिडे घोंटेर मर्तली।*
*फुट्टली पोटली गंदी मर्णान जीण सोंपता ॥३॥*

ही झरिल्ली कूड पिडेचो घोंटेर आशिल्ल्यान ती ना जातली. ही घाणीची पोटली फुट्टली. खरेंच जिणेचो अंत मर्णानच जाता.

★ १४९. यानिमानि अपत्थानि अलापूनेव[११] सारदे।
कापोतकानि[१२] अट्ठीनि[१३] तानि दिस्वान का रति ॥४॥

*शरदांत उडयल्लीं जीं गोळांच दुदयाचिर्शीं।*
*हाडां हीं पारव्या रंगा कोण खोशी पळोवन तीं ॥४॥*

शरद रुतूंत भायर उडयल्लीं हीं, दुदयाचीं गोळां कशीं आशिल्लीं पारव्याच्या रंगाचीं हाडां पळोवन कोण खोशी जायत?

★ १५०. अट्ठीनं[१४] नगरं[१४] कतं मंसलोहितलेपनं[१५] ।
यत्थ जरा च मच्चु च मानो मक्खो[१६] च ओहितो ॥५॥

*घडलां नगर हाडांचें रगता मांसान लेपलां ।*
*जंय जरा मर्ण नी मान तिरस्कारय वस्तेक गा ॥५॥*

ही कूड म्हळ्यार हाडांचें नगर. ती रगता मासान लेपल्या. म्हातारपण, मर्ण, गर्व आनी हेरांविशींचो तिरस्कार हांचो थंय राबितो आसता.

★ १५१. जीरन्ति वे राजरथा सुचित्ता
अथो सरीरंऽपि जरं उपेति ।
सतं च धम्मो न जरं उपेति
सन्तो हवे सब्भि पवेदयन्ति ॥६॥

*जाता रायारथ सोबीत पोन्ने*
*तशेंय जाता पोन्नें हें शरीर।*
*संता धर्म जायना जीर्ण हांगा*
*सांगतात हो संत संतांकूच ॥६॥*

राजाचे सोबीत रथ पोरणे जातात तशीच आमची कूड लेगीत पोरणी जाता. पूण संतांचो धर्म पोरणो जायना. हो (धर्म) संत संतांक सांगीत आसतात.

१५२. अप्पस्सुतायं पुरिसो बलिवद्दो • व जीरति।
मंसानि तस्स वड्ढन्ति पञ्ञा तस्स न वड्ढति ॥७॥

*फुगला बैलावरी गा तो    मनीस हो शिकला उणें।*
*मांसच वाडलां ताचें    प्रज्ञा मातूय वाडना ॥७॥*

उणें शिकिल्लो मनीस बैला भाशेन (पिरायेनूच) वाडटा, ताच्या आंगावेलें मास वाडटा; पूण ताची प्रज्ञा मातूय वाडना.

★ १५३. अनेक-जाति-संसारं[17] सन्धाविस्सं[18] अनिब्बिसं[19] ।
गहकारकं[20] गवेसन्तो दुक्खा जाति पुनप्पुनं ॥८॥

★ १५४. गहकारक दिट्ठोऽसि पुन गेहं न काहसि।
सब्बा ते फासुका भग्गा गहकूटं विसंखतं ।
विसंखारगतं[21] चित्तं तण्हानं खयमज्झगा ॥९॥

*भोंवलो ओगीच हांगा हांव्    जायत्या जल्मांत ह्या म्हज्या*
*सोदीत घर बांदप्याक    भौन भौन दुखय जल्म ॥८॥*

*घरबांदप्या दिसलो रे तूं    बांदचो ना भौन तें घर।*
*मोडले सगले घरावांशे    मोडलो लेगीत पाडस।*
*चित्त संस्कार वीरेतु    तृष्णा सगलीच सोंपली ॥९॥*

ह्या घर बांदप्याक सोदीत भोंवतना जायत्या जल्मांच्या संवसारांत, तो मेळनासतना ओगीच धांवलो. पुना पुना मेळिल्लो जल्म दुखदिणो जालो (८). आगा, घर बांदप्या! (तृष्णे) तूं म्हाका दिश्टी पडलो. तूं आतां पर्थून हें कायारुपी घर बांदूंक पावचोना. तुज्या घराचे सगले वांशे मोडले. अज्ञानाचो पाडसावांसोय मोडलो. म्हजें चित्त संस्कारांविरयत जाल्ल्यान सगल्यो तृष्णा सोंपल्यो (म्हाका निर्वाण गावलें).

१५५. अचरित्वा ब्रह्मचरियं अलद्धा योब्बने[22] धनं।
जिण्णकोञ्चा • व झायन्ति खीणमच्छे • व पल्लले ॥१०॥

*पाळ्ळीना ब्रह्मचर्या गा    जोडलें ना धन यौवनात्।*
*ध्यानरत बकीं जाण्टीं    तळ्यांतलीं नुस्त्याविणें ॥१०॥*

ब्रह्मचर्य पाळूंक नाशिल्ले, जुवानींत (अध्यात्मीक) धन जोडूंक नाशिल्ले, आतां म्हातारपणांत ध्यान करतात ते नुस्तें नाशिल्ले तळयेचे देगेर बशिल्लीं बकींच कशे दिसतात.

१५६. अचरित्वा ब्रह्मचरियं अलद्धा योब्बने धनं
सेन्ति चापाऽतिखीणा • व पुराणानि[२३] अनुत्थुनं ॥११॥

*पाळ्ळीना ब्रह्मचर्या ती जोडलें ना धन यौवनात् ।*
*गेल्ल्या दिसांक विकळापती धोणवार्शी पडिल्लीं जुनीं ॥११॥*

ब्रह्मचर्य पाळिनाशिल्ले, जुवानींत अध्यात्मीक धन जोडूंक नाशिल्ले, आतां म्हातारपणांत पोरणीं धोणवां कशीं पडून आसात --- फाटले उगडास उस्तीत आनी विकळाप करीत.

## टीप

१. पेटलां.
२. दिवो.
३. रंगयल्लें, मनान चित्रायल्लें.
४. मूर्त, चित्र, प्रतिमा.
५. घायांनी भरिल्ली.
६. उबारिल्ली, उबी केल्ली.
७. पिडिल्ली.
८. शाश्वत आनी थीर न्हय अशी.
९. नश्वर, खिणयाळी.
१०. कुशिल्लो गुळो.
११. दुदयाचीं गोळांशी.
१२. पारव्या रंगाची.
१३. हाडां, अस्थी.
* १४. हाडांचें नगर.
१५. रगता मासान लेपिल्लें.
१६. (सं.) म्रक्ष. हेरांविशीं आशिल्ली तिरस्काराची भावना.
१७. अनेक जल्मांचो संवसार.
१८. भोंवलो, धांवाधांव केली.
१९. अज्ञानान, व्यर्थ, ओगीच, बेठीच.
२०. घर बांदपी.
२१. संस्काराविरयत.
२२. यौवनांत जोडिल्लें.
२३. फाटले वा पोरणे उगडास जे तांकां धोणवांच्या टणत्कारांचे उगडास करून दितात.




# अत्तवग्गो
# आत्म वर्ग

ह्या वर्गांत आपणाचेरूच ताबो मेळोवचेले आनी आपल्या करण्यांची जाण दवरचेले गरजेचेर भर दिला. आपणाचेरूच जैत जोडप सगल्यांत कठीण आनी तें जोडिल्लोच मनीस हेरांक दिका दाखयता.

प्रत्येक मनशाभितर आपलेच उदरगतीचें बियाण आसता, देखून कोण कोणाकूच शुद्ध वा अशुद्ध करिना. हेरांच्या पालवान वा कुळ, जात, नातींगोतीं, मान आदि गजालींनी मनीस व्हड जायना. तो आपल्याच कर्तुबांनी व्हड जाता.

१५७. अत्तानं[1] चे पियं जञ्ञा रक्खेय्य नं सुरक्खितं
तिण्णमञ्ञतरं यामं[2] पटिजग्गेय्य पण्डितो ॥१॥

*मोगा आसल्यार आपूण ताका सारकोच राख गा।*
*एका पारांत तिनांतल्या जागचें पंडितान त्या ॥१॥*

आपणाक प्रिय मानल्यार ताका बरो सांबाळचो. ज्ञानी मनशान तीन यामांपयकीं — पारांपंयकीं — एक पार तरी (ध्यान करून) ताची जतनाय घेवंची.

१५८. अत्तानमेव पठमं पतिरूपे[3] निवेसये।
अथऽञ्ञमनुसासेय्य न किलिस्सेय्य पण्डितो ॥२॥

*लागचें कार्याक फावो त्या आदीं आपूण पंडितान् ।*
*सांगचें मागीर हेरांक जायना ताका तरास गा ॥२॥*

पयलीं मनशान जें कितें योग्य आसा तें करचें. मागीर हेरांक शिकोवचें. अशे तरेन चलपी पंडिताक क्लेश जायनात.

१५९. अत्तानं चे तथा कयिरा यथञ्ञमनुसासति।
सुदन्तो वत दमेथ अत्ता हि किर दुद्दमो ॥३॥

*जसो हेरांक बोधी जो   जावंचे आपूण गा तशें।*
*करचें दमन आपलें   आपलें दमन भौ खर ॥३॥*

दुसऱ्याक आपूण जसो उपदेश करता तसो आपणें चलचो. आपलें दमन केलां (आपणाक आळाबंदा हाडला), ताणेंच हेरांचें दमन करचें. आपणाकूच आळाबंदा हाडप खूब कठीण.

१६०. अत्ता हि अत्तनो नाथो को हि नाथो परो सिया ।
अत्तना हि सुदन्तेन नाथं लभति दुल्लभं ॥४॥

*धनी आपूण आपलोच   धनी कोणूच ना दुजो ।*
*करी दमन जो आपलें   मेळपा कठीण तो धनी ॥४॥*

आपुणूच आपलो स्वामी आसता. आपलो दुसरो.धनी कोण आसतलो? आपणेंच आपलें दमन केल्यार ताका नाथ (राखपी) मेळटा. असो स्वामी मेळप कठीण.

१६१. अत्तना • व कतं पापं अत्तजं अत्तसंभवं।
अभिमन्थति दुम्मेधं वजिरं • वऽम्हमयं मणिं ॥५॥

*पाप आपणें जल्मा घाल्लें   केलें आपणें घडलें तशें ।*
*नश्ट्याक भड्डिता तेंच   वज्रकणी वज्रा जशी ॥५॥*

(वज्रापासून केल्ली) वज्रकणी जशी त्याच वज्राक कातरता, तशें मनशान आपणेंच केल्लें, आपणाक जाल्लें, आपणेंच घडयल्लें पापच त्याच नश्ट्या मनशाक भरडिता (ताचो नाश करता).

१६२. यस्स अच्चन्त-दुस्सील्यं मालुवा सालमिवोततं
करोति सो तथत्तानं यथा नं इच्छती दिसो ॥६॥

*रुखार मालुवा वाल   दु:शीळ तें चड्टा तशें।*
*घडयता आपणाकूय तो   जसो वैरीच वांछिता ॥६॥*

मालुवा वाल (बेंदुल्ल) साल रुखाचेर पातळटा आनी ताकाच खाता, तशेंच दुश्ट मनशाचेर ताचें दु:शील पातळटा, जशी ताच्या वैऱ्याकूय ताची हीच दशा जाल्ली जाय आसता.

१६३. सुकरानि असाधूनि अत्तनो अहितानि च।
यं चे हितं च साधुं च तं वे परमदुक्करं ॥७॥

*सोंपेपणान जाय वायट आपलें अहित जें करी।*
*जें हिताचें बऱ्याचें बी खरें कठीण खूब तें ॥७॥*

वायट आनी आमचें अहित करपी करण्यो (आमचे कडल्यान) सहज जातात. जें बऱ्याचें आनी हिताचें आसता तें करप खूब कठीण.

★ १६४. यो सासनं अरहतं अरियानं धम्मजीविनं।
पटिक्कोसति दुम्मेधो दिट्ठिं निस्साय पापिकं
फलानि कट्ठकस्सेव अत्तघञ्ञाय फल्लति ॥८॥

*धर्मिश्ठ व्हड मनशांची अर्हन्ता सांगणी तशी ।*
*निंदिता नाड बुद्धी जो दृश्टी दवरून पातकी ।*
*वेळूवरी फळून तो आत्म घाताक कारण ॥८॥*

धर्माप्रमाण जीण सारपी आर्यांच्या आनी अर्हन्ताच्या शासनाची (शिकवणेची) जो दुर्बुद्ध मनीस पापी नदरेन निंदिता तो वेळू भाशेन आपल्याच नाशाखातीर फळटा.

१६५. अत्तना • व कतं पापं अत्तना संकिलिस्सति।
अत्तना अकतं पापं अत्तना • व विसुज्झति ।
सुद्धि असुद्धि पच्चतं नाञ्ञो अञ्ञं विसोधये ॥९॥

*आपणेंच पाप केलां जें आपणाक क्लेश तें दिता ।*
*केलें नासल्यार तें पाप जाता शुद्धीच आपुली ।*
*आपलीच अशुद्धी शुद्धी दुसरो कोण करीच ना ॥९॥*

आपल्या पापाचो आपणाकूच क्लेश जाता. आपणें पाप केलें ना जाल्यार आपुणूच शुद्ध जाता. शुद्धी अशुद्धी जण एकल्याचेर निंबून आसता. कोणच दुसऱ्याची शुद्धी करिना.

१६६. अत्त-द-त्थं परत्थेन बहुनाऽपि न हापये ।
अत्त-द-त्थमभिञ्ञाय स-द-त्थपसुतो सिया ।।१०।।

*आपलें करचेंच न्ही वायट परार्थ चड सादूंक ।*
*आत्मार्थ नीट जाणून लाग कामाक त्या बऱ्या ।।१०।।*

दुसऱ्याच्या व्हडल्या हिताखातीर लेगीत आपल्या हिताची हानी करची न्हय. आपलेंच योगकार्य हें मनशान सारकें जाणून घेवचें आनी ताणें त्या कार्याक लागचें.

## टीप

१. आपूण.
२. पार, प्रहर.
३. योग्य आसा तातूंत.

# लोकवग्गो
# लोक वर्ग

---

मनशाक जितलो संवसारीक लोभ तितलें तो अदीक दुख्ख भोगता. संवसारांत जोडिल्लो विशुद्ध आनंदूच ताका खोस दिता हाची चत्राय मनशान दवरूंक जाय. जीण खिणयाळी आसता आनी जिणेचो बुडबुडो मर्णानूच फुट्टा. संवसार हें मृगजळ आसा हाची सदींच जाणवीक आसपी मनीस विचारान आनी विवेकान जीण सारता. जिणेचें हें मर्म कळिल्लोच खऱ्या अर्थान जीण जियेता.

संत कबीरान ह्या संवसाराक 'प्रेमनगर की नदी' म्हळां तें ह्याच अर्थान. प्रेम म्हळ्यार मोह. संवसारीक गजालींच्या मोहान म्हळ्यार कुडीचें सुख, धन, मान, नामना हांणी मनीस पिसावल्यार तो हे न्हंयेंत बुडलेबगर रावचोना ही बुद्धाची सांगणी.

१६७. हीनं धम्मं न सेवेय्य पमादेन न संवसे ।
मिच्छादिट्ठिं[1] न सेवेय्य न सिया लोकवड्ढनो[2] ॥१॥

*नाका हीण धर्माचार सोड तो अविचार गा ।*
*सेवूं नाका मिथ्यादृश्टी वाडोवं नये प्रपंच गा ॥१॥*

हीण धर्मान (आचार विचारान) चलचें न्हय. अविचाराकडेन संग दवरचो न्हय. मिथ्यादृश्टी सेवची न्हय. इहलोकाचो प्रपंच वाडोवपी जावंचो न्हय.

१६८. उत्तिट्ठे नप्पमज्जेय्य धम्मं सुचरितं चरे।
धम्मचारी सुखं सेति अस्मिं लोके परम्हि च ॥२॥

*उठा, नाकाच ती सुस्ती आचरा धर्म तो बरो ।*
*हांगा नी परलोकांत धर्मचारी न्हिदता सुखी ॥२॥*

उठात (आपणाक) जागयात; अविचार करचो न्हय; बऱ्या कर्मांनी धर्म आचरचो. धर्मान चलपी मनीस हांगा आनी परलोकांतूय सुखान न्हिदता (जियेता).

१६९. धम्मं चरे सुचरितं न तं दुच्चरितं चरे।
धम्मचारी सुखं सेति अस्मिं लोके परम्हि च ।।३।।

*सुकर्मां आचरा धर्म दुश्कर्मां नाचरचो मुळीं ।*
*हांगा नी परलोकांत धर्मचारी न्हिदता सुखी ।।३।।*

बऱ्या कर्मांनी धर्माचें आचरण करचें. वायट कर्मांनी तो आचरचो न्हय. धर्मान चलपी हांगा आनी परलोकांत सुखान न्हिदता (जियेता).

★ १७०. यथा बुब्बुलकं[३] पस्से यथा पस्से मरीचिकं[४] ।
एवं लोकं अवेक्खन्तं मच्चुराजा न पस्सति ।।४।।

*बुडबुडोसो जगा देख तशेंय मृगजळावरी ।*
*तसो जो लोक हो देखी काळ ताका पळेचना ।।४।।*

जगाकडेन बुडबुडो अशे भावनेन पळोवचें. तशेंच जग हें मृगजळ अशें मानचें. जगाकडेन जो अशे नदरेन पळयता ताका यम पळयना.

★ १७१. एथ पस्सथिमं लोकं चित्तं राजरथूपमं ।
यत्थ बाला विसीदन्ति नत्थि संगो विजानतं ।।५।।

*आगा यो ह्या जगा देख चित्र राया रथावरी ।*
*विसव हो पिशांलोकां ज्ञानी संबंध राखिना ।।५।।*

आगा यो, राजारथावरी चित्रायल्लें हें जग पळे. हांगा पिशे विसव घेतात. ज्ञानी (हाचेशीं) संबंद दवरिनात.

१७२. यो च पुब्बे पमज्जित्वा पच्छा सो नप्पमज्जति ।
सो • मं लोकं पभासेति अब्भा मुत्तो • व चन्दिमा ।।६।।

*आसलो आदीं अविचारी जालो विचारि तो फुडें ।*
*चंद्र कुपांतुलो मेकळो पर्जळायी जगाक ह्या ।।६।।*

पयलीं (भुरगेपणांत) अविचारी आशिल्लो आनी मागीर विचारी जाल्लो मनीस हें जग कुपांतल्यान भायर सरिल्ल्या चंद्रावरी पर्जळायता.

१७३. यस्स पापं कतं कम्मं कुसलेन पिथीयति ।
सो ॰ मं लोकं पभासेति अब्भा मुत्तो ॰ व चन्दिमा ॥७॥

*केल्यांत पाप कर्मां जीं कर्मांनी धांकल्यां बऱ्या ।*
*जसो चंद्र कुपां मेकळो पर्जळायी जगाक ह्या ॥७॥*

(आपलीं) पापकर्मां कुशळ म्हळ्यार बऱ्या कर्मांनी धांकिल्लो मनीस हें जग कुपांतल्यान भायर सरिल्ल्या चंद्रावरी पर्जळायता.

१७४. अन्धभूतो अयं लोको तनुकेत्थ विपस्सति ।
सकुन्तो जालमुत्तो ॰ व अप्पो सग्गाय गच्छति ॥८॥

*कुड्डेंच जग हें जालां भौच थोडे पळोवपी।*
*सर्गी थोडेच गा वेतले जाळ्या-मेकळ्या सवण्यावरी ॥८॥*

हें जग कुड्डें जालां. हांगा पळोवपी अशे उणेच आसतात. जाळ्यांतल्यान सुटिल्ल्या सवण्यावरी थोडोच लोक सर्गार वतलो.

१७५. हंसादिच्चपथे यन्ति आकासे यन्ति इद्धिया[५]
नीयन्ति धीरा लोकम्हा जेत्वा मारं सवाहिनिं ॥९॥

*सूर्यमार्गान् वती हंस ऋद्धीवंत नभांतुल्यान् ।*
*जिखती ससैन्य माराक वती हांगसून पंडित ॥९॥*

हंस सुर्याच्या मार्गान वतात. जाका ऋद्धी मेळ्ळ्या ते (योगी) मळबांतल्यान उडटात. ज्ञानी लोक माराक ताच्या सैन्यासयत जिखून ह्या जगांतल्यान (निर्वाणाकडेन) वतात.

★ १७६. एकं धम्मं अतीतस्स मुसावादिस्स[६] जन्तुनो
वितिण्णपरलोकस्स नत्थि पापं अकारियं ॥१०॥

*सतधर्म हुपता गा जो उलयी फट जो नर ।*
*मानिना परलोकाक पाप करूंक मेकळो ॥१०॥*

एक धर्म (सतधर्म) जो हुपता, जो फट उलयता, जो परलोकाचे पेल्यान गेला (म्हळ्यार जो परलोकाक मानिना वा नास्तिक आसा), तो मनीस कसलेंय पाप करूंक मेकळो आसता.

१७७. न वे कदरिया देवलोकं वजन्ति
बाला हवे नप्पसंसन्ति दानं ।
धीरो च दानं अनुमोदमानो
तेनेव सो होति सुखी परत्थ ॥११॥

*वचनात हिमटे देव लोकाक*
*तुस्तिनात मूर्ख खरेच दानाक ।*
*ज्ञानी जाय धादोस दाना खोशयेंत*
*मागीर जाय खोशी पर्लोकांत ॥११॥*

हिमटे देवलोकाक वचनात. मूर्ख खऱ्यानीच दानाची तोखणाय करिनात. पूण ज्ञानी लोक दानाचे खोशेंत धादोस जावन, तितल्यानूच परलोकांत सुखी जातात.

१७८. पथव्या एकरज्जेन सग्गस्स गमनेन वा ।
सब्बलोकाधिपच्चेन सोतापत्तिफलं[८] वरं ॥१२॥

*अधिराज्य धर्तरेर नाकाय सर्गा गती तशी ।*
*नाका शेक जगांचेर थोर सोत्तापत्ती फळ ॥१२॥*

पृथ्वीच्या अधिराज्या परसूय, वा सर्गार वचचे परसूय, सगल्या विश्वाचेर शेक गाजोवचे परसूय सोत्तापत्तीफळ थोर.

टीप

१. मिथ्यादृश्टी, लटकी नदर.
२. संवसाराचो जंवजाळ.
३. बुडबुडो.
४. मृगजळ.
५. ऋद्धी.
* ६. सत्यधर्म.
७. फट उलोवपी.
८. **सोत्तापत्तिफळ** = सोत्तापत्त (धर्मप्रवाहांत पडिल्लो). पयलीं तीन संयोजना (गाथा ३१वयली टीप पळयात) नश्ट करतकूच साधक स्रोतापन्न जाता. ताचेपासून मेळिल्लें फळ (सोतापत्तिफळ).

# बुद्धवग्गो
# बुद्ध वर्ग

---

बुद्धाचे शिकवणेचें सार ह्या अध्यायांत सांगलां. मनशान चार सतांच्या उदेशींच आपणाक अध्यात्मीक नदरेन वयर काडूंक जाता. तशें केल्यार अंतीं ताका निर्वाणाचे खोशेचें सुख मेळटलें.

★ १७९. यस्स जितं नावजीयति
जितमस्स नो याति कोचि लोके ।
तं बुद्धमनन्तगोचरं[१]
अपदं[२] केन पदेन नेस्सथ ॥१॥

*व्हरचोना जैत ताचें कोणूच*
*जिखिल्लें हांगा वचचें ना खंयच ।*
*त्या बुद्धाक सगलें जाणप्याक*
*दाखयतले आमी खंयची वाट ॥१॥*

जाच्या (राग, द्वेश, मोह हांचेवयल्या) जैताचेर कोणाकूच हार घालूंक येवची ना; जाणें जोडिल्ल्या (वासनांवयल्या) जैतासरीं ह्या संवसारांत कोणूच पावचो ना, त्या (पूर्ण ज्ञानी) बुद्धाक, सर्वज्ञाक, जाका (तो सगल्या मार्गांचे पेल्यान गेल्ल्यान) खंयचोच मार्ग (सोदपाचो) उरूंक ना, ताका आमी खंयची वाट दाखयतले ?

१८०. यस्स जालिनी विसत्तिका
तण्हा नत्थि कुहिञ्चि नेतवे ।
तं बुद्धमनन्तगोचरं
अपदं केन पदेन नेस्सथ ॥२॥

*आसा जाळ्यावरी जी धरता*
*व्हरिना खंयच ती तृष्णा ताका ।*
*त्या बुद्धाक सगलें जाणप्याक*
*दाखयतले आमी खंयची वाट ॥२॥*

जाळ्यावरी घट्ट धरपी तृष्णा जी ताका खंयच व्हरपाक (समर्थ) ना, त्या पूर्ण ज्ञानी बुद्धाक, सर्वज्ञाक, जाका (तो सगल्या मार्गांचे पेल्यान गेल्ल्यान) खंयचोच मार्ग सोदपाचो उरूक ना, ताका आमी खंयची वाट दाखयतले ?

★ १८१. ये झानपसुता[३] धीरा नेक्खम्मूपसमे[४] रता
देवाऽपि तेसं पिहयन्ति सम्बुद्धानं सतीमतं ॥३॥

*ध्यानांत गुल्ल जे ज्ञानी रत निश्काम शांतित ।*
*जागरूक पूर्ण ज्ञानांचो हेवो करतात देव बी ॥३॥*

जांचें ध्यानाकडेन लक्ष लागलां अशे ज्ञानी, जे निश्काम शांतींत रत जाल्यात, जे जागरूक आनी पूर्ण ज्ञानी जाल्यात, अशा मनशांचो देव लेगीत हेवो करतात.

१८२. किच्छो मनुस्सपटिलाभो किच्छं मच्चान जीवितं ।
किच्छं सद्धम्भसवणं किच्छो बुद्धानमुप्पादो ॥४॥

*दुर्लभ जीण मन्शाची मन्शाचो जल्म दुर्लभ ।*
*सद्धर्म श्रवणय तें बी दुर्लभ बुद्ध जावप ॥४॥*

मनशाचो जल्म मेळप कठीण. मनशाची जिणूय कठीण. सत धर्म आयकूंक मेळप कठीण. बुद्धांचो जल्म जावप कठीण.

★ १८३. सब्बपापस्स अकरणं कुसलस्स उपसम्पदा ।
सचित्तपरियोदपनं एतं बुद्धान सासनं[५] ॥५॥

*टाळचीं सगलींच पातकां करण्यो करच्यो बऱ्योच त्यो ।*
*करची शुद्धी मना आपल्या बुद्धांची हीच सांगणी ॥५॥*

खंयचेंच पातक करप ना, बऱ्यो करण्यो करप, आपलें चित्त शुद्ध (निर्मळ) राखप, हीच बुद्धांची शिकवण.

१८४. खन्ती[६] परमं तपो तितिक्खा
निब्बानं परमं वदन्ति बुद्धा ।
न हि पब्बजितो[७] परूपघाती
समणो होति परं विहेठयन्तो ॥६॥

*तप व्हडलें सोंसप धिरान*
*निर्वाण व्हड होच बुद्धां बोध ।*
*करिनात संन्याशी परघात*
*हेरांक पिडपीय जायनात श्रमण ॥६॥*

तितिक्षारुपी क्षांती (सोंसणिकाय आनी क्षमाशीळताय) हेंच एक व्हडलें तप. सगल्यांत निर्वाणूच व्हडलें हें बुद्धांचें सांगणें. दुसऱ्यांचो घात करपी आनी दुसऱ्यांक पिडपी प्रव्राजक (संन्याशी) श्रमण जावं नजो.

१८५. अनूपवादो[८] अनूपघातो[९] पातिमोक्खे[१०] च संवरो ।
मतञ्ञुता च भत्तस्मिं पन्तं च सयनासनं ।
अधिचित्ते च आयोगो एतं बुद्धानं सासनं ॥७॥

*संयम चलणुकेंत निंदा घातांक सोडप ।*
*राखप भोजनीं शीम एकांती शयनासन ।*
*आपलें चित्त समाधींत बुद्धांचें हेंच सांगप ॥७॥*

हेरांची निंदा करप ना, कोणाचो घात करप ना; प्रातिमोक्षाच्या नेमांप्रमाण चलून संयम पाळप; आहारांत शीममेर राखप, एकांतांत न्हिदप बसप, आपलें चित्त समाधींत लावप, हीच बुद्धांची शिकवण.

१८६. न कहापणवस्सेन तित्ति कामेसु विज्जति ।
अप्पऽस्सादा दुखा कामा इति विञ्ञाय पण्डितो ॥८॥

१८७. अपि दिब्बेसु कामेसु रतिं सो नाधिगच्छति ।
तण्हक्खयरतो होति समासम्बुद्धसावको ॥९॥

*जायनाच वासना तृप्ती कार्शापणा वृश्टीन बी ।*
*दिती दुख्ख खिणां भोग जाणी हें तोच पंडित ॥८॥*

*मानिना सर्ग-भोगांत कसलेंच सुख पंडित ।*
*तृष्णा नाशांत धादोस पूर्णज्ञ बुद्ध श्रावक ॥९॥*

कार्शापणांच्या म्हळ्यार भांगराच्या नाण्यांच्या शिंवरान लेगीत मनशाची वासनांची भर जायना. भोगवासनेचें सुख खिणयाळें आसता आनी तें अंतीं दुख्खाक कारण जाता हें जाणिल्लो खरो ज्ञानी. सर्गांतल्या भोगांतूय तो सुख मानिना. बुद्धाचो शिश्य तृष्णा ना जाल्यारूच खोशी जाता.

१८८. बहुं वे सरणं यन्ति पब्बतानि वनानि च।
आरामरुक्खचेत्यानि मनुस्सा भयतज्जिता ॥१०॥

१८९. नेतं खो सरणं खेमं नेतं सरणमुत्तमं।
नेतं सरणमागम्म सब्बदुक्खा पमुच्चति ॥११॥

*वती शरण रानांक पर्वतां लोक पुश्कळ ।*
*रुखां उद्यान-चैत्यांक मनीस जे भयाकुळ ॥१०॥*

*हें शरण सुखा न्हीच न्ही हें शरण उत्तम ।*
*वता शरण जो हांकां सुटना तो दुखांतुलो ॥११॥*

भंयान पिडिल्ले मनीस पर्वतांक, वनांक, पवित्र रुखांक, उद्यानांक शरण वतात. हो आसरो खरेंच बऱ्याचो न्हय; हो आसरो बऱ्यांतलो बरो न्हय. हो आसरो घेवन लेगीत मनीस सगल्या दुख्खांतल्यान सुटना.

★ १९०. यो च बुद्धञ्च धम्मञ्च संघञ्च सरणं गतो ।
चत्तारि अरियसच्चानि[११] सम्मप्पञ्ञाय पस्सति ॥१२॥

★ १९१. दुःखं दुक्ख-समुप्पादं दुक्खस्स च अतिक्कमं
अरियञ्चऽट्ठङ्गिकं[१२] मग्गं[१२] दुक्खूपसमगामिनं ॥१३॥

१९२. एतं खो सरणं खेमं एतं सरणमुत्तमं ।
एतं सरणमागम्म सब्बदुक्खा पमुच्चति ॥१४॥

*वता शरण बुद्धाक धर्मा संघाक तो तसो ।*
*पळे आर्य सतां चार जाणी पूर्ण प्रज्ञेन तीं ॥१२॥*

*दुख्ख नी मूळ दुख्खांचें तशें दुखा निवारण ।*
*ही वाट आठ आंगांची व्हरी दुख्खा-मुक्तीसरीं ॥१३॥*

*शरण राखणें हेंच शरण हेंच उत्तम ।*
*अशें शरण घेयी जो सुट्टा सगल्या दुख्खांतुलो ॥१४॥*

जो बुद्ध, धर्म आनी संघ हांकां शरण वता, जो आपले पूर्ण प्रज्ञेन चार आर्य सतां जाणटा – १) दुख्ख, २) दुख्खाचें मूळ, ३) दुख्खांतल्यान·मुक्ती, ४) आनी मुक्तीसरीं व्हरपी आठ आंगांचो आर्यमार्ग (१२-१३). हें शरण खऱ्यांनीच कल्याण करपी आनी उत्तम आसता. हो आसरो घेतिल्ल्यानूच सगल्या दुख्खांतल्यान मनीस मुक्त जाता (१४).

१९३. दुल्लभो पुरिसाजञ्ञो न सो सब्बत्थ जायति ।
यत्थ सो जायती धीरो तं कुलं सुखमेधति ॥१५॥

*येना जल्माक सर्वत्र पुरुश-श्रेश्ठ दुर्लभ ।*
*जंय तो ज्ञानी जल्मता सुख मेळटा कुळाक त्या ॥१५॥*

कुलीन मनीस मेळप भौच कठीण. तो सगळेकडेन जल्मना. जंय तो ज्ञानी जल्मता, तें कुळ सुखी जाता.

१९४. सुखो बुद्धानं उप्पादो सुखा सद्धम-देसना ।
सुखा सङ्घस्स सामग्गी समग्गानं तपो सुखो ॥१६॥

*सुखांचो जल्म बुद्धांचो सुखा सद्धर्म बोध बी ।*
*सुखा एकचार संघाचो तपा एकी सुखा तशी ॥१६॥*

बुद्धांचो जल्म सुख दिता. सद्धार्माचो उपदेश सुख दिता. संघाची एकी सुख दिता. एकचारान केल्लें तप सुख दिता.

१९५. पूजारहे पूजयतो बुद्धे यदि व सावके ।
पपञ्चसमतिक्कन्ते तिण्णसोकपरिद्दवे ॥१७॥

१९६. ते तादिसे पूजयतो निब्बुते[13] अकुतोभये[14] ।
न सक्का पुञ्ञं सङ्खातुं इमेत्तमपि केनचि ॥१८॥

*बुद्धां वा श्रावकां पूजी पुजता पूज्य जनांक जो ।*
*प्रपंचा पार जे गेले तरून शोक वेदना ॥१७॥*

*पुजी अश्या जनां पूज्य भय मुक्त विमुक्त जे ।*
*पुण्य हें इतुलें ताचें हें कोणेंच गणूं नज ॥१८॥*

जे प्रपंचाचे पेल्यान गेल्यात, शोक आनी वेदना हुपून गेल्यात, जे निर्वाणाक पावल्यात, जांकां खंयसून भय ना, अशा पुजूंक फावो असल्या बुद्धांची वा श्रावकांची पुजा करता ताच्या पुण्याची 'हें इतलें आसा' अशी कोणाकूच गणटी करूंक येवची ना (१७-१८).

## टीप

१. बुद्ध = पूर्ण ज्ञानी; ज्ञान जाल्लो.
२. वाट मेळिल्ल्यान वाट सोदची गरज नाशिल्लो मनीस.
३. ध्यानांत गुल्ल आसपी.
४. निश्काम.
५. शिकवण (अनुशासन).
६. क्षांती, सोंसणिकाय.
७. प्रव्रजीत, घर त्यागून श्रमण जाल्लो.
८. निंदप ना.
९. घात करप ना.
१०. **प्रातिमोक्ष.** भिक्षू आनी भिक्षुणीखातीर केल्ले नेम. तशेंच ते नेम एकठांय करून बरयल्ल्या माणकुल्या ग्रंथाचें नांव.
११. आर्यसतां. (गाथा १९० वयली टीप पळयात.)
१२. आर्य अष्टांग मार्ग (गाथा १९१ वयली टीप पळयात).
१३. निर्वाण जोडिल्लो.
१४. भयमुक्त जाल्लो.

# सुखवग्गो
# सुख वर्ग

भय, वैर आनी लोभ हातुंतल्यान मुक्त जाल्यार मनाक शांति मेळून मनीस सुखी जावंक पावतलो. भितरल्यान उपाट सुख जोडिल्लो मनीस वळखुचेली कुरू बुद्ध आमकां सांगता. तो आपल्या सुखापासत जियेना. तो हेरांच्या सुखापासत जियेता; तांचें दुख्ख ल्हव करता. वायटाची फेड बरेपणान करता (१९७-१९८). आपूण दुख्ख भोगतना लेगीत करुणा, आपसुवार्थ सोडटा आनी लोककल्याण हातूंत आपले जिणेचें सार्थक पळयता, तेन्ना ताका दुख्ख आफडना. दुख्खाचो अभाव आसप म्हळ्यार सुख आनी खोस भोगप ही बुद्धाची सांगणी.

★ १९७. सुसुखं वत जीवाम वेरिनेसु अवेरिनो ।
वेरिनेसु मनुस्सेसु विहराम अवेरिनो ॥१॥

*सुखी खरेंच रावुंया अवैरी वैरियांमदीं ।*
*वैरी मनशांमदीं आमी रावंचें वैराविणें सुखी ॥१॥*

वैऱ्यांमदीं वैराविणें आमी खरेंच खूब सुखान रावंया. वैर करपी लोकांमदीं आमी वैरमुक्त जावन रावंया.

★ १९८. सुसुखं वत जीवाम आतुरेसु[१] अनातुरा[२]
आतुरेसु मनुस्सेसु विहराम अनातुरा ॥२॥

*सुखी खरेंच रावुंया पिडेस्तांत पिडेविणें ।*
*मनशांमदीं पिडेखोर रावंया पिडेविणें सुखी ॥२॥*

पिडेस्त मनशांमदीं आमी पिडेविणें खरेंच सुखान जीण सारुंया. जे पिडेखोर आसात तांचेमदीं आमी पिडेविणें सुखान जीण सारुंया.

★ १९९. सुसुखं वत जीवाम उत्सुकेसु[३] अनुस्सुका
उस्सुकेसु मनुस्सेसु विहराम अनुस्सुका ॥३॥

*सुखी खरेंच रावुंया लोभ्यांत लोभ ना अशे ।*
*आशेखोर मनुश्यांत रावंया लोभाविणें सुखी ॥३॥*

लोभी मनशांमदीं खरेंच आमी लोभाविणें सुखान रावंया. ओड आशिल्ल्या मनशांमद आमी लोभाविणें सुखान जीण सारुंया.

२००. सुसुखं वत जीवाम येसं नो नत्थि किञ्चनं ।
पीतिभक्खा भविस्साम देवा आभस्सरा[४] यथा ॥४॥

*सुखी खरेंच रावुंया जाल्ले आमी अकिंचन ।*
*खावन गिरास मोगाचो आभास्वर सुरांवरी ॥४॥*

द्वेश आनी मोह हांचे विरयत जाल्ले आमी खरेंच सुखान रावंया. मोग हेंच अन्न आशिल्ल्या आभास्वर देवांभाशेन आमी जीण सारुंया.

२०१. जयं वेरं पसवति दुःखं सेति पराजितो
उपसन्तो सुखं सेति हित्वा जयपराजयं ॥५॥

*+ जिखपी जल्म दी वैराक न्हिदता दुख्खान हारपी ।*
*न्हिदता सुखान न्हिविल्लो सोडी जय पराजय ॥५॥*

ज़ैतिवंत मनीस वैराक जल्म दिता. हारिल्लो दुख्खान वळवळटा. जैत आनी हार त्यागून जो न्हिवला तो खोशेन न्हिदता (तो धादोस मनीस सदींच सुखी आसता).

★ २०२. नत्थि रागसमो अग्गि नत्थि दोससमो कलि ।
नत्थि खन्धादिसा[५] दुक्खा नत्थि सन्तिपरं सुखं ॥६॥

*वान्शेसमान ना अग्नी द्वेशासमान ना कली ।*
*स्कंधासमान ना दुख्ख शांतीपरस ना सुख ॥६॥*

मोगासमान उजो ना, द्वेशासारको कली ना. पंचस्कंधां भाशेन (अस्तित्वा भाशेन) दुख्ख ना. शांतीसारकें सुख ना.

२०३. जिघच्छापरमा रोगा सङ्खारा परमा दुखा ।
एतं ञत्वा यथाभूतं निब्बाणं परमं सुखं ।।७।।

*दुखदिणोच संस्कार अती भूक पिडा खर ।*
*सारकेंच जाणता हें जो निर्वाण व्हड सूख गा ।।७।।*

अती भूक ही वायट पिडा. (जिणेंतल्या वासनांचे) संस्कार खूब दुख्ख दितात. वान्शेन केल्ल्या कर्मांचो मनाचेर जाल्लो परिणाम जाका सारको कळ्ळा, ताका निर्वाण परम सुखा भाशेन जाणवता.

२०४. आरोग्यपरमा लाभा सन्तुट्ठी परमं धनं ।
विस्सासपरमा ञाती निब्बाणं परमं सुखं ।।८।।

*भलायकी व्हडलो लाभ संतोश व्हडलें धन ।*
*विस्वास हो खरो आप्त निर्वाण सुख भौ बरें ।।८।।*

सगल्या लाभांत भलायकी श्रेश्ठ. संतोश हें सगल्यांत श्रेश्ठ धन. विश्वास हो सगल्यांत व्हड आप्त. निर्वाण सगल्यांत व्हडलें सुख.

२०५. पविवेकरसं पीत्वा रसं उपसमस्स[६] च ।
निद्दरो होति निप्पापो धम्मपीतिरसं पिबं ।।९।।

*एकांताच्या पिवनू रोसाक् रोस उपशमाय बी ।*
*पिवन धर्मप्रिती रोस जाता निश्पाप निर्भय ।।९।।*

एकांतांतल्या चिंतनाच्या आनी मनाशांतीच्या (उपशमाच्या) रोसाची गोडी चाखतकूच, धर्मप्रितीचो रोस पियेवन (मनीस) निर्भय आनी निशपाप जाता.

२०६. साहु दस्सनमरियानं सन्निवासो सदा सुखो ।
अदस्सनेन बालानं निच्चमेव सुखी सिया ।।१०।।

*बरें दर्शन आर्यांचें सांगात सुख दी सदीं ।*
*मुर्खा दर्शन टाळून जातलो सदींच तो सुखी ।।१०।।*

आर्यांचे (व्हडविकेच्या मनशांचें) दर्शन बरें. तांचो सांगात सदींच सुखाचो आसता. मुर्खांचें दर्शन जाका जायना तो सदींच सुखी जातलो.

२०७. बालसङ्गतचारी हि दीघमद्धान सोचति ।
दुक्खो बालेहि संवासो अमित्तेनेव सब्बदा ।
धीरो च सुखसंवासो ञातीनं • व समागमो ॥११॥

*मुर्खां संगतींत जो राव दीर्घ काळ दुखीच तो ।*
*मुर्खा संगत दुख्खाची शत्रू संगतीवरी सदीं ।*
*सुखाचो संग शाण्याचो बंधु सोबत जे परी ॥११॥*

कित्याक, मुर्खाचे संगतींत रावपी मनीस दीर्घकाळ दुख्खी जाता. मुर्खाचो सांगात वैऱ्याच्या सांगातावरी दुखदिणो आसता. भावबंदाक मेळटकूच जशी खोस जाता तशी खोस शाण्या मनशाच्या सांगातांत मेळटा.

तस्मा हि

२०८. धीरं च पञ्ञं च बहुस्सुतं च
धोरय्हसीलं[७] वतवन्तमरियं ।
तं तादिसं सप्पुरिसं सुमेधं
भजेथ नक्खत्तपथं • व चन्दिमा ॥१२॥

देखून —
*प्राज्ञाक धिराक बहुश्रुताक*
*शीलवंताक आर्याक व्रतस्थाक*
*संताक सुबुद्धाक सदा भजात*
*नक्षत्र पथासवें जसो चंद्र ॥१२॥*

देखून, चंद्र जसो नक्षत्र पथा वांगडा आसता तसो जो शाणो, बहुश्रुत, प्रज्ञावंत, शीलवंत, व्रतस्थ, आर्य आसता अशा सुबुद्ध संताचे (सत्पुरुशाचे) संगतींत रावचें.

टीप

* १. पिडा, पिडेखोर.
२. पिडा नाशिल्लो, निरोगी.
३. लोभी, ह्वसवसो.
४. आभास्वर नांवाचे रूप लोकांतले देव.
\+ दुसरो पाठ – वैराक जल्म दी जैत.
* ५. (सं.) स्कंध = पदार्थ. स्कंध पांच आसात.
६. उपशमाचो (मना थंडायेचो).
७. बैलाच्या शिलाचो. बैल खूब कश्ट करता. वर्जी ओडपाचो वावर करता. देखून वावर आनी कश्ट करपी, तपस्वी वा मुखेली.

# पियवग्गो
# प्रिय वर्ग

---

आमचे जिणेंत आवडीच्यो तशोच नावडिच्यो गजाली दुख्खाक कारण जातात. सुखांची ओड हें आमचे जिणेंतलें व्हडलें आडमेळें. देखून मनशान प्रेम, रतिसुख, भोगवासना, तृष्णा (वसवस) हातूंत घुस्पुचें न्हय, ही देख आमकां ह्या वर्गांत दिल्या.

२०९. अयोगे[१] युञ्जमत्तानं योगस्मिं[२] च अयोजयं ।
अत्थं[३] हित्वा पियग्गाही[४] पिहेतऽत्तानुयोगिनं ॥१॥

*जुंपता आपणांक अयोगांत योगांतूय जोडिना तसो ।*
*श्रेय सोडटा धरता प्रेय योग्यां हेवोच तो करी ॥१॥*

अयोगांत आपणाक जुंपपी, फावो त्या वा बऱ्या गजालींनी मन गुंतयनाशिल्लो, हिताच्यो (श्रेय) गजाली सोडून सुखा (प्रेया) फाटल्यान वचपी मनीस योग्यांचो हेवो करता.

२१०. मा पियेहि समागच्छि अप्पियेहि कुदाचनं ।
पियानं अदस्सनं दुक्खं अप्पियानं च दस्सनं ॥२॥

*नाका सांगात मोग्यांचो अप्रिया बी कदापि तो ।*
*मोगी पयसावलो दुख्ख दुख दिसत अप्रिय ॥२॥*

मोग्यांचो सांगात नाका तेच परी मोगी नाशिल्ल्यांचोय कदापि नाका. मोगी दिसलोना जाल्यार दुख्ख जाता. तशेंच नावडीचो मनीस दिसल्यारूय दुख्ख जाता.

२११. तस्मा पियं न कयिराथ पियापायो हि पापको ।
गन्था[५] तेसं न विज्जन्ति येसं नत्थि पियाप्पियं ॥३॥

*मोगा कितेंच लेखचें न्ही तें ना जाल्यार दी दुख ।*
*जें आव्डी नावडी पेले पासांत पडनात ते ॥३॥*

देखून कित्याकूच मोगाचें लेखचें न्हय. कित्याक, तें ना जायत जाल्यार दुख्ख जाता. जे आवडी नावडीचे पेल्यान आसात, ते केन्नाच पासांत पडनात.

२१२. पियतो जायती सोको पियतो जायती भयं ।
पियतो विप्पमुत्तस्स नत्थि सोको कुतो भयं ॥४॥

*प्रियापसून हो शोक   प्रियापसून हो भय ।*
*प्रियांतल्यान सुटिल्ल्याक   नाच शोक कसलो भय ॥४॥*

प्रिय गजालींतल्यान शोक उप्रासता. प्रिय गजालींतल्यान भय उप्रासता. प्रिय गजालींतल्यान सुटिल्ल्याक शोक जायना, मागीर भंय तरी कसलो ?

२१३. पेमतो जायती सोको पेमतो जायती भयं ।
पेमतो विप्पमुत्तस्स नत्थि सोको कुतो भयं ॥५॥

*मोगापसून हो शोक   मोगापसून हो भय ।*
*मोगांतल्यान सुटिल्ल्याक   नाच शोक कसलो भय ॥५॥*

मोगांतल्यान शोक उप्रासता, मोगांतल्यान भंय उप्रासता. मोगांतल्यान सुटिल्ल्याक दुख्ख जायना, मागीर भंय तरी कसलो ?

२१४. रतिया जायती सोको रतिया जायती भयं ।
रतिया विप्पमुत्तस्स नत्थि सोको कुतो भयं ॥६॥

*रतीपसून हो शोक   रतीपसून हो भय ।*
*रतिंतल्यान सुटिल्ल्याक   नाच शोक कसलो भय ॥६॥*

रतिसुखांतल्यान दुख्ख उप्रासता, रतिसुखांतल्यान भंय उप्रासता. रतिसुखांतल्यान सुटिल्ल्याक दुख्ख जायना, मागीर ताका भंय कसलो ?

२१५. कामतो जायती सोको कामतो जायती भयं ।
कामतो विप्पमुत्तस्स नत्थि सोको कुतो भयं ॥७॥

*कामापसून हो शोक   कामापसून हो भय ।*
*कामांतल्यान सुटिल्ल्याक   नाच शोक कसलो भय ॥७॥*

कामवासनेंतल्यान दुख्ख उप्रासता. कामवासनेंतल्यान भंय उप्रासता. कामवासनेंतल्यान सुटिल्ल्याक दुख्ख जायना, मागीर भंय कसलो ?

२१६. तण्हाय जायती सोको तण्हाय जायती भयं ।
तण्हाय विप्पमुत्तस्स नत्थि सोको कुतो भयं ॥८॥

*तृष्णेपसून हो शोक तृष्णेपसून हो भय ।*
*तृष्णेंतल्यान सुटिल्ल्याक नाच शोक कसलो भय ॥८॥*

तृष्णेंतल्यान दुख्ख उप्रासता, तृष्णेंतल्यान भंय उप्रासता. तृष्णेंतल्यान सुटिल्ल्याक दुख्ख जायना, मागीर भंय कसलो ?

२१७. सीलदस्सनसम्पन्नं धम्मट्ठं सच्चवादिनं[६] ।
अत्तनो कम्म कुब्बानं तं जनो कुरुते पियं ॥९॥

*धर्मस्थ सत्यवादी जो शीलवंत विचारवान् ।*
*लागणूक जो करी आपली जाता लोकांक तो प्रिय ॥९॥*

शीलवंत, बरी नदर आशिल्लो (विचार करपी), सत जाणपी (चार आर्य सतां जाणपी), आपले लागणुकेक पाळो दिवपी, धर्माप्रमाण चलपी मनशाचो लोक मोग करतात.

★ २१८. छन्दजातो[७] अनक्खाते[८] मनसा च फुटो सिया ।
कामेसु च अप्पटिबद्धचित्तो उद्धंसोतो[८] • ति वुच्चति ॥१०॥

*अवर्णनीय गोडयेन ज्या मनशा मनु स्पर्शिलां ।*
*बांदलेंना चित्त भोगांक तो लोटाआड पेंवपी ॥१०॥*

वर्णनां करूंक येना अशा निर्वाणाची गोडी लागिल्लो, ते गोडयेन ताचें मन आफुडलां आनी भोगांक जाचें चित्त बांदूंक ना त्या मनशाक लोटाआड पेंवपी म्हणटात.

२१९. चिरप्पवासिं पुरिसं दूरतो सोत्थिमागतं ।
ञाति-मित्ता सुहज्जा च अभिनन्दन्ति आगतं ॥११॥

२२०. तथेव कतपुञ्ञंऽपि अस्मा लोका परं गतं ।
पुञ्ञानि पटिगण्हन्ति पियं ञाती • व आगतं ॥१२॥

*करून पैसुली भोंवडी पर्थता सुखरूप जो ।*
*आप्त इश्ट बरें मागपी येवकाराचीं परबीं दिती ॥११॥*

*पुण्यवंत तसो गेल्लो परलोकाक हांगसुनू ।*
*पर्थल्ल्या मोग्याक आप्त येवकारतात पुण्यां तशीं ॥१२॥*

जे भाशेन दीर्घ काळाची भोंवडी करून पयसुल्ल्यान सुखरूप परत आयिल्ल्या मनशाक आप्त, इश्ट, बरे मागते, खोशेन येवकार दितात (११), ते भाशेन, जाणें पुण्यकर्मां केल्यांत तो ह्या लोकांतसून परलोकाक वतकूच, आप्त मोगाचो मनीस येतकूच ताका येवकार दितात, तशीं ताचीं पुण्यकर्मां ताका येवकार दितात (१२).

## टीप

१. अयोग्य करणी.
२. **योग** = ध्यान, योग्य करणी.
३. अर्थ आशिल्ल्यो, हिताच्यो, श्रेय.
४. प्रिय गजालींत रमपी. मनशान प्रेय सोडून श्रेय धरचें अशें उपनिषदांत सांगलां. प्रेय म्हळ्यार सुख दिवपी, रुचीचें. श्रेय म्हळ्यार हिताचें, बऱ्याचें.
५. गांठ, बंधन, पास.
६,७ वर्णन करूंक येना अशा निर्वाणाचो छंद वा गोडी लागिल्लो.
८. (सं. उर्ध्वस्त्रोत) उदकाच्या झोताआड पेंवन वयर वचपी. ताच्या चित्ताक हीण विचार आफडिनात. तो उचांबळ जायना. ताचें चित्त थीर आशिल्ल्यान तो लोटाआड पेंवन वयर सरता.

# कोधवग्गो
# क्रोध वर्ग

---

मनशान क्रोध आनी द्वेश हांचेर जैत जोडल्यार ताका दुख्ख भोगता. अक्रोधान (मोगान) क्रोध जिखचो, वायट बरेपणान जिखचें, हिमट्याक दानान जिखचो ही शिकवण आमकां ह्या वर्गांत दिल्या.

★ २२१. कोधं जहे विप्पजहेय्य मानं
संयोजनं सब्बमतिक्कमेय्य ।
तं नामरूपस्मिं[१] असज्जमानं
अकिञ्चनं नानुपतन्ति दुक्खा ॥१॥

*सोड क्रोध त्याग अहंकार*
*वच हुपून सगलेच पास ।*
*जाका नाच ओड नामरुपाची*
*त्या अकिंचनाक जायनाच दुख्ख ॥१॥*

मनशान क्रोध सोडचो. अहंकार त्यागचो. सगल्या बंधनांचेर जैत जोडचें. नामरुपाच्या जगाची ओड नाशिल्ल्याचेर आनी राग-द्वेश-मोहांतल्यान सुटिल्ल्याचेर दुख्खां कोसळनात.

★ २२२. यो वे उप्पतितं कोधं रथं भन्तं * व धारये
तमहं सारथिं ब्रूमि रस्मिग्गाहो इतरो जनो ॥२॥

*उसळिल्लो धरी क्रोध भरकटिल्ल्या रथावरी ।*
*सारथी तोच म्हणी हांव धरती हेर लगाम ते ॥२॥*

आपणाक आयिल्ली तिडक भरकटिल्ल्या रथावरी जो आवरून धरता ताकाच हांव सारथी म्हणटां. हेर लोक जे हातांत निखट्यो दोरयोच (लगाम) धरतात ते खरे सारथी न्हय.

★ २२३. अक्कोधेन जिने कोधं असाधुं साधुना जिने ।
जिने कदरियं दानेन सच्चेनालीकवादिनं ॥३॥

*क्रोधाविणें जिखचो क्रोध बरेपणान वाकुडें ।*
*जिखचो किर्पण दानान सत्यान जो उलय फटी ॥३॥*

अक्रोधान (मोगान) क्रोध जिखचो; बरेपणान वायट तें जिखचें. किर्पणाक दानान जिखचो. फटकिऱ्याक सत्यान जिखचो.

२२४. सच्चं भणे न कुज्झेय्य दज्जाऽप्पस्मिंऽपि याचितो ॥
एतेहि तीहि ठानेहि गच्छे देवान[३] सन्तिके[३] ॥४॥

*उलय खरें तिडकूं नाका दी मागप्याक इल्लें तरी ।*
*वाटांनी ह्याच तिनूय देवासरींच पावशी ॥४॥*

सत्य उलोवचें, तिडकुचें न्हय. जें कितें आसा तातुंतलें मागप्याक दिवचें. ह्याच तीन गजालींनी मनीस देवासरीं पावता.

२२५. अहिंसका ये मुनयो निच्चं कायेन संवुता ।
ते यन्ति अच्चुतं ठानं यत्थ गन्त्वा न सोचरे ॥५॥

*करनात जे मुनी हिंसा सदीं कायेन संयमी ।*
*वती ते ध्रुव स्थानाक शोक नाच मुळींच जंय ॥५॥*

हिंसा करिनाशिल्ले मुनी जे आपले कायेचेर सदींच संयम दवरतात, ते अच्युत (ध्रुव वा ढळनाशिल्ल्या) स्थानाक वतात जंय तांकां दुख्ख भोगचें पडना.

२२६. सदा जागरमानानं अहोरत्तानुसिक्खिनं ।
निब्बानं अधिमुत्तानं अत्थं गच्छन्ति आसवा ॥६॥

*सदीं आपूण जागरूक शिकतात दीसरात जे ।*
*निर्वाणांत यत्नशीळ तांचे दोश वती लया ॥६॥*

सदींच जागरूक आसपी, दीसरात ध्यानाचो अभ्यास करपी, निर्वाण मेळोवंक यत्न करतल्यांचे विकार सोंपतात.

२२७. पोराणमेतं अतुल[४] नेतं अज्जतनामिव
निन्दन्ति तुण्हीमासीनं निन्दन्ति बहुभाणिनं
मितभाणिनंऽपि निन्दन्ति नत्थि लोके अनिन्दितो ॥७॥

*गा अतुला अनादी हें आयचो नेम न्हयच हो ।*
*निंदिती बशिल्ल्या वोगी उलयलो चड निंदिती ।*
*निंदिती मितभाश्याकय कोण निंदेविणें जगीं ॥७॥*

आगा, अतुला, ही तशी पोरणीच गजाल. हो नेम आयचो न्हय. ओगी बशिल्ल्याक लोक निंदितात. चड उलयतल्याकूय लोक निंदितात. मितभाश्याकूय लोक बोल लायतात. ह्या जगांत निंदा जायनाशिल्लो कोणूच ना.

२२८. न चाहु न च भविस्सति न चेतरहि विज्जति
एकन्तं निन्दितो पोसो एकन्तं वा पसंसितो ॥८॥

*जालो ना, ना तुर्ताकय बी जावचो ना हेमुखार बी ।*
*निंदिलो सर्वथा जाका वा जाका तुस्तिला सदीं ॥८॥*

आदीं कोणूच जालोना, मुखारय कोण जावचो ना, वा ह्या काळांतय कोणूच ना, जाका पुराय निंदिला वा सदांच तुस्तिला.

२२९. यं चे विञ्ञू पसंसन्ति अनुविच्च[५] सुवे[६] सुवे[६]
अच्छिद्दवुत्तिं[७] मेधाविं पञ्ञासीलसमाहितं ॥९॥

२३०. नेक्खं[८] जम्बोनदस्सेव[९] को तं निन्दितुमरहति ।
देवाऽपि नं पसंसन्ति ब्रह्मुनाऽपि पसंसितो ॥१०॥

*तोखेतात सुज्ञ जाका नियाळून दिर्शी दिर्शी ।*
*निश्कळंक असो ज्ञानी प्रज्ञा शिलान युक्त जो ॥९॥*

*कोण निंदितलो ताका जंबोनदा निश्काक त्या ।*
*तोखेती देव बी ताका नी तसो ब्रह्मदेव बी ॥१०॥*

दिसपट्टो पारखून विद्वानांनी तोखेल्लो, चलणुकेन निश्कळंक, प्रज्ञा आनी शील हातूंत थीर आशिल्लो, जम्बोनद सुलाखी भांगराच्या नाण्यावरी आशिल्ल्याची निंदा करूंक कोण पात्र आसा ? देव लेगीत ताका तोखेतात. ब्रह्मदेवूय ताका तुस्तिता.

२३१. कायप्पकोपं रक्खेय्य कायेन संवुतो सिया
कायदुच्चरितं हित्वा कायेन सुचरितं चरे ।।११।।

*काये तिडक सांबाळा राखा कायेर संयम ।*
*काये पापांक सोडून काये कर्मां करा बरीं ।।११।।*

कायेच्या कोपाचेर लक्ष दवरात, कायेचेर संयम राखात. कायेन वायट कर्मां टाळून, कायेन बरीं कर्मां आचरात.

२३२. वचीपकोपं रक्खेय्य वाचाय संवुतो सिया ।
वचीदुच्चरितं हित्वा वाचाय सुचरितं चरे ।।१२।।

*वाचे तिडक सांबाळा राखा वाचेर संयम ।*
*वाचे पापांक सोडून वाचे कर्मां करा बरीं ।।१२।।*

वाचेचो कोप आवरात, वाचेचेर संयम राखात. वाचेचीं वायट कर्मां टाळून वाचेन बरीं कर्मां करात.

२३३. मनोपकोपं रक्खेय्य मनसा संवुतो सिया ।
मनोदुच्चरितं हित्वा मनसा सुचरितं चरे ।।१३।।

*मना तिडक सांबाळा राखा मनार संयम*
*मना पापांक सोडून मना कर्मां करा बरीं ।।१३।।*

मनाचो कोप सांबाळात, मनाचेर संयम दवरात. मनान वायट कर्मां टाळून, मनान बरीं कर्मां करात.

२३४. कायेन संवुता धीरा अथो वाचाय संवुता ।
मनसा संवुता धीरा ते वे सुपरिसंवुता ।।१४।।

*कायेन संयमी ज्ञानी वाचेन संयमी तशे ।*
*मनान संयमी ज्ञानी तेच सुसंयमी खरे ।।१४।।*

आपले कायेचेर संयम दवरपी, वाचेचेर संयम दवरपी, मनाचेर ताबो राखपी ज्ञानी खरेच संयमी आसतात.

## टीप

* १. (सं.) **नामरूप**. इंद्रियांक जाणवपी मनशाचें (ऐहिक आनी पार्थिव) अस्तित्व. मन आनी काया आशिल्ली व्यक्ती.
* २. भरकटिल्लो, उधळिल्लो, भ्रांत वा मार्ग भ्रश्ट.

३. देवलोकांतल्या मनशांसरीं.

४. अतुल हो बुद्धाचो उपासक. ताका उलो मारून ही गाथा म्हळ्या.

५. नियाळून, पारखून.

६. दर दिसा.

७. बुराक वा छिद्र नाशिल्लो, निश्कळंक.

८. नाणें.

९. **जम्बोनद** = जम्बो न्हंयेच्या वाटारांत सांपडिल्ल्या भांगरापासून केल्लें सुलाखी भांगराचें नाणें, देखून जम्बोनद.

# मलवग्गो
# मल वर्ग

---

अंतरींची शांती जोडूंक मनशान आपल्यांतले सगले दोश काडून उडोवचेली गरज ह्या वर्गांत सांगल्या. आमी आमचे दोश पयस केलेनात जाल्यार तेच आमकां दुर्गतीक व्हरतले. हें टाळपाक नित्य प्रयत्नांची गरज आसा अशी शिटकावणी आमकां ह्या वर्गांत दिल्या.

★ २३५. पण्डुपलासो • व दानिऽसि
यमपुरिसाऽपि च तं उपट्ठिता ।
उय्योगमुखे[१] च तिट्ठसि
पाथेय्यंऽपि च ते न विज्जति ॥१॥

*जालो रे तूं पिकिल्लें पान*
*पावले यमदूतय म्हऱ्यांत ।*
*वचूंक तूं सरलो भायर*
*भोंवडेक तुजेशीं ना भुती ॥१॥*

तूं आतां पिकिल्ल्या पानावरी जाला. तुजे म्हऱ्यांत यमदूतय येवन उबे रावल्यात. तूं भायर सरून मर्णाच्या हुंबऱ्यार उब्रो रावला. तुजे लागीं मर्णाउपरांतचे भोंवडेक गरजेची भुतीय ना.

★ २३६. सो करोहि दीपमत्तनो[२]
खिप्पं वायम पण्डितो भव ।
निद्धन्तमलो अनङ्गणो
दिब्बं अरियभूमिमेहिसि ॥२॥

*कर तूं दिवो आपलोच*
*पंडित जा वेगीं झटून ।*
*जालो निर्मळ निश्कळंक*
*वतलो दिव्य आर्यभुयेंत ॥२॥*

तूं आपलोच दिवो कर. चपळायेन यत्न करून ज्ञानी जा. तूं निर्मळ आनी निश्कळंक जातकूच दिव्य आर्यभुयेंत वतलो.

२३७. उपनीतवयो[3] च दानि ऽ सि
संपयातोऽसि यमस्स सन्तिके ।
वासोऽपि च ते नत्थि अन्तरा
पाथेय्यंऽपि च ते न विज्जति ॥३॥

*सरली आतां जीण तुजी*
*आयलोय तूं यमासरीं ।*
*आसरो ना तुका वाटेर*
*भोंवडेक तुजेशीं ना भुती ॥३॥*

तुजी जीण आतां सरूक पावल्या. तूंय यमाचे म्हऱ्यांत पावला. वाटेर रावपाकूय तुका खंयच आसरो ना. आनी भोंवडेक तुजेशीं गरजेची भुतीय ना.

२३८. सो करोहि दीपमत्तनो
खिप्पं वायम पण्डितो भव ।
निद्धन्तमलो अनङ्गणो
न पुन जातिजरं उपेहिसि ॥४॥

*कर तूं दिवो आपलोच*
*पंडित जा वेगीं झटून ।*
*निर्मळ निश्कळंक जावन*
*जल्म जरेशीं येवचो ना ॥४॥*

तूं आपलोच दिवो कर. चपळायेन यत्न करून ज्ञानी जा. तूं निर्मळ आनी निश्कलंक म्हळ्यार पातकां विरयत जातकूच, पर्थून तूं जल्म आनी म्हातारपण हांचेशीं येवचोना.

२३९. अनुपुब्बेन मेधावी थोकं थोकं खणे खणे
कम्मारो रजतस्सेव निद्धमे मलमत्तनो ॥५॥

*ल्हवु ल्हवूच शाण्यान इल्लो इल्लो खिणा खिणा ।*
*सोनारसो रुप्या काडी करचो आपणाक निर्मळ ॥५॥*

सोनार जसो रुप्याचो मळ काडटा, तसो ज्ञानी मनशान आपल्या चित्ताचो मळ इल्लो इल्लो, ल्हवुल्हवू करून खिणा खिणाक काडचो.

२४०. अयसा ' व मलं समुट्ठितं
तदुट्ठाय तमेव खादति ।
एवं अतिधोनचारिनं[४]
सानि कम्मानि नयन्ति दुग्गतिं ।।६।।

*लोखणावेल्या कळमेवरी*
*तांतल्यान येवन ताकाच खायी ।*
*प्रज्ञे आचरण हुपतल्याची*
*नीज कर्मां व्हरती दुर्गतीक ।।६।।*

लोखंडातल्यान आयिल्ली कळम तातुतल्यान येवन जशी ताकाच खाता, तशी प्रज्ञा आचरण हुपतल्याचीं नीज कर्मां ताकाच दुर्गतीक व्हरतात.

२४१. असज्झायमला मन्ता अनुट्ठानमला घरा ।
मलं वण्णस्स कोसज्जं पमादो रक्खतो मलं ।।७।।

*ना अभ्यास मंत्रामळ    ना दुरुस्ती घरा मळ ।*
*मळ आळस कायेचो    घाळप रक्षका मळ ।।७।।*

अभ्यास नासप (पाठ करप ना) हें मंत्राचो मळ (दोश). उस्तवारी करप ना हो घराचो मळ. आळस कांतीक मळ दिता. घाळप हो रक्षकाचो दोश आसता.

२४२. मलित्थिया दुच्चरितं मच्छेरं ददतो मलं ।
मला वे पापका धम्मा अस्मिं लोके परम्हि च ।।८।।

*व्यभिचार स्त्रिये दोश    दिवप्या दोश हिमटेपण ।*
*मळच सर्व तीं पापां    दोनूय लोकांत सारकीं ।।८।।*

व्यभिचार हो बायलेचो मळ. हिमटेपण हो दानी मनशाचो दोश. खऱ्यानीच पापधर्म हो ह्या लोकांत तसो परलोकांतूय मळ आसता.

२४३. ततो मला मलतरं अविज्जा[५] परमं मलं ।
एतं मलं पहत्वान निम्मला होथ भिक्खवो ।।९।।

*मळ सगल्या मळांपैकीं    अविद्या मळ होड गा ।*
*मळाक ह्याच सोडून    जायात निर्मळ भिक्षुनो ।।९।।*

तर सगल्या मळांपैकीं अज्ञान (अविद्या) हो सगल्यांत व्हडलो दोश आसता. देखून भिक्षुंनो, तुमी हो दोश सोडून निर्मळ जायात.

२४४. सुजीवं[6] अहिरीकेन[7] काकसूरेन धंसिना[8]
पक्खन्दिना[9] पगब्भेन[10] संकिलिट्ठेन[11] जीवितं ॥१०॥

*सुखाजीण निलाजऱ्याची    काकशुरा धवळ्या तशी ।*
*निंदुप्याची उद्धटाची    अधमाची तशीच ती ॥१०॥*

निर्लज्ज, कावळ्या भाशेन शूर, धवळो, निंदुपी, उद्धट, अधम अशा मनशाची जीण सुखाची आसता.

२४५. हिरीमता च दुज्जीवं निच्चं सुचिगवेसिना ।
अलीनेनऽप्पगब्भेन सुद्धाजीवेन पस्सता ॥११॥

*कश्टा जीण लजेस्ताची    सोदी जो शुचिता सदीं ।*
*आचारान् शुद्ध शालीन    दृश्टो सावध जो सदीं ॥११॥*

पूण लजेस्त आसपी, सदीं पावित्र्य सोदपी, सावध, नमळ, आचारान शुद्ध, दृश्टो आसता ताची जीण कश्टाची आसता.

२४६. यो पाणमतिपातेति मुसावादं च भासति ।
लोके अदिन्नं आदियति परदारं गच्छति ॥१२॥

२४७. सुरामेरयपानं च यो नरो अनुयुञ्जति ।
इधेव-मे-सो लोकस्मिं मूलं खणति अत्तनो ॥१३॥

*घेता जो जीव प्राण्यांचो    उलयी जो फटाफटी ।*
*परद्वारूक वेता जो    नर घेता दिल्याविणें ॥१२॥*

*सूर मद्य पियेवपांत    जाला गुंग मनीस जो ।*
*खरेंच ह्याच लोकांत    खणी तो मूळ आपलें ॥१३॥*

प्राण्यांचो जीव घेवपी, फट उलोवपी, दिल्याविणें घेवपी (चोरपी), परद्वार करपी, सोरो आदि मादक पेयां घेवपी मनीस आपलें मूळ ह्याच जगांत खणटा.

२४८. एवं भो पुरिस जानाहि पापधम्मा असञ्ञता ।
मा तं लोभो अधम्मो च चिरं दुक्खाय रन्धयुं ॥१४॥

*घे जाणून सभाग्या हें    केलो ना पाप संयम ।*
*नाका लोभ अधर्मान    चिरदुख्खांत तूं शिजूं ॥१४॥*

आगा सभाग्या, हें जाणून घे. पापधर्मांचो संयम केलोना जाल्यार वयर सांगिल्लें घडटा. लोभान आनी अधर्मान तूं चिरकाळ दुख्खांत तुका शिजोवन घेवं नाका.

२४९. ददाति वे यथासद्धं यथापसादनं जनो ।
तत्थ यो मंकु भवति परेसं पानभोजने ।।
न सो दिवा वा रत्तिं वा समाधिमधिगच्छति ।।१५।।

*जशी श्रद्धा तशें दान लोकां प्रसन्नताय तशी ।*
*खिन्नट्टा नर हेरांचें जेवणखाण देखुनू ।*
*समाधी लाभना ताका दिसा वा रातिची तशी ।।१५।।*

लोक आपल्या भावार्ताप्रमाण वा समाधानाप्रमाण दितात. दुसऱ्याचें जेवणखाण पळोवन जो खिन्नट्टा, ताका दिसा वा राती समाधान मेळना.

२५०. यस्स चेतं समुच्छिन्नं मूलघच्चं समूहतं ।
स वे दिवा वा रत्तिं वा समाधिमधिगच्छति ।।१६।।

*हो मनाखेद तोडटा जो मुळांसकट सामको ।*
*समाधी लाभता ताका दिसा वा रातिची तशी ।।१६।।*

हो मनाखेद मुळासावन जो खुडटा ताका दिसा आनी रातीचेंय समाधान मेळटा.

२५१. नत्थि रागसमो अग्गि नत्थि दोससमो गहो ।
नत्थि मोहसमं जालं नत्थि तण्हासमा नदी ।।१७।।

*कामासम उजो ना गा ना द्वेशासम मानगें ।*
*मोहासमान ना जाळें तृष्णेसमान ना नदी ।।१७।।*

वासनेवरी उजो ना, द्वेशासारकें मानगें[१२] ना, मोहा भाशेन जाळें ना, आशे भाशेन न्हंय ना.

२५२. सुदस्सं वज्जमञ्ञेसं अत्तनो पन दुद्दसं ।
परेसं हि सो वज्जानि ओपुनाति यथा भुसं ।
अत्तनो पन छादेति कलिं • व कितवा सठो ।।१८।।

*दिसनात दोश आपलेच हेरां दिसतात आपशीं ।*
*फाफुडटा तूस जाल्लेंशें हेरां दोश मनीस ते ।*
*खोटो तो आपुलो पासो ठक जुगारिसो लिपय ।।१८।।*

दुसऱ्यांचे दोश आमकां आपशींच दिसतात. पूण आपले दोश दिश्टी पडप कठीण. दुसऱ्यांचे दोश मनीस पोल फाफुडिल्लेवरी फाफुडटा. जसो धूर्त जुगारी आपलो खोटो पडिल्लो पासो लिपयता, ते भाशेन मनीस आपले दोश लिपयता.

२५३. परवज्जानुपस्सिस्स निच्चं उज्झानसञ्ञिनो ।
आसवा तस्स वड्ढन्ति आरा सो आसवक्खया ॥१९॥

*देखता जो दोश हेरांचे किसायता सदींच ते ।*
*दोशनाश वता पयस ताचे विकार वाडती ॥१९॥*

दुसऱ्यांचे दोश पळोवन सदांच खोडी काडपी मनशाचे विकार वाडटात. विकारांच्या नाशापासून तो पयस वता.

२५४. आकासे पदं नत्थि समणो नत्थि बाहिरे ।
पपञ्चाभिरता पजा निप्पपञ्चा तथागता ॥२०॥

*श्रमण ना बुद्धा भायर ना मळबांत गा वाट।*
*सुखी लोक प्रपंचांत निश्प्रपंच तथागत[१३] ॥२०॥*

मळबांत वाट ना. बुद्ध (संघाचे) भायर खरो श्रमण मेळना. लोक प्रपंचांत रमतात. तथागत (बुद्ध) प्रपंचांतल्यान मेकळो जाता.

२५५. आकासे पद नत्थि समणो नत्थि बाहिरे ।
संखारा सस्सता नत्थि नत्थि बुद्धानमिञ्जितं ॥२१॥

*श्रमण ना बुद्धाभायर ना मळबांत गा वाट ।*
*शाश्वत नात संस्कार बुद्ध नासतात चंचळ ॥२१॥*

मळबांत मार्ग नासता. बुद्ध संघाचे भायर खरो श्रमण नासता. संस्कार (पार्थिव जग) शाश्वत नात. बुद्ध चंचळ नासतात.

## टीप

१. मर्णादारार.
*२. **दीप अत्तनो** = आपलो दिवो.
३. वय जाल्लो, पिराय जाल्लो.
४. ज्ञानी मनशाच्या आचरणाची शीम वा मर्यादा हुपपी. (धोन = प्रज्ञा).
५. अविद्या (पळयात परिभाशा).
६. सुजीवं जीवितं = जिवीत सोपें, जिवीत सुखाचें.
७. लज नाशिल्लो.
८. धवळो.
९. निंदुपी.
१०. उद्धट.
११. अधम, कळंकीत.
१२. मानगें घांस मारतकूच आपली पकड सोडिना.
१३. गौतम बुद्धाचें एक नांव. म्हळ्यार थंय पाविल्लो वा निर्वाणाक पाविल्लो.

# धम्मट्ठवग्गो
# धर्मस्थ वर्ग

न्यायाधीश, पंडित, जाण्टो (म्हातारो), भिक्षु, मुनी ह्या व्यक्तींचें वयलेचार रूप आनी तांचें खरें रूप हातुंतलो फरक ह्या वर्गांत देखींसयत स्पश्ट केला. भायल रुपापरस मनशाचें अंतरंग, चलणूक आनी बरेपण चड म्हत्वाचें ही देख ह्या वर्ग दिल्या.

★ २५६. न तेन होति धम्मट्ठो[1] येनऽत्थं सहसा नये ।
योच अत्थं अनत्थं च उभो निच्छेय्य पण्डितो ॥१॥

★ २५७. असाहसेन धम्मेन समेन नयती परे ।
धम्मस्स गुत्तो[2] मेधावी धम्मट्ठो ' ति पवुच्चति ॥२॥

*दिवपी निकाल बेगीन जायना धर्मस्थ तो खरो ।*
*खरें आनी फटी दोंयचो न्याय पंडित दी बरो ॥१॥*

*विचारान नि धर्मान लोकांक न्याय दी सम ।*
*त्या न्यायी धर्म राखप्याक धर्मस्थ म्हणती खरो ॥२॥*

विचार केल्याविणें बेगीं निकाल दिवपी मनीस (बरो) न्यायाधीश जायना. जो पंडित खरें आनी फट अशा दोंयचोय न्याय करता (१); शांत विचार करून धर्मान सम न्याय दिता, ताका ज्ञानी, धर्म राखपी, धर्मस्थ म्हणटात.

★ २५८. न तेन पण्डितो होति यावता बहु भासति ।
खेमी[3] अवेरी अभयो पण्डितो ' ति पवुच्चति ॥३॥

*उलयी चड देखून जायना मनीस पंडित ।*
*अवैरी निर्भयी शांत म्हण्टी ताकाच पंडित ॥३॥*

चड बडबडपी मनीस पंडित जायना. शांत, वैरभाव नाशिल्ल्या, निर्भय मनशाक पंडित म्हणटात.

★ २५९. न तावता धम्मधरो यावता बहु भासति ।
योच अप्पंऽपि सुत्वान धम्मं कायेन पस्सति ।
स वे धम्मधरो होति यो धम्मं नप्पमज्जति ॥४॥

*उलयी चड देखून जायना धर्मवंत तो ।*
*जो इल्लेंशेंच आयकून धर्म कायेन आचरी ।*
*धर्मशील खरो तोच मोडिना धर्म नेम जो ॥४॥*

चड बडबडपी मनीस धर्मशील जायना. जो इल्लेंशें आयकून (अभ्यास करून) आपले कायेन (करण्यांतल्यान) धर्माचरण करता, तोच खरो धर्मशीळ. तो धर्मनेम मोडिना. (तो सत्यान जियेता.)

★ २६०. न तेन थेरो सो होति येनऽस्स फलितं सिरो ।
परिपक्को वयो तस्स मोघजिण्णो • ति वुच्चति ॥५॥

*केंस तकले पिकले ताचे जायना म्हात्रो म्हणून तो ।*
*म्हण्टी ओगीच म्हातारो वयान तो पिकलो म्हण ॥५॥*

तकली पिकली (केंस धवे जाले) देखून कोण म्हातारो वा जाणटो जायना. तो पिरायेन वाडला जायत. पूण ताका ओगीच 'जाणटो मनीस' अशें म्हणटात.

★ २६१. यम्हि सच्चं च धम्मो च अहिंसा संयमो दमो ।
स वे वन्तमलो[४] धीरो सो थेरो • ति पवुच्चति ॥६॥

*जाचेठांय सत नी धर्म अहिंसा दम संयम ।*
*ओंकिल्लो दोश जो ज्ञानी म्हण्टी ताकाच म्हातरो ॥६॥*

सत, धर्म (सद्‌गुण), अहिंसा, संयम आनी दम आशिल्लो, आपले मनाचे विकार ओंकून भायर उडयल्ल्या गिन्यानी मनशाक स्थवीर (म्हातारो वा जाण्टो) म्हणटात.

★ २६२. न वाक्करणमत्तेन वण्णपोक्खरताय वा ।
साधुरुपो नरो होति इस्सुकी मच्छरी सठो ॥७॥

★ २६३. यस्स चेतं समुच्छिन्नं मूलघच्चं समूहतं ।
स वन्तदोसो मेधावी साधुरुपो ' ति वुच्चति ॥८॥

*उलयी गोड देखून कायेन देखणो जरी ।*
*रुपेस्त जायना गा तो जो सर्ती मत्सरी ठक ॥७॥*

*जाणें विकार हे शिंदले मुळांसयत हुमटिले ।*
*ओंकिल्लो दोश गिन्यानी म्हण्टी तोच रुपेस्त गा ॥८॥*

निखट्या गोड उलोवण्यान वा कांत रुपेस्त आशिल्लो, पूण सर्तीचो, मत्सरी आनी ठक मनीस रुपेस्त जायना (७). पुणून जाचे हे वयर सांगिल्ले दोश ताणें मुळासावन हुमटावन उडयल्यात, जाणें सगळे दोश ओंकून भायर उडयल्यात, त्या ज्ञानी मनशाक रुपेस्त म्हणटात (८).

★ २६४. न मुण्डकेन समणो अब्बतो अलिकं भणं ।
इच्छालोभसमापन्नो समणो किं भविस्सति ॥९॥

★ २६५. यो च समेति पापानि अणुं थूलानि सब्बसो ।
समित्तता हि पापानं समणो ' ति पवुच्चति ॥१०॥

*व्रतहीण फटी मारपी जायना श्रमण मुंडनान् ।*
*भल्ला जो लोभवान्सानी जातलो श्रमण तो कसो ॥९॥*

*ल्हान व्हड सगलीं पापां करता शमन सर्वथा ।*
*केलीं शमन देखून म्हण्टी श्रमण त्या नरा ॥१०॥*

व्रतशील नाशिल्लो, फट उलोवपी मनीस निखट्या मुंडनान श्रमण जायना. इत्सा आनी वसवस हांणी भरिल्लो मनीस श्रमण कसो जातलो ? (९) ल्हान व्हड असलीं सगलीं पापकर्मां जो ना करता, सगलींच पापकर्मां जाणें ना केल्यांत, ताका श्रमण म्हणटात.

★ २६६. ने तेन भिक्खु [सो] होति यावता भिक्खते परे ।
विस्सं धम्मं समादाय भिक्खु होति न तावता ।।११।।

*मागी तो भीक देखून भिक्षु जायनाच तो तसो ।*
*दुराचरण करता जो जायना केन्नाच भिक्षु तो ।।११।।*

भिक्षा मागता (वा भिक्षुचे नेम पाळटा) देखून कोण भिक्षु जायना. वायट धर्माचार पाळपी ते पासत केन्नाच भिक्षु जायना.

★ २६७. यो • ध पुञ्ञं च पापं च बाहेत्वा ब्रह्मचरियवा ।
संखाय लोके चरति स वे भिक्खूति वुच्चति ।।१२।।

*भायरावन पापपुण्यां जो ब्रह्मचर्या करी सदीं ।*
*भोंवता जाणून हो लोक भिक्षु ताका म्हण्टी खरो ।।१२।।*

ह्या जगांत पापपुण्यां भायरायल्लो, नित्य ब्रह्मचर्य पाळपी, हें जग सारकें अणभवून हांगा रावतल्याक खरो भिक्षु म्हणटात.

★ २६८. न मोनेन मुनि होति मूळ्हरूपो अविद्दसु ।
यो च तुलं • व पग्गय्ह वरमादाय पण्डितो ।।१३।।

★ २६९. पापानि परिवज्जेति स मुनी तेन सो मुनी ।
यो मुनाति उभो लोके मुनी तेन पवुच्चति ।।१४।।

*जो नेणार तसो मूर्ख जायना मौनान तो मुनी ।*
*तुळा धरून तोली जो घे बरें तेच पंडित ।।१३।।*

*सोडी सगळींच पापां जो जाता देखून तो मुनी ।*
*तोलता जो लोक दोनूय म्हण्टी ताका मुनी खरो ।।१४।।*

मूर्ख आनी नेणार मनशान मौन पाळ्ळें देखून तो मुनी जायना. जो पंडित आसता तो तागडी धरिल्लेवरी तर्जून बरें तेंच घेता (१३); आनी पापकर्मां सोडटा तो अशा तर्जुपानूच मुनी जाता. तो हो आनी परलोक अशे दोनूय लोक तर्जिता, देखुनूच ताका मुनी म्हणटात (१४).

★ २७०. न तेन अरियो होति येन पाणानि हिंसति ।
अहिंसा सब्बपाणानं अरियो ' ति पवुच्चति ॥१५॥

*प्राण्यांची जो करी हिंसा जायना म्हण आर्य तो ।*
*प्राण्यांची करिना हिंसा ताकाच आर्य म्हणती ॥१५॥*

प्राण्यांचो जीव घेता म्हणून ताका लागून मनीस व्हडविकेचो जायना. प्राणिमात्रांची हिंसा करिनाशिल्ल्या मनशाक देखुनूच आर्य (व्हडविकेचो) म्हणटात.

★ २७१. न सीलब्बतमत्तेन बाहुसच्चेन वा पुन ।
अथवा समाधिलाभेन विवित्तसयनेन वा ॥१६॥

★ २७२. फुसामि नेक्खम्मसुखं अपुथुज्जनसेवितं ।
भिक्खु विस्सासमापादि अप्पत्तो आसवक्खयं ॥१७॥

*शुद्ध शीलव्रतांचारान विद्याभ्यास करून बी ।*
*म्हाका समाधिलाभान एकांतात न्हिदून वा ॥१६॥*

*चारचौगांक मेळना जें मेळटलें मुक्ति सुख तें ।*
*दोशनाशाविणें भिक्षू नाका विश्वास बाळगूं ॥१७॥*

जोवेर विकारांचो क्षय जावंक ना, तोवेर निखट्या शिलाचे नेम पाळून वा व्रतां करून वा बहुश्रुतपणान (खूब अभ्यास करून) वा समाधी लाभान वा एकांतांत न्हिदून; सामान्य लोकांक मेळूंक कठीण अशें नैष्कर्म्य (मुक्तीसुख वा निर्वाण) म्हाका मेळटलें, असो विश्वास, आगा भिक्षु, तूं बाळगूं नाका. (१६-१७)

टीप

१. न्यायाधीश, नितीन न्याय दिवपी, धर्मस्थ.
२. रक्षक, राखपी.
३. क्षेमी, क्षेम आनी शांती जोडिल्लो.
४. वांति म्हळ्यार ओंक, पोटांतलो मळ. तशी जाणें मनांतली घाण काडून उडयल्या तो 'वन्त मल' – दोश वा मळ ओंकिल्लो.
५. वायट.

# मग्गवग्गो
# मार्ग वर्ग

---

गौतम बुद्धान सांगिल्लो अष्टांग म्हळ्यार आठ आंगांचो मार्ग, चार आर्यसतां, वैराग्यशील वृत्ती हांचें म्हत्व ह्या वर्गांत सांगलां. बुद्धान आमकां बरी वाट दाखयल्यार लेगीत अंतीं आपणेंच आपणाक वयर काडूंक जाय. हांगाच्यो सगल्यो गजाली खिणयाळ्यो, जें दिसता तें नित्य बदलपी आनी अशाश्वत आसता हाची जाणवीक जाल्यारूच मनीस सुखी जातलो हाची शिकवण आमकां ह्या वर्गांत दिल्या.

★ २७३. मग्गानऽट्ठङ्गिको[१] सेट्ठो सच्चानं[२] चतुरो[२] पदा[२] ।
विरागो सेट्ठो धम्मानं[३] द्विपदानं च चक्खुमा[४] ॥१॥

*मार्गांत श्रेष्ठ अष्टांग पदां सतांत चार तीं ।*
*विराग श्रेष्ठ धर्मांत दृष्टीवंत मनशांमदीं ॥१॥*

सगल्या मार्गांत अष्टांग मार्ग श्रेश्ठ; सतांत चार आर्य वचनां (आर्य सतां) श्रेठ. सद्गुणांमदीं (धर्मांत) वैराग्य श्रेश्ठ; द्विपदांत (मनशांमदीं) चक्षुष्मान् म्हळ्यार दृश्टीवंत श्रेश्ठ आसता.

२७४. एसो • व मग्गो नत्थञ्ञो दस्सनस्स विसुद्धिया
एतम्हि तुम्हे पटिपज्जथ मारस्सेतं पमोहनं ॥२॥

*आत्मज्ञाना विशुद्धिचो मार्ग होच, दुजोच ना ।*
*तुमी धरात हो मार्ग माराक जो भुलोवपी ॥२॥*

होच एक मार्ग आसा; आत्मज्ञानाचे विशुद्धीचो दुसरो मार्ग ना. तुमी ह्याच मार्गान चलात, होच मार्ग माराक घुस्पायतलो.

★ २७५. एतम्हि तुम्हे पटिपन्ना दुक्खस्सऽन्तं करिस्सथ
अक्खातो वे मया मग्गो अञ्ञाय सल्लकन्तनं ॥३॥

*करतले अंत दुख्खाचो धरल्यार मार्ग हो तुमी ।*
*सांगलो हो मार्ग हांवेंच जाणून सळ काडप ॥३॥*

ह्याच मार्गान तुमी गेल्यार दुख्खाचो अंत तुमी करतले. जेन्ना दुख्खाचो सल (कांटो) काडिल्ल्याची जाणवीक म्हाका जातली, तेन्ना हांवें हो मार्ग हेरांक शिकयलो.

२७६. तुम्हेहि किच्चं आतप्पं अक्खातारो तथागता ।
पटिपन्ना पमोक्खन्ति झायिनो मारबन्धना ॥४॥

*झटचें तुमीच उत्साहान दाखय मार्ग तथागत ।*
*ह्या मार्गान वती ध्यानी मारा पासांतुनी सुट्टी ॥४॥*

तप तुमीच करूंक जाय. तथागत (बुद्ध) फकत शिकयतात (मार्ग दाखयतात). ह्या मार्गान चलपी आनी चिंतन करपी माराच्या पासांतल्यान सुट्टात.

२७७. सब्बे संखारा[५] अनिच्चा[६] ॰ ति यदा पञ्ञाय पस्सति ।
अथ निब्बिन्दति[७] दुक्खे एक मग्गो विसुद्धिया ॥५॥

*अनित्य सर्व संस्कार जेन्ना प्रज्ञेन हें पळे ।*
*विट्टा दुख्खांक तेन्ना तो मार्ग होच विशुद्धिचो ॥५॥*

सगले संस्कार खिणयाळे आसतात, हें प्रज्ञेन जेन्ना मनीस पळयता तेन्ना तो दुख्खाक विट्टा, होच विशुद्धीचो मार्ग.

२७८. सब्बे संखारा दुक्खा ॰ ति यदा पञ्ञाय पस्सति ।
अथ निब्बिन्दन्ति दुक्खे एस मग्गो विसुद्धिया ॥६॥

*दुख्खा कारण संस्कार जेन्ना प्रज्ञेन हें पळे ।*
*विट्टा दुख्खांक तेन्ना तो मार्ग होच विशुद्धिचो ॥६॥*

सगले संस्कार दुख्खदिणे आसतात, हें प्रज्ञेन जेन्ना मनीस पळयता तेन्ना तो दुख्खाक विट्टा. होच विशुद्धीचो मार्ग.

२७९. सब्बे धम्मा[८] अनत्ता[९] • ति यदा पञ्ञाय पस्सति ।
अथ निब्बिन्दति दुक्खे एस मग्गो विसुद्धिया ॥७॥

*आत्म्याविणें सगल्यो वस्तु जेन्ना प्रज्ञेन हें पळे ।*
*विट्टा दुख्खांक तेन्ना तो मार्ग होच विशुद्धिचो ॥७॥*

जगांतल्यो सगल्यो वस्तू आत्मो नाशिल्ल्यो आसतात, हें जेन्ना मनीस प्रज्ञेन पळयता, तेन्ना तो दुख्खाक विट्टा. होच विशुद्धीचो मार्ग.

२८०. उट्ठानकालम्हि अनुट्ठहानो
युवा बली आलसियं उपेतो ।
संसन्न-सङ्कप्पमनो कुसीतो
पञ्ञाय मग्गं अलसो न विन्दति ॥८॥

*उठना जुवान जो फांत्यार*
*आसुनूय बळीश्ट आळसायेन*
*विचारान निश्क्रीय जो सुस्त*
*मेळनाच ताका प्रज्ञे वाट ॥८॥*

उठचो वेळ (फांत्यार) आसुनूय जो जुवान उठना, बळिश्ट आसुनूय जो आळशी आसता; विचारान निश्क्रीय, जो सुस्त आसता, त्या आळश्याक प्रज्ञेची वाट मेळना.

★ २८१. वाचानुरक्खी मनसा सुसंवुतो
कायेन च अकुसलं[१०] न कयिरा ।
एते तयो कम्मपथे विसोधये
आराधये मग्गमिसिप्पवेदितं ॥९॥

*वाचेक राखून मनाकूय तसो*
*कायेन वायट करचें न्ही कांयच।*
*राख ह्या तिनूय कर्मपथांक शुद्ध*
*धरा रुशींनी सांगिल्ली वाट ॥९॥*

वाचेर ताबो दवरून, मनाचेर संयम राखचो; कायेन वायट वा अकुशळ कर्म करचें न्हय; ह्यो तिनूय कर्माच्यो वाटो शुद्ध दवरच्यो; रुशींनी उपदेशिल्ले वाटेन वचचें.

२८२. योगा वे जायती भूरि अयोगा भूरिसङ्ख्यो ।
एतं द्वेधापथं ञत्वा भवाय विभवाय च ।
तथत्तानं निवेसेय्य यथा भूरि पवड्ढति ।।१०।।

*योगान जल्मता प्रज्ञा अयोगान वता लया ।*
*उदरगत विनाशाचे दोनूय जाणून मार्ग ते ।*
*जे वरवीं वाडटली प्रज्ञा तशें आपूण वर्तुचें ।।१०।।*

योगांतल्यान (ध्यानांतल्यान) प्रज्ञा जल्मता. ध्यानाविणें तिचो नाश जाता. उदरगत आनी अधोगतीचो हो दोट्टी मार्ग जाणून, आपूण अशें वावुरचें जाका लागून प्रज्ञा वाडटली.

★ २८३. वनं[११] छिन्दथ मा रुक्खं वनतो जायते भयं।
छेत्वा वनं च वनथं[१२] च निब्बना[१३] होथ भिक्खवो ।।११।।

*वनाक मारा रुखा नाका वन तें निर्मिता भय ।*
*वनाक वनथा मारा जाया निर्वन भिक्षुनो ।।११।।*

वनाक (तृष्णेक) तोडात, रूख तोडूं नाकात. वनाक लागून भय उप्रासता. वन आनी वनथ तोडून, भिक्षुंनो, निर्वन आशेमेकळे जायात.

२८४. याव हि वनथो न छिज्जति
अणुमत्तो पि नरस्स नारिसु ।
पटिबद्धमनो ॰ व ताव सो
वच्छो[१४] खीरपको[१५] व मातरि ।।१२।।

*अणूयेदीय बायलां ओड*
*हुमटिना मनीस जोंवरी ।*
*मन पासांत ताचें तोंवरी*
*आवयक लुचपी पाडकावरी ।।१२।।*

जोवेर बायलांविशींची अणूयेदी लेगीत ओड मनीस तोडिना, तोवेर ताचें मन संवसाराक बांदिल्लें आसता; जे. भाशेन दूद लुचपी वासराचें मन आपले आवयठांय घुस्पल्लें आसता.

२८५. उच्छिन्द सिनेहमत्तनो कुमुदं सारदिकं • व पाणिना ।
सन्तिमग्गमेव ब्रूहय निब्बानं सुगतेन देसितं ॥१३॥

*नीज मोग खूड मुळन्शी*
*खुडिल्ल्या शरदांतल्या कमळांवरी ।*
*वाडयात गा वाट शांतिची*
*बुद्धान बोधिल्ल्या निर्वाणाची ॥१३॥*

शरद ऋतुंतलीं साळकां जशीं हातांनी खुड्टात तसो आपलेच विशींचो मोग मुळासावन खूड. शांतीच्या मार्गाची – बुद्धान (सुगतान) बोधिल्ले वाटेची – म्हळ्यार निर्वाणाची – वाड कर.

२८६. इध वस्सं वसिस्सामि इध हेमन्त-गिम्हिसु ।
इति बालो विचिन्तेति अन्तरायं[१६] न बुज्झति ॥१४॥

*हांगां पावसांत रावतलो गीमशियांतय बी तसो ।*
*मूर्ख तोच असो चिंती मदली आडखळ जाणिना ॥१४॥*

'हांव हांगा पावसाळ्यांत रावतलों, शियांळ्यांत रावतलों आनी गिमाळ्यांतूय रावतलों' असो मूर्ख चिंतता. जिणेंत उप्रासपी मदल्या विघ्नांचो तो विचार करिना.

२८७. तं पुत्तपसुसम्मत्तं व्यासत्तमनसं नरं ।
सुत्तं गामं महोघो • व मच्चु आदाय गच्छति ॥१५॥

*गोरवां पुतांनि मातिल्लो जाल्लो तातूंत गुल्ल जो ।*
*न्हिदिल्लो गांव हुंवारसो ताका काळ तसो व्हर ॥१५॥*

पूत आनी गोरवांचे संपत्तीन मातिल्ल्या मनशाचें मन तांचेभितर गुल्ल जाल्लें आसतनाच काळ ताका अचळय घेवन वता, जसो न्हिदिल्ल्या गांवाक हुंवार ओडून व्हरता.

२८८. न सन्ति पुत्ता ताणाय न पिता न पि बन्धवा ।
अन्तकेनाधिपन्नस्स नत्थि ञातीसु ताणता ॥१६॥

*वाटयना पूत ताचोच बापूय बांधव बी तशे ।*
*जेन्ना ताका धरता काळ राखचे ना भावबंध ते ॥१६॥*

पूत वा बापूय वा भावबंद – कोणूच वाटावचो ना. काळान घट्ट धरतकूच भावबंदा मदलो लेगीत कोणूच वाटावचोना.

२८९. एतमत्थवसं ञत्वा पण्डितो सीलसंवुतो ।
निब्बानगमनं मग्गं खिप्पमेव विसोधये ॥१७॥

*हाचो हो अर्थ जाणून पंडितान् शील संयमी ।*
*निर्वाणाक वच्ची वाट करची बेगीन मेकळी ॥१७॥*

हाचो हो अर्थ जाणून शीळवंत संयमी पंडितान निर्वाणाक वचची वाट बेगीन मेकळी करची.

## टीप

* १. अष्टांग मार्ग वा आठ आंगांचो मार्ग. (पळयात गा. १९०.११ वयली टीप.)
* २. चार आर्य सतां (पळयात गाथा १९०.१२ वयली टीप.)
३. सद्गुणांत.
४. (सं. **चक्षुष्मान** = ज्ञान नेत्र आशिल्लो, दृश्टीवंत, सत्य पळोवपी; गौतम बुद्धाचें एक नांव.
५. (सं. **संस्कार**) जे आमच्या पार्थीव अस्तित्वांतल्यान उप्रासतात.
६. अनित्य.
७. विट्टा.
८. (सं. **धर्म**) वस्तू, पदार्थ.
९. **अनत्त** = अनात्म, आत्मो नाशिल्लो, हांव ना असो.
* १०. (सं. **अकुशल**) अकुशल वा वायट करणी.
११. रान. दुसरो अर्थ तृष्णा वा कामतृष्णा असोय जाता.
१२. ल्हान झुडपां. दुसरो अर्थ तृष्णा.
१३. तृष्णे पासून मुक्त.
१४. वासरू.
१५. दूद लुचपी.
१६. आडमेळें, विघ्न. (आमची जीण थारनासतना मर्णाचे दिकेन वता. फुडाराकडेन आमी व्हड आशेन पळयल्यारूय एक दीस आमी मातयेभरवण जातले. जिणेची वाट मर्णानूच सोंपता हाचें नित्य भान राखची शिटकावणी बुद्ध आमकां दिता.)

# पकिण्णवग्गो
# प्रकीर्ण वर्ग

---

ह्या वर्गांत जीण सुखान सारपाचे गरजेचें म्हत्व सांगलां. व्हड सुख मेळचे खातीर मनशान ल्हान सुखाचो त्याग करूंक जाय. नित्य चिंतनशील आनी जागरूक मनीस आपले जिणेंतलें दुख्ख टाळटा. इत्सा, लोभ, कामना नाशो केल्लो मनीसूच जिणेंत सुखी जातलो ही देख ह्या वर्गांत दिल्या.

२९०. मत्तासुखपरिच्चागा पस्से चे विपुलं सुखं ।
चजे मत्तासुखं धीरो संपस्सं विपुलं सुखं ।।१।।

*थोडेंच सुख त्यागून पळे जो खुबशें सुख ।*
*सोडचें शाण्यान थोडें तें पळोवन सुख होड तें ।।१।।*

थोडेंशें सुख त्यागून जर जायतें सुख मेळटा तर मनशान त्या थोड्या सुखाचो त्याग करून व्हडलें सुख मेळोवचें.

२९१. परदुक्खूपधानेन अत्तनो सुखमिच्छति ।
वेरसंसग्गसंसट्ठो वेरा सो न परिमुच्चति ।।२।।

*दिवन जो दुख्ख हेरांक आपलेंच सुख इत्सिता ।*
*वैरांतूच घुस्पल्यान सुटना वैरांतुल्यान तो ।।२।।*

दुसऱ्यांक दुख्ख दिवन आपूण सुखी जावंक सोदपी वैरांतूच घुस्पता आनी वैरांतल्यान तो सुटना.

२९२. यं हि किच्चं अपविद्धं अकिच्चं पन कयिरति ।
उन्नलानं पमत्तानं तेसं वड्ढन्ति आसवा ।।३।।

*लागणूक जे करिनात लागना तें करतात ते ।*
*संयमावीण घाळांचे दोश वतात वाडत ।।३।।*

आपली लागणूक सोडपी आनी जें लागना तें करपी अशा संयम नाशिल्ल्या घाळ मनशांचे विकार वाडत वतात.

★ २९३. येसं च सुसमारद्धा निच्चं कायगता[१] सति[२] ।
अकिच्चं ते न सेवन्ति किच्चे सातच्चकारिनो
सतानं सम्पजानानं अत्थं गच्छन्ति आसवा ।।४।।

*तांची सदांच जागरूक कायेची जाणवीक ती ।*
*करचें न्ही तें करीनात लागणूक जे करी सदीं ।*
*विवेकी जाग्रुतांचे त्या वती लयाक दोश गा ।।४।।*

आपले कायेविशीं नित्य जागरूक आसपी, करचें न्हय तें करिनाशिल्ले, सदींच आपणाली लागणूक करपी अशी विवेकी आनी ज्ञानी अशा मनशांचे विकार ना जातात.

★ २९४. मातरं[३] पितरं[४] हन्त्वा राजानो[५] द्वे[५] च खत्तिये[५] ।
रट्ठं[६] सानुचरं[७] हन्त्वा अनीघो याति ब्रह्मणो ।।५।।

★ २९५. मातरं पितरं हन्त्वा राजानो द्वे च सोत्थिये ।
वेय्यग्घ[८]-पञ्चमं हन्त्वा अनीघो याति ब्राह्मणो ।।६।।

*आवय बापायक मारून राजा क्षत्रीय दोन बी ।*
*राष्ट्राक बी प्रजेसयत जाता निश्पाप ब्राह्मण ।।५।।*

*आवयक बापायक मारून राजा पवित्र दोन बी ।*
*पांचवो वाग मारून जाता निश्पाप ब्राह्मण ।।६।।*

आवय, बापूय दोन खेत्री राजा आनी प्रजा हांचे सयत राष्ट्राक मारून ब्राह्मण निश्पाप जियेता (५). आवय, बापूय, दोन ब्राह्मण राजा आनी पांचव्या वागाक मारून ब्राह्मण निश्पाप जियेता (६).

२९६. सुप्पबुद्धं पबुज्झन्ति सदा गोतमसावका ।
येसं दिवा च रत्तो च निच्चं बुद्धगता सति ।।७।।

*बुद्ध बोधान जागरूक सदा गौतम श्रावक ।*
*तांची दिसा तशी रातीं बुद्धाची सदीं स्मृती ।।७।।*

गौतमाचे शिश्य बुद्ध बोधान सदींच जागरूक आसतात आनी सदीं ते बुद्धाचो दीसरात विचार करीत आसतात.

२९७. सुप्पबुद्धं पबुज्झन्ति सदा गोतमसावका ।
येसं दिवा च रत्तो च निचं धम्मगता सति ॥८॥

*बुद्ध बोधान जागरूक सदीं गौतम श्रावक ।*
*तांची दिसा तशी राती धर्माविर्शी सदीं स्मृती ॥८॥*

गौतमाचे शिश्य बुद्ध बोधान सदींच जागरूक आसतात. आनी सदींच ते दीसरात धर्माचो विचार करीत आसतात.

२९८. सुप्पबुद्धं पबुज्झन्ति सदा गोतमसावका ।
येसं दिवा च रत्तो च निच्चं संघगता सति ॥९॥

*बुद्ध बोधान जागरूत सदीं गौतम श्रावक ।*
*तांची दिसा तशी राती संघाविर्शी सदीं स्मृती ॥९॥*

गौतमाचे शिश्य बुद्ध बोधान सदींच जागरूक आसतात. आनी सदींच ते दीसरात संघाचो विचार करीत आसतात.

२९९. सुप्पबुद्धं पबुज्झन्ति सदा गोतमसावका ।
येसं दिवा च रत्तो च निच्चं कायगता सति ॥१०॥

*बुद्ध बोधान जागरूक सदीं गौतम श्रावक ।*
*तांची दिसा तशी राती कायेविर्शी सदीं स्मृती ॥१०॥*

गौतमाचे शिश्य बुद्ध बौधान सदींच जागरूक आसतात आनी सदींच कायेविर्शी दिसरात जागरूक आसतात.

३००. सुप्पबुद्धं पबुज्झन्ति सदा गोतमसावका ।
येसं दिवा च रत्तो च अहिंसाय रतो मनो ॥११॥

*बुद्ध बोधान जागरूक सदीं गौतम श्रावक ।*
*ताचें दिसा तशें राती अहिंसेंत रमता मन ॥११॥*

गौतमाचे शिश्य बुद्ध बोधान सदींच जागरूक आसतात. आनी सदींच तांचें मन दीसरात अहिंसेंत रमिल्लें आसता.

३०१. सुप्पबुद्धं पबुज्झन्ति सदा गोतमसावका ।
येसं दिवा च रत्तो च भावनाय रतो मनो ॥१२॥

*बुद्ध बोधान जागरूक सदीं गौतम श्रावक ।*
*ताचें दिसा तशें रातीं समाधींत रमता मन ॥१२॥*

गौतमाचे शिश्य बुद्ध बोधान सदींच जागरूक आसतात. आनी दीसरात तांचें मन समाधींत गुल्ल आसता.

★ ३०२. दुप्पब्बज्जं[१] दुरभिरमं दुरावासा घरा दुखा ।
दुक्खोऽसमान-संवासो दुक्खानुपतितऽद्धगू ।
तस्मा न चऽद्धगू न च दुक्खानुपतितो सिया ॥१३॥

*दुश्प्रवज्या दुखाची गा वायट घरां दिती दुख्ख ।*
*असंगा संग दुख्खाचो पांथा फाटीक दुख्ख गा ।*
*जावं नाका म्हण गा पांथ नाका फाटसून दुख्ख तें ॥१३॥*

वायट रितीन प्रव्रज्या (संन्यास) पाळिल्ल्याचें मन तें प्रव्रज्येंत रमना. देखून ती दुख्खाची आसता. रावपाक फावोशें नाशिल्लें घर दुख्ख दिता. असमान लोकांवांगडा रावप दुख्खदिणें आसता. देखून संवसाररुपी मार्गाचो यात्रिक जावंचो न्हय आनी दुख्ख फाटल्यान लावन घेवंचें न्हय.

३०३. सद्धो सीलेन संपन्नो यसो-भोग-समप्पितो ।
यं यं पदेसं भजति तत्थ तत्थेव पूजितो ॥१४॥

*भावार्ती शील संपन्न जोडिल्लो कीर्त वैभव ।*
*ज्या ज्या देशांत वेता तो थंय थंय भौमान त्या नरा ॥१४॥*

भावार्ती, शील संपन्न, यश आनी वैभव जोडिल्लो मनीस जंय जंय वता, थंय थंय ताचो भौमान जाता.

३०४. दूरे सन्तो पकासन्ति हिमवन्तो ° व पब्बतो ।
असन्तेत्थ न दिस्सन्ति रत्तिखित्ता यथा सरा ।।१५।।

*पैसल्यान पर्जळटी संत हिमवंत पर्वतशे ।*
*मारिल्ले बाणशे राती असंत दिसनात ते ।।१५।।*

सत्पुरूश पयसुल्ल्यान हिमालय पर्वता भाशेन पर्जळटात. पूण नश्टे मनीस रातच्या वेळार सोडिल्ल्या बाणा भाशेन दिसनात.

३०५. एकासनं एकसेय्यं एको चरमतन्दितो ।
एको दमयमत्तानं वनऽन्ते रमितो सिया ।।१६।।

*एकलो बसपी न्हिदपी एकलो सावध चलपी तसो ।*
*आपणाक आवरी एकलो एकलो वनांत रमतलो ।।१६।।*

एकटो बसचो, एकटो न्हिदचो, आळसाविणें एकटो वावुरचो, एकट्यानूच आपलें दमन करीत (आपणाक सुवादीन राखीत) आपली तृष्णा (इत्सा आनी कामना) नाशी जायसर वनांत रमचें.

टीप

* १,२ कायेविशीं जाणवीक वा जागरुकताय.
* ३. आवय (तृष्णा).
* ४. बापूय (अभिमान).
* ५. दोन क्षत्रीय (खेत्री) राजा (शाश्वत दृश्टी आनी उच्छेद दृश्टी).
* ६. राष्ट्र (बारा दारां – स इंद्रियां [मन आनी पांच इंद्रियां] आनी तांचे स विषय मेळून कुल्लीं बारा).
* ७. प्रजा, तिचे आसक्तीसयत.
* ८. पांचवो वाग (पांच निवरणां वा पड्डे).
* ९. दुश्प्रव्रज्येंत, वायट तरेन पाळिल्लो संन्यास.

# निरयवग्गो
# नरक वर्ग

पातकी मनीस आपल्या वायट कर्मांनी दुर्गतीक वता. श्रामण्य, गृहस्थाश्रम, ब्रह्मचर्य हीं मनशान बरे तरेन पाळ्ळ्यारूच तीं बरें फळ दितात. व्यभिचारी जिणेंतल्यान मनशाक सुख मेळचे बदला ती तांची जिणेंूच इबाडटा. अंतर्मनाचो थाव घेवन बरी नीत आपणावचेले गरजेचेर ह्या वर्गांत भर दिला. जिणेकडेन पळोवचेली नदर समा आसल्यार मनीस सुखी आनी समाधानी जाता. जिणेंत दुख्खांय आयल्यार तो तांचेकडेन वगळे नदरेन पळयता.

३०६. अभूतवादी निरयं उपेति
यो चापि कत्वा न करोमि चाह ।
उभोऽपि ते पेच्च समा भवन्ति
निहीनकम्मा मनुजा परत्थ ॥१॥

*उलयता फटी वता तो नरकांत*
*करुनूय 'करूंक ना' म्हण्टलोयु ।*
*दोगूय मरून जातले समान*
*नीचकर्मी मनीस परलोकांत ॥१॥*

जें घडूंक ना तें घडलां म्हणून सांगपी नरकांत वता. तसोच, करून केलें ना म्हणपीय नरकांत वता. हे दोगूय नीच कर्मां करपी मनीस मर्णाउपरान्त परलोकांत समान दशेक पावतात.

३०७. कासावकण्ठा बहवो पापधम्मा असंयता ।
पापा पापेहि कम्मेहि निरयं ते उपपज्जरे ॥२॥

*जायते गळयां भगवें घाल्ले पापधर्मी असंयमी ।*
*पातकी पाप कर्मांनी घेती नरकांत जल्म ते ॥२॥*

गळ्यांत भगवें वस्त्र बांदिल्ले जायते लोक पातकी सबावाचे, संयम नाशिल्ले आसतात. ते आपल्या पापकर्मांनी नरकांत वतात.

३०८. सेय्यो अयोगुळो[१] भुत्तो तत्तो अग्गिसिखूपमो ।
यञ्चे भुञ्जेय्य दुस्सीलो रट्ठपिण्डं[२] असंयतो ।।३।।

*असंयमी दुराचारी अन्न फुकटांत खायि जो ।*
*लोखणागुळी उज्याजिब्शी जायती बरी गिळ्ळ्यार ती ।।३।।*

संयम नाशिल्ल्या वायट चलणुकेच्या मनशान राष्ट्राचें म्हळ्यार फुकटें अन्न खावचेपरस उज्याजिबलेवरी तापिल्ली लोखंडा गुळी गिळ्ळ्यार चड बरी.




३०९. चत्तारि ठानानि नरो पमत्तो
आपज्जति परदारूपसेवी – ।
अपुञ्ञलाभं न निकामसेय्यं
निन्दं ततियं निरयं चतुत्थं ।।४।।

*चार गती मेळटात त्या नराक*
*परद्वारपी अशा अविचाऱ्याक ।*
*पातका लाभ, खळटा ताची न्हीद*
*निंदा तिसरी चवथी नरक ।।४।।*

परद्वारपी अविचारी मनशाक चार गती फावो जातात — पातकाचो लाभ, न्हीद खळप, निंदा आनी नरक.

३१०. अपुञ्ञलाभो च गती च पापिका
भीतस्स भीताय रती च थोकिका ।
राजा च दण्डं गरूकं पणेति
तस्मा नरो परदारं न सेवे ।।५।।

*अपुण्या लाव पातका गती तशी*
*भयाभितांची रतिखोस खिणांची ।*
*राजाय बी करी ख्यास्त गा व्हडली*
*म्हण मनशान भोगची न्हय परनारी ।।५।।*

परद्वारप्याक वायट दशेचो आनी पापाचो लाभ जाता. भियेल्ल्या दादल्याक भियेल्ले बायलेकडेन मेळिल्ल्या रतिसुखाची खोस खिणाची आसता. राजाय ताका खर ख्यास्त दिता. देखून मनशान परद्वार करचें न्हय.

३११. कुसो यथा दुग्गहितो हत्थमेवानुकन्तति
सामञ्ञं दुप्परामट्ठं निरयायुपकड्ढति ।।६।।

*धरिल्लो वांकुडो दर्भ चिरी तो हात गा जसो ।*
*विवेकहीण श्रामण्य नरकीं ओडून तें व्हर ।।६।।*

पालसो धरिल्लो दर्भ जसो हात कातरता, तशें विवेकहीण श्रामण्य (श्रमणाक) नरकांत व्हरता.

३१२. यं किञ्चि सिथिलं कम्मं संकिलिट्ठं च यं वतं ।
सङ्कस्सरं – ब्रह्मचरियं न तं होति महप्फलं ।।७।।

*आळसान कर्म जें केल्लें भश्टल्लें व्रत बी तशें ।*
*ब्रह्मचर्य दुबावीत व्हडलीं फळां दिनात तीं ।।७।।*

आळसान केल्लें कर्म, भश्टल्लें व्रत, नेमान पाळूंक नाशिल्लें ब्रह्मचर्य हीं व्हडलीं फळां दिनात.

३१३. कयिरा चे कयिराथेनं दळ्हमेनं परक्कमे ।
सिथिलो हि परिब्बाजो भिय्यो आकिरते रजं ।।८।।

*करचें आसा कितेंय गा तें कर पराक्रमान् खर ।*
*परिव्राजक जो धील उबय गा धुल्ल खूब तो ।।८।।*

कसलीय गजाल करची आसल्यार ती खर पराक्रमान करची. धील परिव्राजक (संन्याशी) आपले भोंवतणी वायट कर्मांचो खूब धुल्ल हुबयता.

३१४. अकतं दुक्कतं सेय्यो पच्छा तपति दुक्कतं ।
कतं च सुकतं सेय्यो यं कत्वा नानुतप्पति ।।९।।

*बरेंच वायट ना केल्लें दिता मागीर ताप जें ।*
*बरें बरेंच केल्यार मागीर ताप भोगना ।।९।।*

वायट कर्म करिना जाल्यार बरें. वायट कर्म केल्यार मागीर ताप जाता. बरें कर्म केल्यार बरें, कित्याक, ताचो मागीर ताप जायना.

३१५. नगरं यथा पच्चन्तं गुत्तं सन्तरबाहिरं ।
एवं गोपेथ अत्तानं खणो[3] वे मा उपच्चगा ।
खणातीता हि सोचन्ति निरयम्हि समप्पिता ॥१०॥

*शिमेवेलें जशें शार भितर भायर राखिलां ।*
*राख तसोच आपणाक एकूय खीण चुकोवं नये ।*
*व्हगडायती खीण जे लोक भोगी नरकांत शोक ते ॥१०॥*

भायल्यान भितरल्यान सुरक्षित राखिल्ले सरादीवेल्या शारा भाशेन आपणाक राखचो. एकय खीण व्हगडावंचो न्हय. कित्याक, खीण व्हगडावपी नरकांत पडून दुख्ख भोगतात.

★ ३१६. अलज्जिताये लज्जन्ति लज्जिताये न लज्जरे ।
मिच्छादिट्ठिसमादाना सत्ता गच्छन्ति दुग्गतिं ॥११॥

*लजचें न्ही थंय लजेतात लजचें थंय लजनात जे ।*
*लटके दृश्टीन वेती जे वतात दुर्गतीक ते ॥११॥*

लजचें न्हय थंय लजपी, लजपाचें थंय लजनाशिल्ले, मिथ्या दृश्टी धरून दुर्गतीक पावतात.

★ ३१७. अभये भयदस्सिनो भये चाभयदस्सिनो ।
मिच्छादिट्ठिसमादाना सत्ता गच्छन्ति दुग्गतिं ॥१२॥

*अभयांत भय देखी भयीं अभय देखती ।*
*चलती दृश्टीन मिथ्या जे वतात दुर्गतीक ते ॥१२॥*

भंय दिसूंक जायनाशिल्ल्याचो भंय दिसपी, भंय दिसूंक जाय ताचो भंय दिसनाशिल्ले लटकी दृश्टी धरून दुर्गतीक पावतात.

★ ३१८. अवज्जे वज्जमतिनो वज्जे चावज्जदस्सिनो ।
मिच्छादिट्ठिसमादाना सत्ता गच्छन्ति दुग्गतिं ॥१३॥

*अवर्ज्य मानती वर्ज्य अवर्ज्यी वर्ज्य मानती ।*
*दृश्टी धरून ती लटकी वतात दुर्गतीक ते ॥१३॥*

वायट न्हय (म्हळ्यार बरें) तें वायट मानपी, वायट तें वायट मानिनाशिल्ले लटकी दृश्टी धरून वायट गतीक पावतात.

★ ३१९. वज्जं च वज्जतो ञत्वा अवज्जं च अवज्जतो ।
सम्मादिट्ठिसमादाना सत्ता गच्छन्ति सुग्गतिं ।।१४।।

*अवर्ज्य ते अवर्ज्यांत वर्ज्य वर्ज्यांत जाणि जे ।*
*जे वती समदृश्टीन ते सद्‌गतीक पावती ।।१४।।*

वायट न्हय म्हळ्यार बरें तें बरें मानपी आनी वायट तें वायट मानपी, समा दृश्टी धरून बरे गतीक पावतात.

टीप

१. लोखंडा गुळी (बुद्धाचे मुस्तींत तापयल्ली लोखंडाची गुळी गुन्यांवकाराक ख्यास्त म्हणून खावंची पडटाली).
२. धर्मादाय संस्थेन फुकट वाडिल्लें अन्न.
* ३. (सं. क्षण) खीण, क्षण.

# नागवग्गो
# नाग वर्ग

---

हतयाक (नागाक) सोंसणिकाय, आत्मसंयम आनी बळ हांचें लक्षण मानलां. आपणाचेर जैत जोडिल्ल्या मनशाची तुळा दमन करून आळाबंदा हाडिल्ल्या हतयाकडेन केल्या. आपणाचेर जैत जोडटकूच, जिणेची वाट धर्माच्या नेमान चलतना आमी कसले इश्ट जोडचे हाची शिकवण ह्या वर्गांत दिल्या. हतयांक तरेकवार नांवां दिल्यांत. कुञ्जर (हती), नाग (सुळे आशिल्लो हती) आनी म्हानाग (व्हडले सुळे आशिल्लो झुजांतलो हती).

★ ३२०. अहं नागो[१] व सङ्गामे चापातो पतितं सरं ।
अतिवाक्यं तितिक्खिस्सं दुस्सीलो हि बहुज्जनो ॥१॥

*धोणुंतले सुटिल्ले तीर झुजांतुलो हती जसो ।*
*सोंसतलो तीख उतरां हांव हांगचे दुःशीळ लोक भौ ॥१॥*

नाग (हती) झुजांत धोणुंतल्यान सुटिल्ले तीर सोंशिल्लेवरी हांव तिखशीं उतरां सोंसतलों. कित्याक, हांगाचे चडशे लोक वायट शिलाचे आसतात.

३२१. दन्तं[२] नयन्ति समितिं दन्तं राजाऽ भिरूहति ।
दन्तो सेट्ठो मनुस्सेसु योऽ तिवाक्यं तितिक्खति ॥२॥

*व्हरती दान्ताक मेळांत बसता राजा हतयार त्या ।*
*दान्त मनशांमदीं श्रेश्ठ सोंसता तो बोल तीखशे ॥२॥*

दमन केल्लो हती मेळांत व्हरतात. राजाय तसल्या हतयार बसता., आपणाकूच आळाबंदा हाडिल्लो मनीस श्रेश्ठ, कित्याक, तो तिखशीं उतरां सोंसता.

३२२. वरमस्सतरा[३] दन्ता आजानीया च सिन्धवा ।
कुञ्जरा[४] च महानागा[५] अत्तदन्तो ततो वरं ॥३॥

*खेचरां दान्त तीं श्रेश्ठ सिंधांतले अश्व श्रेश्ठ ते*
*नागकुंजर ते श्रेश्ठ तांचेकूय आत्म-संयमी ॥३॥*

दमन केल्लीं खेचरां श्रेश्ठ. सिंधांतले घोडे सगल्यांत श्रेश्ठ. तशेच नाग श्रेश्ठ. पूण आपलीं इंद्रियां आळाबंदा हाडिल्लो मनीस सगळ्यांत वरतो.

३२३. न हि एतेहि यानेहि गच्छेय्य अगतं दिसं ।
यथात्तना सुदन्तेन दन्तो दन्तेन गच्छति ॥४॥

*वच्चोना कोण ह्या यानीं वचूंक ना अशे दिके ।*
*जसो सुदान्त एकाद्रो वता थंय दमनानच ॥४॥*

कित्याक आपणाक आळाबंदा हाडिल्लो मनीस दमनाच्या पालवान कोणूच वचूंक नाशिल्ले म्हळ्यार निर्वाणाचे दिशेक वता, तसो ह्या (वयर उल्लेखिल्ल्या) जनावरांच्या पालवान कोणूच वचचोना.

★ ३२४. धनपालको नाम कुञ्जरो
कटुकप्पभेदनो दुन्निवारयो ।
बद्धो कवलं न भुञ्जति
सुमरति नागवनस्स कुञ्जरो ॥५॥

*हतया नांव धनपालक*
*मातलो तो कोडू मदान*
*बांदिल्ल्यान खायना तण*
*नागवना काडी तो उगडास ॥५॥*

गंडस्थळांतल्यान कोडू मद (उदक) व्हांविल्ल्यान मातिल्ल्या धनपालक नांवाच्या हतयाक आवरप कठीण जाता. ताका बांदिल्ल्यान तो तण खायना. त्या हतयाक नागवनाचो उगडास येता.

३२५. मिद्धी यदा होति महग्घसो च
निद्दायिता सम्परिवत्तसायी ।
महावराहो ' व निवापपुट्ठो
पुनप्पुनं गब्भमुपेति मन्दो ॥६॥

*जो खादोळो नि आळशी तसो*
*न्हिदून लोळटा आरतो परतो ।*
*धुकर धोंड-कुंड्यार पोशिल्लो*
*घेयी जल्म तो मूर्ख परतो परतो ॥६॥*

खादोळो मनीस आळशी जावन सदींच न्हिदो काडीत आसता. तो धोंडा कुंड्यार पोशिल्ल्या धुकरावरी लोळटा. तो मूर्ख परतो परतो जल्म घेता.

३२६. इदं पुरे चित्तमचारि चारिकं
येनिच्छकं यत्थ-कामं यथासुखं ।
तदज्जऽहं निग्गहेस्सामि योनिसो[६]
हत्थिप्पभिन्नं विय अंकुसग्गहो ॥७॥

*हें चित्त आदीं चरलें यतेच्छ*
*जळीं मळीं तें रमलें येतिश्ठ ।*
*आवरतलो ताका आज हांव पुराय*
*म्हावतावरी मस्त हती अंकुशान ॥७॥*

आदीं हें चित्त आपले इत्शेप्रमाण, मर्जेप्रमाण आपल्या सुखाप्रमाण जायत तशें हेडलें. आज ताका हांव पुराय आळाबंदा हाडटलों, जसो म्हावत अंकुशान मस्त्या हतयाक आळाबंदा हाडटा.

३२७. अप्पमादरता होथ सचित्तमनुरक्खथ
दुग्गा उद्धरथऽत्तानं पङ्के सन्तो ' व कुञ्जरो ॥८॥

*जा खोशी जाग्रुकायेंत सांबाळ चित्त आपुलें ।*
*हतयावरी चिखलांतसून काड आपणाक वयर तूं ॥८॥*

जागरुकायेंत खोशी जा. आपलें चित्त सांबाळ. चिखलांत शिरकल्ल्या हतया भाशेन आपणाक संकटांतल्यान वयर काड.

३२८. सचे लभेथ निपकं सहायं
सद्धिं-चरं साधुविहारिधीरं ।
अभिभुय्य सब्बानि परिस्सयानि
चरेय्य तेनऽत्तमनो सतीमा ॥९॥

*मेळ्ळयारूय शाणो कुशळ वांगडी*
*गुणा नीतिचो सद्‌विचारी ।*
*विघ्नां पयस करून सगलीं*
*रावंचो सवें जाग्रुकान खोशी ॥९॥*

आपले वांगडा भोंवपी, कुशळ, बरे चलणुकेचो, नितिवंत, गुणवंत सांगाती मेळ्ळ्यार सगलीं अरिश्टां पयस करून ताचे वांगडा शिटूकसाणीन आनी खोशेन रावंचो.

३२९. नो चें लभेथ निपकं सहायं
सद्धिं-चरं साधुविहारिधीरं ।
राजा • व रट्ठं विजितं पहाय
एको चरे मातङ्गऽरञ्ञे • व नागो ॥१०॥

*मेळ्ळोनाय कुशळ शाणो वांगडी*
*गुणा नीतिचो सद्‌वर्तनी ।*
*जिखिल्लें राज्य सोडपी रायावरी*
*रावंचो रानांत एकलो हतयावरी ॥१०॥*

पूण आपले वांगडा भोंवपी कुशळ, बरे चलणुकेचो, शाणो, नितिवंत, गुणी सांगाती नासल्यार राजा जसो जिखिल्लें राज्य सोडून वता, तसो हतयाच्या रानांत भोंवपी हतयावरी तुवें एकटुको रावंचें.

३३०. एकस्स चरितं सेय्यो
नत्थि बाले सहायता ।
एको चरे न च पापानि कयिरा
अप्पोस्सुक्को मातङ्गऽरञ्ञे * व नागो ॥११॥

*बरो राविल्लो एकलोच*
*नाका मुर्खा इश्टागत ।*
*करूं नाका पाप, राव हुस्क्या-मेकळो*
*एकलो मातंगसो रानीं राव ॥११॥*

एकलोच राविल्लो बरो. पूण मुर्खाचो सांगात नाका. मातंग हतयावरी एकलो रानांत राव. हुस्क्या-मेकळो राव. पातकी कर्मां करूं नाका.

३३१. अत्थम्हि जातम्हि सुखा सहाया[७]
तुट्ठी सुखा या इतरीतरेन ।
पुञ्ञं सुखं जीवित संखयम्हि
सबस्स दुक्खस्स सुखं पहानं[८] ॥१२॥

*विपत्तेंत जाती सुखा ते इश्ट*
*मेळ्ळां तातूंत तुश्ठी तें सुख ।*
*अंतकाळीं सुखा तें पुण्य*
*सुखाचो सर्व दुख्खा नाश ॥१२॥*

विपत्तेंत पावपी इश्ट सुख दितात. मेळ्ळां तातूंत संतोश मानप सुखाचें. मरणाच्या खिणाक पुण्य सुखाचें. सगलीं दुख्खां नाशीं जावप सुखाचें.

३३२. सुखा मत्तेय्यता लोके अथो पेत्तेय्यता सुखा ।
सुखा सामञ्ञता लोके अथो ब्रह्मञ्ञता सुखा ॥१३॥

*आवय भक्ती सुखा हांगा पितृभक्ती सुखा तशी ।*
*सुखाची श्रमणा भक्ती ब्रह्मभक्ती सुखा तशी ॥१३॥*

आवयभक्ती सुखाची, पितृभक्ती सुखाची, श्रमणभक्ती सुखाची, ब्रह्मभक्ती सुखाची.

३३३. सुखं याव जरा सीलं सुखा सद्धा पतिट्ठिता ।
सुखो पञ्ञाय पटिलाभो पापानं अकरणं सुखं ॥१४॥

*सुखा शील जरे मेरेन थीर श्रद्धा सुखा तशी ।*
*सुखाचो लाव प्रज्ञेचो सुखाचें पाप टाळप ॥१४॥*

म्हातारपणामेरेन शिलाचार पाळप सुख दिता. थीर जाल्ली श्रद्धा सुखाची. प्रज्ञेलाभ सुखाचो. पातकां टाळप सुखाचें.

टीप

१. हती.
२. दमन केल्लो, आळाबंदा हाडिल्लो.
३. खेचरां.
४. झुजांतलो हती.
५. व्हडले सुळे आशिल्लो हती.
६. पुराय.
७. इश्ट.
८. (सं. प्रहाण) नाश.

# तण्हावग्गो
# तृष्णा वर्ग

---

मनशाची तृष्णा वा•सरनाशिल्ली ओड ताच्या सगळ्या दुख्खाचें कारण. तृष्णा सोंपल्यार दुख्खां आपशींच उणीं जातात. तृष्णेक लागून जिणेंत सर्त येता आनी हे सर्तीफाटल्यान दुख्खां येतात. देखून, दुख्खां, येस, अपेस हांचो विचार करिनासतना मनशान आपली लागणूक करीत रावप चड गरजेचें.

★ ३३४. मनुजस्स पमत्तचारिनो
तण्हा वड्ढति मालुवा[१] विय ।
सो प्लवति हुराहुरं[२]
फलमिच्छं • व वनस्मिं वानरो ॥१॥

*शिटूक नाशिल्ल्या मनशाची*
*वाडटा तृष्णा मालुवा वालशी ।*
*मारी उडक्यो जल्मोजल्मीं*
*रानीं वानर फळां इत्सुपी ॥१॥*

शिटूक नाशिल्ल्या (अविचारी) मनशाची तृष्णा मालुवा वाली भाशेन वाडत वता. रानांतल्या वानरां भाशेन फलांची इत्सा धरून ह्या जल्मांतसून त्या जल्मांत तो उडक्यो मारीत आसता.

★ ३३५. यं एसा सहती[३] जम्मी[४] तण्हा लोके विसत्तिका
सोका तस्स पवड्ढन्ति अभिवुट्ठं • व बीरणं[५] ॥२॥

*जाका जिखी विखाळी ही तृष्णा उणाक ह्या जगीं ।*
*वाडटा शोक ताचोच वाळ्यावरी वृश्टीन गा ॥२॥*

उणाक, विखयाळी तृष्णा जाका जिखता (वश करता) त्या मनशाचीं दुख्खां पावसाच्या शिंवरान वाळ्याच्या तणा भाशेन वाडत वतात.

★ ३३६. योचेतं सहती जम्मिं तण्हं लोके दुरच्चयं ।
सोका तम्हा पपतन्ति उदबिन्दू • व पोक्खरा ॥३॥

*जिखता उणाक तृष्णा ही हुपूंक गा कठीण जी ।*
*उदका थेम कमळापानार् दुख्ख ताचें गळटा तशें ॥३॥*

पूण ह्या संवसारांत हुपूंक कठीण अशे उणाक तृष्णेक जो जिखता ताचें दुख्ख साळका पानावेल्या उदका थेंब्या भाशेन गळून पडटा.

३३७. तं वो वदामि भद्दं वो यावन्तेत्थ समागता ।
तण्हाय मूलं खणथ उसीरत्थो • व बीरणं ।
मा वो नळं • व सोतो • व मारो भञ्जि पुनप्पुनं ॥४॥

*तुमच्या बऱ्याक सांगतां हांव आयले हांगा जितले तुमी ।*
*तुमी खणात् तृष्णे मूळ वाळ्याखातीर बीर्ण शें ।*
*लव्यांक लोटसो नित्य मोडचो ना मार तो तुमकां ॥४॥*

देखून जितले तुमी हांगा आयल्यात, तुमच्या हिताचें हांव सांगतां. तुमी तृष्णेचें मूळ खणून काडात; जशें 'उशीर' (वाळो) नांवाचें मूळ काडूंक बीर्णाचें तण खणचें लागता, जसो न्हंयेच्या हुंवाराचो लोट लव्यांक परतो परतो मोडटा, तसो मारान (काळान) तुमकां पर्थून पर्थून मोडून उडोवंचे न्हय.

★ ३३८. यथा पि मूले अनुपद्दवे दळ्हे
छिन्नोऽपि रुक्खो पुरनेव रूहति ।
एवं पि तण्हानुसये[६] अनूहते
निब्बत्तती दुक्खमिदं पुनप्पुनं ॥५॥

*दुखूंक नासलीं रुखा घट्ट मुळां*
*वाडटा पर्थून तो रूख खांडल्यारय ।*
*हुमटिलिना जर वज तृष्णेची*
*उप्रासतलें हें दुख्ख भौन भौन ॥५॥*

घट्ट आनी दुखावंक नाशिल्ल्या रुखाचें मूळ, तो रूख खांडल्यार पासून परतें वाडटा, ते भाशेन तृष्णेची वज हुमटिली ना जाल्यार, हें तृष्णेक लागून उप्राशिल्लें दुख्ख पर्थून पर्थून वयर सरतलें.

★ ३३९. यस्स छत्तिंसती[१] सोता[२] मनापस्सवना भुसा ।
वाहा वहन्ति दुद्दिट्ठिं सङ्कप्पा रागनिस्सिता ॥६॥

*झरी छत्तीस त्यो जाच्यो    व्हांवतात त्यो सुखावशीन् ।*
*कामवान्शे विचारांत    लोट व्हरती नश्ट्याक त्या ॥६॥*

ज्या मनशाच्यो इंद्रियांवरवीं अणभव घेवंचेल्यो छत्तीस झरी सुखाकडेन धांवतात. तो वायट दृश्टीचो मनीस भोग वान्सारुपी विचारांच्या लोटांनी व्हांवन वता.

३४०. सवन्ति सब्बधी सोता लता उब्भिज्ज तिट्ठति ।
तं च दिस्वा लतं जातं मूलं पञ्ञाय छिन्दथ ॥७॥

*व्हांवती जळीं मळीं लोट    फुट्टी वालीक आंकुर ।*
*देखशी जाल्यार ती वाल    खूड प्रज्ञेन मूळ तें ॥७॥*

जळींमळीं झोत व्हांवतात. वासनेचे वालीक आंकऱ्यो फुटून ती वयर सरता. देखून वयर सरिल्ली वाल पळेतकूच तुमी तिचें मूळ प्रज्ञेन खुडात.




३४१. सरितानि सिनेहितानि[१] च
सोमनस्सानि भवन्ति जन्तुनो ।
ते सातसिता सुखेसिनो
ते वे जातिजरूपगा नरा ॥८॥

*मोगा उगडास येतात तशे*
*प्राण्यां मनाक सुखायती ते ।*
*सुखीं गुल्ल ते सोदपी सुख*
*घुसपतात जल्म जरे फेरींत ॥८॥*

जशे मनशाक आदल्या मोगाचे उगडास येवन ताचें मन सुखायतात, तशे विशयांची ओड आशिल्ले आनी तातुंतूच सुख सोदपी मनीस जल्म जरेच्या फेऱ्यांत घुस्पतात.

३४२. तसिणाय पुरक्खता पजा
परिसप्पन्ति ससो • व बाधितो ।
संयोजनसङ्गसत्ता दुक्ख –
मुपेन्ति पुनप्पुनं चिराय ।।९।।

*तृष्णा फाटीक लागिल्ली प्रजा ही*
*धांवता सैराट सोंसोशी पिडिल्लो ।*
*बांदिल्ले पासांत घट्ट सर्दीच*
*भोगतात दुख्ख भौन भौन ।।९।।*

तृष्णा फाटीक लागिल्ले लोक शिकाऱ्यान पिडिल्ल्या सोंशा भाशेन सैराट धांवतात. सदांच तिच्या पासांत बांदिल्ले हे लोक पर्थून पर्थून दुख्ख भोगतात.

३४३. तसिणाय पुरक्खता पजा
परिसप्पन्ति ससो • व बाधितो ।
तस्मा तसिणं विनोदये
भिक्खु आकंखी विरागमत्तनो ।।१०।।

*तृष्णा फाटीक लागिल्ली प्रजा ही•*
*धांवता सैराट सोंसोशी पिडिल्लो ।*
*वैराग्य इत्सुपी भिक्षून तेन्ना*
*हुमटावची मुळांसयत तीच तृष्णा ।।१०।।*

तृष्णा फाटीक लागिल्ले लोक शिकाऱ्यान पिडिल्ल्या सोंशा भाशेन सैराट धांवतात. देखून वैराग्य इत्सुपी भिक्षून. तृष्णा मुळांसकट हुमटावची.

★ ३४४. यो निब्बनथो[१] वनाधिमुत्तो
वनमुत्तो वनमेव धावति
तं पुग्गलमेव पस्सथ
मुत्तो बन्धनमेव धावति ।।११।।

*वनमुक्त वता जो वनांत*
*वन सोडून धांवता वनांत ।*
*ह्या त्या नराक पळे पुना*
*धांवता पासांत मुक्त जावनूय ।।११।।*

जो भायल्या उपाधींतल्यान तृष्णामुक्त जावन तपोवनांत रमिल्लो, तृष्णेच्या रानांतल्यान मुक्त जावन लेगीत तृष्णारुपी वनाकडेनूच धांवता, तसल्या मनशाक पळय. तो मुक्त जावनूय बंधनाकडेनूच धांवता.

३४५. न तं दळ्हं बन्धनमाहु धीरा ।
यदायसं दारुजं बब्बजं च ।
सारत्तरत्ता मणिकुण्डलेसु
मुत्तेसु दारेसु च या अपेक्खा ॥१२॥

३४६. एतं दळ्हं बन्धनमाहु धीरा
ओहारिनं सिथिलं दुप्पमुञ्चं ।
एतंऽपि छेत्वान परिब्बजन्ति
अनपेक्खिनो कामसुखं पहाय ॥१३॥

*पास घट्ट म्हणिनात शाणे*
*केल्ले जे लोखणा लाकडा राजवाचे ।*
*ओड व्हडली वज्रां कुडकांची*
*बायले भुर्ग्यांची ती ओडूय तशी ॥१२॥*

*म्हण्टी शाणे पास घट्ट तेच*
*ओडटी खाला सुटना जरी थील ।*
*कातरून तेंवूय निरीच्छ शाणो*
*सोडून वता कामसुखा सगल्या ॥१३॥*

ज्ञानी लोक लोखंड, लाकूड तशेंच वल्वज तणापासून केल्लो पास घट्ट म्हणिनात. वज्रां कुडकांची ओड तेच भाशेन बायले-पुतांची ओड हांकांच ज्ञानी घट्ट पास म्हणटात. हें बंधन मनशाक सकयल ओडटा. तें धील आसल्यारूय सुटूंक कठीण आसता. हें बंधन तोडून, भोगवान्सा सोडून, ज्ञानी निरीच्छ जावन संवसार सोडटात. (ते परिव्राजक जातात.)

★ ३४७. ये रागरत्तानुपतन्ति सोतं
सयं कतं मक्कटको • व जालं ।
एतंऽपि छेत्वान वजन्ति धीरा
अनपेक्खिनो सब्बदुक्खं पहाय ॥१४॥

*मोगान कुड्डे ते लोटांत पडटी*
*आपणेंच केल्ल्या जाळ्यांतली मावली ।*
*निरीच्छ शाणे तोडून तेंय बी*
*भव दुख्ख सगलें सोडून वतात ॥१४॥*

आपणेंच विणिल्ल्या जाळ्यांत घुस्पुपी मावलेभाशेन, विशयांचे आधीन् जाल्ले लोक तृष्णेच्या लोटांत पडटात. पूण ह्या लोटाक आडावन निरीच्छ शाणे कसलीच अपेक्षा धरिनासतना दुख्ख त्यागून संवसार सोडटात.

★ ३४८. मुञ्च पुरे मुञ्च पच्छतो
मज्झे मुञ्च भवस्स पारगू
सब्बत्थ विमुत्तमानसो
न पुन जातिजरं उपेहिसि ॥१५॥

*सोड गा फुडचें नि फाटलेंय बी*
*सोड मदलें भवापार जाशी ।*
*चित्त कर मेकळें सारकें आर्दी*
*जल्म जरा तुका बादचिंनात पर्ती ॥१५॥*

तुका संवसाराचे (अस्तित्वाच्या) पलतडीं वचपाचें आसा. देखून, फाटीं, फुडें आनी मदीं कितें आसा तें सगलें सोडून दी. सगल्यो तृष्णा सोड. सगल्यांतल्यान तुजें चित्त मेकळें जातकूच तुका पर्थून जल्म आनी म्हातारपण बादचींनात.

★ ३४९. वितक्कपमथितस्स जन्तुनो
तिब्बरागस्स सुभानुपस्सिनो ।
भिय्यो तण्हा पवड्ढति
एस खो दळहं करोति बंधनं ॥१६॥

*ज्या मनशा चल्लां विचारां चाळप*
*चाळोवन इत्सा सदीं भोगांत गुल्ल ।*
*तृष्णा त्या मनशाची वाडटा पर्थून*
*करी खरेंच आपले पास तो घट्ट ॥१६॥*

ज्या मनशाच्या मनांत वायट विचारांचें चाळप चलता, जाची इत्सा चाळवल्या, आनी जो कुडीचें भोगसुखच पळयता, ताची तृष्णा अदिकूच वाडटा. तो आपलेच पास चड घट्ट करता.

३५०. वितक्कूपसमे च यो रतो
असुभं भावयति सदा सतो
एक खो व्यन्ति-काहिति
एस छेच्छति मारबन्धनं ॥१७॥

*रमला जो वितर्क थंडावपांत*
*सदा चिंती काया ही अशुभ ।*
*खरेंच तो करता पयस*
*तोच तोडटा मार-बंधन ॥१७॥*

आपले वायट विचार थंडावपांत जो रमला, आपली काया अशुभ हे विशीं सदींच चिंतता, तोच खरो तृष्णा पयस करतलो आनी माराचे पास तोडटलो.

३५१. निट्ठं-गतो असन्तासी वीततण्हो अनङ्गणो
अच्छिन्दि भवसल्लानि अन्तिमोऽयं समुस्सयो ॥१८॥

*जोडली निश्ठा नुल्लें भंय सोडली तृष्णा निश्पाप जो ।*
*कांटे काडले भवाचे गा ताची निमणीच कूड ही ॥१८॥*

जो आपले निश्ठेमेरेन (मोखेमेरेन वा पूर्णतायेक) पावला, जो भंयाविरयत जाला, जाणें तृष्णा सोडल्या, जो निश्कळंक वा पापाविरयत जाला, जाणें भवाचे (संवसाराचे वा अस्तित्वाचे) कांटे काडल्यात, ताची ही उबी आशिल्ली कूड निमाणी.

★ ३५२. वीततण्हो अनादानो निरुत्तिपदकोविदो ।
अक्खरानं सन्निपातं जञ्ञा पुब्बापरानि च ।
स वे अन्तिमसारीरो महापञ्ञो ' ति वुच्चति ॥१९॥

*सोडली तृष्णा अनासक्त निरुक्ति-पद-कोविद ।*
*फाटलीं फुडलीं तशीं जाणीं अक्षरां एकठाविल्लीं ।*
*म्हण्टी ताका महाप्राज्ञ कूड ताची निमणीच ही ॥१९॥*

जाची तृष्णा सोंपल्या, जो कोणाकडल्यान कांयच घेना, जो उतरां आनी तांचे अर्थ जाणटा, जो फाटलीं आनी फुडलीं अक्षरां जाणटा आनी तांचो एकठांय केल्लो अर्थूय जाणटा, ताका म्हाप्रज्ञावंत म्हणटात. ताची ही निमाणी कूड आसता. (तो पर्थून जल्म घेना).

★ ३५३. सब्बाभिभू सब्बविदूऽहमस्मि
सब्बेसु धम्मेसु अनूपलित्तो ।
सब्बञ्जहो तण्हक्खये विमुत्तो
सयं अभिञ्ञाय कमुद्दिसेय्यं ॥२०॥

*जिखपी हांव सगल्यांक जाणपी सगलेंच*
*सगल्या स्थितींत आसतां हांव अलिप्त ।*
*सगलें सोडलां आस सरिल्ल्यान मुक्त*
*शिकलों हांवूच म्हणूं गुरू कोणाक ॥२०॥*

हांवें सगल्यांचेर जैत जोडलां, हांव सर्व जाणटां. जिणेंतल्या सगल्या तरांच्या स्थितींतल्यान हांव अलिप्त आसां. हांवें सगलें त्यागलां. तृष्णा सरिल्ल्यान हांव मुक्त जालां. हांवें म्हजे म्हाकाच शिकयला. मागीर गुरू म्हणून हांव कोणाकडेन बोट दाखोवं ?

३५४. सब्बदानं धम्मदानं जिनाति
सब्बं रसं धम्मरसो जिनाति
सब्बं रतिं धम्मरती जिनाति ।
तण्हक्खयो सब्बदुक्खं जिनाति ॥२१॥

*जिखता धर्म दान सर्व दानांक*
*जिखता धर्म रोस सर्व रोसांक ।*
*जिखता धर्म सूख सर्व सुखांक*
*जिखता तृष्णा क्षय सर्व दुखांक ॥२१॥*

धर्मदान सगले तरेच्या दानांक जिखता. धर्मरोस सगल्या रोसांपरस रुचीक. धर्मसुख सगल्या सुखांपरस व्हड. तृष्णा सरतकूच सगल्या दुख्खांचेर जैत मेळटा.

३५५. हनन्ति भोगा दुम्मेधं नो च पारगवेसिनो ।
भोगतण्हाय दुम्मेधो हन्ति अञ्ञे ' व अत्तनं ॥२२॥

*मारतात भोग मुर्खांक पार सोदप्याक मारिनात ।*
*मारता तो भोग तृष्णेन आपणाकूच परकी जसो ॥२२॥*

भोगवैभव नश्ट्या मनशाचें पाड घालता, पूण संवसारसागर तरून पार वचूंक सोदतल्याचें घालिना. भोगतृष्णेन नश्टो मनीस आपणें दुसऱ्याचो नाश करचो, तसो आपलोच नाश करता.

३५६. तिणदोसानि खेत्तानि रागदोसा अयं पजा ।
तस्मा हि वीतरागेसु दिन्नं होति महप्फलं ॥२३॥

*तण हो दोश शेतांचो प्रजेचो दोश राग ह्या ।*
*म्हणून राग-मुक्तांक दिल्लें तें जाय महाफळ ॥२३॥*

तण शेतांक बादिकार जाता. विकार मनशांची हानी करतात. देखून विकारमुक्तांक दिल्लें दान व्हडलें फळ दिता.

३५७. तिणदोसानि खेत्तानि दोसदोसा[१०] अयं पजा
तस्मा हि वीतदोसेसु दिन्नं होति महप्फलं ॥२४॥

*तण हो दोश शेतांचो प्रजेचो दोश द्वेश ह्या ।*
*म्हणून द्वेश-मुक्तांक दिल्लें तें जाय महाफळ ॥२४॥*

तण शेतांक बादिकार जाता. दुस्वास हो लोकांचो दोश आसता. देखून द्वेशमुक्तांक दिल्लें दान व्हडलें फळ दिता.

३५८. तिणदोसानि खेत्तानि मोहदोसा अयं पजा
तस्मा हि वीतमोहेसु दिन्नं होति महप्फलं ॥२५॥

*तण हो दोश शेतांचो प्रजेचो दोश मोह ह्या ।*
*म्हणून मोह-मुक्तांक दिल्लें तें जाय महाफळ ॥२५॥*

तण शेतांक बादिकार जाता. मोह हो लोकांचो दोश आसता. देखून मोहमुक्तांक दिल्लें दान व्हडलें फळ दिता.

३५९. तिणदोसानि खेत्तानि इच्छादोसा[११] अयं पजा
तस्मा हि विगतिच्छेसु दिन्नं होति महप्फलं ॥२६॥

*तण हो दोश शेतांचो प्रजेचो दोश काम ह्या ।*
*म्हणून काम-मुक्तांक दिल्लें तें जाय महाफळ ॥२६॥*

तण शेतांक बादिकार जाता. काम (इत्सा) मनशांची हानी करता. देखून निरीच्छ मनशाक दिल्लें दान म्हाफळ दिता.

## टीप

१. ही वाल बेंदुल्लेवरी रुखाचेर पातळटा आनी ताकाच खाता.

२. हांगासून थंय (ह्या जल्मांतसून त्या जल्मांत).

३. जिखता वा हारयता.

४. उणाक, विखाळी.

५. वाळो.

*६. तृष्णेचे अनुशय (प्रवृत्ती वा वज).

७. छत्तीस.

८. श्रोत, प्रवाह, झोत, झरे, लोट.

९. तृष्णामुक्त.

१०. **दोसदोसा** = दोस हें पाली उतर चड करून द्वेश वा दुस्वास ह्या उतराक समानार्थी म्हणून वापरतात. कांय वेळा हाचो अर्थ दोश असोय जाता (पळयात गा. ३५६).

११. **इच्छादोसा** = इत्सा दोश. इत्सा म्हळ्यार लोभ वा वसवस. हो एक दोश. आवरूंक येनाशिल्ली इत्सा व्हड संकटां हाडटा. वसवसो मनीस गरजेपरस अदीक पुंजायता. हाचो उपेग जावंचे बदला वजेंच जाता.

# भिक्खुवग्गो
# भिक्षु वर्ग

गौतम बुद्धाचे मुस्तींत जायत्या कारणांक लागून जळींमळीं मुनी, श्रमण, भिक्षु, तपस्वी आदी लोक समाजांत वावुरताले. तांचो एक वेगळोच वर्ग जाल्लो. लोक तांकां तांच्या भेसावयल्यान आनी वयलेचाराचे चाल-चलणुकेवयल्यान वळखताले. भिक्षुंच्या भायल्या लक्षणांपरस तांची चाल-चलणूक, नीत आनी मनोधारणा हांचेर आदारिल्लें तर्जप ह्या वर्गांत आमकां मेळटा.

३६०. चक्खुना संवरो साधु साधु सोतेन संवरो
घानेन संवरो साधु साधु जिव्हाय संवरो ॥१॥

*बरो संयम दोळ्यांचो कानां संयम तो बरो ।*
*बरो संयम नाकाचो जिणे संयम तो बरो ॥१॥*

दोळ्यांचेर संयम आसप बरो. कानांचेर संयम आसप बरो. नाकाचेर संयम आसप बरो. जिबेचेर संयम आसप बरो.

३६१. कायेन संवरो साधु साधु वाचाय संवरो
मनसा संवरो साधु साधु सब्बत्थ संवरो
सब्बत्थ संवुतो भिक्खु सब्बदुक्खा पमुच्चति ॥२॥

*बरो संयम कायेचो वाचे संयम तो बरो ।*
*बरो संयम चित्ताचो बरो सर्वत्र संयम ।*
*सर्वत्र संयमी भिक्षू सगल्या दुख्खांतुलो सुट ॥२॥*

कायेचेर संयम बरो. वाचेचेर ताबो आशिल्लो बरो. मनाचेर (विचारांचेर) संयम बरो. सगल्या गजालींचेर संयम आशिल्लो बरो. सगल्यांचेर संयम राखपी भिक्षु सगल्या दुख्खांतल्यान सुट्टा.

३६२. हत्थसंयतो पादसंयतो
वाचाय संयतो संयतुत्तमो
अज्झत्तरतो समाहितो
एको सन्तुसितो तमाहु भिक्खुं ॥३॥

*हात संयमी पांय संयमी*
*वाचा संयमी संयमी भौच बरो*
*अध्यात्मीं रत थिरावल्लो चित्त*
*एकलो तुश्ट म्हण्टी भिक्षु खरो ॥३॥*

हाताचेर संयम आशिल्लो, पांयांचेर संयम आशिल्लो, वाचेचेर संयम आशिल्लो, संयमी मनशांत भौच बरो, अध्यात्मांत रमिल्लो, चित्त थीर जाल्लो, संतुश्ट, एकलोच रावपी मनशाक खरो भिक्षु म्हणटात.

३६३. यो मुखसंयतो भिक्खु मन्तभाणी[१] अनुद्धतो[२]
अत्थं धम्मं च दीपेति मधुरं तस्स भासितं ॥४॥

*मुखान संयमी भिक्षू   उलय चिंतून लीन जो ।*
*धर्मार्थां पर्जळायता जो   ताचें म्होवाळ भाशण ॥४॥*

आपलें तोंड सांबाळपी, चिंतून उलोवपी, नमळ, धर्माचो अर्थ आनी धर्म हांचेर उजवाड घालपी अशा भिक्षुचीं उतरां म्होंवाळ आसतात.

३६४. धम्मारामो धम्मरतो धम्मं अनुविचिन्तयं ।
धम्मं अनुस्सरं भिक्खु सद्धम्मा न परिहायति ॥५॥

*धर्मीं खोशी सुखी धर्मीं   धर्म चिंतप जो करी ।*
*चलता जो सतधर्मान   भिक्षु तो धर्म सोडिना ॥५॥*

धर्म होच विसव आशिल्लो, धर्मांत खोशी आसपी, पर्थून पर्थून धर्म स्मरपी भिक्षू सतधर्मापासून पयस वचना.

३६५. स-लाभं नातिमञ्ञेय्य नाञ्ञेसं पिहयं चरे
अञ्ञेसं पिहयं भिक्खु समाधिं नाधिगच्छति ॥६॥

*उणो स्वलाभ लेखचो न्ही   दुसऱ्या हेवो कदींच न्ही ।*
*हेरां हेवो करी गा जो   त्या भिक्षूक समाधि ना ॥६॥*

आपणाक मेळिल्लें उणें लेखचें न्हय, दुसऱ्याक मेळिल्ल्याचो हेवो करचो न्हय. दुसऱ्याचो हेवो करतल्या भिक्षूक समाधी (चित्ताचे एकाग्रतायेंतल्यान मेळपी शांति) मेळना.

३६६. अप्पलाभोऽपि चे भिक्खु सलाभं नातिमञ्ञति ।
तं वे देवा पसंसन्ति सुद्धाजीविं अतन्दितं ॥७॥

*अल्पसो लाभ आसल्यार भिक्षु जो लेखिना उणो ।*
*सुस्त ना जो जिणे शुद्ध देव तुस्ती मनशाक त्या ॥७॥*

इल्लें मेळ्ळ्यारूय आपल्याक मेळिल्लें जो उणें लेखिना, त्या शुद्ध जिणेच्या, सुस्त नाशिल्ल्या भिक्षूक देव लेगीत तुस्तितात.

३६७. सब्बसो नामरूपस्मिं यस्स नत्थि[३] ममायितं[३] ।
असता[४] च न सोचति स वे भिक्खूति वुच्चति ॥८॥

*नामरुपांत सर्वस्वीं नुल्लेंच कांय म्हजें अशें ।*
*गेल्ल्याचो करिना शोक म्हणटी ताका भिक्षू खरो ॥८॥*

जाका नामरुपाविशीं (व्यक्तीविशीं) खंयच्याच अर्थान म्हजेपण दिसना, असताचो जो शोक करिना ताकाच खरो भिक्षु म्हणटात.

३६८. मेत्ताविहारी[५] यो भिक्खु पसन्नो बुद्धसासने[६] ।
अधिगच्छे पदं सन्तं संखारूपसमं सुखं ॥९॥

*जिये इश्टागतीं भिक्षू बुद्ध बोधांत तो सुखी ।*
*शांती सुखा पदा जोडी जाता संस्कार नाश जंय ॥९॥*

इश्टागतींत जियेवपी, बुद्धाचे शिकवणेंत प्रसन्न आसपी भिक्षु जंय पार्थिव अस्तित्व (संस्कार) सोंपता, त्या शांत सुखदिण्या पदाक म्हळ्यार निर्वाणाक पावता.

★ ३६९. सिञ्च भिक्खु इमं नावं सित्ता ते लहुमेस्सति ।
छेत्वा रागं च दोसं च ततो निब्बानमेहिसि ॥१०॥

*भिक्षू! उसप हें होडें रितें जावन वतलें फुडें ।*
*शिंदून द्वेश नी दोश निर्वाणाशीं वतलोच तूं ॥१०॥*

आगा भिक्षू! हें होडें तूं उसप. तें रितें जातकूच वेगीं फुडें वतलें. विकार आनी द्वेश शिंदतकूच तूं निर्वाणासरीं पावतलो.

३७०. पञ्च छिन्दे पञ्च जहे पञ्च चुत्तरि भावये ।
पञ्चसङ्गातिगो भिक्खु ओघतिण्णो[६] • ति वुच्चति ॥११॥

*शिंदा पांच त्यजा पांच पांचाची भावना करी ।*
*गेलो जो पार पांचांच्या हुपिल्लो झोत भिक्षु तो ॥११॥*

पांच गजाली कातरून काडात (लटकी दृश्टी, दुबाव, चुकीचें व्रत, कामवासना, दुस्वास). पांच गजाली सोडात (रुपासयत जल्म, अरुपासयत जल्म, हांवकार, मनाची चंचळताय आनी अविद्या); आनी तांचेबदला पांच केळयात (श्रद्धा, उत्साह, जाग्रुताय, समाधी आनी प्रज्ञा). पांच पासांतल्यान (राग, द्वेश, मोह, अहंकार आनी मिथ्यादृश्टी) आपली मेकळीक करून घेतिल्ल्या भिक्षुक काम, भव, दृश्टी आनी अविद्या हांचो हुंवार हुपिल्लो म्हणटात.

३७१. झाय भिक्खु मा च पमादो
मा ते कामगुणे भमस्सु चित्तं ।
मा लोहगुळं[७] गिळी पमत्तो
मा कन्दि दुक्खमिदं • ति डय्हमानो ॥१२॥

*कर ध्यान नाका घाळूं*
*भिक्षू भोगीं नाका रमूं ।*
*लोखणा गुळी नाका गिळूं*
*जळटना 'दुख्ख हें' नाका आड्डूं ॥१२॥*

आगा भिक्षू, ध्यान कर. घाळूं नाका. कामवासनेंत तुजें मन रमोवं नाका. तूं घाळिल्ल्यान तुका तापयल्ल्या लोखंडाची गुळी गिळची पडची न्हय. जळटना 'हें दुख्खदिणें' अशें तुवें आड्डुचें न्हय.

३७२. नत्थि झानं[८] अपञ्ञस्स पञ्ञा नत्थि अज्झायतो ।
यम्हि झानं न पञ्ञा च स वे निब्बान-सन्तिके ॥१३॥

*ध्यानाशिवाय ना प्रज्ञा प्रज्ञेशिवाय ध्यान ना ।*
*प्रज्ञा नि ध्यान जाचेशीं निर्वाणाचे सरींच तो ॥१३॥*

प्रज्ञा नाशिल्ल्याक ध्यान सादना. ध्यान करिनाशिल्ल्याक प्रज्ञेचो लाभ जायना. जाचे ठांय प्रज्ञा आनी ध्यान हीं दोनूय आसात, तो निर्वाणासरींच आसता.

३७३. सुञ्ञागारं[९] पविट्ठस्स सन्तचित्तस्स भिक्खुनो ।
अमानुसी रती होति सम्मा धम्मं विपस्सतो ॥१४॥

*शुन्य घरांत पाविल्लो भिक्षु शांत मनान जो ।*
*पळोवन तो सत धर्म भोगता खोस अमानवी ॥१४॥*

ध्यान करूंक बसचेल्या घरांत शांत चित्तान भितर सरिल्लो, चित्त शांत जाल्लो आनी सगल्या पदार्थ मात्रांक बरे तरेन पळोवपी असो जो भिक्षु आसता ताका सर्गांतुली खोस भोगता.

३७४. यतो यतो सम्मसति खन्धानं[१०] उदयब्बयं ।
लभति पीतिपामोज्जं अमतं तं विजानतं ॥१५॥

*जसो जसो चित्ता गा तो कुडिचो जल्म नी लय ।*
*मेळटा खोस प्रिती ताका जाणप्यांचें निर्वाण तें ॥१५॥*

जसो जसो तो कुडीच्या उदयाविशीं (जल्माविशीं) आनी मरणाविशीं चिंतता, तसो तसो तो प्रिती आनी खोस भोगता; ह्यो गजाली जाणप्यांचें अमृतच (निर्वाण) आसता.

३७५. तत्रायमादि भवति इध पञ्ञस्स भिक्खुनो ।
इन्द्रियगुत्ति सन्तुट्ठि पातिमोक्खे[११] च संवरो ॥१६॥

३७६. मित्ते भजस्सु कल्याणे सुद्धाजीवे अतन्दिते ।
पटिसन्थारवुत्त्यस्स आचारकुसलो सिया ।
ततो पामोज्जबहुलो दुःखस्सन्तं करिस्ससि ॥१७॥

*प्राज्ञ भिक्षूक आदीं हें करचें पडटा जगांत ह्या ।*
*राखप इंद्रियां खोस प्रातिमोक्षांत संयम ।*
*संग कल्याण इश्टांचो जिणे शुद्ध शिटूक बी ॥१६॥*

*आसचो कुशळ आचारीं करी उठबसय बरी ।*
*संतोशान भरता तेन्ना दुख्खां अंत करशीत तूं ॥१७॥*

प्रज्ञावंत भिक्षून सुर्वेक ह्यो गजाली करच्यो पडटात. इंद्रियां सांबाळप, मना खोस, प्रातिमोक्षाच्या नेमाप्रमाण संयम राखप, शुद्ध जीण सारप, सावध आनी हित करपी इश्टांची इश्टागत करप (१६). दुसऱ्यांची सरबराय करची वृत्ती दवरप; आचारांत कुशळ आसप. हातुंतल्यान खूब आनंद मेळटा आनी मागीर दुख्ख सोंपता (१७).

३७७. वस्सिका विय पुप्फानि मद्दवानि पमुञ्चति ।
एवं रागं च दोसं च विप्पमुञ्चेथ भिक्खवो ॥१८॥

*झडयता झोंप जायेचें बावलेलीं फुलां जशीं ।*
*भोगवान्सा नि दुस्वास झडयात भिक्षुंनो तुमी ॥१८॥*

भिक्षुंनो, जायेचें झोंप जशें बाविल्लीं फुलां झडयता, तशे तुमी भोग झडयात.

३७८. सन्तकायो सन्तवाचो सन्तमनो सुसमाहितो ।
वन्तलोकामिसो[१२] भिक्खु उपसन्तो ' ति वुच्चति ॥१९॥

*काये वाचेन जो शांत मनान शांत थीर बी ।*
*ओंकल्यांत लौकिका हांयसा खरोच शांत भिक्षु तो ॥१९॥*

कायेन शांत, वाचेन शांत आनी मनान शांत जाल्लो, थीर जाल्लो, लौकिकाची हांयसां ओंकिल्ल्या अशा भिक्षूक उपशान्त (म्हळ्यार सामको शांत जाल्लो) म्हणटात.

३७९. अत्तना चोदयत्तानं पटिमासे अत्तमत्तना ।
सो अत्तगुत्तो सतिमा सुखं भिक्खु विहाहिसि ॥२०॥

*जागवचें आपुण आपणाक आपणें आपणाक तर्जुचें ।*
*राखशी आपणाक जाग्रूक भिक्षू जाशीत तूं सुखी ॥२०॥*

आपणेंच आपणाक जागोवचें, आपणें आपणाक तर्जुचें. आगा भिक्षू, अशे तरेन तूं आपणाक राखल्यार आनी जागरूक रावल्यार तूं सुखान जियेतलो.

३८०. अत्ता हि अत्तनो नाथो अत्ता हि अत्तनो गति ।
तस्मा संयमयऽत्तानं अस्सं भद्रं ' व वाणिजो ॥२१॥

*आपुणूच धनी आपलो आपूण आपली गती ।*
*बऱ्या अश्वार् जसो वाणी आपलेर राख शेक तूं ॥२१॥*

आपुणूच आपलो स्वामी आसता. आपुणूच आपलो आधार. देखून सौदागर बऱ्या घोड्याचेर शेक दवरता तसो तूं आपल्याचेर दवर.

३८१. पामोज्जबहुलो भिक्खु पसन्नो बुद्धसासने ।
अधिगच्छे पदं सन्तं संखारूपसमं सुखं ॥२२॥

*फुलता खोशेन भिक्षू जो प्रसन्न बुद्ध शासनीं ।*
*शांतीपदाक तो पावता ना जाय संस्कार जंय सुख ॥२२॥*

खोशेन फुलिल्लो, बुद्धाचे शिकवणेंत प्रसन्न आशिल्लो भिक्षु संस्कार (पार्थिव अस्तित्व) थंडावपी आनी सुख दिवपी शांत पदाक पावता.

३८२. यो हवे दहरो भिक्खु युञ्जति बुद्धसासने ।
सो मं लोकं पभासेति अब्भा मुत्तो ॰ व चन्दिमा ॥२३॥

*भिक्षु ल्हान पिरायेचो जुंपता जो बुद्ध शासनीं ।*
*उजळायता लोक तो सर्व मुक्त चंद्र कुपांतुलो ॥२३॥*

पिरायेन ल्हान आसुनूय आपणाक बुद्धाचे शिकवणेक जुंपिल्लो भिक्षु कुपांतल्यान भायर सरिल्ल्या चंद्रा भाशेन हें जग पर्जळायता.

## टीप

१. चिंतून उलोवप.
२. उद्धट न्हय असो, लीन, नमळ.
३. ह्या जगांत म्हजें अशें कांयच ना.
४. जें ना तें.
५. इश्टागतींत जियेवपी.
६. हुंवाराचो लोट हुपिल्लो.
७. बुद्धाचे मुस्तींत गुन्यांवकाराक लोखंडाची तापयल्ली गुळी गिळूंक लायताले.
८. ध्यान.
९. शून्य घर. ध्यान करूंक बसचेली गुंफा वा घर.
१०. स्कंधाक म्हळ्यार पदार्थाक. रूप, वेदना, संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान ह्या पांच पदार्थांक पंच स्कंध म्हणटात. (पळयात गाथा ४०२ वयली टीप).
११. (सं. प्रातिमोक्ष) भिक्षु आनी भिक्षुणी हांणी पाळचेले नेम आनी ते नेम एकठांय केल्ल्या ग्रंथाचें नांव. ह्या कुल्लीं २२७ नेमांचो आसपाव विनयपिटकांत केला.
१२. लौकिकाचीं हांयसां ओंकिल्लो.

# ब्राह्मणवग्गो
# ब्राह्मण वर्ग

---

सातव्या वर्गांत अर्हन्ताची आनी पंचविसाव्या वर्गांत भिक्षुचीं लक्षणां गौतम बुद्धान सांगल्यांत. ह्या निमाण्या अध्यायांत आदर्श ब्राह्मण कोण हें तो आमकां सांगता. बौद्ध भिक्षु, जैन अर्हन्त आनी ब्राह्मण हे तिनूय श्रेश्ठ अध्यात्मीक पुरूश अशें गौतम बुद्ध मानता. भिक्षु जावं, ब्राह्मण जावं, बुद्ध तांकां भायल्या लक्षणांवयल्यान तर्जिना. तांची जात, कूळ, समाजांतलें स्थान हाचें बुद्धाक व्हडलेंशें पडून गेल्लें ना. 'खरो ब्राह्मण कोण?' बुद्ध विचारता. ध्यानी, विकार-मुक्त, थीर, कृतकृत्य, कळंकाविरयत आशिल्लो आनी परमार्थ जोडिल्लो तोच ब्राह्मण (३८६)... जटा वाडयल्लो, ब्राह्मण कुळयेंत जल्म घेतिल्लो, ब्राह्मण गोत्राचो मनीस ब्राह्मण जायना. पूण जो सत्यवंत आनी नितिवंत तोच खरो ब्राह्मण (३९३). आदर्श ब्राह्मण खंयच्या लक्षणांवयल्यान वळखुचो हें बुद्ध आमकां ह्या अध्यायांत सांगता.

★ ३८३. छिन्द सोतं[१] परक्कम्म कामे पनुद ब्राह्मण[२] ।
संखारानं खयं ञत्वा अकतञ्ञूऽसि[३] ब्राह्मण ॥१॥

*शौर्यान तोड तूं झोत ब्राह्मणा सोड काम तूं ।*
*संस्कार क्षय जाणून निर्वाणा ज्ञान जाणशी ॥१॥*

आगा ब्राह्मणा, झोत तोडून उडय. पराक्रम कर. भोगवान्सा सोड. सगल्या संस्कारांचो नाश जाता हें जाणून अकृताचें, म्हळ्यार निर्वाणाचें ज्ञान तुका जातलें.

★ ३८४. यदा द्वयेसु[४] धम्मेसु[४] पारगू होति ब्राह्मणो ।
अथऽस्स सब्बे संयोगा अत्थं गच्छन्ति जानतो ॥२॥

*दोनूय धर्मांत जेन्ना गा जाता कुशळ ब्राह्मण ।*
*सगळींच बंधनां त्या जाणत्याची वती लया ॥२॥*

जेन्ना ब्राह्मण दोनूय धर्मांत (समाधी आनी विपश्यना) खांपो जाता (त्या धर्माच्या तडीक पावता) तेन्ना त्या जाणट्यांचीं बंधनां ना जातात.

★ ३८५. यस्स पारं अपारं वा पारापारं न विज्जति ।
वीतद्दरं विसंयुत्तं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥३॥

*अपार अथवा पार ना पारापार बी तसो ।*
*निर्भय ओड नाशिल्लो ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥३॥*

आलतड ना वा पलतड नाशिल्ल्याक, हीं दोनूय नाशिल्ल्याक, भंयमुक्त जाल्ल्याक, ओड नाशिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

३८६. झायिं विरजमासीनं कतकिच्चं अनासवं
उत्तमऽत्थमनुप्पतं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥४॥

*ध्यानी सुथीर निर्दोश कृतकृत्य विकारना ।*
*परमार्थाक पाविल्लो ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥४॥*

ध्यान करपी, निर्दोश (विकारमुक्त), थीर, कृतकृत्य, निर्मळ (निश्कळंक) आनी परमार्थ जोडिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

★ ३८७. दिवा तपति आदिच्चो रत्तिं आभाति चन्दिमा ।
सन्नद्धो खत्तियो तपति झायी तपति ब्राह्मणो ।
अथ सब्बमहोरत्तिं बुद्धो तपति तेजसा ॥५॥

*दिसाचो पर्जळटा सुर्या रातीं चंद्र प्रकाशता ।*
*ध्यानीं ब्राह्मण पर्जळटा खेत्री सुसज्ज सोबता ।*
*सगली रात दिसाचो बी बुद्ध तेजान पर्जळ ॥५॥*

सुर्या दिसाचो पर्जळटा, चंद्रीम रातचो उजवाड दिता. क्षत्रीय झुजाक सज्ज आसल्यारूच पर्जळटा. ध्यानांत ब्राह्मण पर्जळटा. पूण बुद्ध दीस रात आपल्याच तेजान पर्जळटा.

३८८. बाहितपापो • ति ब्राह्मणो
समचरिया समणो • ति वुच्चति ।
पब्बाजयमत्तनो मलं
तस्मा पब्बजितो • ति वुच्चति ॥६॥

*भायरायता पातकां तो ब्राह्मण*
*चलता समभावान तो श्रमण ।*
*धुवता मळ चित्ताचे जो*
*म्हण्टी ताका प्रव्रजीत ॥६॥*

आपलीं पातकां भायर उडयतल्याक ब्राह्मण म्हणटात. वायट कर्मां शमन करून समभावान चलतल्याक श्रमण म्हणटात. आपल्या चित्ताचो मळ धुवन उडयतल्याक प्रव्रजीत (संन्यासी) म्हणटात.

३८९. न ब्राह्मणस्स पहरेय्य नास्स मुञ्चेथ ब्राह्मणो
धी ब्राह्मणस्स हन्तारं ततो धी यस्स मुञ्चति ॥७॥

*नाकाच ब्राह्मणा मारूं कोपचें न्हीच ब्राह्मणान् ।*
*द्विजा मारतल्या धिक्कार धिक्कार कोपिल्ल्या चड ॥७॥*

ब्राह्मणाक हाणचो न्हय. ब्राह्मणानूय हाणप्याचेर कोपचें न्हय. ब्राह्मणाक जो मारता ताचो धिक्कार आसूं. आनी जो ब्राह्मण कोपता, त्या ब्राह्मणाचो ताचे परस चड धिक्कार आसूं.



३९०. न ब्राह्मणस्सेतदकिञ्चि सेय्यो
यदा निसेधो मनसो पियेहि ।
यतो यतो हिंसमनो निवत्तति
ततो ततो सम्मति-मे-व दुःखं ॥८॥

*न्हय ब्राह्मणा स्रय मेळटा उणें तें*
*जेन्ना काडी मन सर्व सुखांतलें ।*
*जशी जशी सोंपता दुखोवंची वृत्ती*
*तशें तशें ना जाय दुखख ताचें ॥८॥*

जगांतल्या सगल्या आवडीच्या गजालींतल्यान (सुखांतल्यान) जेन्ना ब्राह्मण आपलें मन काडटा, तेन्ना तें ताच्या उण्या हिताचें नासता. जशी जशी हेरांक दुखोवचेली (हिंसा करचेली) ताची इत्सा सोंपता, तशें तशें ताचें दुख्ख ना जाता.

३९१. यस्स कायेन वाचाय मनसा नत्थि दुक्कतं ।
संवुतं तीहि ठानेहि तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥९॥

*काया वाचा मनानय बी दुश्कृत्य करिनाच कांय ।*
*संयमी ह्या तिनूय स्थानीं ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥९॥*

कायेन, वाचेन वा मनान कांयच वायट कृत्य करिनाशिल्ल्या ह्या तिनूय गजालींनी संयमी आशिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

३९२. यम्हा धम्मं विजानेय्य सम्मासंबुद्ध-देसितं ।
सक्कच्चं तं नमस्सेय्य अग्गिहुत्तं • व ब्राह्मणो ॥१०॥

*जाचेठांय जाणिलो धर्म पूर्ण बुद्धान सांगला ।*
*आदरान नमचें ताका अग्निहोत्रा जसो द्विज ॥१०॥*

पूर्ण गिन्यानी मनशान उपदेशिल्लो धर्म जाचेकडसून जाणून घेवंक मेळटा, ताका ब्राह्मण जसो अग्निहोत्राक नमस्कार करता तसो आदरान नमस्कार करचो.

★ ३९३. न जटाहि न गोत्तेन न जच्चा होति ब्राह्मणो ।
यम्हि सच्चं च धम्मो च सो सुची सो च ब्राह्मणो ॥११॥

*जटांनी जल्म गोत्रान जायना ब्राह्मण कोणच ।*
*जाचेठांय सत नी धर्म, ब्राह्मण तो पवित्र तो ॥११॥*

मनीस जटा दवरून, जल्मान वा गोत्रान ब्राह्मण जायना. जाचे ठांय सत आसा, धर्म आसा, तोच पवित्र, तोच खरो ब्राह्मण.

३९४. किं ते जटाहि दुम्मेध किं ते अजिनसाटिया ।
अब्भन्तरं ते गहनं बाहिरं परिमज्जसि ॥१२॥

*कित्याक रे जटा पाड्या हरणा चाम कित्याक तें ।*
*लागना थाव भितर्यां भायल्यान तूं धुता कित्या ॥१२॥*

आगा पाड्या मनशा, हे जटेचो आनी हरणा चामाचो कितें उपेग ? तुज्या अंतर्यामाचो थावूच लागना. भायल्यान तूं आपणाक कित्याक धुवता ?

★ ३९५. पंसुकूलधरं जन्तुं किसं धमनिसन्थतं ।
एकं वनस्मिं झायन्तं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।१३।।

*बोंदरां घार्ली धुल्लाचीं कल्लसो, दिसती शिरो ।*
*वनीं एकलोच ध्यानीं जो ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।१३।।*

धुल्लान भरिल्लीं फटकुरां घालपी, कायेन कल्ल कसो जाल्लो आनीः शिरंत्रांच दिश्टी पडटा असो, वनांत एकटोच ध्यान करपी मनशाक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

३९६. न चाहं ब्राह्मणं ब्रूमि योनिजं[६] मत्तिसंभवं ।
भोवादी[७] नाम सो होति सचे होति सकिंचनो ।
अकिञ्चनं अनादानं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।१४।।

*म्हण्णा ब्राह्मण कोणूय हांव आवय पोटचो कुळान वा ।*
*म्हण्टा हेरांक 'भो भो' तो गिरेस्त आसतय तसो ।*
*अकिंचन अनादान ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।१४।।*

ब्राह्मण कुळांत वा ब्राह्मण आवयच्या कुसव्यांत जल्म घेतला देखून हांव कोणाक ब्राह्मण म्हणिना. तो 'भो भो' म्हणून आफोवपी आसत (तो उद्धट आसत) वा गिरेस्तय आसत; पूण राग, द्वेश आनी मोह हांचे विरयत जाल्ल्या आनी कोणाकडल्यान कांयच घेनाशिल्ल्या मनशाक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

३९७. सब्बसंयोजनं छेत्वा यो वे न परितस्सति
सङ्गतिगं विसंयुत्तं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।१५।।

*तोडून बंधनां सर्व तरासना खरेंच तो ।*
*निस्संग ओड ना जाका ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।१५।।*

सगलीं बंधनां तोडिल्ल्यान जाका खरोच त्रास जायना, संग वा ओड जाका ना, ताका हांव ब्राह्मण म्हणटां.

३९८. छेत्वा नन्धिं[८] वरत्तं[९] च सन्दानं[१०] सहऽनुक्कमं ।
उक्खित्त-पळिघं[११] बुद्धं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।१६।।

*वादी दोरी तशी बेडी तोडून ती दुव्यांसवें ।*
*मोडलो बुद्धान जो आडो ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।१६।।*

क्रोध वा द्वेशरुपी वादी, तृष्णारुपी दोरी आनी दुव्यांसयत अंधश्रद्धेची आनी पाखंडमताची बेडी तोडिल्ल्याक, अज्ञानरुपी आडो काडिल्ल्या ज्ञानी मनशाक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

३९९. अक्कोसं वधवन्धं च अदुट्ठो यो तितिक्खति ।
खन्तीबलं बलानीकं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।१७।।

*द्वेशाबगर जो सोंशी निंदा बंधन मार बी ।*
*जो क्षमा-बळ सेनानी ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।१७।।*

निर्विकार जावन निंदा, बेडी, मार सोंसपी, क्षमारुपी बळ हीच सेना आशिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४००. अक्कोधनं वतवन्तं सीलवन्तं अनुस्सदं[१२] ।
दन्तं अन्तिमसारीरं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।१८।।

*व्रतवान् शीळवान् दान्त क्रोध आस विकार ना ।*
*निमाणी कूड जाची ही ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।१८।।*

क्रोधमुक्त, व्रतस्थ, सुशील, आपणाक आळाबंदा हाडिल्लो, तृष्णेविरयत जाल्ल्यान अहंकार गेल्लो, शुद्ध आनी जो निमणे फावटीं ही कूड धरता (जाका पुनर्जल्म ना) ताका हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४०१. वारि पोक्खरपत्ते * व आरग्गेरि व सासपो ।
यो न लिम्पति कामेसु तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।१९।।

*आरेवेलें जशें सांसंव कमळा पानार् जशें जळ ।*
*दसना लेप भोगाचो ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।१९।।*

साळका पानावेल्या उदकाथेंब्या भाशेन वा आरेच्या तोंकावयल्या सांसवा भाशेन कामवासनेचो लेप लागनाशिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४०२. यो दुक्खस्स पजानाति इधेव खयमत्तनो
पन्नभारं विसंयुत्तं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥२०॥

*अखेर आत्मदुख्खाची इहलोकांत जाणि जो ।*
*गळून भार जो मेकळो ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥२०॥*

हांगाच आपल्या दुख्खाची अखेर जाणिल्ल्या आनी भार गळिल्ल्या विरक्ताक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४०३. गम्भीरपञ्ञं मेधाविं मग्गामग्गस्स कोविदं ।
उत्तमऽत्थं अनुप्पत्तं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥२१॥

*ज्ञानी गंभीर प्रज्ञेचो मार्ग अमार्ग जाणिता ।*
*पावलो जो परमार्थाक ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥२१॥*

गंभीर (प्रगल्भ) प्रज्ञा आशिल्ल्याक ज्ञानी, योग्य आनी अयोग्य मार्ग जाणिल्ल्याक, परमार्थ जोडिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४०४. असंसट्ठं गहट्ठेहि अनागारेहि चूभयं ।
अनोकसारिं अप्पिच्छं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥२२॥

*भिक्षू ग्रहस्थ दोगांयच्या सांगातांतून वेगळो ।*
*नाशिल्लो आसरो इत्सा ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥२२॥*

ग्रहस्थी आनी भिक्षू ह्या दोगांचोय सांगात सोडून वेगळो राविल्ल्याक, घरदार सोडिल्ल्याक, गरजो उणो आशिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४०५. निधाय दण्डं भूतेसु तसेसु थावेरसु च ।
यो न हन्ति घातेति तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥२३॥

*उबारिना बडी केन्ना प्राण्यांचेर चराचर ।*
*लायना मारूक मारीनाय ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥२३॥*

चलपी आनी चलनाशिल्ल्या प्राण्यांचेर बडी उबारिनाशिल्ल्याक, कोणाचोच घात करिनाशिल्ल्याक वा करूक लायनाशिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४०६. अविरुद्धं विरुद्धेसु अत्तदण्डेसु निब्बुतं ।
सादानेसु अनादानं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।२४।।

*अविरोधी विरोध्यांत जुलमी लोकांत शांत जो ।*
*लोभ्यांत लोभ नाशिल्लो ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।२४।।*

विरोध करपी लोकांमदीं लेगीत विरोध करिनाशिल्ल्याक, जुलमी लोकांकडेन नमळायेन चलपी, लोभी मनशांमदीं निर्लोभी आशिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४०७. यस्स रागो च दोसो च मानो[13] मक्खो[14] च पातितो ।
सासपोरिव आरग्गा तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।२५।।

*राग द्वेश झडिल्ल्याचो ढोंग नी अभिमान बी ।*
*आरेवेलें जशें सांसंव ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।२५।।*

आरेवेलें सांसव जशें आपशींच गळून पडटा तशें जाचे विकार, द्वेश, अभिमान आनी ढोंगी चलणूक (दंभ) हीं सगलीं झडल्यांत, ताका हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४०८. अकक्कसं विञ्ञापनिं गिरं सच्चं उदीरवे ।
याय नाभिसजे कञ्चि तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।२६।।

*उलय जो नमळायेची भास म्होंवाळ नी सत ।*
*कोणाक लागना गा जी ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।२६।।*

कर्कश नाशिल्ली म्हळ्यार म्होंवाळ आनी नमळायेची आनी सत्य पूण कोणाच्या मनाक लागनाशिल्लीं उतरां जो लोकांकडेन उलयता ताका हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४०९. योध दीघं वा रस्सं वा अणुं थूलं सुभासुभं ।
लोके अदिन्नं नादियति तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।२७।।

*दीर्घ र्‍हस्व व्हडली ल्हान शुभाशुभ जगांत ह्या ।*
*दिले बगर घेना जो ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।२७।।*

दीर्घ आसूं वा र्‍हस्व आसूं, ल्हान आसूं वा व्हडली आसूं, बरी आसूं वा वायट आसूं, ह्या जगांत खंयचीच वस्त जो दिल्याविणें घेना, ताका हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४१०. आसा यस्स न विज्जन्ति अस्मिं लोके परम्हि च ।
निरासयं विसंयुत्तं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥२८॥

*हांगची वा परलोकाची आस जाका मुळींच ना ।*
*वासेविरयत संन्याशी ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥२८॥*

इहलोकाविशीं वा परलोकाविशीं जाका आशा ना, त्या वासना विरयत जाल्ल्या विरक्ताक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४११. यस्सलया न विज्जन्ति अञ्ञाय अकथंकथी[१५] ।
अमतोगधं अनुप्पत्तं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥२९॥

*निरीच्छ, सत जाणून सल्लो जाचो दुबावच ।*
*मेळ्ळें अगाध निर्वाण ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥२९॥*

निरीच्छ जाल्ल्याक, सत कळिल्ल्यान दुबाव ना जाल्ल्याक, देखून (कशें कशें' विचारिनाशिल्ल्याक) अगाध निर्वाण मेळिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४१२. यो ' ध पुञ्ञं च पापं च उभो सङ्गं उपच्चगा
असोकं विरजं सुद्धं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥३०॥

*जाणें पाप पुण्या हांगा दोंयचो सांगात सोडिलो ।*
*शुद्ध निश्पाप ना शोक ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥३०॥*

जाणें ह्या संवसारांत रावनूय पाप आनी पुण्य ह्या दोगांचोय सांगात सोडला, त्या शुद्ध आनी शोकाविरयत जाल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४१३. चन्दं ' व विमलं सुद्धं विप्पसन्नमनाविलं ।
नन्दीभव-परिक्खीणं[१६] तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥३१॥

*चंद्रसो विमल स्वच्छ शुद्ध प्रसन्न सामको ।*
*नुल्ली जाका भवा-तृष्णा ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥३१॥*

चंद्रिमावरी कळंकाविरयत, शुद्ध, सामको प्रसन्न आनी निर्मळ आशिल्ल्याक भवाची आनी संवसारसुखाची तान भागिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४१४. यो॰ मं पळिपथं दुग्गं संसारं मोहमच्चगा ।
तिण्णो पारगतो झायी अनेजो अकथंकथी ।
अनुपादाय निब्बुतो तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥३२॥

*हुपलो जाणें चिखला मार्ग मोहा संवसार दुर्गम ।*
*तरून पार पाविल्लो जो ध्यानी निःशंक निश्चल ।*
*लोभा मायेविणें शांत ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥३२॥*

ह्या चिखलाच्या मार्गा पलतडीं गेल्ल्याक, ह्या बिकट संवसाराक, मोहांक हुपून, पलतडीं पाविल्ल्याक, ध्यानी, भंयमुक्त, दुबावाविरयत जाल्ल्याक, लोभ-माया उरूंक नाशिल्ल्यान शांत जाल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४१५. यो॰ ध कामे पहत्वान अनागारो परिब्बजे ।
कामभव-परिक्खीणं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥३३॥

*सोडून कामना जालो घराभायरो प्रव्राजक ।*
*कामइच्छेन ना जल्म ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥३३॥*

ह्या जगांत कामना त्यागून घराभायरो जावन संन्यास घेतिल्ल्याक कामवासनेन मेळपी पुनर्जल्म जाका मेळचोना ताका हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४१६. यो॰ ध तण्हं पहत्वान अनागारो परिब्बजे
तण्हाभव-परिक्खीणं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ॥३४॥

*तृष्णा सोडून जो जालो घराभायरो प्रव्राजक ।*
*तृष्णाक्षयान ना जल्म ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ॥३४॥*

ह्या जगांत जाणें तृष्णा त्यागून घराभायरो जावन संन्यास घेतला, जाका तृष्णेक लागून मेळपी पुनर्जल्म मेळचोना, ताका हांव ब्राह्मण म्हणटां.

★ ४१७. हित्वा मानुसकं योग दिब्बं योगं उपच्चगा ।
सब्बयोग-विसंयुत्तं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।३५।।

*सोडून मानवी बंध हुपी पास सर्गांतुलो ।*
*सर्व पासांतुलो मेकळो ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।३५।।*

मानवी लागेबांधे सोडून दिव्य बंधनांचे पेल्यान गेल्ल्याक सगल्या पासांतल्यान मेकळो जाल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४१८. हित्वा रतिं च अरतिं च सीतिभूतं निरूपधिं
सब्बलोकाभिभुं वीरं तमहं ब्रूमि ब्राह्मण ।।३६।।

*सोडून सूख नी दुख्ख उपाधिवीण शांत जो ।*
*सगलें जग जिखपी वीर ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।३६।।*

सुख आनी दुख्ख सोडून वान्सा उरूंक नाशिल्ल्यान शांत जाल्ल्याक, उपाधि उरूंक नाशिल्ल्याक, म्हळ्यार पुनर्जल्माचें बियाण ना केल्ल्याक सगलें जग जिखिल्ल्या विराक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४१९. चुतिं यो वेदि सत्तानं उपपत्तिं च सब्बसो ।
असत्तं सुगतं बुद्धं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।३७।।

*जिवां सगले वशीं जाणी मर्ण पर्थो जल्मय तसो ।*
*ना ओड सुगता बुद्धाक् ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।३७।।*

सगल्या वटांनी प्राणिमात्रांचो मर्ण आनी पर्थो जल्म कळिल्ल्याक, कित्याचीच ओड उरूंक नाशिल्ल्याक, बरे वाटेन वचप्याक (सुगताक), ज्ञान मेळिल्ल्याक (बुद्धाक) हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४२०. यस्स गतिं न जानन्ति देवा गन्धब्ब-मानुसा ।
खीणासवं अरहन्तं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।३८।।

*वाट नेणात गा जाची    देव गंधर्व मानव*
*सोंपिल्लो दोश अर्हन्त    ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।३८।।*

जाची गती (मार्ग) देव, गंधर्व वा मनीसूय नेणात, जाच्या वासनांचो क्षय जाला, त्या अर्हन्ताक (संताक) हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४२१. यस्स पुरे च पच्छा च मज्झे च नत्थि किञ्चनं
अकिञ्चनं अनादानं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।३९।।

*नुल्लें मदलें फुडलें फाटलें    नुल्लें कांयच मुळींच खंय ।*
*ना मोह, कांयच घेना जो    म्हणां ब्राह्मण तोच हांव ।।३९।।*

कांयच फुडें, फाटीं, मदीं नाशिल्ल्याक, खंयचीच वस्त आपली अशें म्हणिनाशिल्ल्याक, दुस्वास आनी मोह हांचे विरयत जाल्ल्याक आनी कोणाच कडल्यान कांयच घेनाशिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४२२. उसभं[१७] पवरं वीरं महेसिं[१८] विजिताविनं ।
अनेजं[१९] नहातकं[२०] बुद्धं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।४०।।

*मुखेली वीर नी श्रेश्ठ    म्हारुशी जैतिवंत तो ।*
*धुविल्लो थीर जो बुद्ध    ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।४०।।*

मुखेली, श्रेश्ठ, वीर, म्हारुशी, जैतिवंत, निश्कंप म्हळ्यार थीर, पातकां धुवन उडयल्लो आनी ज्ञानी आशिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां.

४२३. पुब्बेनिवासं[२१] यो वेदि सग्गापायं च पस्सति ।
अथो जाति-क्खयं[२२] पत्तो अभिञ्ञा[२३] वोसितो मुनि ।
सब्बवोसितवोसानं तमहं ब्रूमि ब्राह्मणं ।।४१।।

*पूर्वजल्मांक जाणिल्लो    सर्ग नरकाक बी तसो ।*
*जल्मां अखेर गांठिल्लो    पूर्ण ज्ञानी असो मुनी ।*
*सर्वपूर्ण महर्षी जो    ताका ब्राह्मण हांव म्हणी ।।४१।।*

आपले पूर्वजल्म जाणिल्ल्याक, सर्ग आनी नरक पळेल्ल्याक (पर्थून जल्म नाशिल्ल्यान) जल्मांचो अंत केल्ल्याक, पूर्ण ज्ञानी अशा मुनीक, महर्षीक, सर्व वाटांनी पूर्ण आशिल्ल्याक (जें पूर्ण करपाचें तें पूर्ण केल्ल्याक) हांव ब्राह्मण म्हणटां.





टीप

१. झोत, प्रवाह, लोट.
२. ब्राह्मण.
३. जें निर्मूंक नाशिल्लें (अशें निर्वाण).
४. दोन धर्म – शमथ [समाधी] आनी विपश्यना.
५. निर्मळ आनी आसनांत थीर जाल्लो.
६. कुसव्यांत जाल्लो.
७. बुद्धाचे मुस्तींत ब्राह्मण हेरांक 'भो' म्हणून पाचारताले. 'भो' हें संबोधन उण्या पावंड्याच्या वा आपल्या समान पावंड्याच्या मनशाक वापरताले. बुद्धाक लेगीत ब्राह्मण 'भो' म्हणून पाचारताले. हेर लोक ताका 'भन्ते' (म्हाराज) म्हणून पाचारताले.
८. वादी.
९. दोरी.
१०. बेडी.
११. आडो.
१२. तृष्णा सोंपिल्ल्यान अहंकार गेल्लो.
१३. अभिमान.
१४. कपट, ढोंग वा कपटी वा ढोंगी चलणूक.
१५. 'कशें कशें' हें विचारिना तो, म्हळ्यार दुबाव गेल्लो.

१६. जांची भव आनी संवसार सुखांची तान भागल्या वा क्षीण जाल्या.

१७. श्रेश्ठ.

१८. म्हाऋशी.

१९. निश्कंप, थीर.

२०. स्नातक, धुल्लो (न्हाल्लो).

२१. पूर्वजल्म.

२२. जल्मांचो अंत.

२७. पूर्ण ज्ञान, दिव्य ज्ञान.

# टिपो

(डावे वटेनचो आंकडो गाथेचो क्रमांक दाखयता)

१. गौतम बुद्ध विचारांचे पवित्रतायेक विशेश म्हत्व दिता. ताच्या मत्तान बरे विचार बरें फळ आनी वायट विचार वायट फळ दितात. विचार पयलीं मनांत येतात. मागीर ते वाणींतल्यान आनी करणेंतल्यान परगट्टात. देखून भारतीय दर्शनांत मन चड म्हत्वाचें अशें सांगलां. देखीक — (अ) **मनएव मनुष्याणां कारणो बंध मोक्षयो। बंधाय विषयासंगी मोक्षे निर्विषयां स्मृतम्।।** (अमृतबिंदू उपनिषद् (२); मैत्रायणी उपनिषद् (६-३४). मनशाचें मनच ताच्या बंधनाक वा मोक्षाक कारण जाता. विशयांत घुस्पल्लें मन बंधनांत पडटा. विशयांतल्यान सुटिल्लें मन मुक्त जाता. (ब) **मानसं प्राणिनामेव सर्व कर्मक कारणम्। मनोरूप वाक्यंच वाक्येन प्रस्फुटं मनः।।** (नारदपंचरात्र – १.७-१८) मनशांच्या सगल्या करण्यांचें मन हेंच एक मूळ कारण. जशें मन तशें उलोवप. उलोवपांतल्यान मन उक्तें जाता.

१-२ मुक्ती मेळोवचेली आसल्यार आमकां आमचो सबावूच बदलचो पडटलो अश्यो ह्यो पयल्यो दोन गाथा सांगतात. मनशाचें मनच ताका वयर काडटा वा ताची अवनत करता. गौतम बुद्धान मनाचे शुचितायेक खूब म्हत्व दिलां. ताणें दाखयल्लो निर्वाणाचो (मुक्ती) मार्ग शील, समाधी आनी प्रज्ञा ह्या तीन गजालींचेर आधारला. शिलांत तीन गजालींचो आसपाव जाता – **सम्मा वाचा, सम्मा कम्मंत,** आनी **सम्मा आजीव.** (वाचा, कर्म आनी चलणूक बरी वा समा आसल्यारूच समाधी सादून मनशाक प्रज्ञेचो लाभ जातलो).

१-२ मनशाक दुख्ख सोंसना. दुख्खान मनीस भारावता आनी खचता. देखून दुख्खाक चाकाची उपमा दिल्या. चाकांचेरूच गाडयेचो भार आसता. सुखाक सावळेची उपमा दिल्या. कित्याक, सावळेक वजन नासता.

३-४ दुस्वास मनांत सदीं जागयतकूच विकारांच्यो गांठी जातात. ध्यान मार्गाच्या पालवान त्यो गांठी सोडोवन विकारमुक्त जाल्लो मनीस निर्वाण जोडटा. दुस्वास आनी सूड भावना मनशाच्या मनांतल्यान ना जायना तोवेर वैर आनी झगडीं-झुजां

सोंपचींनात. गौतम बुद्ध आमकां मोग आनी इश्टागत केळोवचेलो संदेश दिता. पूण मनीसकुळयेन हें सत आज लेगीत आपणायल्लें दिसना.

६. **धम्मपदा** वयल्या **अट्ठकथा** ह्या भाश्यांत सवे गाथेचेर भाश्य केलां तें अशें:– 'आनी हेर जाणिनात ह्या संवसारांत आमी सोंपतले'. पूण 'यम' ह्या धातूचो अर्थ 'आवरुया' असोय जाता. तेन्ना हे गाथेंतल्या पयले वळीचो अर्थ असोय लावं येता: 'ज्या हेरांक हें कळना तांचेमुखार आमी आमकां आवरुंया.' ह्या जगांतल्या अज्ञानी लोकांक ते एक दीस मातयेभरवण जातले हें सत कळना. देखून ते दुस्वासान जियेतात. पूण ज्ञानी लोकांक हें सत कळिल्ल्यान ते वैरभावना आनी दुस्वास आपल्या मनांतल्यान काडून उडयतात.

७.१६ **मारो** = मार. मार म्हणजे मारपी. मार तीन तरांचे आसात – (१) क्लेश मार, (२) मृत्यू वा मरण मार आनी (३) देव पूत मार. क्लेश मार धा तरांचे. ते अशे: लोभ, दोश (दुस्वास वा द्वेश), मोह, मान (अहंकार), दिठ्ठी (मिथ्या दृश्टी), विचिकिच्छा (दुबाव), थीण (आळस), उद्धच्च (औद्धत्य) वा चित्ताची चंचळताय, अहिरिका (दुश्कर्मां करतना लज नासप), ओट्टप (दुश्कर्मां करतना भंय नासप). ह्या धा क्लेशांक क्लेश मार म्हणटात. (२) ज्या वेळार वा हेतून मनीस मरता ताका मरण मार म्हणटात. (३) देवपूत मार हो कामलोकाच्या सव्या देवलोकांत रावता. तो थंयच्या वाठाराचो अधिकारी. तो कुशल वा बऱ्या कर्मांक विरोध करपी आशिल्ल्यान ताका सगळेच लोक भियेतात. भौतेक सगळेच देवपूत मार अधोगतीक वचून नरकांत पडटात. (पळयात: **धम्मपद**, भिक्षु धर्मरक्षित, मास्टर खेलाडीलाल एण्ड सन्स, वाराणसी-१, पृ. बोधिनी-३).

मार मनशाच्यो बऱ्यो वृत्ती ना करता. माराचेर जैत जोडप म्हळ्यार आपले वायट वृत्तीचेर जैत जोडप. मार आपले सेनेच्या पालवान मनशाक भूल घालता. माराचे सेनेचे वांगडी धा. ते अशे: इंद्रियांक सुख दिवपी चैनीच्यो वस्ती; अरति वा उबगण; भूक आनी तान; विशय वा भोग वासना; आळसाय; भय; कुशंका; गर्व; लाभ, भौमान आनी पुजा; फट मार्गान जोडिल्ली कीर्त जेवरवीं मनीस आपलीच तुस्त आनी परनिंदा करता.

१०.२६ गौतम बुद्धान ध्यानाच्या पालवान समाधी सादपाचेर भर दिला. समाधी सादपाक चित्ताची थिराय जाय. चित्त एकाग्र जावंक मनशान व्यसनां सोडचीं पडटलीं. तशेंच मनशान पांच गजाली टाळपाक जाय. ह्यो पांच गजाली अशो: प्राणघात, चोरी, अब्रह्मचर्य, फट उलोवप, घुंवळी पदार्थ घेंवप. ह्या पांच गजालींचें टाळप म्हळ्यार शील. समाधी सादपाक शील राखूंक जाय.

११. **सार** म्हळ्यार पदार्थ वा वस्तू हाचो आपरोस वा मूळतत्व वा वास्तव. तें तत्त्वगिन्यानाचे नदरेन व्हडांतलें व्हड वास्तव. नितीक नदरेन हाकाच सत म्हणटात.

११-१२. श्री रामदास स्वामी हांच्या 'मनाचे श्लोक' हांतले हे श्लोक देखीक पळयात :

*मना पापसंकल्प सोडून द्यावा। मना सत्य संकल्प जीवीं धरावा॥५॥*
*मना सर्वथा सत्य सोडूं नको रे, मना सर्वथा मिथ्य मांडू नको रे।*
*मना सत्य तें सत्य वाचे वदावे, मना मिथ्य ते मिथ्य सोडूनि द्यावे॥१९॥*

१३. **भावित** म्हळ्यार कायगता स्मृती, मरणस्मृती, इश्टागत (मैत्री) ह्या ध्यान करपाच्या विशयांच्या नित्य विचारांत घोळिल्लें. अशें भावित चित्त राग-द्वेश-मोहा विरयत जाता.

१५. हो लोक वा परलोक, नरक वा सर्ग, दुर्गती वा सद्गती ह्यो कल्पना हिंदू, ख्रिस्ती, बौद्ध ह्या धर्मांत मेळटात. गौतम बुद्ध ह्या जगांतच आमकां सर्ग वा नरक निर्मूंक येता अशें सांगता. बरें, विवेकी, विचारी मन सर्ग निर्मिता. इंग्लीश म्हाकवी जॉन मिल्टन हाणें आपल्या **Paradise Lost** ह्या म्हाकाव्यांत सेटनाच्या (सैतानाच्या) मुखांत हीं उतरां घाल्यांत: **'Mind is its own place and in itself can make heaven of hell and hell of heaven.''** (मनाचें घर मनच, घडयता तें मनच/ सर्गाचो करता नरक वा नरका करी सर्ग). मनाक ही तांक आशिल्ल्यानूच गौतम बुद्ध आमकां आमचें मन पयलीं वश करूंक सांगता. तें वश केल्यार ताका बरे विचार करूंक लावन आमकां सुगती मेळोवंक येतली.

१५/१८ आपणें केल्ल्या पुण्यकर्मान संतोश आनी आनंद भोगता. पापकर्मान शोक आनी ताप जाता. हो अणभव, ही वेदना, कर्म करतकूच ह्या जल्मांत आनी कर्माचें स्वर्ग-नरक रूप मेळटकूच पर्थून परलोकांत जाता.

१७/१८. **दुग्गतिं-सुग्गतिं** = दुर्गती, सुगती. मनीस आपल्या कर्मांनुसार मर्णाउपरांत वेगवेगळ्या लोकांत जल्म घेता अशें बौद्ध धर्मांत मानतात. अशे कुल्लीं ३१ लोक वा अवस्था आसात जंय मनीस मर्णाउपरांत वता. मनशान पापकर्मां केल्यार ताका दुर्गती मेळटा. दुर्गतींत चार अवस्था वा दशा आसात : (१) निरय वा नरक (२) मोनजातीची योनी (३) प्रेत योनी (४) असूर योनी. पुण्यकर्मां केल्यार खंयचीय एक फावो जाता त्यो स्थिती अशो : (१) मनुश्य लोक, (२) ते (७) कुल्लीं स तरांचे देवलोक. ह्या स देवलोकांक कामलोक अशेंय म्हणटात.

कामलोकाचे वयर रूपलोक आसा. हातूंत जे सुगती मेळिल्ले लोक पावतात, तांकां ध्यान मार्गांत तांणी सादिल्ले कुशलतायेप्रमाण वेगवेगळी स्थिती मेळटा.

कुल्लीं अशो बारा स्थिती आसात. अर्हत्पद मेळिल्ले शुद्धवास नांवाचे बारावे स्थितीक वतात. कामलोकांवयर आनीक चार लोक आसात. तांकां अरूपलोक अशें म्हणटात. त्या लोकांत पाविल्ल्यांक देह नासता. तांकां निखटें मनच आसता. जे रूपलोक आनी अरूपलोकाक वतात तांकां लींगभेद नासता. (पळयात : **The Buddha Dhamma**; Narada Thera; S. Asian Educational Services, New Delhi 1991. pp. 199-203).

१७/१८. बरीं कर्मां मनशाक सुगतीक व्हरतात. वायट कर्मां दुर्गतीक व्हरतात. कायीक तशींच वाचीक कर्मां बरीं आसचीं ही गौतम बुद्धाची शिकवण. तांणी उपदेशिल्ल्या अष्टांग मार्गाचीय हीच देख. आमी व्यक्ती म्हणून वा रासवळ जिणेंत केल्ल्या बऱ्या वायट कर्मांचो विपाक (फळ) भोगतात. ह्या कार्यकारणभावाचेरूच बौद्ध धर्मातल्यो नितीक आनी जापसालदारकेच्यो संकल्पना आदारल्यात.

१९/२०. गौतम बुद्धाची शिकवण उजू आनी बरे जिणेची वाट दाखयता. ती निखटें उलोवपाचें तत्वगिन्यान सांगिना. निती तत्वां जिणेंत मुरोवन जण एकल्यान आपली जीण बरेतरेन सारपाची देख ती दिता. आमच्या विचारां भाशेनच आमी जाल्ल्यान आमची प्रत्येक करणी म्हत्वाची आसता. बरी करणी बरें फळ दिता. वायट करणी वायट फळ दिता. आपल्या कर्मांनीच मनीस वीख वा अमृत निर्मिता. देखून प्रत्येकान बऱ्यो करण्यो करच्यो आनी वायट टाळच्यो अशें गौतम बुद्धाचें सांगणें. हाचे पासत मनशान आपलें मन आळाबंदा हाडूंक जाय. बरे विचार, बरें कर्म आनी बरें उतर हे त्रयीचे आदारान मनशान चलल्यार ताका निर्वाण (मोक्ष) मेळटलें. बऱ्या शिलाचारान मनशाक सर्ग जोडूंक येतलो.

'**अवतंसक सुत्रां**'त जे लोक उलोवपा भाशेन करणी करिनात तांची हिमटे हिशेब सांबाळपी, भेड्डे संगीतकार आनी कुड्डे चित्रीक हांचेकडेन तुळा केल्या.

२१. अप्रमादान (गाथेवयली तळटीप १ पळयात) जीण सारपाचेर बुद्धान चड भर दिला. अप्रमादी मनीस सावध, ध्यानमग्न, संयमी आनी विवेकी आसता जाल्यार प्रमादी मनीस सुस्त, सैराट चलपी, अविवेकी आसता.

२२. **अरियं** (सं. आर्य) म्हळ्यार वेंचून काडिल्लो, उत्तम, श्रेश्ठ, व्हडविकायेचो, वरतो, उंच कुळयेंतलो. दुसऱ्या अर्थान उजू मार्गान चलपी, देखीचो, आदर्श असो. निर्वाणाचे वाटेर आशिल्ल्या जीवन-मुक्ताक '**अरिय**' म्हणटात.

२३. **झायिनो** = ध्यान करपी. गौतम बुद्धान जागरूक रावन सतत ध्यान करपाचेर भर दिला. शीळवंत जावन ध्यानान समाधी सादल्यार मनीन ज्ञान जोडून प्रज्ञावंत जाता. सम्यक् (पूर्ण) समाधीचीं चार सपणां (चार ध्यानां) सांगल्यांत. पयल्या

ध्यानांत वितर्क, विचार, प्रिती (मोग), सुख आनी एकाग्रताय आसता. दुसऱ्या ध्यानांत विचार आनी वितर्क ना जातात. प्रिती, सुख आनी एकाग्रताय ह्योच चित्तवृत्ती मुखेल आसतात. तिसऱ्या ध्यानांत प्रिती ना जावन सूख आनी एकाग्रताय उरतात. चवथ्या ध्यानांत सुखय ना जाता. उपेक्षा (थीर बुद्धी) आनी एकाग्रताय हींच उरतात. (पळयात **समाधि मार्ग,** धर्मानंद कोसंबी, रघुवंशी प्रकाशन, पुणें-२, पृ. ५).

२३. **निब्बाणं** (सं. **निर्वाण**) मनांतलो राग, दुस्वास आनी मोह ना जावप म्हळ्यार निर्वाण जोडप. देखून तें जोडटकूच मनीस उच्च अशा मनाचे अवस्थेंत वता. निर्वाणाक अच्युत पद वा अमृतपद अशेंय म्हळां. निर्वाणासंबंदान अस्तमतेच्या पंडितांचे जायते तर्क आसात. कोण म्हणटा निर्वाण अभावमात्र (annihilation) दुसरें कांयच ना. दुसरो म्हणटा हें खरें न्हय. बौद्धांची संख्या इतली व्हड आसा की ते सगले अभावाक भजत अशें दिसना. बुद्ध अक्रियावादी (annihilationist) असो आरोप ताचे विरोधक ताचे आड ताचे हयातींतच करताले. हेविशीं एकदां वज्जींचो सेनापती सिंह हाणें ताका विचारलें, तेन्ना ताणें म्हळें, ''सिंहा, हो आरोप एका अर्थान खरो. सगल्या पाप-विचारांची (अकुशल वा वायट संस्कारांची) अक्रिया म्हाका पसंत आसा. तांची अक्रिया करची असो हांव उपदेश करतां, देखून म्हाका अक्रियावादी म्हळ्यार जाता. हाचे उफाट्टें हांव क्रियावादी (realist) अशेंय कोण म्हणत. कित्याक, पुण्य विचारांची (कुशल संस्कारांची) क्रिया म्हाका पसंत आसा. तांची क्रिया करची, तांकां पुर्णतायेक व्हरचें असो हांव उपदेश करतां, देखून म्हाका क्रियावादी म्हळ्यारूय हरकत ना.'' (**महावग्ग; अंगुत्तर निकाय**) (ह्या संवादावयल्यान बुद्धान अभावमात्र जोडपाचो उपदेश करूंक ना हें स्पश्ट जाता.)

जम्बुखादक नांवाच्या परिव्राजकान सारिपुत्राक निर्वाण हें कितें असो प्रस्न केलो. तेन्ना सारिपुत्रान म्हळें: ''**यो खो आवुसो रागक्खयो दोसक्खयो मोहक्खयो इदं वुच्चति निब्बाणं.**'' (राग आनी मोह हांच्या क्षयाक निर्वाण म्हणटात). हाचो अर्थ असो की, लोभ, दुस्वास आनी मोह हे तीन मनाचे अकुशल धर्म (संस्कार) ना जातकूच निर्वाणाचो साक्षात्कार जाता. जांच्या अंतस्करणांतल्यान राग, दुस्वास, मोह मुळासयत ना जातात, म्हळ्यार जांच्या वासनांचो क्षय जाता, अशा महर्षींकूच निर्वाणाचो साक्षात्कार जाता. तें कितें हें तेच जाणटात. **'अभिधम्मत्थसंगहां'**तली ही गाथा हें स्पश्ट करता :

*पदमच्चुतमच्चन्तं असंखतमनुत्तरं।*
*निब्बानमिति भासन्ति वानमुत्ता महेसयो।।*

जांच्या वासनांचो क्षय जाला अशे महर्षी, निर्वाण हें अच्युतपद आसा ताका अंत ना, तें सामकें शुद्ध आनी तें लोकोत्तर आसा अशें म्हणटात (**अभिधम्मत्थसंगह**).

अर्हत्पद मेळिल्ल्या खिणाक निर्वाणाचो साक्षात्कार जाता. पूण सगल्या दुख्खांचो पुराय नाश जायना. राग-द्वेश-मोहांतसून उप्राशिल्ली मानसिक पिडा तेन्नाच ना जाता; पूण कुडीचें दुख्ख जिणेचे अखेर मेरेन आसता. देह पडटकूच तें सोंपता. अर्हन्ताच्या मर्णाक परिनिर्वाण म्हणटात. बुद्धाच्या परिनिर्वाणाक महापरिनिर्वाण म्हणटात. (पळयात, **बुद्ध, धर्म आणि संघ**. धर्मानंद कोसंबी (१९७४); पृ. ७९-८१).

२४. **उट्ठानवतो** म्हळ्यार उठपी, देखून तो उद्येगी. तो फांत्यापारार उठून वाव्राक लागता. जो मनीस दशाभश्ट जावनूय यत्न करून पर्थून वयर सरता तो जागरूक आनी उद्येगी आसता. एकदां ताची अवनत जाली ण तो खचना. बुद्धान आपल्ने शिकवणेंत यत्नाचेर भर दिला.

२६/२७. ह्यो दोनूय गाथा बुद्धान गाळी संवतल्यांक उद्देशून म्हळ्यात.

३१.१६. संयोजन = (बंधन वा पास). संवसारचक्राक जें बांदता तें बंधन. हीं बंधनां धा तरांचीं :

[अ] **स्थूल वा सकयलीं संयोजनां :** (१) **सक्काय दिट्ठी** (सत्कयदृश्टी) – आत्मो हो एक वेगळो पदार्थ आनी तो नित्य आसता अशें माना, (२) **विचिकिच्छा** (विचिकित्सा) – बुद्ध, धर्म आनी संघ हांचेविशीं अविश्वास वा दुबाव, (३) **सीलबत्तपरामस** (शीलव्रतपरामर्स) शीलव्रतांची ओड आसप आनी स्नानादी व्रतांनीच मुक्ती मेळटली असो विश्वास बाळगप, (४) **कामच्छंद** वा कामराग – कामवासना, (५) **पटिघ** वा **व्यापाद** – क्रोध.

[ब] **सुक्षीम वा वयलीं संयोजनां :** (६) **रूपराग** – ब्रह्मलोकादी जोडच्ली इत्सा वा ओड, (७) **अरूपराग** – अरूप लोकादी जोडचेली इत्सा; (८) **मन** – अहंकार वा हांवपण वा हंतम, (९) **उद्धच्च (औद्धत्य)** – चित्ताची चंचळताय, (१०) **अविज्जा** – (अविद्या).

३१.१७ **अग्गीव** = उज्या भाशेन. उजो जाका लागता ताका तो जाळून भस्म करत आनी मागीर तो पालवता. तेच भाशेन साधक ल्हान व्हड अशा सगळ्या बंधनांक जाळून गोबोर करता आनी आपूण पर्जळून मागीर शांत जाता. ताका मागी निर्वाण वा मुक्ती मेळटा. सगळ्या संयोजनांचो वा बंधनांचो क्षय जातकूच मनशाक अर्हत्दशा मेळटा. तो जीवनमुक्त जाता. हाचेंच नांव निर्वाण.

३१/३२. बुद्धघोष अशें बरयता. 'हे अवस्थेंत आशिल्लो भिक्षू मनाची थिराय वा निश्कंपताय तशींच चार आर्यसतां आनी तांचेपासून मेळिल्ल्या फळांपासून तो पयस वचचोना. तीं ताणें आदींच जोडिल्लीं आसल्यार, तीं तो व्हगडावचोना आनी तीं जोडूंक नासल्यार तीं ताका मुखार मेळटलींच.'

३३. भारतीय दर्शनांत चित्त चपळ आनी चंचळ आशिल्ल्यान तें राखूंक आनी निवारूंक कठीण अशें मानलां. देखीक **श्रीमत् भगवद्गीतेंतलो** हो श्लोक पळयात :

**असंशयं महाबाहो मनो दुर्निग्रहं चलम्।**
**अभ्यासेन तु कौन्तेय वैराग्येणच गृह्यते ॥६-३५॥**

*दुबावावीण गा पार्था आडांगी मन चंचळ।*
*वैराग्यान अभ्यासान कौन्तेया वश तें करचें ॥६-३५॥*

(अ. सुरेश आमोणकार)

३३. कुन्दर दिवाण **धम्मपदा**च्या अणकारांत हे गाथेचेर अशें भाश्य करता : 'तिरान मोखीचो वेध करचो आसता. निर्वाण ही चित्ताची मोख देखून चित्त शररूप जाता. तीर सामको उजू (सरळ) नासल्यार तो फळादीक जावंचोना. तशें चित्त सरळ (एकाग्र) नासल्यार तें प्रमाद (अविवेक) करतलें. तिराचे उपमेचें हें रहस्य.' (**धर्मपद**; कुन्दर दिवाण; ग्रामसेवा-मंडळ; नालवाडी, वर्धा; १९५६; पृ. ५५).

३७. चित्त हें वाऱ्यावरी एकमुळें, पयस भोंवपी, अमूर्त आनी अव्यक्त (गुहाशय) अशें आसता.

३८. जाचे ठांय प्रसाद ना, म्हळ्यार बुद्धी-नित्शय ना, असो मनीस. जाचें मन भ्रमान आनी दुबावान भरिल्लें आसता, जाका सदाचार नासता, तशेंच जाचें चित्त एकाग्र जाल्लें नासता, ताची ज्ञानशक्ती तरतरना (पळयात **धर्मपद**; कुन्दर दिवाण; पृ. ५५).

३९.१२ **अनवस्सुत चित्तस्य** = ज्या चित्ताक विकार दोशाची बादा जावंक ना. (पळयात **'ललितविस्तर'** प्रकरण २३). **शुष्क आश्रव न पुना श्रवन्ति** – विकार दोश सुकतकच ते पर्थून व्हांवचेनात. विकारदोश चार तरांचे आसात : (१) कामविकार, (२) भवविकार, (३) दृष्टीविकार (४) अविद्या विकार. हांकां ओघ वा लोट हें नांव दिलां.

३९. **पुञ्ञपापपहिनस्स** = पापपुण्य हीं सोडल्यांत. श्रावस्तींतल्यो ब्राह्मण बायलो बुद्धाकडेन उपदेश घेवंक आयिल्यो. तेन्ना ताणें म्हळें : ''जगांतल्यो दोन गजाली

केन्नाच बदलूंक येनात. बरीं कर्मां सुख दितात आनी वायट कर्मां दुख्ख दितात. पूण सर्गाची खोस आनी धतरीवेलीं दुख्खां हीं दोनय टाळचीं (हें चडशे लोक समजनात). पळयात Dhammapada (Sammuel Beal) pp. 89. तो पापपुण्याचे पेल्यान गेला देखून तीं ताणें सोडल्यांत. ताका सर्गसुखाची ओड ना. ह्या जगांत वायट कर्मांय तो करिना. निर्वाण हीच ताची मोख, जंय सुख आनी दुख्ख ना. पाप आनी पुण्यय नात. निर्वाणांत मनशाच्या मनाची अवस्था जल्म मरणाचे पेल्यान वता. श्री. अनंत कदम **धम्मपदा**च्या आपल्या अणकारांत हे गाथेचेर अशें भाश्य करता : 'सगल्या दुख्खाचें कारण जल्म अशी बौद्धमत्ताची शिकवण. देखून जल्म टाळूंक जाय. ज्या कर्मांनी (मिथ्या प्रवृत्ती) जल्म मेळटा, तीं कर्मां टाळूंक जाय. मन ऐहिक, पार्थीव गजालींपसून दुसरेकडेन वळोवप गरजेचें. पुण्य आनी पाप ह्या दोंयचोय विचार थांबोवप म्हळ्यार सर्गांतलीं सुखां कांक्षेवप ना आनी पृथ्वीवेलीं दुख्खांय टाळपाचीं असोय अर्थ जावं येता. बऱ्या कर्मान सुख मेळटा, वायट कर्मान दुख्ख, ही बुद्धाची शिकवण सामकी घट, तिका हांगाय कांय बाधा येना. पुणून मनशाक श्रेयस्कर म्हळ्यार निर्वाण. निर्वाण ही स्थिती जल्म-मर्णाचे पेल्यान वता. म्हळ्यार, थंय सुखूय ना, दुख्खूय ना. ही मनास्थिती सामान्य मनशाक लाभप कठीण. देखून निदान जें जें कितें बरें आसा तें करचें, वायट टाळचें.' (पळयात **धम्मपद**, अनंत कदम, मॅजेस्टिक प्रकाशन, मुंबई ४, पृ. १४).

३९.१३ पापपुण्याचे पेल्यान – पाप न केल्ल्यान पाप-मुक्त आनी पुण्य ओडीविणें केल्ल्यान पुण्य-मुक्त.

४०. **कुम्भूपमं** = बुडकुल्यावरी. आमची कूड बुडकुल्यावरी आसता. मर्णाउपरांत ती आमचे वांगडा येना. पूण चित्ताचें तशें न्हय. आमचें चित्त (चेतना) आमचो सांगात केन्नाच सोडिना. देखून भावनांच्या अभ्यासान नगराच्या कोटा भाशेन सुरक्षित, मार-शत्रूचे घुरये आड सुसज्ज करून प्रज्ञेचे तरसादीन ताचेकडेन झुजचें आनी जोडिल्ल्या वित्ताक (ज्ञानाक) राखून शिटूकसाणीन (ओडीविणें) राखचें.

४६. मनशाची काया ही उदकाच्या फेणावरी **(फेणूपमं)** म्हणजे बुडबुड्यावरी सारहीण आनी खिणयाळी आनी मृगजळावरी **(मरीचिधम्मं)** भास निर्मुपी आसता. फेणान मनशाची तान भागना तेचपरी मृगजळ जरी उदका भाशेन दिसलें ताचे फाटसून धांवपी पिसो थारता. आमचे कायेविशीं आमचेठांय आशिल्ली भोग घेवंचेली वृत्ती त्यागप आनी विरक्त जावप म्हणजेच कायेक फेण आनी मृगजळ अशें लेखप. माराचीं फुलां म्हळ्यार विशयभोग जो अखेर मनशाचें अहित करता. जो हें सत जाणिना ताका काळ वश करता.

४७/४८. मनशान आपली जीण सारतना सतत भान राखलेंना जाल्यार भोगवान्शेचीं फुलां पुंजायतना आमच्यो कामना तृप्त जावंचे आदींच आमकां काळ व्हरतलो.

५१. संत तुकारामाच्या 'बोले तैसा चाले त्याची वंदावी पाऊलें' ह्या वचनाची हांगा याद जाता.

५८/५९. श्रावक जावंक नाशिल्ले सामान्य लोक कोयरावरी आसतात. श्रावक हो कमळावरी परमळ दिता.

६२. श्री शंकराचार्य हांच्या 'भजगोविंदम्' ह्या पुस्तकांतलो हो श्लोक पळयात: *बायल कोणाची? पूत कोणाचो? थावच लागना संवसाराचो! तूंच कोणाचो? खंयच्यान येशी? घेरे सोद हांगाच आपलेशीं!* (अणकारपी भौ. बाकीबाब बोरकार).

६९. आपणें केल्लीं पापकर्मां जोवेर फळाक येनात, तोवेर मनशाक त्या पापकर्मांतल्यान घडये सुख मेळतय. पूण केल्ल्या पापाचें फळ मेळपाक वेळ लागता. ताचें फळ मनशाक भोगचेंच पडटा; त्या कर्मांतल्यान मनीस केन्नाच सुटचो ना. देखून गौतम बुद्धान बरीं कर्मां करपाचेर भर दिला.

७०. भारतांत उपास-तपास करून देहाक दंडावपाची एक परंपरा आसा. गौतम बुद्धान आपल्या देहाक दंडावन पळयल्लें आनी हे साधनेंत अर्थ ना ह्या निर्णयार तो पाविल्लो. ताचो भर बऱ्या विचार आचारांचेर आसलो. देखून लोकांनी मदल्या मार्गान चलचें अशी ताची शिकवण आसली.

७१. दुदापसून धंय जाता तो दुदाचो विकार. जशें ताजें बरें दूद बेगीन विटकळना, तशेंच पापकर्म आपलें फळ रोखडेंच दिना. पापाचें फळ उसरां मेळटा. जसो गोबरान धांकिल्लो उजो ल्हवूल्हवू जळटा, तशें पाप मनशाक ल्हवू ल्हवू खाता. पापाचो सभाव दोट्टी आसता. तें कालांतरान फळटा आनी तें फळाक येसर करतल्याक ल्हवु ल्हवू छळटा.

७२. वित्त म्हळ्यार ज्ञान आनी संपत दोनूय. अनर्थ म्हळ्यार अहीत. जोवेर विद्या आनी संपत्ती हांचो उपेग दुसऱ्यांच्या हिताखातीर जायना तोवेर त्यो दोनूय शक्ती बुद्धीक ना करून मनशाक सत्वहीण करतात.

८९.१२ **संबोधि अङ्गेसु** = संबोधिचीं आंगां. संबोधी म्हळ्यार ज्ञान. ज्ञानाचीं आंगां सात आसात तीं अशीं: (१) **सति** – जागरुकताय, (२) **धर्मविचय** – धर्मशोध, (३) **विरिय** – उत्साह; (४) **पिती** – सत्कर्मापसून मेळपी आनंद वा खोस, (५) **पस्सदि** (प्रश्रब्धि वा चित्तशांती वा चित्तसुख); (६) **समाधि** = चित्ताची एकाग्रताय; (७) **उपेख्खा** = चित्ताची समताय वा स्थितप्रज्ञताय वा थीर बुद्द.

८९.१५ **ते लोके परिनिब्बुता** = ते हांगाच निर्वाण जोडटले. ह्या जगांत निर्वाण जोडप म्हणजे अहंकार ना करप. ताका आनी ताचीं चार फळां (चत्तारि फलानि) मेळयल्ल्याक अर्हत्पद मेळटा. तोच जीवन-मुक्त. ताका उपाधिशेष निर्वाण मेळटा. देह पडटकच ताका अनुपाधिशेष निर्वाण मेळटा. हीच विदेहमुक्ती. ताचे जिणें दिवलेंतलें तेल सोंपता. अस्तित्वाचें बीं सुकून ताका निर्वाणाचें परम सुख मेळटा. पूण बुद्धाक तें आपल्याच खाशेल्या यत्नांनी मेळटा. (पळयात **The Dhammapada**, S. Radhakrishnan, Oxford University Press, Madras, (1992) pp. 87).

९०.३. **विप्पमुतस्य सब्बधि** = सगल्यांतल्यान मुक्त जाल्लो. निर्वाण जोडचेल्या मार्गांत सगल्यांत वयल्या पावंड्यार पाविल्ल्या श्रेश्ठ पुरुशाक (अरियाक) अर्हन्त म्हणटात. (अर्हन्त म्हळ्यार शत्रूचो नाश करपी. हे मनशाचे भितरले शत्रू). अर्हत्पदाचेर पावचे पयलीं ताका तीन पावंडे चडचे पडटात ते अशे: (१) श्रोतापन्न, (२) सकदागामी, (३) अनागामी. चवथो पावंडो अर्हत्पदाचो. श्रोतापन्न म्हळ्यार लोटांत भितर सरिल्लो. सकदागामी एकदांच पुनर्जल्म घेता. अनागामीक तो घेवचो पडना. निर्वाण मेळचे पयलीं ताका ब्रह्मलोकांत घडये जल्म घेवचो पडत. पूण अर्हन्त जल्म-मर्णाच्या फेऱ्यांतल्यान सुटिल्ल्यान ताका पुनर्जल्म ना.' ताका ह्याच जल्मांत निर्वाण मेळटा.

९०.४. **गन्थ** (सं. **गन्थी**) = गांठ. चार तरांच्यो कुडीच्यो वा चित्ताच्यो गांठी सांगल्यात. (१) **अभिज्ञा** (सं. **अभिष्या**) – हेरांच्या धनाची इत्सा, आशाधोशीपणा, (२) **व्यापाद** – परद्वेश, (३) **सीलब्बतपरामसो** – व्रतां आनी उपासांनी मोक्ष मेळटलो हो समज बाळगप, (४) **इंदसच्चाभिनिवेसो** – हांव म्हणटां तेंच खरें असो दुराग्रह.

९२.१० **विमोक्खो** (सं. **विमोक्ष**), मुक्ती, मोक्ष. मोक्षाचे तीन प्रकार सांगल्यात: (१) **सुञ्ञतो** – शून्य, म्हळ्यार विकार दोश सोंपिल्लो, (२) **अनिमित्तो** – जाचें लक्षण वा कुरू ना वा जाचें वर्णन करूंक येना असो, (३) **अ-पणिहित** – ओड, द्वेश आनी मोह हांचे सारक्यो प्रणिधी (तीव्र इत्सा) जातूंत ना असो.

९२.११ **आकासेव सकुन्तानं गति तेसं दुरन्नया** – ''मळबांतली सवण्याची वाट''. हो जपानी ध्यानमार्ग (झॅनमार्ग) ध्यानांतलो पयलो पावंडो अशें मानतात. हे वाटेंत पयलीं 'हांवपण' सोडून अहंकाराविरयत (egolessness) आशिल्ली आमची मूळ स्थिती मेळोवंचेली आसता अशें जपानी झॅन (Zen) आचार्य शिगेत्सु सांगता. हे स्थितीची नित्य जाणविकाय दवरल्यार मनीस ''शून्यत्वां''त चलतलो. हेंच ''सवण्याचे वाटेन चलप'' (**Dhammapada**, Thomas Cleary, Bantam Books, New York, 1995. pp. 35).

९३.१२ **यस्सासवा** – जाचे आसव (सं. **आश्रव**) वा विकार वा दोश. विकार चार तरांचे सांगल्यात. ते मोक्ष मेळोवपाच्या मार्गांत आडखळी हाडटात. ते आश्रव वा विकार अशे: (१) **कामासव** – ऐहिक जिणेंतल्या भोगांची ओड; (२) **भवासव** – जल्म घेवपाविशीं ओड; (३) **दिट्टी आसव** – मिथ्या दृश्टीचो दुराग्रह, (४) **अविज्जा आसव** – अविद्या; अज्ञान.

९३.१३ **आहार** = आहार वा भोजन घेवप. आहार चार तरांचे सांगल्यात : (१) **कबळींकार** – काया पोसपाक सामान्यतायेन घेतात तो, (२) **फस्साहारो** – रूपरसादी विशयांचो मनाकडेन संपर्क जावन वा स्पर्श जावन घेतिल्लो आहार, (३) **मनोसंचेतना आहार** – मनाच्या व्यापारांतसून घेतिल्लो आहार, (४) **विज्ञानो आहार** – चित्त वा मनाचे जाणविकायेंतल्यान घेतिल्लो आहार.

९४.१४ **सारथिना** = सारथ्यान. सारथ्याचो दृश्टांत भारतीय साहित्यांत सर्रास वापरला.

९५.१५ पृथ्वीक **क्षमाधरित्री** अशेंय म्हणटात.

१०३-१०५. संयमी मनशान जिखिल्लें, म्हळ्यार शांती निर्वाण असो अर्थ जाता. कित्याक, संयमी मनशाक आपल्याच मनांत व्हड झूज करून तें जोडचें लागता.

१०६. **भावितात्मा** म्हळ्यार जाणें भावनेच्या, ध्यानाच्या पालवान अंतस्कर्ण शुद्ध करून प्रसन्नताय जोडल्या असो पुण्यात्मो.

१०६/१०७. मुक्ती आनी लाभाचे उदेशीं केल्लें यज्ञकांड आनी पुजापनस्कार गौतम बुद्धाक माननाशिल्लीं.

११३. **उदय** म्हळ्यार संवसारांत येवप (म्हळ्यार बंधनांत पडप) आनी **व्यय** म्हळ्यार संवसारांतल्यान भायर सरप, म्हळ्यार मुक्ती वा मोक्ष. बंध-मोक्षाचें कारण जाणपांतच जिणेची सफलताय आसा, जिविताच्या कालावधींत ना.

१२३. जिणेचें व्हड भांडवल मेळ्ळां ताचेरूच आमकां धर्माचरणाचो वेपार करूंक जाय आनी शांतीचो फायदो (बरो परिणाम) काडूंक जाय. पूण ह्या संवसार रानांत खूब थोड्या सज्जन लोकांचो आमकां वांगड मेळटा. देखून वाटमाऱ्या चोरांचो जंय सुळसुळाट आसा त्या पापकर्माचे आडवाटेन आमी वचूंक जायना. (पळयात **धर्मपद**; कुन्दर दिवाण, पृ. ६०).

१२४. कर्म हो घावो, पाप हो विखाचो स्पर्श. घाव्याचो विखाशीं स्पर्श जाल्यार मनीस मरतलो. पूण हात घाव्याबगर राखल्यार, कर्माक पापाचो स्पर्श जावंक दिलोना जाल्यार, पाप-विक्खाचो स्पर्श आमकां बादचो ना. (पळयात, **धर्मपद**, अ. कुन्दर दिवाण, पृ. ६१).

१२६. हांगा चार संपराय म्हळ्यार मर्णाउपरांतच्यो दशा वा गती सांगल्यात : (१) मृत्युलोकांत जल्म, (२) नरक, (३) स्वर्ग आनी (४) मोक्ष. पातक आनी पुण्य सम जाल्यार पयली, पातक चड जाल्यार दुसरी, पुण्य चड आसल्यार तिसरी, आनी पुण्याचे पेल्यान गेल्यार चवथी गती मेळटा.

१२९-१३०. ह्या दोनूय गाथांतल्यान मनशान नितिनेम मोडल्यार ताका ख्यास्त जालेबगर रावंची ना हो विचार मांडला. मनशान खासा आपणेंच मानून घेतिल्ले नितीनेम मोडल्यार ताचो परिणाम ताकाच भोगचो पडटा. देव गुन्यांवकारी मनशाक ख्यास्त करता ह्या विचाराकडेन गौतम बुद्ध सहमत जायना. ही विचारसरणी ताका कुड्डी श्रद्धाशी दिसता. महात्मा गांधींचो हे विशीं दृश्टीकोण पळयात. 'हांव ईश्वर मनीस अशें कांय मानिना. सत्य म्हळ्यारच ईश्वर आनी ईश्वराचो कायदो आनी ईश्वर ह्यो दोन वेगळ्यो वेगळ्यो गजाली न्हय, जे भाशेन ह्या संवसारांतलो एक राजा आसता आनी ताणें केल्ले कायदे हे दोनूय वेगवेगळे. कित्याक, देव म्हळ्यार एक मांडावळ, एक संकल्पना आनी आपणेंच केल्लो नेम. तो आनी ताचो कायदो सगलेकडेनूच आसता आनी तो सगल्याच गजालींचें संचलन करता.' (हरीजन, २३ मार्च, १९४०). पळयात **Dhammapada**, S. Radhakrishnan, Oxford University Press, Madras, pp. 101).

१३०. **पळयात श्रीमत् भगवद्गीता** (६-३२).

**आत्मौपम्येन सर्वत्र समं पश्यति योऽर्जुन।**
**सुखं वा यदि वा दुःखं स योगी परमो मतः ॥३२॥**

*दुसऱ्यांच्या सूखदुख्खाक पळेता आपलेवरी ।*
*सारके नदरेन लेखी जो योगियांत व्हडलोच तो ॥३२॥*

(अ. सुरेश आमोणकार)

१४३. लज दोन तरांची आसता. एक लोकलज्जा आनी दुसरी मनाची. लोकलज्जेक अवत्रपा आनी मनालज्जेक ह्री अशें म्हणटात. हे गाथेंत ह्री म्हळ्यार मनाची लज हेंच सुचयलां. खरी लज हीच. शिकयल्लो घोडो लगामाच्या इशाऱ्याचेर चलता तेन्ना ताचेर चाबकाचो फटको खावंचेली पाळी येना. तसोच मनालज्जेच्या लगामाच्या इशाऱ्यान चलतल्याक लोकनिंदेचो फटको खावंचो पडना.

१४६-१. **पज्जलिते** – पेटलां. '**आदित्य परियाय सुत्तां**'त (महावग्गाचो महाखंडकांत) संघांत भितर सरिल्ल्या भिक्षूंक बुद्धान दिल्ल्या प्रवचनाचें वर्णन दिलां. ''भिक्षुंनो, जगांतल्यो सगल्योच वस्तू पेटल्यात. त्यो सगल्यो वस्तू कसल्यो ? पांच इंद्रियां आनी मन ह्यो वस्तू पेटल्यात. त्यो कित्यान पेटल्यात ? कामा उज्यान, क्रोधा

उज्यान, मोहा उज्यान ह्यो वस्तू पेटल्यात. जरा, मरण, शोक, परिदेव, दुख्ख, दौर्मनस्य आनी उपायास हेवरवीं पेटल्यात. जो हाचें मर्म पळयता, तो पंचेद्रियां आनी मन हांचेविशीं विरक्त जाता आनी जो सगलीं इंद्रियां आनी तांचे विशय हांचे ठांय विरक्त जाता, तोच मुक्त समजुंचो." (पळयात **'बुद्धलीलासार संग्रह'**, धर्मानंद कोसंबी; रघुवंशी प्रकाशन, पुणें ३०. पृ. १५९, आनी **The Dhammapada**, U. Dhammajoti, Mahabodhi Society, Sarnath, Benaras (1942), pp. vii.)

१४६. एकनाथ एस्वरन हांच्या 'धम्मपदा'च्या इंग्रजी अणकारांत ह्या वर्गाचे प्रस्तावनेंत स्टीफन रुपेनथाल (Stephen Rupenthal) अशें भाश्य करता: "ह्या वर्गाचो चिंतनीय सुराचेर आरंब जाता. मुखार सरपी पिरायेच्या उज्याची जतनाय घेवन जिणेंत मौजमजा करची सोडून दियात अशी शिटकावणी गौतम बुद्ध आमकां दिता." (**The Dhammapada**; Eknath Eswaran; Arkana (Penguin Books); 1987; pp. 113).

१४७. मन-प्राणेंद्रियांचें घडिल्लें हें शरीर एकजिनसी न्हय. हाडां, कात, रगत, मास आदींचें घडिल्लें तें धातु-संघातरूप. पिरायेच्या भेदाक लागून तें भौरंगी, तशेंच तें व्याधीन ग्राशिल्लें आनी जायत्या संकल्पांनी भरिल्लें. पूण हें भौ जिनसांचें, भौरंगी आनी भौ संकल्पांनी भरिल्लें 'बिंब' नश्वर, जें रोखडेंच काळाचे भकीक पडटलें.

हांगा शरिराक 'बिंब' म्हळां. बिंब म्हळ्यार प्रतिमा. बिंब म्हळ्यार तेंडलेंय. तेंडलें साल, गोरोब, रोस हांचो मेळ. ताचो रंग बदलता. पांचव्याचें हळदुवें आनी हळदुव्याचें तांबडें जाता. भायल्यान भितरल्यान किडेता. बियांनी भरिल्लें आसता, आनी तें भक्ष्य आसता देखून ही रूपक कल्पना. (पळयात 'धर्मपद'; कुंदर दिवाण. पृ. ६३.)

१४९.११. दुदयाची गोळाशीं. हो दुदी वेगळे तरेचो. हो कोडू दुदी (तुम्बीनी). हाचेपसून कमंडलू करतात.

१५०-१४. **अट्ठीनं नगरं** = (काया) ही हाडांचें नगर. ह्या विचाराक घटाय दिवपी एक काणी **'विसुद्धीमग्ग'** ह्या ग्रंथांत मेळटा. ती अशी: चैत्य पर्वताच्या वाठारांत आशिल्ल्या अनुराधापूर ह्या शारांत महातिस्स नांवाचो एक भिक्षू भिक्षेक वतालो. हेच वाटेन एक देखणी बायल वतना ताणें पळयली. ताका पळोवन हांसतना तिचे दांत ताका दिसले. ते पळोवन, हाडांचो सांगाडो, जो ताच्या सदांच्या चिंतनाचो विशय आशिल्लो, ताची ताका याद जाली. तिचे फाटल्यान बेगोबेग येवन एका मनशान म्हळें, 'आगा भिक्षू, म्हजी बायल म्हजेकडेन झगडून कुळारा वता म्हणून गेल्या. ती शिरंगारिल्ली, देखणी आनी तरूण आसा. तुवें तिका पळयल्या बी?'

भिक्षून म्हळें, 'हे वाटेन बायल काय दादलो गेला तें हांव नकळं. तरी मुखार आशिल्ल्या म्हालमार्गान एक हाडांचो सांगाडो वता, हें हांवें पळयलां तें खरें.''

१५१. शरीराची तुळा रथाकडेन केल्या. पळयात **कठोपनिषद**.

**आत्मानं रथिनं विद्धि, शरीरं रतमेव तु।**
**बुद्धिं तु सारथिं विद्धि, मनः प्रग्रहमेव च।।३।।**
**इंद्रियाणि हयानाहुर्विषयां स्तेषु गोचरान्।**
**आत्मेंद्रियमनोयुक्तं, भोक्तेत्याहुर्मनीषिण :।।४।।**
(तृतीयावल्ली ३-४)

''आगा नचिकेता, आत्मो हो रथांत बशिल्लो मनीस, शरीर हो रथ, आनी बुद्धी ही सारथी आनी मन ताचो लगाम अशें तूं समज (३). इंद्रियां हीं ह्या रथाचे घोडे आसात, तर स्पर्शादी विशय तांचे मार्ग. इंद्रियां आनी मन हांचेसयत आत्मो तांकां भोगता, (इंद्रियां आनी मन आशिल्ल्या आत्म्याक संवसारी मनीस म्हणचें अशें ज्ञानी मानतात.

१५३/१५४. ह्यो दोनूय गाथा बुद्धान आपणाक ज्ञांन जालेउपरान्त, बुद्धत्व मेळटकूच, माराचेर जैत जोडटकूच ताकाच उद्देशून म्हळ्यात. मनशाची तृष्णाच कायारुपी घरबांदपी आसता. पुनर्जल्माक तीच कारण जाता. तृष्णेंतसून सुटल्यार संवसारचक्राक आमी बांदून उरचेनात. गहकारक = घर बांदपी (तृष्णा); घर = कूड, शरीर; पाडस = अविद्या; वांशे = राग, द्वेश, मोह आदी विचार.

१५३.१७ **अनेक जाति संसारं** = जायत्या जल्मांचो संवसार. आमकां निर्वाण मेळचे पयलीं आमकां जायते जल्म घेवचे पडटात (पळयात **श्रीमत् भगवत्गीता**).

**प्रयत्नाद्यतमानस्तु योगी संशुद्धकिल्बिषः ।**
**अनेकजल्मसंसिद्धस्ततो याति परां गतिम् ।।६-४५।।**

*यत्नान वावुरपी योगी जावन तो शुद्ध सामको ।*
*गावन शुद्धी जल्मां जायत्या पावलो भौच बरी गती ।।*
(अ. सुरेश आमोणकार)

१६४. वेळू हें एके तरेचें तण. वेळूक दोळे आसतात, पूण दृश्टी नासता. वेळूचे जातीप्रमाण वेळू फुलता. कांय वेळू तीन वर्सांनी, तर कांय वेळूच्यो जाती २० वा ६० वर्सांनी फुलतात. वेळू फुलतकच वेळू सुकता आनी मरता. (पळयात Encyclopedia of Indian Natural History, R.E. Hawkins, Bombay Natural History Society, Oxford University Press, Bombay. (1989) pp. 30-38.) देखून म्हळां : 'अर्हन्तांचो उपदेश लटके दृश्टीक लागून जो मानिना, ताका मेळपी (पाप) फळ वेळूचे भाशेन आपणाक जल्माक घालतल्याच्या घाताक कारण जाता.

१७०. मनीस हांगा सासणाचो उरतलो हो समजच ताच्या दुख्खाक कारण जाता अशें गौतम बुद्ध मानता. आमी संवसारांतली खंयचीय वस्त सासणाची अशी मानल्यार तिची आमकां ओड लागता.

१७१. रंगयाळ्या राजाच्या रथांत बसूंक जण एकलो आंवडेता. आनी एकदां बसतकच तातुंतल्यान उठूंक सोदिना. तसोच हो रंगयाळो संवसार मुर्खांक ओड लायता. पूण जे शाणे आसतात ते तातूंत बसनात आनी संवसारांत घुस्पनात. रथांत बसलेबगर तो आमकां खंयच व्हरना. तसो जो संवसारांत बसना म्हळ्यार गुल्ल जायना, ताका ताची ओड नाशिल्ल्यान, ताका तो भ्रमांत आनी फेऱ्यांत घालिना देखून रथांत बसप वा ना बसप ही गजाल आपल्याच हातांत आसा.

१७६ **एकधम्मं** – एकूच धर्म - सत धर्म. (१) धर्मच सत देखून जो सत उलयता तो धर्मच उलयता. आनी जो धर्म उलयता तो सतच उलयता. एकाच वस्तुचीं हीं दोन रुपां. (२) **सत्यान्तास्ति परो धर्मः शतपथ ब्राह्मण.** (३) **सत्यमेकपद स्वर्ग्यम्। - महाभारत.** (४) सत्य तो चि धर्म - तुकाराम. (५) सताबगर खंयचोच नेम पाळूंक येवचो ना - म. गांधी. तात्पर्य, सत हें धर्मकर्माचें सुत्र.

१७९. जाचें हें जोडिल्लें धर्म-प्रवर्तकत्व कोणाकूच घेवंक जावचें ना वा कोणूच पर्थून जोडूंक पावचो ना, त्या सगले मार्ग चलून मुक्काम पाविल्ल्या सर्वज्ञ बुद्ध मुनीक तुमी भरकटिल्ले जीव खंयच्या मार्गान ताका व्हरूंक पावतले? बुद्धान पयलेच खेपे लोकांखातीर धर्माचो मार्ग चलून तयार केलो, मार्गाची अखेर गांठली आनी देखुनूच तो सर्वज्ञ जालो, त्या लोकांचो मुखेली जाल्ल्या बुद्ध मुनीक दुसरो कोणूय कसो व्हरत? मुखेली हेरांचें मुखेलीपण कशें घेतलो? जो मुखेल आसता तो शिश्यत्व कशें घेतलो? बुद्धाक दुसऱ्या कोणाचेंय शिश्यत्व घेवंक सांगतल्यांक बुद्धाचो हो न्हयकारी प्रस्न आसा. बुद्ध आपूण शिश्य नासून 'शास्ता' आशिल्ल्याचें – 'विनायक' आशिल्ल्याचें सांगता. राग-दुस्वासाचेर जैत आनी निर्वाणाचो लाव हो कितें बुद्धाचोच मक्तो न्हय. तें कोणाकूय मेळोवपाक जाता. तशें जावंक नाशिल्लें जाल्यार बुद्धाचें धर्मप्रवर्तन फुकट वतलें आसलें. बुद्धाचें धर्म-प्रवर्तकत्व मात ताचेपासून कोणाकूच काडून घेवंक येवंचें ना वा दुसऱ्या कोणाकूय तें घेवंक येवचें ना.

**अपदं** आनी **अनन्तगोचर** हीं दोनूय उतरां श्लिश्ट, पर्यायत्वाचीं आनी पर्थून विरुद्धार्थी सूचक आसात.

**अपदं** - (१) मार्ग चलून मुक्कामाक पाविल्लो, (२) मार्गहीण, पंगू.

**अनंन्तगोचर** - (१) सर्वज्ञ, (२) सर्वगामी.

बुद्ध व्हरूंक आयिल्ल्यांक विचारता: हांव पंगू, तुमच्या फाटल्यान हांव कसो

येतलों ? हांव सर्वगत (सगळेकडेन आसपी). म्हाका तुमी कशे व्हरतले ? (पळयात 'धर्मपद', कुन्दर दिवाण, पृ. ६८-६९).

१८१.३. ध्यानांत गुल्ल आसप. **झान** म्हळ्यार ध्यान. तें सादपाचेर बुद्धान चड भर दिला. ध्यानाचे चार प्रकार सांगल्यात आनी तांचीं फळां वेगळीं वेगळीं: हे चार प्रकार म्हळ्यार समाधी सादपाचीं चार सपणां. **अंगुत्तर निकायाच्या** सत्तकनिपाताच्या ६३व्या सुत्तांत बुद्ध भिक्षूंक सांगता : 'भिक्षुंनो, राजाचे सरादीवेल्या नगराच्या दरवट्यामुखार जसो घट्ट खांबो आसता तसो आर्यशिश्य (श्रावक) श्रद्धेन थीर आसता. नगराभोंवतणी जसो चर (खंदक) आसता तसो आर्यश्रावक लजता. त्या नगराभोंवतणच्या प्राकारांतल्यान भोंवपाचो मार्ग आसता तसो आर्यश्रावक लोकापवाद भय (आत्मलज्जा) बाळगुपी जाता. थंय जसो जायत्या शस्त्रांचो सांठो आसता तसो आर्यश्रावक बहुश्रुत जाता. थंय जशी सैन्याची तयारी आसता तसो आर्यश्रावक पूर्ण उत्साही आसता. थंय जसो शिटूक द्वारपाळ आसता तसो आर्यश्रावक स्मृतिमान (जागरूक) जाता. जसो नगराचो प्राकार तसो आर्यश्रावक प्रज्ञावंत जाता. थंय तण उदकाची जशी भरपूर पुरवण आसता तसो आर्यश्रावक पयलें ध्यान जोडटा. थंय जसो तांदूळ आनी गंवाचो सांठो करतात, तसो आर्यश्रावक दुसरें ध्यान जोडटा. थंय तीळ, मूग आदी ध्यानांचो सांठो करतात तसो आर्यश्रावक तिसरें ध्यान जोडटा. थंय पुश्टीक आनी वखदी पदार्थांचो सांठो करतात तसो आर्यश्रावक चवथें ध्यान जोडटा. (पळयात: **समाधिमार्ग,** धर्मानंद कोसंबी, रघुवंशी प्रकाशन, पुणें २, पृ. २-३).

१८१.४. **नेक्खम** – काम हाचे उरफाटो म्हळ्यार निश्काम. जे अवस्थेंत कामभावना ना जाल्या ती अवस्था.

१८३. बुद्धान बोधिल्ल्या धर्ममार्गाचें सार हे गाथेंत आयलां. 'सर्व पापांपसून विरक्त जावप' म्हळ्यार शिलाचें रक्षण करप; कुशलांचो संचय करप म्हळ्यार समाधी सादप, शील, समाधी आनी प्रज्ञा हीं बुद्धाच्या धर्ममार्गाचीं तीन सपणां. हाकाच अधिशील शिक्षा, अधिचित्त शिक्षा आनी अधिप्रज्ञा शिक्षा अशें म्हणटात. ह्या तिनूय तत्त्वांत बुद्ध धर्म आसपावता.

१९०.११ **चत्तारि अरियसच्चानि** = चार आर्य सतां. तीं अशीं: १) दुख्ख (जल्म, जरा आनी मर्ण हातूंतल्यान उप्रासपी, २) **दुख्ख समुदय** (दुख्खाचें मूळ वा कारण), (३) दुख्खाचें निवारण, (४) **दुख्ख निरोधगामिनी पतिपदा** – दुख्खाच्या निरोधाचो मार्ग (आठ आंगांचो मार्ग).

१९१.१२. **अरियञ्चऽट्ठङिक** = मार्गांत आठ आंगाचो. गौतम बुद्धान ह्या मार्गाचो उपदेश केलो. ताचीं आंगां अशीं: (१) समा वा शुद्ध दृश्टी, (२) समा संकल्प वा विचार, (३) समा वाचा, (४) समा कर्म, (५) समा आचरण, (६) समा यत्न, (७) समा जागरुकाय, (८) समा समाधी.

१९७-१९९. शाक्य आनी कोलीय राज्यांमदीं न्हंयेच्या उदकाच्या वांटपावेल्यान झगडीं उप्रासलीं तेन्ना झगडीं करूंक मुखार सरिल्ल्यांक उलो मारून गौतम बुद्धान ह्यो तिनूय गाथा म्हळ्यो.

१९८.१ **आतुर** = पिडा, पिडेखोर, क्लेश. हे धा तरांचे: **लोभ, दोश** (दुस्वास), **मान** (अभिमान), **मोह, दिट्ठी** (मिथ्या दृश्टी), **विचिकित्सा** (दुबाव), **थीण** (आळस), **उद्धच्च** (चित्ताची चंचळताय), **अहिरिका** (दुश्कर्म करतना लज नासप), **ओट्टप** (दुश्कर्म करतना भंय नासप).

२०२. **नत्थि दोससमो कलि** = द्वेशासमान वा दुस्वासा वरी कली ना – जुगार ज्या पाशान (फांशान) खेळटात ताका चार वाटो आसतात. तांकां अनुक्रमान कली, द्वपार, त्रेता आनी कृत अशीं नांवां आसात.

कृताची वाट पडल्यार उत्तम लाभ जाता, जाल्यार कलीची वाट हलक्या डावाची. कलीची वाट पडप म्हळ्यार हार वा हानी जावप. अशी हार जातकूच जुगारी तो पासो लिपोवंक सोदता. मागीर हात लावन तो डाव मोडूंक पळयता आनी मागीर झगडीं जातात, कलागत लागता. कली म्हळ्यार झगडें वा कलह हो अर्थ असो आयला. पूण हो इतलो प्रपंच करिनासतना जुगार म्हळ्यार फटोवप वा हानी वा हार असोय करूंक येता. कित्याक, द्यूत वा जुगार म्हळ्यार घात अशेंच म्हणचें पडटलें.

२०२.५ **खन्ध** (सं. **स्कंध**) – पदार्थ. रूप, वेदना, संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान ह्या पांच पदार्थांक पंचस्कंध म्हणटात. (१) पृथ्वी, आप, तेज आनी वायू ह्या चार महाभूतांक आनी तांचेपासून उप्राशिल्ल्या पदार्थांक रूपस्कंध म्हणटात. (२) सुख दिवपी वेदना (संवेदना), दुख्ख दिवपी वेदना, आनी उपेक्षा वेदना हांकां वेदना स्कंध म्हणटात. (३) घर, रूख, गांव, बायल, दादलो हेविशींच्या संकल्पनांक संज्ञा स्कंध म्हणटात. ही जी पदार्थांक वेगवेगळीं नांवां दिवपाची शक्त आसा तिकाच संज्ञास्कंध म्हणटात. (४) संस्कार म्हळ्यार मानसिक संस्कार. हाचे कुशल, अकुशल आनी अव्याकृत अशे तीन प्रकार आसात. हेरांक पालव दिवपाची इत्सा, मोग, जागरुताय हे कुशल वा बरे संस्कार. हिंसा, दुस्वास बी अकुशल वा वायट संस्कार. अव्याकृत संस्कार म्हळ्यार एखाद्या वस्तुची आवड आसप वा कार्य करची शक्त. (५) विज्ञान स्कंध – विज्ञान म्हळ्यार

जाणप. हीं स तरांचीं: चक्षुर्विज्ञान, श्रोत्रविज्ञान, घ्राणविज्ञान, जिव्हाविज्ञान, कायाविज्ञान आनी मनोविज्ञान. हे पांच स्कंध वासनायुक्त आसल्यार तांकां उपादान स्कंध म्हणटात. तांकां लागून पुनर्जल्म मेळटा. जेन्ना वासना मुळासावन ना जाता तेन्ना ह्या स्कंधांक फकत स्कंध म्हणटात. कित्याक, तांकां लागून पुनर्जल्म संभवना. अर्हन्त्पद जोडटकूच वासना मुळासयत ना जातात. आनी मरणाच्या खिणाक अर्हन्ताच्या पंचस्कंधांचो निर्वाणांत लय जाता. (पळयात **बुद्ध धर्म आणि संघ**; प्रा. धर्मानंद कोसंबी; धर्मानंद स्मारक ट्रस्ट, मुंबई ७, १९७४; पृ. ७७-७८).

२१८. **स्त्रोत** म्हळ्यार झोत वा लोट. उर्ध्वस्त्रोत म्हळ्यार लोटाआड वचपी वा पेंवपी. अवर्णनीय अशा निर्वाणाची गोडी जाका लागल्या, मनान निर्वाणाचो सुवाद जाणें चाखला आनी भोगांतल्यान जो सुटला तो उर्ध्व-स्त्रोत वा लोटाआड पेंवपी.

२२१.१. **नामरुपस्मिं** = (सं. **नामरूप**). इंद्रियांक जाणवपी मनशाचें (ऐहीक आनी पार्थीव) अस्तित्व. मन आनी काया आशिल्ली व्यक्ती. वेदना, संज्ञा, संस्कार आनी विज्ञान ह्यों नामाच्यो चार अवस्था आनी उरिल्लें तें रूप. ह्या पाचांकय मेळून पंचस्कंध म्हणटात. जल्म-मरणाच्या फेऱ्यांतल्यान सुटप ही मनशाचे जिणेची मोख आसूंक जाय. अविद्येचो (अज्ञानाचो) नाश जाल्यारच हें शक्य आसा. म्हळ्यार जगांतले वस्तुस्थितीविशींचें अज्ञान फांफडून उडोवंक जाय. संवसारचक्र फिरपाची विसकावणी प्रत्यीत्यसमुत्पाद ह्या तत्त्वांत केल्या. समुत्पाद म्हळ्यार खंयची गजाल उत्पन्न जावप आनी ती खंयचेय तरी गजालीचेर निंबून आसप. मनशाचो ह्या संवसारांतलो जल्म फाटल्या जल्माचेर निंबून आसता आनी फुडल्या जल्माची कारणपरंपरा तातूंत आस्पावल्या. प्रत्यीत्य समुत्पादाची सारांशान मांडणी करूंक येता ती अशी:– अविद्येपासून[१] संस्कार, संस्कारापासून[२] विज्ञान[२], विज्ञानापासून नामरूप[३], नामरूपापासून षडायतन[४], षडायतनापासून स्पर्श,

---

१. अविद्या **(अविज्जा)** – चार आर्य सतांचें अज्ञान. दुख्ख हें पयलें आर्यसत. जल्म, जरा, व्याधि आनीं मरण हांकां लागून तें उप्रासता. दुख्खाचें कारण वा दुख्ख समुदय हें दुसरें आर्यसत. हें तृष्णेक लागून उप्रासता. हे तृष्णेचो वैराग्यान पूर्ण निरोध करप, त्याग करप, तिचेपसून मुक्ती मेळोवप हें दुख्ख निरोध नांवाचें तिसरें आर्यसत आनी ह्या दुख्खाचो नाश आर्य अश्टांगीक मार्गान करप हें चौथें आर्यसत. ताका दुख्ख निरोध गामिनी पतिपदा अशेंय म्हणटात.

२. संस्कार आनी विज्ञान – पंचस्कंधां पैकीं पदार्थ.

३. नामरूप – नाम आनी रूप. नाम आनी रूप हीं दोनूय मनशाच्या अस्तित्वाच्यो कुरवो.

४. षडायतन – पांच इंद्रियां आनी मन.

स्पर्शापासून वेदना, वेदनेपासून तृष्णा, तृष्णेपासून उपादान[५], उपादानापासून भव[६], भवापासून जाति[७], आनी जातिपासून जरा[८], मरण, शोक, परिदेवन[९], दुख्ख दौर्मनस्य[१०], उपायास[११] हीं उत्पन्न जातात. हे कारण परंपरेक प्रत्यीत्य समुत्पाद अशें म्हणटात. जरा मरणाचें कारण जल्म, जल्माचें कारण भव म्हळ्यार कर्म, कर्माचें कारण उपादान (लोभ), उपादानाचें कारण तृष्णा, तृष्णेचें कारण वेदना म्हळ्यार सूख, दुख्ख, उपेक्षा अशो तीन अवस्था, वेदनेचें कारण स्पर्श म्हळ्यार इंद्रिय विषय संयोग, स्पर्शाचें कारण षडायतन (मन आनी पंचेंद्रियां), षडायतनाचें कारण नामरूप, नामरुपाचें कारण विज्ञान म्हळ्यार जाणवीक, विज्ञानाचें कारण संस्कार (प्रवृत्ती), संस्कारांचें कारण अविद्या म्हळ्यार अयथार्थ ज्ञान.

अयथार्थ वा सारकें न्हय अशा ज्ञानाचे बौद्धमत्ताप्रमाण तीन प्रकार आसात: (१) जें जग अनित्य म्हळ्यार बदलत आसता, तें नित्य आसा अशें मानप; (२) आत्मो म्हणून अविनाशी अविकारी असो पदार्थ नासतना तो आसा अशें मानप; (३) संवसार दुख्खान भरिल्लो आसतना तो सुखान भरला अशें मानप. हे तरेचें अयथार्थ ज्ञान सगळ्या संवसारांतल्या दुख्खाचें मूळ कारण. चार आर्यसतांच्या ज्ञानान हे अविद्येचो नाश जाता, म्हणजे तिचेर आशिल्ल्या संस्कार आदींचो आपशींच नाश जाता. (पळयात **भगवान बुद्ध**; धर्मानंद कोसंबी; सुविचार प्रकाशन मंडळ, नागपूर; (१९४०), पृ. १३३-१३४.)

२२२. **भ्रान्त** म्हळ्यार मार्गभ्रश्ट वा भरकटिल्लो असो रथ जो सारको मार्गाचेर हाडपी तोच खरो सारथी. तसोच, जो मनांत उप्राशिल्लो क्रोध आवरता तोच संयमी.

२२३. महाभारतांतल्या उद्योगपर्वांतलो ह्याच अर्थाचो हो श्लोक पळयात: (३८-७३).

**अक्रोधेन जयेत्क्रोधं असाधु साधुना जयेत ।**
**जयेत्कदर्यं दानेन जयेत्सत्येन चानृतम् ।।**

२३५. **भुती** – पुण्याची भुती (**पाथेय्य**). पुण्यच परलोकाचे वाटेंत यात्रेंत उपकरा पडटलें.

---

५. उपादान – घट्ट जाल्ली तृष्णा वा लोभ.
६. भव = कर्म.
७. जाति = जल्म.
८. जरा = म्हातारपण.
९. परिदेवन – विकळावप, चुरचुरे (Lamentation).
१०. दौर्मनस्य – खंत (grief).
११. उपायास – निर्शेणी (despair).



२३६. द्वीप अत्तनो = आपलो दिवो. जसो दिवो काळखांत वाट दाखयता, तसो तूं आपणाक वाट दाखय. कांय अणकारप्यांनी 'द्वीप' हें उतर 'जुंवो' ह्या अर्थान घेतलां.

२३६. हांगा झटून म्हळ्यार राबप, शेत कसप. आपल्या देहाच्या क्षेत्रांत (शेतांत) अमृत-फळाचें पीक काड. मुळांत **वायम** म्हळ्यार व्यायाम कर असो प्रयोग आसा.

२५६-२७०. धर्मस्थ वर्गांत धर्मस्थ, धर्मधर, पंडित आदी उतरांची व्युत्पत्ती-निश्ठ निरूक्ती दिल्या आनी नव्यान अर्थ लायला. न्याय करता ताका धर्मस्थ म्हणटात, पूण जो धर्माच्या कोटांत सुरक्षीत रावता तोच धर्मस्थ (२५७). सभा, वाद जिखपी मनशाक पंडित म्हणटात, पूण जो निंदा, वैर, भंय हांचें झूज जिखंता तोच पंडित (२५८). जाका धर्मशास्त्र पाठ आसा तो धर्मधर; पूण जो धर्म कायेन धारण करता म्हळ्यार धर्म प्रत्यक्ष आचरता तोच धर्मधर (२५९). जाचे केंस धवे जाल्यात ताका स्थवीर म्हणटात. पूण जो सतांत, धर्मांत, अहिंसेंत थिरावला तोच स्थवीर (२६०). जो गोड उलोवपी आनी गोमटो दिसता ताका लोक साधू (बरो) म्हणटात. पूण जाणें सगले दोश साधले म्हळ्यार वधले तोच साधु (२६३). जो मुंडन करता ताका श्रमण म्हणटात, पूण जाणें पापांचें मुंडन केलें, शमन केलें तोच श्रमण (२६५). जो भीक मागता तो भिक्षु, पूण जो पाप-पुण्याक भिकेक लायता तोच भिक्षु (२६७). जो मौन धरता, ताका मुनी म्हणटात; पूण जो मौन म्हळ्यार तागडी (पाली मुनाति – तोलता, जोखता) धरता म्हळ्यारूच पापपुण्य तोलून घेता तोच मुनी (विवेकी) (२६९). जो यज्ञकर्मांत प्राण्यांचो घात करता ताका (यजमानाक) आर्य म्हणटात, पूण जो कोणाचो घात करिना, तोच आर्य (२७०). (पळयात **धर्मपद**, कुन्दर दिवाण, पृ. ७३).

२६०. **मनुस्मृती** (२-२५६) आनी **महाभारत** – वनपर्व (१३३:११) ह्या ग्रंथांतलो हो श्लोक पळयात :

**न तेन स्थविरो भवति येनास्य पलितं शिरः ।**
**बालोऽपि यः प्रजानातितं देवाः स्थविरं विदु ः॥**

(निखटी तकली धवी जाली म्हणून कोण म्हातारो जायना. एकाद्रो भुरगो लेगीत ज्ञानी आसल्यार देव ताका जाणटो समजतात.

२६० **थेरो (सं. स्थविर)**. पुर्विल्ले मुस्तींत बुद्धधर्मांत दीर्घकाळ आशिल्ल्या भिक्षूक स्थविर म्हणटाले. हालींसराक धा वर्सां राविल्ल्याक स्थविर आनी वीस वर्सां राविल्ल्याक महास्थविर अशें म्हणटात.

२७१-२७२. सामान्य लोकांक मेळनाशिल्लें, आरण्यकांचें सुख जें निर्वाण, तें जें हांव भोगतां तें फकत शील, व्रत, श्रवण, एकांतवास वा समाधी हांच्या बळाचेर न्हय. तें म्हाका सगल्या विकार दोशांचो क्षय करतकीच भोगूंक मेळटा हें लक्षांत दवर, देखून सगल्या दोशांचो (आश्रवांचो) पुराय क्षय जायमेरेन कितेंच करून संतुश्ट जावं नाका, ही बुद्धाची आपले भिक्षु-सेनेक दिल्ली शिकवण.

२७३.१. पळयात १९०.१२ हे गाथेवयली टीप.

२७३.२. पळयात १९०.११ हे गाथेवयली टीप.

२७५. गौतम बुद्धाक **'महाशल्य हर्ता'** (व्हडल्या दुख्खाचे कांटे पयस करपी) अशें म्हळां.

२८१.१० **अकुसलं** (सं. **अकुशल** (कर्म)) – धा अकुशल वा वायट कर्मपथ सांगल्यात: तीन कायेचे: (१) प्राणघात, (२) अदत्तदान (चोरी), (३) व्यभिचार; चार वाचेचे: (४) असत्य भाशण, (५) चाडी, (६) कठोर भाशण, (७) बडबड; तीन मनाचे: (८) परद्रव्याचो लोभ, (९) क्रोध, (१०) नास्तिकता (परोपकार करपांत अर्थ ना, शील पाळपांत अर्थ ना, समाधीपसून कांय लाभ ना आदि विचार). हीं धा पातकां सोडप होच मनुश्य धर्म अशें म्हळां.

२८३. हांगा वन ह्या शब्दाचेर श्लेश आसा. (१) वन म्हळ्यार रान, अरण्य; (२) काम, भोग. वनिता हो शब्दय त्याच शब्दावयल्यान आयला. वन हाचो दुसरो अर्थ स्त्री-भोग, वासना असोय आसा. बुद्ध सांगता, 'तुमी वन (रान) तोडूं नाकात, तुमी भोग-वासना तोडात.

२९३. **कायगतासति** = कायेविशीं जाणविकाय वा जागृताय. काया ही खिणयाळी, नाशिवंत, अशुभ हाची जाणवीक आसप. बुद्धमत्तांत सतिचो म्हळ्यार जागरूकायेचो म्हयमा व्हडलो आसा. शांतिदेवाच्या सकयल दिल्ल्या श्लोकांवयल्यान हाचेर विशेश उजवाड पडटा.

**संप्रजन्यं तदायाति नच यात्यागतं पुनः ।**
**स्मृतिर्यदा मनोद्वारे रक्षार्थमवतिष्ठते ।।**

स्मृती (जागरुकाय) जाचे रक्षणाखातीर मनाचीं दारां उबीं जातात, तांकां ही स्थिती येता, आनी ती येतकच फाटल्यान वचना.

**एतदेव समासेन संप्रजन्यस्य लक्षणम्।**
**यत्काय चित्तावस्थाया: प्रत्यवेक्षा मुहुर्मुहः ।।**

सारांशान संप्रजन्य हें लक्षण अशें आसा. काया आनी चित्त हाची भोवन भोवन नियाळणी करप. (**धम्मपद**: धर्मानंद कोसंबी आनी रामनारायण पाठक; गुजराथ विद्यापीठ; अहमदाबाद; (गुजराथी अणकार) पृ. १४४-४५).

२९४/२९५. ह्या दोनूय गाथांत एक अतितायेचो विचार मांडला. ज्ञानी मनीस (ब्राह्मण) पाप-पुण्याचे पेल्यान आसता. पितृहत्या, राजहत्या आदी घोर कर्मां करुनूय ब्राह्मणांक तांचो इल्लोय दोश लागना अशें भारतीय लोक पुर्विल्ले मुस्तींत मानताले. ब्रह्मज्ञान जाल्लो (म्हळ्यार ब्राह्मण) मनाचे अशे अवस्थेक पावता की जें टाळचें आसता तें तो आपशींच टाळटा आनी जी लागणूक आसता तो ती सदांच करता. हीच ब्राह्मी स्थिती. अशा मनशाच्या हातांतल्यान पातक केन्नाच घडनाशिल्ल्यान ताणें कितलेंय घोर कर्म केल्यार ताचें पातक ताका लागना अशें अलंकारीक भाशेंत म्हळां. कित्याक, जो निश्पाप आसता ताकाच ब्राह्मण ही संज्ञा सोबता. 'अट्ठकथें'त ह्या उतरांचो रूपकार्थ असो दिला: 'आवय (तृष्णा), बापूय (अभिमान), दोन क्षत्रीय राजा (शाश्वत दृश्टी[१] आनी उच्छेद दृश्टी[२]), राष्ट्र (द्वादश[३] आयतनां आनी बारा दारां) सानुचरं (प्रजा तिचे आसक्तीसयत), पांचवो वाग (पांच नीवरणां[४] वा पड्डे) हांकां मारून ब्राह्मण निश्पाप जाता. म्हळ्यार, तृष्णा आनी अभिमान हे दोन पितर, शाश्वत दृश्टी आनी उच्छेद दृश्टी हे दोन राजा, आपले तृष्णेन उप्राशिल्ल्या दोशगुणरुपी कुटुंबासयत, आपल्या कामरागादि लवाजम्यासयत आनी तांच्या वतनासयत जिवानशीं मारुनूय ब्राह्मणाक पापाचो लेप लागना.

२९५. कुन्दर दिवाण हांणी **धर्मपदा**वयल्या बालबोधिनींत 'पांचवो वाग मारून' हाचेर अशें भाश्य केलां: 'जातूंत वागाचें जंगल पांचवें भयस्थान आसा असो मार्ग कातरून. वाग म्हळ्यार वागाचें रान वा दुर्गम सुवात. तसो मोक्ष मार्ग हो ह्या संवसार अरण्यांतल्यान गेला तें पांचवें दुर्गमस्थान वा भयस्थान. ह्या पांच भयस्थानांत संशय वा दुबाव (विचिकित्सा) हें निमाणें आनी अती दुर्गम (२९४ गाथेवयली टीप पळयात). कित्याक, दुबाव वा संशय ना जावप म्हळ्यारूच साक्षात्कार आशिल्ल्यान संशय ही साक्षात्काराची निमाणी आनी देखुनूच हुपपाक कठीण अशी आडखळ. रानां सुर्याच्या दर्शनाक आडखळ हाडटात. ज्ञान हें सुर्यावरी आसा हें सुचोवपाचे नदरेन आवरणांक रानाच्या रुपान वर्णिलां. (पळयात **धर्मपद**: कुन्दर दिवाण; ग्रामसेवा मंडळ, वर्धा (१९५६), पृ. ७६.

---

१. जांच्या मत्तान वस्तुमात्र अनादि आनी शाश्वत (अनंत) आसा.
२. जांच्या मत्तान मृत्यूवांगडाच हो जीव ना जाता, तो जीव देखून विनाशी आसा.
३. ६ इंद्रियां (मन आनी ५ इंद्रियां) आनी ताचे ६ विशय) हीं अणभव घेवपाचीं बारा दारां.
४. पांच नीवरणां, आवरणां वा पड्डे – कामराग, व्यापाद वा दुस्वास, मोह, भ्रांती वा चित्ताची चंचळताय, आनी विचिकित्सा वा दुबाव (संशय).

२९५. दोन ब्राह्मण राजा – शाश्वत दृश्टी आनी उच्छेद दृश्टी. हीं दोनूय मत्तां दोन तोंकांचीं. हांचे मदलें तें बुद्धाचें मध्यम मत्त. शाश्वत दृश्टी आनी उच्छेद दृश्टी हीं दोन तोंकां म्हळ्यार अंत-स्वरूप, नाश-स्वरूप आशिल्ल्यान तांची दोन (अचूक तीर मारपी) राजाकडेन आनी दोन (गळे धरून कातरपी) याज्ञिकांकडेन तुळा केल्या. ह्या दोगांयची सर करून ब्राह्म आनी क्षत्रीय हिंसेचो उपरोध केला. हांगा श्रोत्रिय हें उतर वापरिल्ल्यान बुद्धाचो ब्रह्मविद्येचेर आक्षेप आसा काय फकत यज्ञीय हिंसेचेर असो मुद्दो उप्रासता. जयदेव कवी बुद्धाचो फकत यज्ञीय श्रुतींचेर आक्षेप आशिल्लो अशें मानता.

**निन्दसि यज्ञविधेरहह श्रुतिजातम् ।**
**सदयहृदयदर्शितपशुघातम् ।।**
**केशव धृतबुद्धशरीर**
**जय जगदीश हरे ।।९।। गीतगोविंद** (सर्ग पयलो)

(केशवा, गौतम बुद्धाच्या रुपांतूय म्हाका तूंच दिसता. यज्ञांत दिसपी पशुघातापासत तुजें काळीज चुरचुरता. आनी तूं हिंसक वेदमंत्रांक निंदिता. बुद्धरूप केशवा, तुजो जय आसूं.)

३०२. बुद्धघोष आपणाल्या भाश्यांत बरयता: ‘‘संवसार यात्रा करूंक भायर सरिल्ल्या यात्रिकाक दुख्खाबगर कांयच मेळना. संन्याशाची जीण दुखदिणी. असमांचो संगय दुखदिणो. देखून ताणें यात्रेक वचचें न्हय, म्हणजे ताका दुख्ख भोगचें ना. प्रव्रज्या (संन्यास) घेवन घरत्याग करून बुद्ध संघांत सरिल्ल्या मनशाचें हें पयलें सपण. प्रव्रज्ज्या घेतिल्लो श्रामणेर (श्रमण) जाता. तो बुद्ध, धर्म आनी संघ हांकां शरण वचपाचो तीन फावटी सोपूत घेता. आनी आपूण धा गजाली करचोना हाचो सोपूत घेता. त्यो गजाली अशो: प्राणघात, चोरी, अब्रह्मचर्य, असत्य भाशण, सुरापान, विकाल भोजन (न्हयत्या वेळार जेवप), अळशिकावणे नाच, गाणें आनी संगीताचो शोक, फुलां माळप आनी गंध लावप, उंच शय्येचेर न्हिदप, भांगर वा रुप्याच्यो वस्ती घालप. प्रव्रज्जा (संन्यास) घेतिल्लो मनीस तकलेचें मुंडण करता आनी हळडुवें वा भगवें वस्त्र न्हेसता. तो घरच्या मनशांकडेन संवसारीक संबंध दवरिना. श्रमणाक पिरायेचीं वीस वर्सां जातकीर उपसंपदा घेवंक येता. उपसंपदा घेतकच तो भिक्षु जाता.

३१५.३. **खणो** (सं. **क्षण**) = खीण. चार तरांचे खीण सांगल्यात. हे खीण फावो अशी संद येतकूच धरूंक जाय. तशे ते धरले नात जाल्यार लुकसाण जाता. हे चार

खीण अशे: (१) बुद्ध जल्माक येवप, (२) बुद्धमत्तांत जाका मध्यदेश[१] म्हळां, थंय जल्म घेवप, (३) सम दृश्टीचो लाभ जावप, (४) कुल्लीं स आयतनांची[२] निर्दोशताय.

३१६-३१९. **मिथ्या दृश्टी** म्हळ्यार लटकी दृश्टी वा नदर. जे सारकें पळयनात तांची दृश्टी मिथ्या आसता. कार्याक अकार्य आनी अकार्याक कार्य तशेंच अभयाक भय आनी भयाक अभय पळोवपी, लटकी नदर आसपी कुड्डेच दुर्गतीक वतात. वर्ज्य (म्हळ्यार ज्यो टाळचेल्यो गजाली आनी कर्मां) तें वर्ज्य आनी अवर्ज्य तें अवर्ज्य समजुपी, सारकें पळोवपीच सुगतीक पावतात.

३२०.१ **नाग** – बौद्ध साहित्यांत हतयाक सोंसणिकाय, बळ आनी संयम हांचें प्रतीक मानला. गौतम बुद्धाकय नाग वा महानाग अशें म्हणटाले. ताणें सर्गातल्यान येवन हतयाच्या रुपान पृथ्वीचेर जल्म घेतलो अशी दंतकथा आसा.

३२४. धनपालक नांवांच्या हतयाक धरून बांदून घाल्लो. पूण ताचें मन आपले आवयठांय घुस्पल्ल्यान तो तण खायना जालो. ही गाथा आवयच्या मोगाची देख दिता.

ह्या संदर्भांत बुद्धान भिक्षूंक सांगिल्ली दुसरी गजाल अशी: ''पळयात तो हती आपल्या त्या स्व-छंद विजन-सुखाची सदांच चिंता करीत ह्या बंधनांतल्यान ग्राम्य सुखांत मातपसून गोडी दाखयना. तुमीय अशेंच आसूंक जाय.''

३३४. फळां खावंचेले इत्शेन वानर जसो ह्या रुखावेल्यान त्या रुखाचेर रानांत उडयो मारीत आसता, तसो भोगांचे ओडीन मनीस जल्मा फाटसून जल्म घेत संवसारांत हेडटा.

३३५/३३६. मनशाच्या दुख्खाक ताचो वसवस (तृष्णा) कारण. हें सत ह्या दोनूय गाथांतल्यान बुद्धान आमचे नदरेक हाडलां.

३३८. तृष्णेची प्रवृत्ती वा वज जी मनशांत लिपून राविल्ली आसता ती वज सात तरांची :– राग, दुस्वास, मान (अहंकार), लटकी नदर, पुनर्जल्माचो लोभ, दुबाव, अविद्या.

---

१. **मध्यदेश** – उदेंतेक भागलपूर, अस्तमतेक गांधार, उत्तरेक हिमालय आनी दक्षिणेक विंध्यपर्वत ह्या शिमांभितर आस्पावल्ल्या वाठाराक मध्यदेश म्हणटाले.

२. **आयतन** = दार, भितर सरचेली वाट. इंद्रियां हीं ज्ञानाचे निर्मणेचीं दारां आशिल्ल्यान आयतन (दारां) हें उतर वापरलां. आयतनां कुल्लीं बारा आसात आनी तांचे दोन पंगड केल्यात: (अ) इंद्रियां, (ब) तांचे विशय.

(अ) **भितरलीं आयतनां वा दारां** – दोळे, कान, नाक, जीब, काया वा स्पर्श, मन.

(ब) **भायलीं आयतनां** – रूप, आवाज, गंध (परमळ) रस, स्पर्श, धर्म (पदार्थ).

३३९.१-२ **छत्तिंसती सोता** – (छत्तीस झरे, झोत वा लोट). स भायलीं आयतनां (दारां) म्हळ्यार ज्ञानेंद्रियां आनी स भितरलीं आयतनां (तांचे विशय) (गाथा ३१५ वेली टीप पळयात) मेळून बारा जातात. हीं कुल्लीं बारा मेळून काम, भव (जगपाची इत्सा) आनी विभव (संवसाराचो नाश) हांचेपासत वावुरतात. म्हणटकीच १२x३ म्हळ्यार ३६ ज्ञान मेळोवपाचे स्त्रोत वा झरे आसतात. ह्या झऱ्यांतल्यान आमची तृष्णा वाडटा. हाची विसकावणी **'खुद्दक वत्थु विभंग'** हातूंत केल्या. (पळयात **Dhammapada**, V. Dhammajoti, Mahabodhi Society, Sarnath, Benaras 91942). pp. xiv-xvii.

३४४. **वन** ह्या शब्दाचेर श्लेष आसा. (१) वासना, (२) अरण्य. जो मनीस (गृहस्थ) ल्हान व्हडल्यो कामना सोडून वनांत वता आनी पर्थून वन सोडून गृहस्थ जाता तो दुरात्मो पर्थून जाळांत घुस्पता.

३४७. जशी मावली आपल्या रसमी धाग्यांचें जाळें विणून मदीं बसता आनी तिचे झोपयेंत आयिल्ल्या भोंवरा वा मुसाफाटल्यान धांवत वचून ताका जिवानिशीं मारून, ताचो रोस चोखून ती परती आपल्याच जाग्यार बसता, तसो दुस्वासान कुशिल्लो, रागान पिसावल्लो, कामभोगांत गुल्ल जाल्लो प्राणी आपणेंच निर्मिल्ले तृष्णेच्या लोटाच्या तिराचेर धांवता आनी ताका तो हुपूंक येना (बुद्धघोष).

३४८. मनशान भूत, भविश्य आनी वर्तमान हांचेकडलो संबंध तोडूंक जाय. तातूंत चड घुसपून रावंक जायना. अशें केल्यार ताका मुक्तिसुख मेळटलें.

३४९.१. वितक्क (सं. **वितर्क**) = विचार. वितर्क तीन तरांचे आसात. कामवितर्क, व्यापाद आनी विहिंसा. हांकां मिथ्या संकल्प (विचार) अशेंय म्हणटात. विचार आनी वितर्क हीं दोनूय उतरां एकाच अर्थान वापरतात. जो हे लटके विचार थंडायता, तो सत विचारान चलता. विचार थंडावप म्हळ्यार विचार बंद करप न्हय तर बऱ्या विचारावरवीं आपली जीण शुद्ध करप.

३५२. **निरुक्ति कोविद** म्हळ्यार शब्द खंयच्या धातूपासून खंयच्या अर्थान सिद्ध केला हें जाणपी. **पद-कोविद** म्हळ्यार धातूक खंयचे खंयचे उपसर्ग आनी प्रत्यय लावन पद सिद्ध केलां हें जाणपी. म्हळ्यार उतरांची फोडणिशी आनी उतरांचें एकठावप जाणपी. जो 'शाब्दे परेच' निष्णात तोच पदज्ञ कवी. हांगा ताकाच म्हाप्रज्ञ – म्हापुरूश म्हळा. धम्मपदकार हे अशे पदज्ञ कवी आशिल्ले. (पळयात धर्मपद; कुन्दर दिवाण; पृ. ८०).

३५३. हे गाथेंत बुद्ध 'आपूण कोणाचो शिश्य' ह्या उपक नांवाच्या साधून केल्ल्या प्रस्नाची जाप दिता. आपूण स्वयंप्रज्ञ आसून कोणाचोच शिश्य न्हय म्हळ्यार

विनायक आसा, शास्ता आसा अशें सांगता. विनायक आनी शास्ता हीं बुद्धाचीं हेर नांवां. **अमरकोशांतलो** हो उल्लेख देखीक पळयात :

**सर्वज्ञ: सुगतो बुद्धो धर्मराजस्तथागता : ॥२५॥**
**समन्तभद्रो भगवान् मारजिल्लोकज्जिन : ॥२६॥**
**षडभिज्ञो दशबलोऽ द्वयवादी विनायक : ॥२७॥**
**मुनीन्द्र : श्रीघन : शास्ता मुनि: शाक्यमुनिस्तु य : ॥२८॥**
(पळयात 'अमरकोश', वासुदेवशास्त्री पणशीकर, निर्णयसागर प्रेस, बॉम्बे (१९४०) पृ. ६.)

३६९. संवसार हो दर्या आनी आमची जीण हें होडें. ती राग आनी दुस्वास हांणी भरिल्ली आसता, देखून ती बुडटली. हे विकार उसपून काडल्यार जिणेचें होडें ल्हव जावन तरून पलतडीं पावतलें. नाजाल्यार तें दर्या तळाक वतलें.

३८३.२. वेदांतलें ब्राह्मण हें उतर बौद्ध लोक साधु ह्या अर्थान वापरतात. जो मनीस पाप-मुक्त जाला तो ब्राह्मण. व्यक्तीचें सासणाचें अस्तित्व, जें ताच्या गर्व आनी आशा हांचो मुळाधार आसता, अशें जो मानता तो ब्राह्मण. कर्मकांड आनी यज्ञकांड तशींच एकान्त आनी समाधी हांचेवरवीं मनीस आपल्या अहंकाराचेर जैत जोडिना. आपणाक विसरून आनी कृतिशील लोकसेवेनच आपल्या अहंकाराचेर जैत जोडून तो ब्राह्मण जाता.[1] ह्या श्लोकांत निर्मिल्लें नाशिवंत आनी निर्मूंक नाशिल्लें अनाशिवंत हातुंतलें वेगळेपण बुद्धान दाखयलां. (Dhammapada, S. Radhakrishnan, Oxford University Press, Madras, (1992), pp. 177.

३८४. **शमथ** म्हळ्यार समाधी आनी **विपश्यना** म्हळ्यार प्रज्ञेचो सोद घेवप हे दोन धर्म. ह्या दोंयची बुन्याद शील. प्रज्ञा ही ह्या सगल्यांचें मूळ आनी निर्वाण हें फळ. श्रद्धा, शील, समाधी आनी प्रज्ञा ही बुद्धधर्माची चतुष्पदी. (पळयात धर्मपद, कुन्दर दिवाण; पृ. ८१).

---

१. J.G.Jennings (The Vedantic Buddhism of the Buddha (1947) pp.573-574) पळयात : बुद्धधर्म हो सुधारिल्लो ब्राह्मणधर्म हें केन्नाच विसरूंक जायना. गौतम बुद्धान ब्राह्मण हें उतर भौमानार्थी म्हणून वापरलां. देखून बुद्धान वेदांतलीं आनी वेदांतांतलीं कांय गृहीत तत्त्वां मान्य केल्यांत. ब्राह्मणधर्माचे फाटभुंये भाशेन बौद्धधर्माची फाटभूंय लेगीत 'ब्रह्मन्' हें उतर मानून घेता. बौद्धधर्मीय 'ब्रह्मन्' हें उतर व्यक्तीचो संबंद नाशिल्ली दैवी एकी, जी सगल्यो व्यक्ती, सगले अहंकार, सगलें वेगळेंपण आनी सगलो संघर्श हांच्या मुळाक आसून तातूंत सुमेळ सादता, ह्या अर्थान वापरतात.'

३८५. जाचो पार (दोळे, कान, नाक, जीब, कात (काया) आनी मन) अपार (रूप, शब्द, गंध, रस, स्पर्श, धर्म (पदार्थ) आनी पारापार (हांव आनी म्हजें) ना अशा भयमुक्त आनी ओड नाशिल्ल्याक हांव ब्राह्मण म्हणटां. (जो इंद्रियांतल्यान उप्राशिल्ल्या सुख-दुख्खाकडेन राग आनी दुस्वास हांचे विरयत पळयता तो ब्राह्मण.

हे गाथेचो दुसरो अर्थ असोय करूं येता: पार म्हळ्यार पलतड आनी अपार म्हळ्यार आलतड. हीं दोनूय तोंकां टाळून जो मदल्या मार्गान वचून आपले जिणेचें व्हडें ताणटा, देखुनूच तो निर्भय जाता, तो जेन्ना धाय बंधनां तोडटा (गाथा ३१ वयली टीप पळयात) तेन्नाच तो बंधमुक्त (विसंयुक्त) जाता.

३९३. श्री शंकराचार्यांच्या '**भजगोविंदम्**' हातुंतलो हो श्लोक पळयात:

**दवरून तासून हुमटावन केश्ट्यो**
**न्हेसून भगव्यो कफन्यो काश्ट्यो ।**
**मुर्खां पापयांक दिसून दिसना**
**भरपा पोट जायतीं सवंगां ।।१४।।**

३९५. हाचो अर्थ घर, कूड आनी वस्त्रां हांचेविशीं ओड नासप इतलोच घेवचेलो. कित्याक, बुद्धाक एकान्तिक मार्ग मान्य ना. ताचो मार्ग भोगवाद आनी त्यागवाद हीं दोनूय तोंकां टाळचेलो मदलो मार्ग आसलो.

४१७. योग म्हळ्यार बंध. बंध ह्या अर्थान योग, संयोग, संयोजन वापरल्यात. बंधमुक्त ह्या अर्थान हो शब्द वापरला.

# धम्मपदाची त्रिपिटकांतली सुवात



परिशिश्ट – १

# त्रिपिटक ग्रंथ

त्रिपिटक हो पाली भाशेंतलो मुखेल ग्रंथ-संग्रह. त्रिपिटक म्हळ्यार तीन पेटारे वा कण्डे. हो 'महाभारता'चे तिपेटीन व्हडलो. त्रिपिटकाचे तीन मुखेल वांटे. ते अशे: (१) **सुत्तपिटक,** (२) **विनयपिटक** आनी (३) **अभिधम्मपिटक.** ताचे पोट-वांटे अशे:

**सुत्तपिटक:** (५ वांटे)
१. दीघनिकाय, २. मज्झिमनिकाय, ३. संयुत्तनिकाय, ४. अंगुत्तरनिकाय, ५. खुद्दकनिकाय. हातुंतल्या खुद्दकनिकायाचे पर्थून १५ पोट-वांटे आसात. ते अशे: **१. खुद्दकपाठ, २. धम्मपद, ३. उदान, ४. इतिवुत्तक, ५. सुत्तनिपात, ६. विमानवुत्थु, ७. पेतवत्थु, ८. थेरगाथा, ९. थेरीगाथा, १०. जातक, ११. निद्देस, १२. परिसंभिदामग्ग, १३. अपदान, १४. बुद्धवंस, १५. चरियापिटक.**

**विनयपिटक:** (५ वांटे)
**१. पाराजिका, २. पाचित्तियादि, ३. महावग्ग, ४. चुलवग्ग, ५. परिवार पाठ.**

**अभिधम्मपिटक (७ वांटे)**
**१. धम्मसंगणि, २. विभंग, ३. धातुकथा, ४. पुग्गलपञ्ञत्ति, ५. कथावत्थु, ६. यमक, ७. पठ्ठान.**

ह्या त्रिपिटक ग्रंथांचेर सिंहली भाशेंत टिका बरयल्ल्यो. तांकां **अट्ठकथा** (अर्थकथा) अशें म्हणटात. इसवी सनाच्या पांचव्या शतमानाच्या आरंभाक बुद्धघोषान ह्या **अट्ठकथांचें** पाली भाशेंत रुपांतर केलें. **दीघनिकायादी** चार निकायांच्या 'अट्टकथां'च्या आरंबाक प्रस्तावांत सकयल्यो गाथा दिल्यात:

**सीहलदीपं पन आभथाय वसिना महामहिन्देन ।**
**ठपिता सीहलभासायं दीपवासिनमत्थाय ॥**
**अपमेत्वानं ततोहं सीहल भासं मनोरमं भासं ।**
**तन्तिनयानुच्छविकं आरोपेन्तो विगतदोस ॥**

(ही अट्ठकथा महामहिन्दान सिंहलद्विपाक हाडली, आनी ह्या जुंव्याचेर रावतल्या लोकांच्या हितापासत सिंहली भाशेंत बरोवन दवरिल्ली. ती सिंहली भाशेंतल्यान काडून

मनोरम आनी शास्त्राक फावो तसले निर्देश पाली भाशेंत दवरतां. ह्या अट्ठकथांचीं नांवां अशीं :

१. दीघनिकाय अट्ठकथा – **सुमंगल विलासिनी.**

२. मज्झिमनिकाय अट्ठकथा – **पपंचसूदनी.**

३. संयुत्तनिकाय अट्ठकथा – **सारत्थप्पकासिनी.**

४. अंगुत्तरनिकाय अट्ठकथा – **मनोरथपूरणी.**

५. विनय अट्ठकथा – **समंतपासादिका.**

६. धम्मसंगणि अट्ठकथा – **अट्ठसालिनी.**

७. विभंग अट्ठकथा – **संमोहनविनोदिनी.**

८. धातुकथा, पुग्गलपञ्ञत्ति, कथावत्तु, यमक आनी पठ्ठान ह्या पांच प्रकरणांची अट्ठकथा – **पंचप्पकरण अट्ठकथा.**

**खुद्दनिकायांतल्या** प्रकरणांचेर वेगळ्यावेगळ्या आचार्यांनी अट्ठकथा बरयल्यात.

**सुत्तपिटकांत** विशेश करून बुद्ध आनी बुद्धाच्या मुखेल शिश्यांनी केल्ल्या उपदेशाचो संग्रह केला. **विनयपिटकांत** भिक्षू आनी भिक्षुणी हांणी पाळपाच्या नेमांचो संग्रह केला. **अभिधम्मपिटकांत** बौद्ध तत्त्वज्ञानाचो विस्तारान विचार केला.

# धम्मपदांतली परिभाशा

पारिभाशीक शब्दांचे अर्थ टिपेंत वा पदटिपेंत दिल्यात. सकयल दिल्ले शब्द ज्या गाथांनी आयल्यात तांचो क्रमांक कंसांत दिला.

**अकिंचन** (८८, ४२१, ३९६, ४२१)

राग, द्वेश, मोहाविरयत. रूढ अर्थ निश्कांचन.

**अकुशल (अकुसलं)** (२८१)

गाथा २८१ वयली टीप पळयात.

**अकृतज्ञ (अकतञ्ञू)** (९७, ३८३)

कृत म्हळ्यार केल्लें. कार्यकारण भावरूप. जें केल्लें ना तें अकृत, म्हळ्यार निर्वाण. ताका जाणपी तो अकृत-ज्ञ.

**अमृत (अमतं)** (३७४)

निर्वाण, मोक्ष.

**अशुभदृश्टी (असुभानुपस्सिं)** (८)

कुडींत हाडां-चामडी, रगत-मांस, गू-मूत आदी म्हेळ्यो वस्तू पळोवन देहाविशींची विरक्ती.

**अविद्या (अविज्जा)** (२४३)

अयथार्थ ज्ञान. हें तीन तरांचें. (१) जग, अनित्य, तें सदांच बदलत आसतना तें नित्य मानप; (२) आत्मो हो अविनाशी, अविकारी (न बदलपी) पदार्थ नासतना तो आसा अशें मानप; (३) संवसार दुख्खदिणो आसतना लेगीत तो सुखाचो अशें मानप. हे अयथार्थ ज्ञान सगल्या संवसार दुख्खाचें मूळ कारण. गा. २२१ वयली टीप पळयात.

**अर्हन्त (अरहतं)** (१६४)

जीवनमुक्त. जाचीं धाय बंधनां नश्ट जाल्यांत असो. (गा. ९०वयली टीप पळयात).

**अष्टांग मार्ग (अट्ठङ्गिकं मग्गं)** (१९१)

आठ आंगांचो मार्ग. गा. २७३ वयली टीप पळयात.

**आत्मो**

आपूण, देह आनी चित्त, अंतस्कर्ण.

**आतूर**

पिडा, क्लेश, गा. १९८ वयली टीप पळयात.

**आयतनां**

दारां. ज्ञानेंद्रियां हीं ज्ञानाचे निर्मणेची दारां आशिल्ल्यान दारां हें उतर वापरतात. (गा. ३१५वयली तळटीप पळयात).

**आर्य (अरियं)** (२२, १६४)
वेंचून काडिल्लो, मार्गान वचपी, बुद्ध श्रावक (शिश्य). हे चार आसात. स्त्रोतापन्नन, सकृदागामी, अनागामी आनी अर्हन्त. हांकां आर्यजन म्हणटात. हेरांक पृथकजन म्हणटात. (गा. २२ आनी ९०वयली टीप पळयात).

**आर्यसतां (चत्तारि अरियसच्चानि) (अरिय सच्च)**
चार आर्यसतां. (गा. १९०.११ वयली टीप पळयात).

**आश्रव (आसवा)** (९३, २२६, २५३, २९२, २९३).
दोश, विकार (गा.क्र. ९३ वयली टीप पळयात).

**आहार** (९३)
गा. ९३ वयली टीप पळयात.

**उपादान**
दृढमूळ वा घट्ट जाल्ली तृष्णा. गा. २२१ वयली टीप पळयात.

**उपाधि**
स्कंध, काम, क्लेश आनी कर्म.

**उर्ध्वस्त्रोत (उद्धंसोतो)** (२१८)
लोटा आड पेंवपी अनागामी आर्य (गा.क्र. २१८ वयली पदटीप पळयात).

**ओघ (ओघो)** (२५)
आश्रव, हुंवार, लोट. व्हांवन व्हरपी तृष्णा.

**कामगुण** (३७१)
पंचेंद्रियांचे विशय.

**कायगतास्मृती (कायगतासति)** (२९३, २९९)
काया ही अशुभ ही जाणवीक आसप. (गा. २९३ वयली टीप पळयात.)

**कुशल (कुसलं)** (५३, १७३)
धा अकुशल कर्मांपासून पयस वचप म्हळ्यार धा कुशल वा बरीं कर्मां करप. (गा. २८१ वयली टीप पळयात).

**क्षण (खणो)** (३१५)
संधी, योग, योग खीण. मनुशत्व हो खीण. पशुत्व हो अखीण. कित्याक थंय निर्वाण मेळूं नजो. (गा. ३१५ वयली टीप पळयात).

**ग्रंथी (गन्थ)** (९०, २११)
गांठी (गा.क्र. ९० वयली टीप पळयात).

**जाति** (१५३, २३८, ३४८, ३९३)
जल्म. केन्नाय जात ह्या अर्थानूय वापरतात.

**तृष्णा (तण्हा)** (१५४, १८०, २१६, २५१, ३३४-३८, ३४९, ३५५, ४१६)
ही तीन तरांची. (१) **काम तृष्णा** – ऐहीक भोगेच्छा (२) **भवतृष्णा** – पारलौकीक

भौगेच्छा, (३) **विभवतृष्णा** – संवसार ना जावंचेली इत्सा. (गा. ३३५-३६ वयली टीप पळयात. प्रस्तावनेच्या पृ. XXXII वयली पदटीप पळयात).

**धर्म (धम्मं)** (५, २०, ७९, ७६, १६९, १९०, २५९, २६१, ३६३, ३७३, ३९२, ३९३)
बुद्धधर्माचें हें पारिभाशिक उतर. हाचो अर्थ कार्य-कारण-भाव. धत्त इति धर्म कारणम्। ध्रियत इति धर्म कार्यच। धर्म ह्या शब्दाच्यो दोन व्युत्पत्ती. नामरुपात्मक पदार्थाकूय धर्म म्हणटात.

**नामरूप (नामरूपं)** (२२१, ३६७)
गा. २२१ वयली टीप पळयात आनी पृ. ८५ वयली पदटीप पळयात.

**निर्वाण (निब्बाणं)** (२३, ३२, १३४, २८४, २०३, २०४, २२६, २८५, ३६९, ३७२)
गा. २३ वयली टीप पळयात.

**नीवरणां**
पड्डे (गा. २९४-९५) वयली टीप पळयात.

**प्रज्ञा (पञ्ञा)** (३८, ५९, १५२, २०८, २७७-८०, ३३३, ३४०, ३७२)
ज्ञानशक्ती, ज्ञानदृश्टी, जाचे वरवीं मनीस सत आनी असत हांचे मदीं विवेक करता.

**प्रमाद (पमादो)** (२१, २६-२८, ३०-३२, १६७, २४१, ३७१)
पृ. १५ वयल्यो १ आनी ३ क्रमांकाच्यो पदटिपो पळयात.




**प्रतीत्य समुत्पाद**
गा. २२१ वयली टीप पळयात.

**प्रातिमोक्ष (पातिमोक्ख)** (१८५, ३७५)
गाथा १८५ आनी ३७५ हांचे वयल्यो पदटिपो पळयात.

**पीति (प्रिती)** (२००,२७४)
स्वार्थाक लागून पूत, बायल, इश्ट आदींची माया दिसता तिचें नांव. प्रेम वा स्नेह. पूण प्रिती हाचेपरसूय वेगळी. ती निरपेक्ष आसता. निश्काम भावांतल्यान उत्पन्न जावपी प्रमोद (आनंद) हें तिचें स्वरूप.

**भव** (२८२)
ह्या जगांत जल्मप; संवसार; प्रपंच.

**भावना** (७३, ३०१)
एकाद्या वस्तूचें वा विचाराचें भोवन भोवन चिंतप करप.

**मान (मानो)** (७४, १५०, २२१, ४०७)
अभिमान. हो तीन तरांचो: (१) हांव दुसऱ्यांपरस श्रेश्ठ; (२) हांव दुसऱ्यां समान; (३) हांव दुसऱ्यांपरसूय हीण.

**मार (मारो)** (७, ८, ४०, ४६, ५७, १०५, १७५, ३३७)
गाथा क्र. ७ वयली टीप पळयात.

**मिथ्यादृश्टी (मिच्छादिट्ठिं)** (१६७, ३१६)

लटकी नदर. दान धर्मांत अर्थ ना, बऱ्या कर्माचें बरें फळ आनी वायट कर्माचें वायट फळ मेळना आदी विचार (गा. ३४९ वयली टीप पळयात).

**मिथ्यासंकल्प (मिच्छासंकप्प)** (१६७, ३१६)

हे तीन तरांचे: (१) काम संकल्प, काम विकार; (२) व्यापाद संकल्प – दुसऱ्याचें अहित वा वायट चिंतप; (३) विहिंसा संकल्प – दाटून न्हय तर शिटूकसाणीन हेरांक उपद्रव दिवप.

**विज्ञान (विञ्ञाणो)**

रूढ अर्थ चित्त वा चित्ताची क्रिया. विशेश अर्थ वेदना – संज्ञा – संस्कार हांचे विरयत केल्ली चित्त-क्रिया.

**वितर्क (वितक्क)** (३४९)

गा. ३४९ वयली टीप पळयात.

**विमोक्ष (विमोक्ख)** (९२)

गा. ९२ वयली टीप पळयात.

**विवेक** (७५)

गा. ७५ वयली पदटीप पळयात.

**वीर्य (वीरियं)** (७, ८)

मनोबळ; सकर्म करचेविशीं मनाची उर्बा.

**शयनासन (सयनासन)**

भिक्षुच्या मुक्कामाचें (राबित्याचें) खंयचेंय स्थळ.

**शील**

आचार. (गा. १-२ वयली टीप पळयात.)

**शिश्य (सं. शैक्ष) (सेखो)** (४५)

गा. ४५ वयली टीप पळयात.

**संस्कार (संङ्खार)** (२०३, २५५, २७७-७८, ३८३)

गा. २०२ वयली टीप पळयात.

**समाधी (समाधि)** (१४४, २४९-५०, ३६५)

चित्तशांती (गाथा क्र. २३ वयली टीप पळयात).

**संबोधिची आंगां (संम्बोधियङ्गेसु, संबोज्झंग)** (८९)

गा. ८९ वयली टीप पळयात.

**स्रोतापत्ती (सोतापत्ति, सोतापत्तिफलं)** (१७८)

गा. १७८ वयली टीप पळयात.

**स्कंध (खन्धा)** (२०२)

गा. २०२ वयली टीप पळयात.

## परिशिश्ट – ३

# भगवान बुद्धाचो वेदान्त

(चक्रवर्ती राजगोपालाचार्य)

भगवान बुद्ध हे सगल्या जगाक पूज्य आनी आराध्य जावन बसल्यात. पुणून तांणी केन्नाच आपूण अवतार वा पैगंबर वा ईश्वराचो पूत आशिल्ल्याचो दावो करूंक ना. वा तांणी आपूण एका नव्या धर्माची बुनयाद घालतां अशेंय म्हणूंक ना. धर्मपदाच्या सव्विसाव्या (म्हळ्यार निमाण्या) वर्गांत तांणी मनीस खरो ब्राह्मण कसो जातलो हेंच समजावन सांगलां. तांणी जें कितें सांगलां त्यावयल्यान ते ब्राह्मणांचे आड आशिल्ले वा जें तांचे जिणेचें एकजीव आंगूच आशिल्लें, अशा हिंदुंचे श्रद्धेचे वा विश्वासाचे आड ते आशिल्ले, असो मातूय भास जायना. तांणी कर्म-निवृत्ती सांगलीना, तर उरफाटें कर्म-सिद्धांताचेर भर दिलो. बऱ्या आनी वायट विचारांवरवीं जें कर्मफळ मेळटा तें केन्नाच चुकोवंक येवचेलें ना हें तांणी सांगलां.

आत्म्याचें अस्तित्वूय तांणी न्हयकारूंक ना. उरफाटें, ताच्या अंवरपणाचेर आनी गती-आगतीचेर आपलो विश्वासूच परगटायला. तांचें निर्वाण म्हळ्यार आत्म्याचो अंत वा विनाश न्हय, तर समुद्रांत जशी न्हंय विरता, तशेंच विरप. जे वाणीन तांणी आशिया खंडाक उपदेश केलो, ती वाणी एका विशाळ हृदयाच्या हिंदुची वाणी, मुर्ती-फोडप्याची न्हय. मनशाच्या अंतस्कर्णांतल्यान क्रूरताय आनी कठोरताय हांकां धांवडावन घालून आनी तातूंत दया आनी कंवळाय हांची प्रतिश्ठापना करून, तांणी जगांत पयलीं केन्नाच जावंक नाशिल्लो असो चमत्कार करून दाखयलो.

ते आत्मो-परमात्मो हांचें गुपीत सोडोवन दाखोवचेले भानगडींत पडलेनात. आनीक आत्मो-परमात्मो हें द्वैत काय अद्वैत काय द्वैताद्वैत ह्या वादांत रिगले नात. पुणून इतल्यावयल्यानूच ते वेदान्ताचे आड आशिल्ले अशें आमी म्हणूं नज. हो तांचो विनय, खरो विवेक अशेंच म्हणूंक जाय. हिंदूंनी कृष्णा भाशेन तांकां विष्णूचो एक अवतार मानून एक चलाखी केली, अशेंय म्हणूंक येवचें ना. तांणी तर अशे भाशेन बुद्धाविशीं आपली खरी श्रद्धाच प्रगटायली.

बुद्धान आमचो सगल्यांत बरो चक्षु, दया-चक्षु, उगडचेलो यत्न केलो. ह्या चक्षून जें दोळ्यांक दिसना, तें आमकां दिश्टी पडटा, आनी तें म्हळ्यार सगल्या जीवमात्राची एकता. म्हजें, तुजें आनी ताचें वेगळें अस्तित्व आसा, पुणून उपनिषदांच्या रुशिंनी आनी भगवान कृष्णान हेंच सांगलां: 'आपल्यांत दुसऱ्याचो आनी दुसऱ्यांत आपल्याचो आत्मो पळयात.' सत्याचो आनी मोक्षाचो होच मार्ग आसा हें तांणी आड्डून सांगलां.

यस्तु सर्वाणि भुतानि     आत्मन्नेवानुपश्यति ।
सर्वभुतेषु चात्मानम्     ततो न विजुगुप्सते ॥६॥
यस्मिन् सर्वाणि भूतानि     आत्मैवाभूद् विजानतः ।
तत्र को मोहः कः शोकः एकत्व मनुपश्यतः ॥७॥

(ईशावास्य उपनिषत्)

जो जाणपी सगलें जग आपल्यांत पळयता, तशेंच आपल्यांत सगल्या जगाक पळयता, तो कित्याचोच तिरस्कार करिना. जेन्ना जाणपी 'सगलें जग आपुणूच आसा' असो एकचार अणभवता, तेन्ना ताका शोक आनी मोह कसो आसतलो ?

**सर्वभूतस्थमात्मानं     सर्वभुतानि चात्मनि ।**
**ईक्षते योगयुत्कात्मा     सर्वत्र समदर्शनः ॥६-२९॥**

*सगल्या जिवांमदीं आपल्याक     सगले आपल्यांत जीव ते ।*
*थिरावल्लो चित्त योगांत     सारको सगल्यांक तो पळे ॥६-२९॥*

*(श्रीमत् भगवत्गीता)*

*(अ. सुरेश आमोणकार)*

देखून, उपनिषदांतल्या रुशीन आनी भगवान् श्रीकृष्णान आमकां हेंच सांगलां. ही गजाल घडये बेठो उपदेश दिसत. अंतस्कर्ण दयेन भिजतकूच आपूण आपणाक दुसऱ्यांत आनी दुसऱ्याक आपल्यांत पळयता अशें महात्मा बुद्धान आमकां शिकयलां.

अंतस्कर्ण कठोर जातकूच आमी कुड्डे जातात. दयेन भरिल्ले उदकाळ दोळे, जें रुशी आनी कृष्ण पळेताले, तेंच पळोवंक सांगतात. दयाभाव ही विधात्याची मनशाक दिल्ली सर्वोत्तम देण. दयाभाव नासत जाल्यार आमी कुड्डे जातकूच भोंवतणचें जग काळखान भरता. स्वार्थूच मनशाक कुड्डो करता.

मायेचें धांकण काडून जगाकडेन एकरूप जावंचेली पूर्ण दृश्टी आमकां दयाच दिता. भगवान् बुद्धान सर्वसामान्यांमुखार सामक्या सोप्या व्यव्हारीक रुपांत अद्वैत मांडलां. देखीक, फातर पडटकूच सैमाचें सत्य सोदतना पृथ्वींत गुरुत्वाकर्षण आसा इतलेंच म्हणून ओगी बसूं नाकात – अशी तांगेली शिकवण. दया होच खरो अद्वैतभाव. हृदयाची कठोरताय वा सुको वाद-विवाद न्हय.

अद्वैत हें कितें निखटें एक गूढ दार्शनीक मत्त न्हय, तर तें एक नितीक आनी समाजीक असो जिणेचो सिद्धांत. सगल्यांविशीं दयाभाव राखप होच त्या अनुभुतीचो मार्ग. होच बुद्ध धर्म. म्हळ्यारूच प्राणिमात्राविशीं दया दाखोवपाच्या धोरण मोगान वचून सादे, भोळे आनी नेणार अशा संवसारीक लोकांक लेगीत मत मेळोवंक जालें.

(श्री. कुन्दर दिवाण हांच्या 'धर्मपद' ह्या पुस्तकांतल्यान हो लेख तांच्या बरेपणान घेतला.)

